

पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखवलां. शिल्पांचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.

नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.

# अणकारीत कथा

(मराठी)









साहित्य अकादेमी

Ankarit Katha (अणकारीत कथा) :
Select Marathi short stories selected by Bhalchandra Nemade translated by various translators in Konkani. Compiled and edited by Harishchandra Nagvenkar
Sahitya Akadami, New Delhi (2004), Rs. Seventy Five


First Edition : 2004

**Published by :**
Sahitya Akademi



**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi-110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi-110 001

**Regional Offices :**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Mumbai-400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata-700 053
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bangalore-560 001

**Chennai Office :**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai-600 018

ISBN : 81-260-1959-X

मोल : 75 रुपया



**Cover Design :** Sanjeev Khandekar

**Typeset at :** All Reach Enterprises, Mahim, Mumbai 400 016.

**Printed at :** Mouj Printing Bureau, Khatau wadi, Mumbai 400 004.

## Acknowledgement

Sahitya Akademi wishes to record its gratitude to the distinguished translators whose kind co-operation has made this volume a printed reality. Finally, Sahitya Akademi is also grateful to Prof. Bhalchandra Nemade and Sri. Harishchandra Nagvenkar for selecting short stories and writing a forward to the volume and preparing a press copy in Konkani respectively.

# मांडावळ







# प्रस्तावना

आमच्या भारतीय भाशांक हे धर्तरेवयली सगल्यांत लांब मुजतीची म्हळ्यार देडशें वर्सांपरस चड काळ वसणुकशाय सोंसची पडली. हातूंतल्यानय त्यो अदीक घटमूट जावन स्वतंत्रताये उप्रांतच्या काळांत विकसित जायत गेल्यो. ह्या भाशांनी व्हड प्रमाणांत इंग्लेज भाशेंतल्यान अणकार करून आपणाल्यो संरचना विकसित केल्यो. अशें आसूनय आपणाल्या शेजारच्या भाशांत कसलें साहित्य निर्माण जाता हाची प्रत्यक्ष म्हायती आमकां स्वातंत्र्याउप्रांतच्या काळांतय सारकी जाल्ली दिसना. ही गजाल आमकां लजेची आसली तरी ती वस्तुस्थिती आसा, हातूंत दुबाव ना.

फाटल्या दसकांत मात भारतीय भाशांमदीं एकमेकांविशींच्या ह्या अज्ञानाची जाणवीक जावन व्हड प्रमाणात अणकार जावंक लागले. ताचेआदीं आनी वसणुकशायेच्या काळांत, मुखेलपणान इंग्लेज-अमेरिकन साहित्याचे अणकार व्हड प्रमाणांत जाल्ले आमकां दिसतात. थोडे-भोव फ्रेंच आनी जर्मन, क्वचित रशियन आनी इटालियन साहित्य-कृतींचे अणकार, तेय प्रत्यक्ष ह्या मूळ भाशांतल्यान आमच्या भाशांत जावचे बदला ते मुखेलपणान इंग्लेज भाशेच्या मार्गान जाल्ले दिसतात. आप-आपणाले भाशेचे आनी साहित्याचे गिरेस्तकायेचो गर्व बाळगुपी भारतीयांक ही परिस्थिती खचित सोबासारकी ना. ताचेयपरस सोबासारकी न्हय अशी गजाल म्हळ्यार गुजरातींतले झवेरचंद मेघाणी वा पन्नालाल पटेल वा सिंधीतले शाह अब्दुल लतिफ, हांचे सारक्या व्हड साहित्यिकांची वळख देखून मराठी वाचप्यांक नासप. तातूंतले तातूंत बंगाली साहित्यिकांक बरे दिस आशिल्ले म्हळ्यार जाता. शेजारच्या भाशांची जर ही परिस्थिती, तर मागीर आसामी, तामीळ, काश्मिरी ह्या भाशांचो मराठीकडेन कितलो साहित्यिक संबंद आशिल्लो, हाचो विचारच ना केल्लो बरो. पूण, ही परिस्थिती वेगान बदलूंक जाय, हाचेर साहित्य अकादमींतल्या सगल्याच वांगडी-लेखकांचें एकमत जालें. हाकालागून, उत्तेजन दिवपाखातीर वा पुरस्कारांखातीर, भारतीय भाशांतल्यान जाल्ले अणकारच विचारांत

घेवचे आनी हे अणकार 'जमता तशे' सरळ मूळ भाशांतल्यानच करचे अशें साहित्य अकादमीचें आयजचें धोरण आसा.

आयज व्हडल्यो-व्हडल्यो राष्ट्रीय आनी प्रांतीय संस्था, तशेंच कांय खाजगी प्रकाशन-संस्था व्हड प्रमाणांत भारतीय भाशांमदल्या सरळ अणकाराचो वावर करतात. साहित्य अकादमीन जाल्यार ह्या सरळ अणकारांखातीर देसांत चार सुवातांनी अणकार -केंद्रां स्थापन केल्यांत. पूण तांचो वावर ध्यानांत उरपासारको जाल्लो दिसना. दुर्दैवान, भारतीय साहित्य-कृतींचे भोवतेक अणकार इंग्लेज वा हिंदी भाशांमदल्यान फिल्टर जावनच मागीर जातात. अशा अणकारांचे कांय उजवाडावपी मूळ भाशा खंयची ते सांगनात वा मूळ साहित्य-कृतीची तशेंच तिच्या बरोवप्याची कसलीच म्हायती दिनात. आनी एक गजाल समजणेभायली आसा, ती म्हळ्यार देसांत व्हड संख्येन द्विभाशक आसूनय तांचेमदल्यान सरळ अणकार करपी अनुवादक निर्माण जायनात. देखीक, तामीळ आनी मराठी ह्या भाशांमदल्या अणकाराखातीर कोणूच अणकारकर्तो सोदूनय सांपडपाक ना. हालींच्या काळांत विविध राज्यांतल्यान स्थलांतरण केल्ली लोकसंख्या व्हड आसूनय अणकार संस्कृताय विकसित जाल्ली दिसना. दुसऱ्या प्रांतांत रावपी हे सगले लोक सुशिक्षित तशेंच उंचेलें शिक्षण घेतिल्ले आसातच. पूण, ह्या वर्गांत साहित्याविशीं आंतरिक मोग नासुये, वा ह्या द्विभाशकांमदल्यान अणकार-कर्ते तयार जावंचे, हे दृश्टीन जाय आशिल्ली वेवस्था आमचेकडेन ना.

खरें म्हळ्यार, आमच्या देसांत भोवतेकांक दोन वा तीन भासो कळटातच. पूण, अशें दिसता की, इंग्लेज ही सगल्यांचीच भास जावंक लागिल्ल्यान देशी भासांमदीं कितेंय वेवहार करचो, अशें ह्या उंचेलें शिक्षण घेतिल्ल्या स्थलांतरितांक दिसना आसुये. ही जी अनास्था आमकां दिसता तिका दुसरी एक बाजू आसा : भोवसंख्य द्विभाशक व्हड प्रमाणांत वाचक आसात. पूण, वाचकाक जेन्ना लेखक जावंचो अशें दिसता, तेन्ना अणकाराची प्रक्रिया सुरू जाता. जें कितें आपणें वाचलां तें आपणाले भाशेंतल्या हेर वाचकांकय दिवंक जाय, हें भाशिक भावपणाचें भान अणकारांचे निर्मणेक पोसवण दिवपी आसा.

आनी एक गजाल आसा. आमच्या देसांतल्या द्विभाशकत्वांत कांय भासो 'उच्चवर्णीय' जाल्ल्यो आसात. कांय मुखेल भासो उलोवपी लोक हेर खंयच्योच भासो उलयनात वा वाचनात. पूण, तांची भास हेर ल्हान भासांचे लोक खूब प्रयेत्न करून शिकतात, ताचो वापर करतात आनी तातूंतलें साहित्यय वाचतात. भोवतेक कोंकणी भाशक मराठी वाचतात. पूण, मराठीवाले कोंकणी वाचनात. तशेंच, भोवतेक मराठी भाशक लोक हिंदी वाचतात, पूण, हिंदीवाल्यांक मराठी समजून घेवपाची गरज दिसना.

हें एकतर्फी द्विभाशकत्व भारतीय साहित्याचे वट्ट संकल्पनेकच लुसकानकारी थरता. हाका लागून सूप्त असो अंतर्गत वसाहतवाद वाडत वता. भाशां-भाशांमदलो समभाव नानपाट जाता.

खरें म्हळ्यार, भारतीय भासांमदलो रासवळ भूतकाळ, इतिहास, संस्कृतीक चळवळ्यो, संस्कृत भाशेची रासवळ फाटभूंय आनी समान भाशीक द्रव्याक लागून अणकाराचे प्रस्न आमच्या भाशांमदीं उण्यांत उणें आसूंक जाय. एद्या व्हडल्या भोवभाशीक गणराज्यांत अणकार-संस्कृती इतली मागाशिल्ली आसप, हो आमच्या सगल्यांच्या हुस्क्याचो विशय जावन आसा. हातूंतलीं आडमेळीं सोदून तीं पयस करप गरजेचें आसा.

सतत इंग्लेजींतल्यान वा हिंदींतल्यान हेर भासांच्या साहित्य-कृतींच्या अणकारांचे अणकार करत रावप, हातूंत त्या पुराय भाशीक समाजाची आळशी वृत्ती परगट जाता. सतत इंग्लेजीचेर भर दिवपाचें मुखेल आडमेळें पयस केलें, तरीय हिंदीन इंग्लेजीची सुवात घेवप, हीय गजाल आमचे अपेक्षित अणकार-संस्कृतीक एक आडमेळेंच थरतलें. आनी एक तत्त्व आमी कारवायेंत हाडपाक जाय - भाशावार प्रांतरचणुकेउप्रांत दर एका राज्यांत मुखेल राज्यभाशा उलोवप्यांबगर व्हड प्रमाणांत अल्पसंख्याक भाशक रावतात, तांकां आपआपणाली मायभास अभिमानान वापरपाची मेकळीक पुरायेन मेळोवन दिवपाचो सुसंस्कृतपणा आमी जतनायेन सांबाळपाक जाय. एका राज्यांतले अल्पसंख्याक भाशक हे दुसरे सुवातेवयल्या गिरेस्त साहित्यिक दायजाचे प्रतिनिधी आसतात, हाचें भान अल्पसंख्याकांक आसूंक जाय. हाचेय परस चड म्हत्त्वाचें म्हळ्यार, हें भान त्या त्या राज्यांतल्या अधिकृत भाशेच्या लोकांक अदीक प्रमाणांत आसूंक जाय. अणकार-संस्कृतीचे उदरगतीखातीर, हे बाराबरच आनीकय वेवहारीक वेवस्था आमच्या भाशीक वेवहारांत येवपाची गरज आसा. कॉम्प्युटर-इलेक्ट्रॉनिक युगांत आख्ख्या देसांत पातळिल्ल्या ते ते भाशेच्या कुटुंबांक आपणाले भाशेंतल्यो घडणुको तशेंच दर वर्सा उजवाडाक येवपी पुस्तकां हांची म्हायती करून दिवप, हीं पुस्तकां खंय ना खंय प्रत्यक्ष वाचपाक मेळपाच्यो सुविधा मेळोवन दिवप, पुस्तकांचें आख्ख्या देसांत वितरण घडोवन हाडप, ह्यो गजाली साहित्य संमेलनांचेर कोट्यांनी रुपया खर्च करतल्या आमच्या लोकांक मातय अवघड नात. अशें घडल्यार आख्ख्या देसांत पातळिल्ले स्थलांतरित वाचक हे संभाव्य अणकार-कर्ते म्हूण तयार जातले. नवेनवे शब्दकोश सगल्या भारतीय भासांत आसप, हेर भासांक संबंदीत अशी साधनां मेळोवन दिवप, एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत वा हेर भासांत अणकार करूंक शकपी आनी करूंक सोदपी हांच्यो सतत नव्यो वळेऱ्यो तयार करप, अशा सगल्या गजालींतल्यान आमची अणकार-संस्कृती तयार जातली. एक खेपे,

खंयच्च्याय दोन भाशांमदी अणकारांचो नेमान आरंभ जालो म्हणटकीर कांय तेंपान त्या दोनय भासांमदीं अर्थाचे दृश्टीन एकामेकांक जोडपी सेतूसारकी शब्द-संपत्त आनी भाशीक रचणूक-तत्त्वां निर्माण जायत वतात. आनी तांकां सासणाचें रुपय लाबता.

साहित्य अकोदमीच्या पश्चिम विभागीय मंडळान सरळ अणकाराचें म्हत्त्व ध्यानांत दवरून एक भरीव कार्यावळ हातांत घेतली. ह्या विभागांतल्यो सिंधी, कोंकणी, गुजराती आनी मराठी, ह्यो चारय भासो उलोवपी लोक हे भूगोलिक आनी संस्कृतीक दृश्टीन एकमेकांमदीं इतले भरसून गेल्ले आसात, की ते एकजिनसीच दिसतले इतले रासवळ आचार-विचारांचे आसात. अशें आसूनय, वयर म्हळां ते प्रमाण अणकार-संस्कृतीचो उणाव आशिल्ल्यान ह्या भासांमदीं एकामेकांचें साहित्य फावो तितलें अणकारीत जावंक ना. गुजरातींत हेर तिनय भाशा-भयणींच्या मानान चड अणकार जाल्ले दिश्टी पडटात. हेर भासो जाणून घेवपांत गुजराती वाचक मराठी वाचकांच्या कितलेतरी मुखार आसात. दर वर्सा ह्या चारय भासांमदले नांवाजते अणकार-कर्ते एकठांय हाडून तांचेकडच्यान थरिल्लो मजकूर अणकारीत करून घेवप, अशें ह्या मंडळान थारायलें आनी साहित्य अकादमीचे कार्यकारिणीन ह्या उपक्रमाची तोखणाय करून ताका मान्यताय दिली. ते प्रमाण, पयली कार्यशाळा, मराठींतल्या वेंचीक कथांचो सिंधी, कोंकणी आनी गुजराती ह्या तीन भासांमदी अणकार करपाखातीर गुजरातेंत अमरापूर (जि. मेहसाणा) हांगा तारीख 6 नोव्हेंबर ते 12 नोव्हेंबर 2000 मेरेन घडोवन हाडली. हेउप्रांतची कार्यशाळा जळगावांत जैन हिल्सच्या स्फूर्तदिण्या सैमिक वाठारांत जाली. ता. 7 ऑक्टोबर ते 13 ऑक्टोबर 2001 मेरेन घेतिल्ले हे कार्यशाळेंत वट्ट तेवीस गुजराती लघुकथांचे हेर तीन भासांत पुराय अणकार जाले.

तेउप्रांत वीस कोंकणी लघुकथांचे हेर तीन भासांत अणकार करपाखातीर तांचो पयलीं मराठींत अणकार करपाचो वावर पणजे हांगा ता. 26 ऑगस्ट ते 1 सप्टेंबर 2002 मेरेन जाल्ले कार्यशाळेंत हातांत घेतलो. सिंधी कथांचे अणकार, अणकारपी मेळटकीर हातांत घेतले. ह्या सगल्या कार्यशाळांक लागून, ह्या मळार नांवाजते आशिल्ल्या अणकारप्यांचे सर्जनशीलतेक आव्हान मेळ्ळेंच, तेचबराबर कार्यशाळांच्या आखरेक ते ते भाशेंतल्या बऱ्या अणकारांची पुस्तकांय बरे तरेन तयार जालीं. एक प्रयोग म्हुणूनय पश्चिम विभागीय कार्यालयाक बरो अणभव मेळ्ळो.

लघुकथा, हो स्वतंत्र साहित्य-प्रकार म्हुणून एकोणिसाव्या शतमानांत निर्माण जालो, तो मुखेलपणान नेमाळ्यांत फावो त्या प्रमाणांतल्या पानांचे मर्यादेंत स्वतंत्र

आविश्कार करपाक मेळचो हेच खातीर. हिका आदीं मॅगझीन स्टोरी अशेंय म्हणटाले. एडगर अॅलन पो आनी हॉथॉर्न हे अमेरिकन लेखक, गॉगॉल, मॉपासां आनी चेकाव हे युरोपियन लेखक ह्या साहित्य-प्रकाराची बुनयाद घालपी अशें मानतात. एककेंद्रित, एकपदरी आशय-सूत्रांतल्यान थळ-काळाचें खर संवेदन करून दिवप, संकुचित अंतर्रचणूक प्रभावी शैलींत मांडप, तेप्रमाण उण्यांत उणीं पात्रां आनी मोजकेच प्रसंग,हांणीं गच्च भरिल्लें कथानक भाशेचो फावो त्या प्रमाणांत संयमी वापर करून मांडप, हीं ह्या साहित्य प्रकाराचीं लक्षणां आसात. ह्या लक्षणांक लागून लघुकथेचे भाशेचेर व्यामिश्र अर्थ उकतावपाची काव्यतुल्य जापसालदारकी येवन पडटा. सगल्यो बऱ्यो लघुकथा आपणाली भाशा खरपणान संवेदनक्षम करूनच येसस्वी जातात. देखूनच अणकाराखातीर अशो कथा कवितेसारक्यो आव्हानदिण्यो थरतात.

हरशीं नवलकाण्यो, नाटकां वा कविता, ह्या साहित्य प्रकारांच्या अणकाराखातीर असोच सामुहिक पद्धतीचो अवलंब करप समा थरतलें. हाचें कारण अशें की, दोनय वा तिनय भासांचे जाणकार हाजीर आशिल्ल्यान उतरांचे किंतलेशेच पर्याय मुखार येतात आनी तांचें विश्लेशणय थंयच्या थंय जावंक पावता.

मराठीच्या निमंत्रकांनी फाटल्या अर्द-शेकड्यांतल्या नांवाजत्या लघुकथा-लेखकांच्यो बारा लघुकथा वेंचून त्यो अणकारीत करपाखातीर सिंधी, कोंकणी आनी गुजराती ह्या भाशांतल्या, मराठीचो अणकार करपाचो दीर्घ अणभव आशिल्ल्या अणकारकर्त्यांक आमंत्रित केलें. ह्या कथांच्यो प्रती तीन म्हयनेआदीं सगल्या अणकारप्यांक धाडून दिल्यो. तांणी आपणा-आपणाले आवडीच्या कथांचेर अणकाराचे दृश्टीन विचार करून, जमता जाल्यार कच्चो मसुदोय कार्यशाळेंत घेवन येवंचो, अशें तांकां कळयिल्लें.

अमरापूरच्या ग्रामभारती विद्यापीठाच्या प्रसन्न अशा गांधीवादी वातावरणांत हे कार्यशाळेचे क्षमतेक फावो अशें वातावरण लाबलें. सुर्वेक, अणकार-विद्येच्या सैद्धांतिक गजालींचेर मराठीच्या निमंत्रकान दोन भाशणां दिली. आनी उप्रांत रोखडेंच आपणा-आपणाले प्रस्न, अडचण्यो आनी दुबाव मांडून सगल्यांनी ह्या भाशणांचेर उद्बोधक भासाभास केली. असली भासा-भास, उप्रांतय सकाळ-सांजवेळ जेवणाच्या आनी च्या-नाश्तो हांच्या वेळार सतत चलताली. गुजरातीचे निमंत्रक रा. रघुवीर चौधरी खूप अगत्यान सगल्या गजालींची काळजी घेताले. मराठीचे नांवाजते अणकार-कर्ते जयप्रकाश सावंत हांकां तज्ज्ञ म्हुणून आमंत्रित केल्ले. मराठींतल्या आधुनिक काळांतल्या लघुकथांत व्हड प्रमाणांत, प्रादेशिक तशेंच खासा त्या त्या समूहाची आनी वाठाराची खाशेली बोलीभास वापरिल्ली

आशिल्ल्यान गुजराती, सिंधी आनी कोंकणी अणकारप्यांक सगल्याच उतरांचे अचूक अर्थ जाय आशिल्ले. हे बाबतींत जयप्रकाश सावंत सगल्यांचे आदर्श मार्गदर्शक थरले. कार्यशाळेचे पंद्राय दिस कोंकणी आनी सिंधी अणकारप्यांनी दाखयिल्ल्या उत्साहाक लागून सदांच ध्यानांत उरतले अशे गेले.

अणकारप्यांमुखार मुखेल आडमेळीं आशिल्लीं तीं म्हळ्यार, मूळ मराठी भाशेंतली विशिश्ट जातीची विशिश्ट बोली-भास, शब्दकोशांत नाशिल्लीं खाशेलीं उतरां आनी वाक्प्रचार - हीं भाशीक रूपां सिंधींत वा कोंकणींत कशीं स्थानांतरीत करप? कृत्रिम रितीन अणकार करपाचो जाल्यार असलीं आडमेळीं येनात. पूण, सर्जनशील अणकार करता आसतना, त्या त्या वाठारांतल्या तसले तरेचे परिस्थितीचे, समूहाचे वृत्तीचें अचूक प्रयोजन करप अचूक भाशेच्या वापरानच शक्य जाता. अशी जाण बाळगुवप, ही बऱ्या अणकाराची सुरवात आसता.

दुसरें आडमेळें जें भोवतेक अणकारप्यांसामकार उप्रासता, तें म्हळ्यार, मूळ मराठी समाजांतलीं पात्रां, प्रसंग, इतिहासिक वा समाजिक फाटभूंय इत्यादी घटक मुळांत आसात तशेच लक्ष्य भाशेंतय तंतोतंत दिसतले, अशे तरेन अणकार करप की ह्या घटकांत फावो अशे बदल करून ते कोंकणी, सिंधी वा गुजराती समाजांतलेच कशे दिसतले (म्हळ्यार अणकारांत मराठी दिसचेनात) अशे तरेन अणकार करप? समूहाक संबंदीत अशो ह्यो खाशेल्यो गजाली उण्यो आसल्यो, जाल्यारय अणकार मीमांसेंत हो म्हत्त्वाचो मुद्दो आसता.

आनी एक गजाल आसा, ती म्हळ्यार मूळ मजकुराचो आसा तसो अणकार करप की अणकारप्यान थोडी-भोव मेकळीक घेवप? हें, सगलेच अणकार मीमांसेसामकार प्रस्नचिन्न उबें करपी पुर्विल्लें कोडें परत-परत उप्रासतालें. मराठीच्या खाशेल्या इतिहासिक थळ-काळाच्या संदर्भाखातीर सिंधींत वा गुजरातींत कसले सम-निर्देशक वापरप, हो देखून सुटावो जायनाशिल्लो असो प्रस्न आशिल्लो. अशें आसूनय ते ते लघुकथेची गरज म्हणून अणकारप्यांनी सर्जनशील जावन हे अवघड प्रस्न येसस्वीपणान सोडयले. हे सगले येसस्वी प्रयेत्न प्रस्तुत अणकार-कृतींत आमकां पळोवंक मेळटले, हाची म्हाका खात्री आसा. सगल्याच अणकारप्यांची मराठी भाशेकडेन इतली बरी संवकळ आशिल्ली की, आपआपणाले भाशेंतले मराठीच्या रूपांचे पर्याय तंतोतंत तपशीलासयत तांच्या ध्यानांत येताले.

मराठींत लघुकथा हो आधुनिक काळांतलो लोकांचे सगल्यांत चड आवडीचो जाल्लो साहित्य प्रकार आसा, अशें म्हणूं येता. लघुकथेच्या सवायशें वर्सांच्या इतिहासांत मराठी लघुकथेन 1945 ते 1970 ह्या कालखंडाचेर पुरायेन शेक चलयलो. ह्या कालखंडांत दुसरो खंयचोच गद्य साहित्य प्रकार उदरगतीक पावलो

ना, इतलें लघुकथेन सगल्या प्रतिभावंतांक आपणाकडेन ओडून घेतिल्लें. खबरां-पत्रांचे रकाने, सप्तकी पुरवण्यो, म्हयनाळीं, आख्ख्या महाराष्ट्रांतले शाळा-कॉलेजांतले वर्सुके अंक, दिवाळी अंक, गांवागावांत कथा-कथनाच्यो कार्यावळी, आकाशवाणी, साहित्य संमेलनां, अशा सगल्या मळांचेर लघुकथेन आपणालें राज्य चलयलें. हाका लागून, ह्या एकाच साहित्य-प्रकारांत हजारांनी लघुकथा आनी शेंकड्यांनी ल्हान-व्हड अशे लघुकथा-लेखक ह्या काळांत जावन गेले. हातंतूल्यान, बारा बऱ्यांतल्यो बऱ्यो लघुकथा वेंचून काडप, हें सभाविकपणान अशक्यच अशें काम आशिल्लें. विशेशकरून, परभाशेंत अणकारीत करपाखातीर कांय खाशेलीं वैशिश्ट्यां आशिल्ल्योच लघुकथा वेंचप गरजेचें आशिल्लें. आदी सांगलां तेप्रमाण, लांबायेचे दृश्टीन प्रमाणबद्धता म्हळ्यार कथेचो आकार मर्यादेंत आसप, होच अशा प्रकल्पांखातीर म्हत्त्वाचो निकश आसता. हाकालागून बऱ्यो आसूनच, कांय प्रमाणात लांब आशिल्ल्यो लघुकथा आनी दीर्घकथा, हांकां निरुपायान कुशीक काडच्यो पडल्यो. आधुनिक काळांतल्या लघुकथा साहित्यांत ठसठशीतपणान दिसपी वेगळेवेगळे प्रवाह स्पश्टपणान दाखोवपी लघुकथांक, पर्यायान, अग्रक्रमान वेंचून काडल्यात. हाकालागून हो लघुकथां-झेलो प्रातिनिधिक थरतलो, असोय आसा. हाचे वांगडाच हेर निकशय लावन कथा वेंचल्यात. महाराष्ट्रांतल्या उब्या-आडव्या अशा सगल्या समाजिक पांवड्यांतल्यान आयिल्ल्या स्रेश्ठ कथालेखकांची वळख ह्या कथांवरवीं जातली. व्यंकटेश माडगूळकर हांचेपासून फुडल्या दोन पिळग्यांच्या लेखकांचो हातूंत आस्पाव आसा. महाराष्ट्राच्या भुगोलिक आंवाठाचोय विचार केल्ल्यान धारवाडपासून (जी. ए. कुलकर्णी) कोल्हापूर आनी लागींची कर्नाटक हद्द (राजन गवस), दक्षिण महाराष्ट्र (जी. के. ऐनापुरे), माणदेश (व्यंकटेश माडगूळकर), पुणे (श्याम मनोहर), अहमदनगर (रंगनाथ पठारे), मुंबय (गंगाधर गाडगीळ, भाऊ पाध्ये, मेघना पेठे), मराठवाड्याची लातूर-उस्मानाबादची हद्द (प्र. ई. सोनकांबळे), अमरावती वऱ्हाडी (उद्धव शेळके) आनी वर्धा वऱ्हाडी दलित (अमिताभ), अशा विंगड विंगड वाठारांतल्या पोट-भासांचें विहंगमावलोकनय ह्या लघुकथांतल्यान जावंक पावतलें. लघुकथेचो, तिचे आकार-मर्यादेक लागून भाशेचे खर प्रयोगक्षमतेचेर चड भर आसता. हाकालागून ह्या सगल्या लघुकथा-लेखकांनी आप-आपणाल्या वाठारांतल्या पोटभाशांचो आनी समाज-जिणेंतल्या विंगड विंगड पांवड्यांवयल्या बोलीभासांचो जो खूब सर्जनशीलतेन वापर केला, तो देखून कार्यशाळेंतल्या अणकारप्यांचे द्विभाशीक क्षमतेक एक व्हड आव्हानच कशें आशिल्लें.

मराठीच्या ह्या काळांतल्या लघुकथांनी अदमासान शंबर वर्सांसावन मराठींत चालंत आशिल्लीं मध्यमवर्गीय मूल्यां भायर मारपाचो इतिहासिक वावर केला तें

दिसतलें. 1960 उप्रांत महाराष्ट्रांतल्या खंयच्याच मळार आदलेभशेन मध्यमवर्ग केंद्र स्थानाचेर उरलो ना, ही गजालय हांगा उकती जातली.

ह्या कथांची आशय-सूत्रांय अनुभूतीची नवीं नवीं मळां उबीं करपी अशीं आसात. शारी उंचेल्या वर्गापासून सामक्या सकयल्या समाजाच्या परिघावयल्या जाती-जमातींचे विंगड विंगड तरांचे प्रस्न ह्या लघुकथांतल्यान आमच्या मुखार येतात.

नवकथेचे जनक **गंगाधर गाडगीळ** (जल्म 1923) हांचे कथेंत रेल्वे-गाडयेच्या एका डब्यांत थोडो वेळ जें नाट्य घडटा तें दरएका पात्राप्रमाण, प्रसंगाप्रमाण सतत बदलतें दवरून एका घराब्यांतले घरकान्नीचें मानसिक परिप्रेक्ष्य खूब संयमान उण्यांत उण्या उतरांनी चितरायलां. ह्या तीन भुरग्यांचे आवयचें व्यक्ती म्हुणून सतत चिड्डून उरिल्लें स्वत्व तिचे जिणेंतल्या कितल्याश्याच संदर्भासयत ह्या परिप्रेक्ष्यांत इतलें उदेल्लें दिसता की, जनेलांतल्यान दिसपी चंद्रीमय तिका एका भुरग्यां-गीतांतल्यानच अणभवाक येता आनी हें भुरग्यां-गीतय चंद्रीम हो थकिल्लो, खर्शेल्लो दाखोवपी अशेंच आसा.

**व्यंकटेश माडगूळकर** (1927-2001) हांकां मराठी लघुकथेचे एक प्रवर्तक म्हूण मराठी साहित्य संवसारांत व्हड सुवात आसा. तांणी लघुकथेक गांवगिरे जिणेचें परिमाण मेळोवन दिलें. ह्या झेल्यांतली 'देवू सटवो म्हार' ही कथा मूळ मराठींत 1947 ह्या वर्सा 'अभिरुचि' म्हयनाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ली. मुखावयल्या 1960 उप्रांतच्या काळांत परगट जाल्ल्यो दलित साहित्याच्यो नव्यो जाणिवो हे कथेंत दृश्टिवंतपणान उकत्यो जाल्ल्यो आमकां दिसतात. मराठींतल्या दलित जाणिवांची नांदी एका दलितेतर ब्राह्मण लेखकान इतक्या प्रभावीपणान म्हणप, ही गजाल महाराष्ट्रांतल्या पुरोगामी विचारांची गवाय जावन आसा. एका ल्हानशाच गांवांत तळागाळांतल्या निराधार आनी शोशीत वर्गांत समाजिक बंडखोरीचें तत्त्वज्ञान कशें रुजता आनी उत्स्फूर्तपणान प्रतिकाराचें प्रभावी शस्त्र कशें उबारता, हाचें समाजशास्त्रीय समालोकन एकाद्र्या दीर्घ समाजशास्त्रीय प्रबंधांतलेगीत जमचें ना, इतल्या ल्हान-व्हड तपशिलांसयत संक्षेपान हे लघुकथेंत जाल्लें आसा. परंपरेने आयिल्ले अत्याचार आनी अपमान सोंशीत आयिल्लो एक सोंशीक वृत्तीचो बलुतेदार आंबेडकरी क्रांतीचो स्फोट आपणाले सात्त्विक पूण खर तिडकींतल्यान परगट करता, ही घडणूक व्यंकटेश माडगूळकर हांणी आपणाले अभिजात शैलीन चितरायिल्ली आसा.

मराठी लघुकथेचो ग्रामीण आशय-सुत्रांतल्यान स्रेश्ठ आविश्कार करपी अशे आनी एक लेखक **उद्धव शेळके** (1930-1992) हांचे 'घालमेल' हे लघुकथेची

अशिक्षित गांवगिरी नायिका आपणाले मोन्या जनावराभाशेन आशिल्लें अस्तित्व अभिजात शैलीन उण्यांत उणें आत्मनिवेदन करून उकतें करता. तिचे जिणेंतले सगल्यांत अवघड अशे कसवटीच्या खिणाकय तिची प्रतिक्रिया सबंद कथेंत फकत दोनच उतरांनी दोन वेगळ्यावेगळ्या वेळार उकती जाता. तिचे फारकतीविशीं चलिल्लीं हेरांचीं पुराय निरर्थक उलोवणीं निबर वऱ्हाडी बोलीभाशेंतल्यान जातात. वास्तवावयलो घट्ट ताबो बोलीभाशेच्या ह्या वापराक लागून अप्रतिमपणान व्यक्त जाल्लो हे कथेंत जाणवता. गांवगिरे अशिक्षित बायलेचें सबंद आयुश्य परातींत भाकरी थापपांतूच वता, तें हांगां गृहीत धरलां. इतलेंच न्हय, जाल्यार तिची मान्यतायय सगल्यांनी गृहीत धरल्या. तिचे मान्यतायेक मातय वगत जाल्लो कोणाक मानवना, हें आखरेक जाणवता. उपाट आशय व्यक्त करपी ही गांवगिरे भाशेंतल्यान पयलेच खेपे तयार केल्ली शैली आसा.

**जी. ए. कुळकर्णी** (1923-1987) हांची 'प्रदक्षिणा' ही लघुकथा तांचो मराठी अभिरुचीचेर खोलायेन जाल्लो प्रभाव उकतावपी अशी आसा. हो प्रभाव मुखेलपणान शून्यवादी जिणेदृश्टीचो आसा. वास्तवतेची पुनर्रचणूक कठोर अशा कथन-तंत्रांनी करून एक-एक आगळो-वेगळो प्रसंग फ्लॅशबॅक पद्धतीन मांडटा आसतना हे सगले प्रसंग एकाफाटल्यान एक अशे दाखयत, तांची कथा विदारक अशा सत्याचो सोद घेता आनी ताची प्रतिति वाचकांक समर्थपणान करून दिता. एका फुडाऱ्याच्या भौशिक व्हडपणाची उरफाटी बाजू व्यस्त पद्धतीन दाखयतना कितलेशेच तपशील जुळून येतात आनी एक विद्रूप असो आकार, हाचे आदीं ओडलायणें दिसतल्या चित्रांतल्यान उरफाट्या मार्गान उकतो जाता. मराठी लघुकथेचे उदरगतीचें एक म्हत्त्वाचे पेणें हे कथन शैलींतल्यान स्पश्ट जाता.

**भाऊ पाध्ये** (1926-1996) हांचे कथेकडेन म्हानगरांत सभाविकपणान निर्माण जावपी विकृतींची एक पत हे नदरेन पळोंव येता. दोन मनशां एकमेकांचीं मनां दुखोवपाच्या तंत्रांचो वापर करपांत इतलीं फिशाल जाल्यांत की, ती दोगांय एकामेकांची आनी सवका-सवका आपलीय पूर्व-जीण कठोरपणान उकती करीत वतात. सगलीं मानवी मूल्यां आरतीं परतीं करपी भिरांकूल असें वास्तव ह्या दोगांयनी वांटून घेतलां. दोगांयचें हिंसक संबंद एकमेकांक चड तेंप तिगोवन दवरनात, ही गजाल अटळ थरता. आधुनिक उद्योगिक संस्कृतायेच्या तळाकडेन आपशींच निर्माण जावपी नीतीभायले धंदे, गुन्यावकारी, दळदिरेंपण, दुख्ख, लैंगिक व्यभिचार, खूनखराबी आनी अराजक हांची कार्यशक्त भाऊ पाध्ये हांणी फकत दोन पात्रांच्या संवादांतल्यान कसल्याच कलात्मक तंत्राच्या वापराबगर उकती केल्या.

**श्याम मनोहर** (जल्म 1941) हांणी आपणाले खासा तटस्थ, थंड आनी उपहासभरीत अशे शैलीचो वापर करून मनशाचे वागणुकीचें विच्छेदन केलां. मनशांनी सामाजिकतेची कसलीच ओलसाण नासतना वर्ग-संबंद वाडयत व्हेल्यात. हे संबंद तांचो घुस्मटमार करतात. पूण हें सोंसत रावलेबगर ह्या पतनांतल्यान कोणाचीच सुटका ना. हाकालागून सुकेसडसडीत अशे पोकळेंत सगलेजाण समूहिक वेवहार करतना दिसतात. पर्यायान, वास्तव हें, वयले वयल्यान पळयल्यार असुदायेन चलपी विचित्र वजें सांबाळीत सगलेजाण जियेताना दिसतात.

**रंगनाथ पठारे** (जल्म 1932) हांचे कथेंत निमशारी तशेंच तालुक्या-जिल्ह्याच्या पांवड्यावयलें फाटल्या 25-30 वर्सांतलें वेगान बदलत वचपी जग दिश्टी पडटा. पूण, हो बदल खूब मंद गतीन सकयल्या सुरांत प्रथम-पुरुशी कथनांतल्यान, निवेदकाच्या मनांतलो गोंदळ दाखयत, ल्हवू-ल्हवू सांगला. देसांतली लोकशाय सकयलमेरेन मुळां धरतासतना, स्वत्व वगडायत बदलत वचपी असहाय समाज हो तांच्या हुस्क्याचो विशय जाला. कुणब्याचो मराठा जावपाची समाजशास्त्रीय प्रक्रिया आख्ख्या महाराष्ट्रांत वेगान जाली, तिची, गडगंज अशे नैतिकतायेचे कसवटेचेर तांणी सगल्या आंगांनी हे कथेंत तपासणी केल्या. मुळांत सादीं आशिल्लीं मनशां वर्ग-संकल्पनेंत आपणालें स्वत्व कशें वगडायतात, हें आशयसूत्र वयले नैतिकतेचो एक वांटो जावन आसा.

**प्र. ई. सोनकांबळे** (जल्म 1943) हांचो प्रथमपुरुशी निवेदक वाचकांकय सोंसपाभायले थरतले, अशे क्रूर शोशणाचे प्रसंग, भगसुवपाचे आनी दुस्वासविरयत दृश्टीन पळयता आनी खूब मन-मेकळेपणान ते सांगता. वाचकाचो प्रतिसाद न्हयकार-दाखोवणे पद्धतीन निर्मुपी हें तंत्र सोनकांबळे हांच्या व्यक्तिमत्त्वाचो एक घटक आसा. तें दलीत साहित्याच्या उठावाच्या काळांत खूब परिणामकारक थरलें. हाचें कारण अशें की, हे निर्मळ संवेदनशीलतेचें नातें, मनीसपणाचें मूल्य हें सगल्यांत व्हड आसा, अशें मानपी आमच्या समाजांतल्या शोशीत-वर्गाच्या उदार दायजाकडेन आसा. दलीत साहित्याक सोनकांबळे हांचे कथेन हें वेगळें परिमाण दिलां.

**राजन गवस** (जल्म 1959) हांची कथा पुराय असहाय अशा गांवगिऱ्या वर्गांतले बायलेचें आपणाले जिणे संबंदीं निर्णय घेवपाचें स्वातंत्र्य देखून परंपरेन चलून आयिल्ल्या गुलामपणाइतलें दुर्भाग्याचें आसता, ह्या सूत्राभोंवतणी एक सादी गांवगिरे पद्धतीचे शैलींतली गजाल सांगता. पूण, हाचे वांगडाच, आनी दोन-तीन

गजालीय ह्या सूत्रांतल्यान उकत्यो जातात. स्वताचेर अवलंबून रावपाचे तेजीस्ट वृत्तीचो शेवट परावलंबी शिंदळ-वृत्तींत जायत वता, तशें अस्तुरीपणाचें, स्वतंत्रतायेच्या मूल्याचें अवास्तव अशें पतन जाता. राजन गवस हांचे कथेंतल्या तपशिलाची तांक ही अभ्यासपासारकी आसा.

**अमिताभ** (जल्म 1941) हांचे 'भिकाऱ्याले ओकाऱ्या' हे लघुकथेंत मराठींत पयलेच खेपे आयिल्ल्या 'दलीत' साहित्याचीं सगलीं लक्षणां एकवटीतपणान प्रातिनिधीक म्हुणून आमच्या सामकार उबीं जातात. एका निर्भागी दलीताच्या आयुश्यांतलो हो एक दिस जी 'खोस' घेवन येता, ती देखून एका सवर्ण मनशाकडच्या लग्नाचे पंगतीउप्रांत भायर शेंवटून वडयिल्लीं उश्टीं पक्वान्नां हाडून दिवपाविशींची आसता. हे घडणुकेपासून आमचे सदसद्विवेकबुद्दीक जाल्लो घाय कथेच्या अंतामेरेन खोल खोल जायत वता. हो दलीत नायक निमाणें लंगडत घरा परततना दिसता आनी मदल्या काळांत ताका भिकाऱ्यांच्या आनी म्हार-मांगांच्या गोंदळांत व्यक्तिमत्त्व वगडायिल्लो म्हुणून दृश्टीआड केला.

**मेघना पेठे** (जल्म 1958) हांची लघुकथा 'सी सॉ' मराठींतल्या अस्तुऱ्यांच्या बलीश्ट अशा साहित्याचें प्रतिनिधित्व करता. अस्तुरीवादी आनी अस्तुरीप्रधान प्रवाहांचे पलतडी वचपी ही कथा एके वटेन आप-उलोवपाच्या तंत्रांतल्यान मध्यम वर्गांतले अस्तुरीच्या अशीम अशा संयमी सद्गुणांचें भान मात्य सोडीनासतना तिचे नेणिवेंतल्यो कठोर कोडू अशो दादल्यांआडच्यो भावना स्थूल आनी सूक्ष्म अशा दोनय तरांनीं मांडटा, जाल्यार दुसरे वटेन अस्तुऱ्यांच्या शोशणाविशींच्यो तिच्यो जाणिवो ल्हान-व्हड अशा प्रसंगांतल्यान सुचोवपाची तांची संयत जिणे-दृश्टीय उकतायता. बालपण, कुमारी अवस्था, पत्नीपण, आवयपण अशा सगल्या अवस्थांतल्यान वतना कसलोच आदार मेळनाशिल्ल्यान ही अस्तुरी सबंद आयुश्य चलत आयिल्ल्या ह्या झुजा पांवड्यावयल्या जगपांत आपणाल्या व्यक्तिमत्वाचो ठसो खंयच उठोवंक पावना. आपणाल्या ह्या दीर्घ अशा आप-उलोवपांतल्यान अंतर्मनाची पुराय घडण सगल्या तासांसयत दाखोवपी ही अस्तुरी-वेदना हे कथेंत उत्कटपणान उकती जाल्या.

हालींसराकच बरोवंक लागिल्ले पिळगेचें प्रतिनिधित्व करता ती **जी. के. ऐनापुरे** (जल्म 1962) हांची 'दिवे' ही लघुकथा समाजाच्या आंवाठाभायल्या एका बेदरकार घटकाक उण्यांत उण्या भाशीक अवकाशांत फकत स्पर्श करता. कसलोच साहित्यिक वा कलात्मक पवित्रो घेवपी न्हय, अशी ही नवी पिळगी

कसलीच तार्कीक मांडावळ करना. जळजळीत वास्तवाचो फकत झोत उडयता. हे कथेंतलें एक पात्र एका जापसालदारकेच्या कामार नेमिल्लें आसता. पूण, भुकेल्ल्या नागाच्या पिलाचो जिभेक डंख करून घेवपाची आत्मघातकी नशा संवयेची जातकीर मागीर हे नेमून दिल्ले जापसालदारकेचें आनी कितें जातलें? अशी स्फोटक शिटकावणी दिवन ही कथा सोंपता.

सगले दृश्टीन ह्यो बाराय लघुकथा मराठींतल्या फाटल्या अर्द-शतमानांतल्या मुखेल लघुकथा प्रवाहांची फावो ती वळख करून दिवपी, अशो आसात. विसाव्या शेंकड्याचो दुसरो अर्द-खंड जे बदलते समाजीक आनी संस्कृतीक स्थितीक लागून स्वतंत्रताये आदींच्या काल-खंडापासून वेगळो आसा, ते स्थितीचें मात्शें तरी दर्शन ह्या कथांतल्यान घडटलें. लघुकथा ह्या साहित्य-प्रकाराक शंबर वर्सांचो जो इतिहास आसा, ताच्या दुसऱ्या अर्दखंडांतले उदरगतीचें खूबशें प्रातिनिधीक अशें चित्र ह्या पुस्तकांतल्यान हेर भाशिकांक उद्बोधक दिसतलें.

डिसेंबर 2002 **भालचंद्र नेमाडे**

1

# भागिल्लो चांदिमामा

**मूळ मराठी : गंगाधर गाडगीळ**

**कोंकणी अणकार : गजानन जोग**

वतान भाजिल्ल्या वाठारांतल्यान गाडी चलताली. दब्याकणकणीं मनशां खेंट करून बशिल्लीं. इल्ल्याशा जाग्यार बसून भेरेल्लीं आंगां तिरकीं करतालीं, आनी परतीं सरळ करतालीं. लकणी लागून कोणाचो भार दुसऱ्याच्या आंगार वतालो. कोण धोंपरार दवरिल्ल्या मुंडाशान घामाघूम जाल्लें तोंड पुसतालो. घटाघट उदक पितना एकल्याच्या ताळ्याचो मणी तडफडिल्लेवरी वयर सकयल जातालो. दादल्यांचीं तोंडां रांपून गेल्लीं, घामान चिकचिकीत जाल्लीं. बायलांचीं तोंडां सुकून गेल्लीं. केंस हुबताले.

जनेलांतल्या वताची तिरप मारताली. गरम वाऱ्याची झोत धुल्लासकट भितर घुसताली. स्टेशनावयले कावळे मोसंबीच्या चोंथ्याखातीर झगडटाले, बैलांच्या तोंडांतल्यान गळपी फेण खाताले...

ते गर्देंत हेरां वांगडा तीय बसलेली आसली- मुंयेल्ल्या आंगान. दुदाचें भुरगें तिच्या पदरासकयल आसलें. ताचे फकत पांयूच दिसताले.. मदींच तें किरकिरतालें, आंग तायट करून पांय झडपितालें. मागीर ती ताका थापटिताली, थातारताली. तायट केल्लें आंग सदळ सोडून तें लकणेंत पडून रावतालें. लागींच तिका खेंटून तिच्यो जुंवळ्यो धुवो बसलेल्यो-काळशो, किडकिडीतश्यो. दोन आंगळांचें अशीर कपल, शेंड्यार मात्शें वयर सरिल्लें नकटें नाक, रुंद वाळू, खाडकी लागींलागीं नाच म्हणपाची, अशें रूप दोगींचें. एकली मात्शी आंगान व्हड, दुसरी मात्शी किरपीण. एकली मात्शी उजळ, दुसरी काळशीशी. एकलेच्या आंगार दोन मुठी मांस, दुसरेच्या आंगार तें नासलें. सांवळीशी ती इल्ली शिटूक, दुसरेचें घोळयेपण तिच्या पिचपिचीत दोळ्यांतल्यान रोखडेंच दिसतालें. 'मात्शो घोळून बसात' अशें तांकां चार जाणांनी तरी सांगिल्लें. ताका लागून आतां दोगींक बसपाक सुवातूच नासली. बांकाचे बाणीक तेंकून दोगीय उब्योच आसल्यो. पूण आपणाक जावपी त्रासाची तांकां पर्वा नासली. आपूण गाडयेंतल्यान भोंवतां हेच गजालीचें तांकां अप्रूप

आसलें. दोळ्यांनी लिकलिकती उत्सुकताय घेवन तांची नदर चोंयवाटांनी भिरभिरताली. एकमेकीच्या कानाकडेन कितेंकितें फुतफुतताल्यो.

मुखारूच त्या चलयांचो बापूय बसला थंय न्हिदिल्लो. ताणें एक पावल बांकार दवरिल्लें आनी तकली फाटीं लवंडून तेंकयल्ली. ताच्या जून रूपड्याचेर हूम तिकतिकताली. न्हिदेंत ताचें तोंड मात्शें उकतें पडिल्लें. ताका लागून ताचें आदींच झगडाळ दिसपी रूपडें चडूच झगडेकार दिसतालें. ताका तेंकून बशिल्लो मनीस आंग चोरून आनी चडूच आंवळून बशिल्लो.

मामेमांयन नाशकाच्यान धाडिल्लो उदकाचो तांबयो एकारून पांयांकडेन उबो आसलो. येतना कुळारच्यान घेतिल्लो ट्रंक वेवस्थित बांका पोंदा सारून दवरिल्ली. मांवोडेंच्यान मांयन दिल्ले ट्रंकेची कडी मोडिल्ली आनी ती सुंबान बांदिल्ली. देखून ती बांका पोंदा रावनासली. पांय सोडपाचे सुवातेंतूनच ती कशायकशी दवरिल्ली. वयल्यान वळकटी दवरिल्ली आनी तातूंत कुशीच्यान खोंचून घातिल्ल्या पोळेराचें पोंत भायर लोंबतालें.

ह्या संसाराची अधिष्टात्री देवी कोनशाक जनेलाकडेन बशिल्ली. पंचवीस वरसां भितरलीच, आनी दिसताली जाल्यार सामकीच भुरगी कशी. आंगारपांग आनी हाडापेरांतलें कंवळेपण आजून तशेंच आसलें. मन आजून तशेंच सादेंसुदें आनी नितळ आसलें. आनी हें सगलें आतां अशेंच उरपाचें आसलें. तिचे जिणेचो कळो कोणा एका वाटेच्या वाटसरान घाळपणान फुलचे आदींच तोडिल्लो. आतां ताचें फूल केन्नाच जांवचें नासलें. जुवानपणांतलो उन्माद, जाणगूणपणांतलें पूर्णत्व आनी प्रगल्भपण ह्यो अवस्था तिचे जिणेंत केन्ना येवपाच्योच नासल्यो. अणभवांची गिरेस्तकाय तिचे जिणेक केन्नाच गावपाची नासली. कश्टांचें आनी दगदगीचें दळदीरूच तिच्या वांट्याक येवपाचें आसलें. अशीच मात्शी तिकतिकीत रावून तिणें सुकून वचपाचें आसलें.

पतिव्रता हिंदू बायलेक मेळिल्लें तें म्हान दायज आसलें. ती अर्दकुटी वाडिल्ली आनी गिड्डीशी आशिल्ली. तीन भुरग्यांचे आवयक सोबशें विटकरें पातळ ती न्हेशिल्ली. तिणें आंगभर पदर घेतिल्लो. घोवामुखार ती बावळ्यांनी वांकून बशिल्ली. मांडयेर घेतिल्ल्या भुरग्याचे सोयीखातीर ती फाटीक पोंग काडून बशिल्ली. अशीं वरांची वरां वांकून रावपाची ते फाटीक आतां संवयूच जाल्ली. ना, ती आतां आपसूक वांकडीच जाल्ली. ताका लागून ती सामकी बाबडीशी दिसताली. तिच्या जुवानपणाच्यो कुरवो तिच्या पदरांतल्यान मात लेगीत दिसनासल्यो. तिचें रूपडें तिच्या आंगावरी बडयाळेंच आसलें. पोले सामके खपाटीक गेल्ले. आंगांत रगत नासल्यार जी धवसाण मारता ती तिच्या रूपड्यार दिसताली. तिचे केंस निर्जीव आनी करड जाल्ले आनी भुरग्यान मुठींत धरून विस्कटायल्ल्या कारणान तांचो एक कोंगरो तोंडार ओडून आयिल्लो.

पायांच्या बोटांच्यो तेमक्योच फकत जमनीक तेंकोवन तिणें तानप्या भुरग्याक सावरून धरिल्लें. आनी मदीं मदीं तें तिच्या आंगांतलो खंय इल्लो उरला जाल्यार तोय जीवनरस चिंवून घेतालें.

अशीर कपलाच्यो त्यो नकट्यो चलयो बांकार वणकून उब्यो आसल्यो. लिकलिकीत दोळ्यांनी चोंयवटेन पळयताल्यो. मदींच हातांच्या आडसान एकमेकींच्या कानांनी किट्किट्टाल्यो. म्हणसर धाकलेचें लक्ष एका मनशाच्या मुंडाशाच्या सुटिल्ल्या तोंकाकडेन गेलें. तें तोंक कानसुलार लोंबतालें. वाळू अख्खी पेंचून तिणें म्हटलें, 'आंवय!' आनी मागीर तोंडार हात धल्लो.

व्हडलेन तिचो बावळो धरून हालोवन विचारलें 'कितें गो?' धाकलेन खुणेनूच सांगलें, 'तेवटेन पळय!' पूण व्हडलेच्या लक्षांत खंय पळोवपाचें ते आयलें ना. तेन्ना 'सांगू गो?' अशें ओडून विचारीत धाकलेन तोंडा मुखार हात धरून व्हडलेच्या कानांत तें सांगलें. मागीर व्हडलेन सुटिल्ल्या त्या तोंकाकडेन पळयलें आनी व्हडल्यान 'आंवंय' अशें म्हणत तोंडार हात दवरलो. हाताच्या आडसान ती धाकलेच्या कानांत कितेंतरी फुतफुतली. आंबट चिंच खाल्लेभशेन तोंड करून त्यो दोगी हांसल्यो- तकलेक तकली लावन, हातांचो आडस करीत.

तेन्नाच तांचे आवयच्या रिकाम्या मनान तांचे हांसणे पारखिलें. आपणाल्या इल्ल्याशा हातान व्हडले चलयेचो खांद हालयत तिणें म्हटलें, 'कितें गो?' व्हडलेन धाकलेक विचारलें, 'सांगू गो?' धाकटेन म्हटलें, 'च्ये च्ये' आनी खू खू करीत हांसली.

मागीर व्हडलीय तशीच हांसली आनी आवयचो हात खांदावयल्यान कुशीक करीत तिणें म्हटलें 'च्ये, ना गे!'

त्यो दोगीय आपले आवयक धाकले, अडाणी भयणीसमान वागणूक दिताल्यो. अशें वागून मेळटा त्या दुश्ट सुखाक दोगींचे जिणेंत चड म्हत्व आसलें.

आवयक वायट दिसलें. आपूण अडाणी, आपणाक कोणूच 'भितल्ली गजाल' सांगीना हाचें तिका वायट दिसलें. चलयांक बावळ्याक धरून हालयत तिणें घळघळयां येवन म्हटलें, 'आगो, पापणीनो, सांगात गो म्हाका.' चलयो आपलेच भितर खुदूखुदू हांसल्यो.

मागीर चडफडत, आपलो बाबत आवाज चडोवन तिणें म्हटलें, 'हें गो कितें, म्हाका कित्याक सांगीना तुमी, आं?'

पूण तेन्नाच घोवान मान हालयली आनी त्रासिकपणान नाकावयल्यान हात भोंवडायलो. तिणें भंयान आंग काडलें. दोळ्यांत प्राण हाडून चलयांच्या बापायकडेन पळोवपाक लागली. चलयोय कांचवेल्यो. आनी जेन्ना बापूय परतो

न्हिदलो तेन्ना सगलीं एकमेकांकडेन पळयत सू जावन हांसलीं. आनी मागीर त्यो दुश्ट चलयो 'कूंयकूंय, कशी निवळली!' अशा अर्थान आवयफुडें बोटां नाचयत आपणाभितर हांसल्यो.

ती बाबडीशी जाली आनी मागीर एकदम तिडक मारून तिणें लागीं आशिल्ले चलयेक चिमटो काडलो. व्हडल्यान पें करचें काय ना हाचेर तिणें विचार केलो. कित्याक तर बापूय केंच करून आवयचेर तिडकतलो हें खरें, पूण एकाद्रो तो तिच्याय सोणकुलार एक फुलोंव शकतालो! आनी त्या भयान ती रडली ना. मात आपणाचेर घोर अन्याय जाल्ले भशेन तिणें तोंड केलें आनी किरांगळी नाचयत आवयकडेन कट्टी केली. मागीर धाकटेनय तेंच केलें.

आवय कितेंतरी फुतफुतली आनी तिडकीन मान घुंवडावन जनेलाभायर पळोवपाक लागली.

भुरगेपण सोंपता थंय आसा, तेन्नाच तिचें लग्न जाल्लें. लग्नाउपरांत कोणेंच तिका आपले वांगडचीच ह्या नात्यान केन्ना वागोवंक नासली. घोव तिका केन्ना ल्हान पोराभशेन जाल्यार केन्ना वावराडेभशेन वागणूक दितालो. तसो तो वायट न्ही. (तसो केन्ना कोण वायट आसता गा!) पूण खूबसो सुवार्थी आनी हेकेखोर. ती आपणाभशेन जाणगूण, विचारी आसा हें मानून घेवप ताका आवडनासलें. ते भायर लग्न जाता थंय आसा म्हण्टा म्हणसर कचींबचीं तिचे फाटीक लागिल्लीं. दिसभर आसा आपली भुरग्यांफाटल्यान. तांच्या मनांतलेंच तिका समजून घेवचें पडटालें. आपल्याय मनांतलें पोरांकूच सांगपाचो प्रसंग येतालो. आनी बापूय तिका पोराभशेन वागयता तें वळखून भुरगीं लेगीत तिका आपले वांगडचीचशी धरतालीं. न्हय, घडये आपणापरस कूंसभर उणीच समजतालीं. ताका लागून आपशींच तीय ल्हान भुरग्याभशेन वागपाक लागिल्ली. भुरग्यांनी 'घरघर' खेळचें तशेभशेन पोरांवांगडा झगडत बिगडत, जाण्ट्यांक बागडत- भियेत ती संवसार करताली.

सांवरीची म्हातारी उडून वचची तशी ती घडणूक पयस वचत भूतकाळाच्या बोगद्यांत गडप जाली. परते चलयांचे लिकलिकीत दोळे खावड सोदपाक लागले. वण्टीर मांडून बशिल्ले पालीप्रमाण. तेन्नाच तांच्या बापायची फाटल्यान तेंकिल्ली तकली फुडले वटेन लकली आनी मागीर परती परती फुडें आरतशी उंवाळत रावली.

आतां हे तकलेचें कितें जातलें ह्या विचारान चलयांची भंयान गुळीच जाली. तांची आवय लेगीत भियेली. तिगीय तटास जावन तकलेकडेन पळोवपाक लागल्यो. आपसूक धाकलेन व्हडलेचो खांद धरलो. व्हडलेन आवयचे मांडयेकडेन पातळ गच्च धरलें. एके विचित्र काकळुतीन ते लकिल्ले माने वांगडा तांच्योय मानो आपशींच मात्शो वांकल्यो.

धाकली मात्शी धाडशी. आपलो हात बापायचे मांडयेकडेन व्हरत तिणें म्हटलें, 'अण्णा, अण्णा!' पूण तो हात बापायचे मांडयेमेरेन पावलोच ना. तिचो आवाज ताका आयकुपाक येय इतलो व्हड जालोच ना. आनी ती लकिल्ली तकली तशीच लकत रावली.

तेन्नाच आवयचे मांडयेवेल्या धाकल्यान आंग तायट केलें आनी व्हडल्यान किळांच मारली. चलयांनी भियेवन ताचे पांय घट्ट दामून धरले आनी आवयन ताका परतो वेंगेंत धरपाचो यत्न केलो. ताका थापटूंक लागली. बळयां आपल्या दुदाची बोंथी ताच्या तोंडात धोंगसूंक लागली. पूण आंग तशेंच तायट धरून धाकलो किळांचत रावलो.

आतां तांचो बापूय जागो जालो. आवयन आपले बावळे चडूच पाडले आनी चल्यार वांकून ताचें रडें लिपोवपाचो यत्न करूंक लागली, चलयोय काचाबुल जाल्यो.

पूण बापूय तिडकलो ना. बायल भुरग्यांकडेन उलयतना जो एक तरेचो कडक आवाज तो काडटालो तांतूंत ताणें म्हटलें 'कितें गो? कितें जालें ताका रडपाक? तुवें माल्लोबिल्लो काय कितें गो?'

'हांव कित्याक मारूं?' चल्याच्या बापायक सारकें आयकूंक येवचेंना, पूण म्हटलां इतलें कळटलें अशा आवाजांत तिणें म्हटलें.

'आं? कितें म्हळें? शी, शी, मोठ्यान उलोवचें गो बाये, मोठ्यान उलोवचें!' वर्गांत निमाण्या बांकार बसपी बोंड्या भुरग्यांचीं फकाणां मारतना तो जे पद्धतीन उलयतालो, तशे तरेन ताणें म्हटलें.

बापूय अशा आवाजांत उलयता तेन्ना हांसपाक हरकत नासता हें चलयांक खबर आसलें, देखून त्यो हांसल्यो.

रागान पूण आंवळिल्ल्या आवाजांत आवयन त्रासून म्हटलें, 'ताका गरम जाता आसतलें म्हूण तो रडटा.'

म्हणसर पदर कुशीक काडून भुरग्यान तोंड भायर काडिल्लें. ताका बापायन म्हटलें, ''कितें रे? गरमी जाता बाबाक? जातलीच. तूं आपली ताका केन्नाच्यान पालवाखाला घेवन बसल्या न्हय? ताका वारो लागतलो तरी कसो? आं?''

परत परत अशें म्हणून ताणें बायलेची चूक तिच्या मनार सारकी बरी बिंबयली, घांसली, तिजयली. चलयांक आवयची चूक पटली आनी आवयकय पटली. 'गाडयेंत भुरग्यांक वारो लागूंक दिवंक जायना' अशें जेन्ना तिचे मामे-मांयन तिका सांगिल्लें तेन्नाय तें तिका पटिल्लेंच. जाण्टया मनशांनी सांगिल्ली खंयचीय गजाल तिका पट्टाली. दोगांनी दोन विंगड विंगड गजाली सांगल्यो जाल्यार फाटल्यान सांगिल्ली गजाल खरी अशें तिका सदांच दिसतालें. खरें-फट कितें तें थारावपाचो

ती यत्नच करिनासली. तितली बुद्ध आपणाक ना हें ते साडेभावार्थी बायलेक आदींच पटिल्लें.

बापायन चल्याक धल्लो. चलो, तोयबी दोन चलयांचे फाटीर जाल्लो म्हूण तो ताचो इल्लो चड अपुरबायेचो. ताणें आपल्या पुडव्यान चल्याचें हुमेन भरिल्लें तोंड पुसलें आनी जनेलाकडेन ताका उबो केलो. जनेलाच्या वारांवार हात आपटीत जेन्ना तो खेळूंक लागलो तेन्ना बापायन म्हटलें, ''पळय आतां कसो खेळटा! आतां रडना मूं तो?''

ताका वगी करपाची ही युक्ती आवयक खबर नासली अशें न्हय, पूण कोणे दुसऱ्यान सांगले बगर आपणें जावन अशें कितेंय करचें ही संवंयच नासली तिका. जिणूच इतली बांदून घातिल्ले भशेन सरताली, ताका लागून आपल्या भुरग्यांक मेकळीं सोडपूय तिका जमनासलें.

ती आनी चलयो धाकल्याची चल्ल्या ती अपुरबाय व्हडविकेन पळयताल्यो. बापायन अपुरबाय करतकीत तांच्याय मनांत ती भावना निर्माण जाली.

व्हडलेन हात पसरून ताका आपणाकडेन आपयलो तेन्ना ताणें आंग हालोवन ना म्हटलें, धाकलेन जाल्यार ताका धरूंक पळेलो आनी ताणें किळांच माल्ली. तेन्ना तिका मोगान एक थापटी मारीत बापायन म्हटलें, ''आतां कित्याक रडयता ताका?''

चलयो हांसल्यो आनी तांचे आवयकूय दिसलें आपणेंय अशें आडांगीपण करचें आनी भुरग्यांच्या बापायन आपणाक अशेंच एक खोश्येन थापट मारचें. पूण अशें घडपाचें ना हें तिका बेसबरें खबर आसलें, देखून तें लावन घेनासतना तिणें पांय पसरून आळसाय भरिल्लें आंग सदळ केलें. पदर सारको केलो, माथ्यावयल्यान हात भोंवडायलो. मार झेतान ती जनेलांतल्यान भायर पळोवंक लागली. मौजेन पांय हालोवंक लागली. इतलें मेकळेपण तिका चुकुनूच मेळटालें. घडीघडी ती पोरांच्या उस्तवाऱ्यांत बांदिल्ली आसताली. आतां तिका मेकळें मेकळें दिसलें. ल्हानपणांत इश्टिणींवांगडा झोंपाळ्यार बसून उंचउंच झोंपयो घेतना, अणभविल्ल्या आनंदाची याद तिका जाली जावंये. कारण तेन्ना म्हणिल्ल्या गाण्याची एक वळ तिका याद जाली. आतां थंड जावंक लागिल्ल्या वाऱ्याल्हारार तिणें ती वळ अचळय सोडून दिली. कंवळे पिरायेवेल्या सुखाची याद घेवन आयिल्ली ती गाण्याची वळ वाऱ्यावांगडा खंय गेल्या आसतली काय?

मूक्त आनंदाच्या झोतावांगडा ती लेगीत हुबून वचपाक लागली. भरिल्ले नदरेन भायर पळयतना तिका एक सोबीत घर दिसलें तें तिका खुब्ब घोस्ताक गेलें. तिणें व्हडल्यान म्हटलें. 'पळयापळयात... काय बरें सोबीत घर!'' तिच्या घरकारान अजापान भायर पळयलें आनी मागीर जाण्टेपणान म्हटलें, ''घराभशेन घर! तें कितें पळोवपाचें! तो कितें ताजमहाल...पळयत रावपाक?'' हें उलयतना ताणें तोंडार

फकाणांचो भाव हाडून आशीकुशीच्या चौगांकडेन पळयलें. पूण त्या सगळ्यांनीच जेन्ना ताचेक़डेन लक्षूच दिलें ना, तेन्ना ताणें आपणाल्या चलयांकडेन पळयत म्हटलें, ''कितें गो?''

तेन्ना ताच्या अर्द्या उतरांत आशिल्ल्यो चलयो खुक् करून हांसल्यो. आनी मागीर तांचो बापूय ताच्या मताप्रमाण ताणें केल्लो विनोद परतो परतो झरयत रावलो. सामकी तेंकून कोणेय आपलीं नाखटां वण्टीर वोडलीं जाल्यार जशें आंग शिरशिरता तशें तें उलवणें आयकून तिका जातालें. पूण ती कांयच करूंक शकनासली. मुकाट्यांनी तें आयकत बशिल्ली.

निमाणे बापायन धाकल्याक विचारलें,

''पिसो कोण सांग?''

''तूंऽऽ'' भुरग्यान फट्.करून म्हटलें.

हें आयकून आवय खदखदून हांसली. आपणाचेर चेपण दवरपाक ती खिणभर विसल्ली. एकतरेचे पोरांटे खोश्शेंत तिणें परत्यो परत्यो बुचकळ्यो माल्ल्यो.

भुरग्यांच्या बापायक राग आयलो पूण ताणें तो दामून धल्लो. तो लटिक हांसलो लेगीत. पूण जेन्ना ती चडूच हांसत रावली तेन्ना तिडकलो. ''इतलें हांसपाक जालें तरी कितें? आं? हांसता आपली गाडवाभशेन?''

ताच्या आवाजांत जाल्ल्या बदलान ती एकदम थांबली. तिचें तोंड पडलें. कांय वेळा आदींचें मेकळेपण, तें आनंदाचें ल्हार आतां खंयचे खंय नाच्च जाल्लें. आपले पडिल्ले बावळे चडूच पाडीत ती खांकडून बसून रावली. तिका तशी कांचवेल्ली पळोवन ताका समाधान जालें. आनी चड बरें दिसचें म्हूण ताणें तिचेर धेंगसो घातलो, ''तें आसूं, आतां घे हाका. आनी आतां दनपार जाली. भुरग्यांच्या ताळ्यार कितेंय पूण घाल न्हय! हाचें तोंड पूस सारकें.''

मोन्यानी ती मळिल्ले वाटेन भोंवपाक लागली. तांबयांतल्या उदकान सुडको ओलो करून तिणें चल्याचें तोंड पुसलें. नाक पुसतना तो घुस्मटून भियेत म्हूण नाक अचळय कडेकडेन पुसून घेतलें आनी हें करतना, तो थापटां मारता हें खबर आशिल्ल्यान ताका आडावपाक दुसरो हात फुडें धल्लो. बाबापुता करून मोठे शिकस्तेन तिणें ताका चलयांचे सुवादीन केलो आनी पोतयेंतल्यान दबो भायर काडलो. चलयो झगडटीत म्हूण तांकां कागदार वांटे घालून दिले. एकलेक नेवरी आवडटा म्हूण तिका नेवरी, दुसरेक चकली आवडटा म्हूण तिका चकली. झगडत म्हूण दोगींकय चित्रांचे कागदा कुडके दिले. घोवाच्या हातांत कागद दिवन ताकाच जाय तें दब्यातलें घेवपाक सांगलें. कारण, कितेंय दिल्यार ताका केन्ना पसंत पडनासलें. अशेतरेन सगल्यांचें समाधान केल्या उपरांत तिणें आपणा खातीर इल्लें खाण काडून घेतलें. तिची मांय सदांच तिका खावपाक उणें दिताली. आनी ती

संवंय आतां तिच्या आंगाक सामकी बळिल्ली. आपल्या हातान घेतना लेगीत ती उणेंच घेताली. मागीर चलो हात मारीत म्हूण कागदाची पुडी हातांत लिपयत चोरून खाल्लेभशेन ती खावपाक लागली.

खातना तिचे तकलेंत संवसाराचेच विचार आसले. तिचे हात आपसूक संवसाराचींच कामां करीत आशिल्ले. घरा पावपाक कळाव जावपाचो आसलो. वाटेर खंयच्याय स्टेशनार दूद मेळल्यार बरें जावपाचें, नाजाल्यार धाकलो उपाशीं उरतलो आनी किरकिरतलो. तें ताच्या बापायक आवडचें नासलें. घरा वतकीच सट् करून पिठलें आनी शीत करपाचें. इल्लेंइल्लें खावप, न्हिदप. पूण भुरग्यांचो बापूय लोणच्याचे फोडीखातर अडून बसतलो, रोस ना म्हूण धाकली ओंकारे काडूंक लागतली. पिठल्यांतल्यो कांद्यापाकळ्यो वेंचून खावन उठून वयतली. राधाबायकडल्यान लोणचें तरी इल्लें मागून हाडपाक जाय आसलें. दुसरे दिसा झाडपूस करप. नण्डेकडेन दबो धाडपाचो आसलो. आनी हय गे बाये, तेन्ना तांगेर केन्नासावन आशिल्लो सट यादीन हाडपाक जाय आशिल्लो...

अंकपटयेंतल्या आंकड्यांभशेन एका मुखार एक विचार तिच्या मनांत येतालो. हे विचार करप आपणाक आवडटा काय ना तें तिका खबर नासलें. न्हय, अशे तरेन विचार करप वो ना करप हें तिच्या हातांत नासलें. तशे विचार करप हें तिचे बडीचेंच जावन गेल्लें. ह्या पांदऱ्यांतल्यान कोणेय तिका भायर काडली लेगीत जाल्यार उडून वचपाचें बळगें तिच्या आंगांत आतां उरूंक नासलें.

अशे विचार मनांत आयले आनी गेले. स्टेशनां आयलीं आनी गेलीं. दीस परतलो. गरमेचो भार उलगलो. खांकडून बशिल्लीं मनशां आंगापांगां हालोवंक लागलीं. फाटी बागोवन आळस दिवंक लागलीं. वाऱ्याचें थंडगार ल्हार आंगार आयिल्ल्यान सगळ्यांचीं तोंडां इल्लीं तट्टटीत दिसपाक लागलीं. तिणेंय हात माथ्यावयल्यान भोंवडायलो.

म्हणसर एक स्टेशन आयलें. थंय एकलो आयस-फ्रूट विकतालो. चलयो उठल्यो. जनेलाच्या वारांवाक नाकां लावन आशेखोरशो भायर पळोवपाक लागल्यो. तेच उत्सुकतायेन आवयूय पळोवपाक लागली. तिका आयस-फ्रूट खायन दिसलें. तिच्यो भुरग्यांच्यो वांन्सा आजूनमेरेन भागूंक नासल्यो म्हूण त्यो सोंपूंकूय नासल्यो. चलयांभशेनूच तिणेंय खांकडत दोळ्यांच्या कोनशांतल्यान चलयांच्या बापायकडेन पळयलें.

निमाणें इल्ली धाडशी आशिल्ले धाकलेन खबरूच नाशिल्ले भाशेन विचारलें,

'आयस-फ्रूट मगे तें?'

मागीर आवयन म्हटलें, "तो कितें आइस-फ्रूट विकता न्हय वो?" आवय आनी चलयो हांणीं चोरून एकमेकांकडेन पळयलें.

चलयांच्या बापायन भोळेपणान म्हटलें, ''हय, कित्याक, तुमकां जाय गो?''

चलयो खुदखुदल्यो. जनेलाच्या वारांवांचेर नाकां चेपीत रावल्यो. बापायन घोंसार येवन आयस-फ्रूट घेतलें. तांची आवय बेठीच आशेखोरपणान पळयत रावली. धाकलेचें थंय लक्षूच वचूंक ना. पूण मिणमिण्या दोळ्यांचे व्हडलेन आवयकडेन पळयलें तेन्ना तिका वायट दिसलें.

''अण्णा, आईक घेयोन न्हय!'' तिणें म्हटलें.

ताणें म्हटलें, ''कितें गो जाय तुका?''

''आंवय, म्हाका कित्याक?'' ती लजली.

''ना ना हां, अण्णा, जाय तिका!'' व्हडलेन बोट हालयत सांगलें.

बापायन धेंगसो घाल्लेभशेन म्हटलें, ''मागीर, सांगपाक नाका जाय जाल्यार?''

अशेतरेन चलयांचे आवयक आयस फ्रूट मेळ्ळें, ताची रंगयाळी गोड थंडसाण तिणें चोखली, ओडून घेतली. सगलें तोंड थंडगार जालें. परती ती कांडी तिणें तोंडाकडेन व्हेली. म्हणसर इतलो वेळ टक्क पळोवपी मांडयेवेल्या चल्यान सट् करून हात मारलो आनी अर्दवट उगडिल्लें आवयचें तोंड तशेंच, उगडेंच उरलें. तिच्या हातांतलो आयस-फ्रूट सकयल पडलो.

तेन्ना तिच्या आंगाचो सामको हुलोप जालो. खिणाखिणाक तोंडातलो घांस काडून घेवपी पोराचो आनी त्या संवसाराचो तिका वीट-वीट आयलो. दिसलें, मांडयेवेल्यान पोराक ताच्या बापायमुखार आपटचो आनी आड्डून म्हणचें, 'सांबाळ तुमच्या पोरांक, हांव चल्लें.' आनी गाडयेंतल्यान देवून सरळ चलूंक लागचें. मुखार दिसत ते वाटेन, चलून जारमार जाल्या उपरांत रस्त्याचे कुशीक पडून मरून वचचें...

त्या इल्ल्याशा निमतान तिच्या काळजांत खोल खंय तरी लिपून आशिल्ले सगले अवजाळी विचार धोंगसो मारून भायर आयले. तिची अख्खी बाबडीशी जीण ताणीं धरून खुंदकायली. आनी मागीर आपुणूच दुर्बळ जावन ते परत खंयतरी खोलखोल बुडून गेले.

तेन्नाच एक बायल दब्यांत चडली. तिचे परस पिरायेन घडये व्हड आसत, नासत. पूण तिच्या तोंडार एक वेगळेंच मेकळेपण मारतालें. नदर भयामेकळी आसली. स्वातंत्र्य तिणें अणभविल्लें. स्वतंत्र जापसालकी घेवन ती वागिल्ली. तिचें पावल घालप, हमालाक सामान दवरपाबद्दल फर्मावप, जे पद्धतीन ती दब्यांत आपणाक जागो सोदताली आनी ज्या झेतान तिच्या हातांक लायिल्ली पर्स झेलताली, ताचे वयल्यान सगलें समजपासारकें आसलें. दब्यांतले सगले लोक आपणाकडेन पळयतात हें खबर आसून लेगीत ती सहजपणान तांचेकडेन दुर्लक्ष करताली.

तीन भुरग्यांचे ते आवयन तिचेकडेन पळयलें आनी तिचेर ते बायलेचें सामकें फोक पडलें. दुस्वासाची एक बारीकशी मिरी लेगीत तिच्या मनांत उदेली. नकळटच्यांनी तिणें आपल्या केसांवयल्यान हात भोंवडायलो. पदर सारको केल्ले भशेन केलो आनी घोळयाभशेन तिचेकडेन पळोवंक लागली.

''कोणूय दोतोरीण बी जावंये'' तिणें म्हटलें. कारण बायलांभितर सामकी मानादिक म्हळ्यार हास्पिटल चलोवपी दोतोरीण असो तिचो समज. आपल्या घोवाकडेन तिणें प्रश्नार्थक नदरेन पळयलें आनी मान बागयली.

ते बायलेकडेन अधाशाभशेन पळोवपी घोव कांचवेलो. आनी मागीर आपलो तोल सांबाळपाखातीर ताणें हिणसायत म्हळें, ''खंयची दोतोरीण! आसतली कोणूय नर्सबिर्स, ना जाल्यार मास्तरीण; आयच्या काळांत कितें, कोणूय मार झेतान भोंवता.''

आपल्या घोवाकडेन तिणें परतें पळयलें. इतल्या झेतार बायलेविशीं तो इतलें हिणसावन उलोंव शकता हें पळोवन ताचेविशींचो तिचो आदर आनिकच वाडलो.

म्हणसर ती बायल सँडल्स् वाजयत थंय पावली. आनी दोन मनशांची सुवात आडोवन बशिल्ल्या अण्णाक म्हणपाक लागली, ''मातशे घोळून बसात न्हय.'' त्या तीन भुरग्यांचे आवयक तिचे बेपर्वायेचें अजाप दिसलें. ते बाबडेक आतां कितें कितें आयकुचें पडटलें ह्या विचारान तिची काकळूटय दिसली. आतां आपलो घरकार केन्ना काय घडघडो मारचो तसो तिडकता, हाची ती उमळशीकेन आनी अभिमानान वाट पळोवंक लागली.

पूण तसलो घडघड माल्लोच ना. भियेल्लेभशेन आपले ज्युदयेच्यो दोनूय कुशी पोटार आंवळून घेयत तो कोनशाक सरलो आनी अगळपगळ हांसत ताणें म्हटलें, ''बसात बसात.'' ताच्या त्या अगळपगळ हांसपाक तिणें मात लेगीत मीठ घातलें ना. परकेपणान ती थंय बसली. पर्शितल्यान पयशे काडून हमालाक दिले आनी इल्ल्याशा लेंसान तोंड पुसपाक लागली.

आपल्या घोवाची जाल्ली ती फजेत पळोवन ती तीन भुरग्यांची आवय अजापली, अवस्थ जावन एके नवे आदरभावनेन ते बायलेकडेन पळोवपाक लागली. तिच्या मनांतली घोवाची म्हूर्त सामकी ल्हान जाली, तितल्या काळापुरती तरी, आनी ते बायलेची दरएक हालचाल तिका म्हत्त्वाची दिसूंक लागली.

म्हणसर तिचें लक्ष ते बायलेच्या कपलाकडेन गेलें. आनी तिच्या लक्षांत आयलें की, ती विधवा आसा. बाबडी गरीब विधवा! घरच्यांनी केल्लो छळ सोंसपी, दुश्ट दादल्यांच्या कारस्थानांचे भकीक पडपी.

ग्रामोफोनाचे प्लेटीर सूय भोंवल्या उपरांत थल्लेले आवाज येंवचे तशे तिच्या मनार बरयल्ले हे विचार पुसून गेले. कारण ती बायल तर बेसबरी, सुखी दिसताली. ते भशेन

रावताली. कारुण्याची, खालतेपणाची सुलूस लेगीत तिच्या तोंडार मारनासली. ती तीन भुरग्यांची आवय गणमणली. खासा आपणें विचार करपाचे कश्ट तिका जाणवले.

...आनी मागीर अकस्मात तिका दुबाव मारलो, ही बायल तसली, सदळ बी न्हय मूं? सदळ चलणुकेच्या बायलांचीं सगळीं रंगीत भडक चित्रां तिचे नदरेमुखार आयलीं. दानधिस्पट जाल्लो संसार, सोऱ्याच्यो फोडिल्ल्यो बाटल्यो, (सोऱ्याच्यो बाटल्यो सोदा बाटल्यांभशेनच आसतात अशी तिची समजूत), भिशी वाडयल्ले मवाली, बुरशे रोग, मागीर हॉस्पिटलांतलें बेवारशी मरण!...

तिणें चलयांक आपणासरीं ओडल्यो. कुत्सितपणान आनी झेतान तिणें ते बायलेकडेन पळयलें. तिचो हात चलयांक आनी लागीं ओडूंक लागलो.

पूण ह्या सगल्याचो ते बायलेचेर कांयच परिणाम जांवक शकलोना. ही अजागळ बायल आपणाकडेन हिणसावन पळयत हें तिका खरेंच दिसचें नासलें. आनी खरें म्हळ्यार तिका त्या हिणसावपाची मात लेगीत पर्वा दिसची नासली. उरफाटें हासूंक मात येवपाचें.

गाडी सुटली आनी कांय वेळ गेलो. तेन्ना ते बायलेन आपले पोतयेंतलें खाण काडलें. आनी मुखार भुरगीं आसात म्हूण आपसूकच तांकां दिवपाक लागली. चलयांनी भियेभियेत आवय-बापायकडेन पळयलें आनी हात फुडें केले. चलयांचे आवयन खसकरून ते फाटीं ओडले, आनी तिचे विशींची दुस्वासाची भावना उक्तावपाची संद घेतली.

पूण चलयांचो बापूय वाळू पेंचून हांसत म्हणपाक लागलो, ''आगो, घेयात तुमी, तांतूंत कितें आसा?''

चलयांनी तें खाण घेतलें. तांची आवय अजापान घोवाकडेन पळयत फाटीं सरली आनी मागीर वग्गीच रावली.

मागीर घोव चुळबूळ करीत ते बायलेकडेन उलवणें करपाचो यत्न करूंक लागलो. ताका लागून तिच्या मनांत दुबावाची एक वेगळीच कीट पडली. पूण ते बायलेन कानपान हालयलें ना, घोवाक वग्गी रावचें पडलें आनी ताका लागून ती कीट पेटली तशी पालवली. पूण पालवपाआदीं तिणें ते बायलेविशींचे तिडकींत इल्ली भरूच घाली.

पूण मागीर जेन्ना ते बायलेन चलयांच्या खाडक्यांक हात लावन त्यो खंय, कितें कात शिकतात तें विचारलें तेन्ना हिच्या रागाची धार आपशींच उणी जाली. आनी जेन्ना तिणें 'तुमचो चलो पळोवया' अशें म्हणत, ताका उखलून घेवन ताच्या लोळक्या गालाचो उमो घेतलो तेन्ना तर हिचो राग सामको पोल जालो. ती बायल तशी बरी आसा अशें हिका दिसलें. आपलेपणशें दिसलें. दोन बायलांक जोडपी सगल्यांत व्हड बंदपासान तांकां एकठांय हाडलीं.

ती म्हणपाक लागली, ‘‘म्हाका भुरगीं खुब्ब आवडटात. हांव सुटी घेवन काकागेर गेल्लें. तांगेर खूब भुरगीं आसात. तांचे वांगडा म्हजो वेळ बेसबरो वता...’’

मागीर हो काका कोण कात असलें उलवणें आपसूक आयलें. तेन्ना तिचेविशीं कळ्ळें, लग्न जायनाफुडेंच ती विधवा जाल्ली. शिक्षण घेवन तिका नर्स जांवचें पडलें. नर्सींक बरी मागणी आशिल्ल्यान तिका बरो पयसो मेळटालो. मौजेंत रावताली. सुटयेंत काकागेर वचप. शें-शंबर रुपया दिले जाल्यार ताच्याय संवसाराक इल्ली मजत जाताली. तिचोय वेळ बरो मौजेंत वतालो. थोडेभितर सांगचें जाल्यार, तिचें सुटसुटीत आनी सुखदिणें अशें जगप आसलें.

आपले सुंदर घड्याळीर तिणें नदर माल्ली आनी लेंसान तोंड पुसलें. तिचे नखरे, हावभाव पळोवन त्या तीन भुरग्यांचे आवयच्या पोटांत मत्सरान कसमळपाक लागलें. तिच्या मनांत एक विचित्र विचार आयलो. दिसलें, आपलेंय लग्न जाल्याउपरांत जर हिचेभशेन रोखडीच आपूण विधवा जाल्लीं जाल्यार आपणाकूय अशें झेतार, सुखाळ जीवन जगपाक मेळपाचें...

हो विचार कितलो अवजाळी आसा हें ते भावार्थी बायलेच्या रोखडेंच लक्षांत आयलें आनी ती सामकी कांचवेन गेली. एकाद्र्या लूत मारिल्या सुण्याक जशें फाटीर दांडो शेवटून धांवडावन घालचें, तशे भशेन तिणें ते चिंतणुकेक धांवडावन घाली.

अशे तरेन कितलोय धांवडायलो तरी तो विचार तिचे जिणेंत सप्तपाताळांत दडून रावून तिचे सगळे जिणेचोच रंग बदलतलो आसलो. तिच्या मनावेलें खंयचेंतरी पांगरूण ताणें पिंजून वडयिल्लें.

म्हणसर एक स्टेशन आयलें. ती बायल जनेलांतल्यान जाता तितली बागून भायर पळोवंक लागली. मागीर एका उंच, गोमट्या तरणाट्यान हात हालयत म्हटलें, ‘‘विमल.’’

तिणें आपलो ल्हानसो लेंस हालयत म्हटलें, ‘‘श्याम.’’

जनेलाकडेन येवन ताणें तिचो हात धल्लेभशेन केलें. आनी मागीर सडसडीत गाडयेंत चडून ताणें तेन्नाच खालीं जाल्ले जनेलाकडले दोन सीट धल्ले आनी तिका आपलेकडेन आपोवन घेतली. त्या तीन भुरग्यांचे आवय फाटल्याच सिटार तीं बसलीं. तांचें किटकिटप तिका आयकुपाक येतालें. तांच्यो हालचाली पळयनासतनाच लक्षांत येताल्यो. तांचें तें सुख काळजांत खोल खंयतरी तिका तोपतालें, रोमतालें. आपल्या घोवाकडेन तिणें आतां सामकी वेगळी, नवी अपेक्षेची नदर माल्ली. कशेंय आडबडीत लेगीत जांव, पूण जर ताणें असलें सुख तिका दिल्लें जाल्यार ती तें गोड मानून घेवपाची. ताच्या संवसाराच्यो सगळ्यो खस्ती काडपाक, ताच्या पोरांचे सगले घश्टे काडपाक तिका उमेद येवपाची. ती सासणाची ताच्या

रिणांत रावपाची. पूण तिचे नदरेन जें सांगलें, तें ताका समजूं शकलें ना. आनी उतरांनी जाल्यार तें मागूंक येवपासारकें नासलें.

खडखडत, हिसके मारीत गाडी चलताली. दीस धारेर गेलो. जेवणाखाणाचो आनी उलोवपाचो एक व्हड कलकल करून मनशां शांत जालीं. पातकड्यो दोळे धापूंक लागल्यो. मनशांचीं मनां परतीं घोंटेरांनी परतुपाक लागलीं. आनी मागीर, सगलेकडेन न्हिदान्हिद जालेबराबर ल्हवूच, पावलां वाजय नासतना चान्नें आयलें. फाटलेवटेन बशिल्ले ते बायलेन म्हटलें,

''आवयस...कितलें सोबीत चान्नें!''

तो तरणाटो, ''खरेंच हां! वा!''

आनी तीं दोगांय वग्गी जालीं.

तीन भुरग्यांचे ते आवयन तें आयकलें आनी ती सामकी कासाविस जाली. तिका दिसलें, उठचें, घोवालागीं बसचें आनी ताच्या खांदार हात दवरून घालून म्हणचें, 'कितलें सोबीत चान्नें!'

आशाळभूतपणान, घळघळयां येवन तिणें घोवाकडेन पळयलें. आनी तिच्या लक्षांत आयलें, तें केन्नाच शक्य नासलें, सामकें केन्नाच शक्य नासलें.

आनी मागीर तिणें मांडयेवेल्या न्हिदूंक नाशिल्ल्या भुरग्याक जनेलाभायलो चंद्र दाखयलो आनी म्हटलें, ''तो पळय चांदिमामा. काय बरो न्हय? म्हण पळोवया, चांदिमामा चांदिमामा भागलो कित्याक...''



2

# देवू सटवो म्हार

**मूळ मराठी : व्यंकटेश माडगूळकर**

**कोंकणी अणकार : रामकृष्ण जुवारकार**

निकतीच तीनसांज जाल्ली. रानांतल्यान परतल्ल्या कुळवाड्यांच्या बायलांनीं रान्नीक उजो घाल्लो आनी पीठ कालोवन भाकरी थापूंक तीं थपकल घालून बशिल्लीं. दीसभर रानांत भोवून पुरो जाल्ल्या तरणाट्यांनीं गोरवां-म्हसरां गोठ्यांत बांदिल्लीं आनी धोपरार मुंडाशीं दवरून ते हुश्श करीत वसऱ्याक वणकून बशिल्ले. मारुती देवळाच्या मळार पोरां धुमशेणां कांडटालीं, ताचो आवाज कानार बसतालो. शेटीच्या घराफुडले व्हडले मातिल्ले लिंबिणीचेर जमिल्ले शेंकड्यांनी कावळे सुवाते खातीर झगडटाले, फडफडटाले.

चावडेक भोंवताडो काडून देवू म्हार आनी टोपो वडार पाटलाच्या वाड्याकडेक थांबले. देवून उजव्या हातांतलो घुंगूर बांदिल्लो दांडो दाव्या हातांत घेतलो आनी उजवो हात, मुंडाशें वयरशें करून, कानार दवरीत तो आड्डलो,

‘‘तालुक्याचो डागदार ल्हान पोरांक तोपूंक फाल्यां सकाळीं येवचो आसा. गांवकऱ्यांनीं आपलीं पोरां चावडेर हाडून तोपून घेवचीं, जीऽऽ.’’

टोप्यान हातांतलें डफडें सावरलें आनी देवूच्या फाटोफाट बडयलें.

‘‘सबंद गांवाक कळीत जालें रे?’’ टोप्यान देवूक विचारलें.

‘‘धादां आरड मारली. बस जालें. आतां परतुया आमी...’’

अशें म्हणून देवू फाटीं सरून म्हारवाड्याचे दिकेन चलूंक लागलो. टोपोय मांगवाड्यावाटेन वळ्ळो.

हे उपरांत देवू टोपली घेवन येतलो आसलो आनी म्हालो, मडवळ, मेस्त, शेट आदी बलुतेदारांचीं घरां सोडून दरेक घराफुडें उबो रावन आड्डुपाचो आसलो,

‘‘भाकरी वाडा जी ऽऽऽ तराळाक.’’

हय, ताचो तो हक्कूच आसलो. चालू धेणल्यासावन तराळकेची काठी ताच्या हातांत आयिल्ली. गांव आनी सरकार हांची चाकरी तो फुडल्या धेंडल्यामेरेन सुसंगत

करचेलो आसलो. फुडल्या धेंडल्याक हातांतली काठी पाटलासमक्ष दुसऱ्या म्हाराच्या सुवादीन करपाचो आसलो. आनी जगलो-वांचलो जाल्यार परतून सोळा वर्सांनी सोळा भावबंदांत घुंवून-भोंवून आयिल्ली तराळकेची पाळी परतून एक वर्स करतलो आसलो. हें सगळें कित्येक वर्सांसावन चलतालें आनी फुडेंय तशेंच चलपाचें आसलें.

सामको शंबर टक्के न्हय, पूण देवू खूपसो सज्जन म्हार आसलो. सज्जन अशाखातीर म्हणचो, की सामान्यपणान खेड्यांतल्या म्हारांच्या आंगांत आसलेलें मुर्दाडपण, आगाऊपण ताच्यांत चडशें नासलें. तांच्यांतूय हे दोश जन्मता आसतात, अशें न्हय. पूण हेरांकडल्यान मेळिल्ले वागणुकेक लागून ते तशे जातात. कुणबी, वाणी, बामण हे तांकां ढोरां-जनावरांभशेन वागयतात. मेळत तशे धाडायतात. लाकडां फोडप, रानांतल्यान भरे हाडप, ते रचप, झाडप, गोरवां चरोवप अशीं तरांतरांची कामां तांकां सामक्या थोड्या मोबदल्यांत करचीं पडटात. सगळ्यांची मर्जी सांबाळची पडटा. हेखातीर सहज तांची प्रवृत्ती तशी जाता. पूण, देवूची प्रवृत्ती तशी नासली. तो खूबसो सज्जन आसलो. दुसऱ्या म्हारांसारके ताका छक्के-पंजे खबर नासले. कोणाचें मन सहसा मोडचें न्हय, कोणाचें वायट सहसा चिंतचें न्हय, आंग मोडून काम करचें, ओलो-वातड कुडको चाबून धेकर दिवंचो, असो ताचो सादो सभाव. दुसऱ्या म्हारांप्रमाण तो कोणाची ''तो दळडिरो बामण न्हय? कितें आसा तेच्यांत? ना घरांत गोटे खावच्याक, पूण फुकटचो म्हारांक दम.'' अशी निंदा करीनासलो. ''आरे, इतलीं चार लाकडां फोड'' अशें सांगतांच तोंड वाकडें-तिकडें करून 'फोडटलो आसलों, पूण हात साप कामांतलो गेलो- हो दावो! गोरवान खड्डो मारलो. आयज धा दीस तळमळटां न्हय...,' अशें खोटें लटकें सांगून वावर चुकयनासलो. ''देवू, मात्सो भरो घेवन यो रानांतल्यान'' अशें म्हणटांच ''हाडटां आं मागीर'' अशें सांगून कडसरनासलो. शे, देवूक अशें केन्नाच जमलेंना. सकाळच्यान सांजमेरेन तो राब, राब, राबतालो. वळ पडिल्ल्या तळव्याचेर थुकी घालची आनी भर वतांत घामांत भरून बाभळीच्या खोडाचे कुडके-कुडके करून भऱ्याचो ढीग घालचो, पदरांत पडटा ती ओली वातड भाकरी घेवची आनी परतो कोण उलो मारता थंय वच्चो, ताचे तणाचे भरे रचचे, शेर-माप जोंदळे गांठीक बांदचे, गांवचो व्याप सांबाळून सरकारी कामाकडेनय केन्ना दुर्लक्ष जांवक दिवचें न्हय, दासवृत्तीक अखंड जगचें, असो ताचो बाणो.

घराकडल्यान तो टोपली घेवन आयलो. सगळ्या गांवांत भोवून भाकरी मागली. थंड हुनसार भाकरे कुडक्यांनीं अर्दमर्द टोपली भरली. सगळीं घरां मागून जालीं. तसो देवू परत काठी आपटीत घराकडेन आयलो.

करंजेलाच्या दिव्याचो मंद उजवाड शाडू सारयिल्ले वण्टीचेर पडिल्लो. धाकलो इश्वरा हाताचीं बोटां नाचोवन वण्टीचेर सावळेचें हरण करतालो. ताका खेटून तानी माजरागत बसलेले. दोळे मोठ्ठे करून तें भावाची करामत पळेतालें. ताच्या आंगार नाना बामणाचे सुनेन दिल्लो सदळ पोलको आसलो आनी कपलार लांबतल्यो केश्टच्यो तें परतें परतें वयर काडटालें. इश्वरान ताळवेर केंस राखलेले. ताच्या आंगार हातकापो मळकट कोट आसलो. पूण तो ताका सामको झेतार जातालो.

राणी धाकटुल्या परलादाक दुदाक धरून बशिल्ली. ती देवूची अर्धांगिनी आसुनूय ताचे परस आंगा-पांगान भरिल्ली घटमूट दिसता. ती चलूंक लागली जाल्यार दाणदाण पांय आपटिता आनी उलोवंक लागली जाल्यार मामलेदारणीभशेन गोश्टी सांगता. तीय दादल्यावरीच ढोरासारकी राबता, वेळ-प्रसंगार हातांत कुराड घेवन लाकडां फोडची पसून तिची तयारी आसता. आपली तीन पोरां आनी राणी ह्या सगळ्यांबद्दल एकसारकी देवूच्या पोटांत अपार ममता आसा.

रात्रींत निखारो आसलो. घरांत थोडो धुंवोरूय घुटमळटालो. जळयल्ल्या कापट्यांचो करपट वास आनी रात्रीर बुडकुल्यांत शिजतल्या घोसाळ्या भाज्जेचो खमंग वास दोनूय एकामेकांत मेळिल्ले.

देवू येतनाच राणीन पदराखालचें पोर भूंय दवरलें आनी सटकन उबी जावन तिणें म्हळें, ''तोणाक जालां. भाकरी खावन घेयात.''

तिचीं तीं उतरां आयकून इश्वरानं शिनेमा बंद केलो आनी उजव्या मनगटान नाक जोरजोरान घासून आवयसरीं येवन म्हणूंक लागलो,

''आये, आमकायबी दी भाकरी.''

तेन्ना तानीय गडबडीन उठलें. आनी उक्तें पोट दोनाय हातांनी थापटायत रडव्या आवाजांत म्हणूंक लागलें.

''आनी, आये, आमकाय बी.''

देवू भायरसून हात-पांय धुवन आयलो. रात्रीवेल्या बुडकुल्यांतलें तोणाक वाडून राणीन ताचेफुडें काशा ताटली धुकल्ली. टोपली आयल्यान ओडून घेवन देवून तांतल्या भाकरे कुडक्यांची चवड हातांत घेतली आनी पितळेक फुडल्या अर्दान तेंको दिवन तांतल्या रोसांत भाकरे कुडके कुस्कुरले.

तानीन आनी इश्वरान हातांत भाकरे कुडके घेतले आनी एके वाटलेंत वाडलेल्या तोणाच्यांत ते कुडके बुडोवन तीं दोगांय खावंक लागलीं. परलादाक मांडयेर घेवन राणीय जेवंक लागली. जेवतां जेवतां तिणें विचारलें,

''खंयचो कामदार येवंचो आसा, वो?''

‘‘देवी डागदार, फोड काडपी.’’

‘‘बया! मागीर आमच्या परलादाकूय काडपाचे?’’

‘‘काडूंक जाय.’’

‘‘हांव ना काडूंक दिवचीं. फाल्यां फातोडेर म्हाका वचूंक जाय आप्पा बामणाच्या शेतांत नडणी काडूंक.’’

‘‘मागीर म्हाका कितें भाकरे कुडको बी?’’

राणीन तोंडाकडेन व्हेल्लो घास सकयल काडलो आनी मान वांकडी करून तिणें म्हळें,

‘‘आवो, विसरलां तर, फाल्यां ब्रेस्तार न्हय?’’

देवू सज्जन आसलो, तसो थोडो भाविकूय आसलो, तो दर ब्रेस्तारा उपास करी. सकाळच्यान सांजमेरेन तोंडांत काय घेनासलो. सांजेच्या वेळार राणी कितेंय गोडशें करी आनी मागीर देवू उपास सोडी. बायलेन याद करून दितकूच ताणें म्हळें,

‘‘हय गे हय. डागदार येवचे गडबडींत विसरलोंच म्हण!’’

हाचेर राणी निस्ती कौतुकान हांसली आनी मांडयेर मुठी चोखीत पडिल्ल्या परलादाच्यो तिणे अपुर्बायेन गालटचो घेतल्यो.

गाडगें तोंडाक लावन गटागट उदक पियेतना इश्वरा एकदम थांबलो आनी तोंडांतल्या उदकाचो घोंट पियेवन ताणें म्हळें,

‘‘मागीर, देवो, म्हाकाय काडटलो काय कितें रे फोड?’’

इश्वरा देवूक ‘यो रे - वच रे’च म्हणटा. म्हारांचीं चडशीं पोरां जाण्ट्यांक तशेंच म्हणटात.

ताचेर देवून हांसून म्हळें.

‘‘आरे ए गाढवा, तूं कितें आतां कुकुलो आसा. परलादा येदो आसलो तेन्ना तुका काडले फोड.’’

इश्वरान आपल्या दंडावेल्यो मावो पळेल्यो. तानीनूय आपले दंड पळेले आनी मागीर कोणाच्यो मावो अदीक व्हड हाचेर हुज्जत घालूंक लागलीं.

रोखडीच सगळ्यांचीं जेवणां जालीं. देवू काठी घेवन भायर सरलो आनी तक्क्याकडेन गेलो.

तक्क्या ही म्हारवाड्यांतली सार्वजनिक इमारत आसता. दरेक म्हारवाड्यांत ही ल्हानशी पूण बरें बांदकाम केल्ली इमारत आसताच. तडवळ्याच्या म्हारवाड्यांतूय ती आसली. खडबडीत वण्टी आनी वयर धापणें कशें कसलेंय पाखें, क्वचित एकाद्र्या गबर म्हाराची वांशा-पाट्यांची इमारत, अशीं पांच-

पंचवीस घरां आसलेल्या म्हारवाड्यांत तक्क्याची चिऱ्या-फातरांची इमारत खूप उठून दिसताली. तिच्यो भितरल्यो वण्टी तर गुळगुळीत गिलावो काडिल्ल्यो आसल्यो. धवो रंगूय काडिल्ल्यो आनी कांय हौशी मंडळींनी चार रुपया खर्चून तालुक्याच्या गांवच्या पेंटर रंगनाथ शेटीकडल्यान डॉ. बाबासाहेब आंबेडकारांचें चित्रूय एके वण्टीर रंगोवन घेतिल्लें.

देवू तक्क्यांत आयलो, तेन्ना सात-आठ जाण वण्टी-खांब्यांक तेकून बशिल्ले. कोनशाचो लामणदिवो अंधार-उजवाड दाखयतालो. गोरटेलो मारुती म्हार कांय गिन्यानाचीं उतरां सांगतालो. तो चार बुकां शिकलेलो. ते भायर गवंडीपण करूंक तो मुंबै जायते दीस राविल्लो. ते खातीर ताका जायत्यो गजाली खबर आसल्यो. तडवळ्याच्या साबार म्हारांची मारुतीचे जाणविकायेचेर श्रद्धा आसली. सगळो म्हारवाडो ताका 'मारुती इंजनेर' म्हूण वळखतालो आनी मानतालो.

देवू वण्टीक तेंकून मारुती म्हाराचें उलोवप कान दिवन आयकूंक लागलो,

...आतां काय आमचेर विंग्रज सरकाराचें राज्य ना. काँग्रेस-लोकांनी तांचेकडल्यान राज्य जिकून घेतिल्लें आसा. गांधीबाबा आनी न्हेरू ह्या दोगांच्या हातांत सगळो कारबार आसा. गांधीबाबा म्हणजे एकनाथ म्हाराजांचो अवतार. तांका हे म्हार, हे चामार, हे वडार असली भेदभावाची भाशा पसंत ना. विटाळ-चांडाळ ना. सगळे सारके!''

देवूक ही खबर मोटी अजापाची दिसली. ह्या व्हडल्या राजांविशी ताच्या मनांत भलतोच आदरभाव आनी कौतुक निर्माण जालें. ताणें मदींच विचारलें,

''खरें सांगता तूं, मारुती?''

''फट कित्याक उलयतलों? आपल्या म्हार लोकांक आतां खूप बरे दिस येतले. 'आफुडशी, कडेक राव' अशें तांकां कोण म्हणचोना, कांयच ना. आमचो जातवालो बाबासाब आंबेडकार परदान जाला थंय दिल्लीक, थेट गांधी-न्हेरूच्या मांडयेक मांडी लावन बसता. तो आमचो 'बा' आसा. लेकरांवरी तो आमकां राखतलो. ताणेंच बडव्यांक हुकूम दिला आनी पंढरेचो इटोबा म्हारापोरांक भेटयला.''

''तशें जाल्यार आतां आमच्या पोरांकूय साळा शिकून व्हड-व्हड नोकऱ्यो मेळटल्यो तर रे, मारुती? कोणूय येता आनी म्हाराक चेंडू जाल्लेवरी खोंटायता, गाळी-फस्ती सांगता तें सगळें बंद जातलें तर रे?'' कोणेशें मदींच विचारलें.

''अलबत जातलें, थोडेच दिस वचूं दी.''

देवूचें हड्डें भरून आयलें. आपले जातीचो परदान आनी तो गांधीबाबाचे मांडयेक मांडी लावत बसता? केदें अजाप! धन्य धन्य तो बाबासाब!

देवूक उलयल्याबगर रावंक जायना जालें.

“तर आमकांय बी कोण वाली आसा, म्हणचो तर!”

मारुती परतो नेटान सांगूंक लागलो :

“तर तर! फाल्यां तो गडागडा सरकारी नोकऱ्यो दितलो आमच्या लोकांक. ही गांवकी आनी तराळकी खंयच्या खंय साप्प वच्चेली आसा! आरे देवू, बामणांच्या बराबरीन जातलीं म्हारां आतां!”

हें सगळें आयकून देवू भलतोच धादोस जालो. भरल्या गळ्यान ताणें म्हळें,

“साकर पडूं दी, मारुती, तुज्या मुखांत!”

मागीर विशय बदल्लो. सटरफटर खबरी आयल्यो.

दिसाभराच्या काबाडकश्टान देवूचे दोळे झेमेंवक लागिल्ले. तो उठलो आनी घरचे दिकेक लागलो. आयज एक नवोच आनंद ताका जाल्लो. श्री. बाबासाहेब आंबेडकार हे गांधीबाबाचे मांडयके मांडी तेकोवन बसतात हे जाणीवेन तडवळ्यांतलो देवू सटवो म्हार खोश्शेन भरलेलो. इश्वरा आनी प्रल्हाद हांचो फुडार ताका भांगराचो दिसतालो.

दिवो पालोवन राणी आनी पोरां सुस्त न्हिदिल्लीं. देवू काळखांतूच भितर आयलो. ल्हव आवाजान ताणें म्हळें,

“इश्वरा, आगो ताने, न्हिंदलीं व्हय?”

त्यावेळार अर्दे न्हिदेंत आसलेली राणी हे कुशीवेली ते कुशीर जाली आनी जड, अस्पश्ट आवाजान तिणें म्हळें,

“उं, सवकास यो. माड्डिशी.”

देवू सवकास सासपत भितर सरलो आनी सकयल हातरूण घाल्ल्या पोत्याचेर, मुंडाशें उशाक घेवन लवंडलो. राणीन कसलेशें फटकुरे ताच्या आंगार उडयलें, तातूंत घुसपटून जांबय दीत देवून म्हळें,

“बेगीन जागय, आं. चावडेफुडलो जागो झाडूंक जाय. डागदार येवचो आसा.”

दिस उजवाडचे आदींच राणीन देवूक जागो केलो. मुंडाशें गुंडाळून आनी घोंगडें लेपटून तो भायर सरलो आनी चान्न्याच्या उजवाडांत ताणें चावडेफुडलें आंगण झाडून चक्क केलें. धुल्लान भरलेले हात फाफडून परतो तो घराकडेन आयलो आनी लंगोट घेवन न्हावपाक व्हाळार गेलो.

फांतोड जाली. दीस उजवाडलो. सूर्य हातभर वयर सरतां सरतां तालुक्याच्या गांवांतल्यान येतल्या देवी–डाक्टराची बैलगाडी तडवळ्याचे वेशीभितर सरली. येवकार दिवंक फुडें गेल्ल्या पाटील-कुळकर्ण्यान उपरणीचो पदर सावरून रामराम केलो. गाडयेंत तक्क्याक तेकून बसलेल्या, पोराटोसो दिसपी डाक्टरान तो गुर्मीतच स्वीकारलो. तो सकयल देंवलो ना. पाटील-कुळकर्णी आनी गांवांतली कांय बेकार आनी चौकस मंडळी ते गाडयेफाटल्यान चलूंक लागली. गाडी चावडेकडेन येवन थांबली. धवें फुल्ल खोमीस, मोटवें कल्सांव आनी बुट-मेय घाल्लो, डॉक्टर सायब चेपें हातांत घेवन गाडयेंतल्यान देंवलो. आवती-भोंवती उबे आशिल्ल्या म्हार-रामोशांनी बागोवन आदबीन रामराम घालो. देवूनूय 'जोहार' म्हळें. ह्या सगल्या खातीर डाक्टरान चेपें घेतिल्लो हात छाताडामेरेन व्हेल्लेवरी केलो.

मार्तंडा चौगुल्यान तिंताचे दाग हांगा-थंय पडिल्लें जाजम आनी गादी-तक्क्यांची बैठक चावडेंत घाल्ली. लाकडाच्या ठोकळ्यांत तांबड्या आनी काळ्या तिंतान भरिल्ले चिनीमातयेचे तिंतेर आनी काळी कुळकुळीत मोव रेंव दवरलेली. वेगवेगळ्या बुकांचें दप्तर, फुटपट्टयो बी सगळें जंयच्या थंय वेवस्थित आसलें.

रावसायब भितर वचून बसलो. ताणें पाटलाक म्हळें,

"हां. पाटील, आटापून घे. दनपार भितर काम सोपूंक जाय."

पाटील गडबडीन चावडेच्या चौकाचेर आयलो आनी ताणें हालेट घाली,

"आरे, तराळ आसा काय ना रे जाग्यार?"

वास्तविक देवू चावडेच्या सोपणाकडेनूच बसून आसपाचो. पूण पेल्यान उबो रावलेल्या आकारामान ताका ल्हवूच कडेक आपोवन व्हेलो आनी म्हळें,

देवू, पापया तंबाकू तरी दी चिमटीभर.

देवून पिंजक्या आंगरख्याच्या खिशांतल्यान तंबाकूची पिशवी काडली आनी तातूंत मनगटा इतलो हात कोंबून तंबाकू आनी चुन्याची डबी भायर काडली. तंबाकू तोंडांत उडोवन चार उतरां उलयता म्हणसर पाटील किंचाळ्ळलोच.

तेन्ना आकारामान म्हळें,

"आरे देवू, पळ. पाटील लागला बोंबलूंक."

देवू गडबडीन आयलो आनी म्हणूंक लागलो,

"जी, हांव देवू आसा न्हय हांगाच."

"खंय गेल्लो मरूंक?" पाटील आड्डलो. "चल, सगळ्या घराघरांनी वचून सांग, तान्या पोरांक घेवन चावडेर येयात म्हूण. पळ."

गाडी गांवांत पावत पसून गांवच्या बायलांमदीं धांवपळ चालू जाल्ली. जी ती भिल्ल्या आनी हुस्क्याच्या सुरान सांगी,

"आगे, दडात आं. डागदार आयला फोड काडटलो...म्हजे सुंदरीचे कितें जातलें गे, बाये?"

देवी काडटलो डाक्टर आयलो की गांवांतल्यो कुणब्यांच्यो अडाणी बायलो हमेशा अशो काचाबूल जातात. देवी काडून घेतल्यार कितें फायदो जातलो, हाचेर तांचो साप् विश्वास नासता. परतें जाल्यार, ह्या तोपपा पसून पोरगें आठ-पंदरा दिस बेश्टेंच बरें ना जाता, देव-देवरुशी पळोवचे पडटात, तांतूत एखाद्रे वेळार पोर मरतापसून, अशी तांची समजूत आसलेल्यान तोपून घेवप तीं चुकयतात. उलो मारूंक आयिल्ल्या तराळाचे चार-पांच हेलपाटे जाले तरी टाळाटाळ करतात आनी बाबडो तराळ मात हेलपाट्यांनी खरस काडटा.

आजूय तशेंच घडलें. झाडून सगळ्या घरांनीं वचून देवून 'तानी पोरां घेवन चावडेर चलूंक' सांगलें आनी परतो येवन तो चावडेकडे बसलो. पूण वर देड वर जालें तरी चार स बायलो पसून पोरां हाण्डीर घेवन चावडेर आयल्योनात. हो देवी डाक्टर पोरकटसो आसलो आनी ह्या संस्थानी खाक्यांत सामको नवोच कामाक लागलेलो. मूळचो मात्सो उथळ, खाश्ट सभावाचोच. बेगीन-बेगीन कोण येना हें पळोवन पाटलाचेर गुरगुरलो,

"पाटील, कितें हरामजादीं मनशां ह्या ग्वेड्यांतलीं! ह्या गांवाचेर तुजो कांयच जरब ना काय कितें?"

हाचेर पाटील केवळ लाचारेन हांसलो आनी परतो चावडेच्या चौकाचेर रावन आड्डूंक लागलो,

"आरे, ए तराळ" मदीं ताणें एकदोन झकास गाळी संवल्यो. "राजाभशेन बसून रावला तो. कितें रे त्या लोकांक तुज्या 'बा'न आपोवचें आसा काय कितें?"

"जी, सगळ्यांक केन्नाच सांगून आयलां."

"चड कथा करूं नाका. फुडें घालून यो सगळ्यांक. सरकारी इनाम खाता तो कितें बापायचो माल म्हणून. कामचोर खंयचेकडलो! उठ!"

देवू परतो काठी आपटीत चलूंक लागलो. 'तानी पोरां घेवन चावडेर चलूंक' सांगूक लागलो.

दीस माथ्यार आयलो. वत रणरण करूंक लागलें. तरी रिकाम्या पोटार देवू हेडटालो. तशे आवतिकायेंतूय एक-दोन बहाद्दरांनी ताच्या हातांत कुराड दिवन लाकूड फोडून घेतिल्लें आनी 'सांजे भाकरी घेवन वच' म्हूण सांगिल्लें. तांतूत देवूचो वेळ वगडावल्लो आनी श्रमूय जाल्ले. सगळ्या गावांत फेरी जातकूच देवू परतो चावडेशी आयलो.

इतले मजगतीं पाटलाच्या घरा वचून डाक्टर कोंबडी खावन आयिल्लो आनी गादयेचेर आयस-पयद दोंके पातळावन धवी विडी फुंकतालो.

पोटांत काय ना. वतान जीव कावलाक आयिल्लो. देवू हेडून-हेडून जाम जाल्लो. भितोडेचे सावलेक तो हुश्श करून बसलो. ताचो काळो चेरो वतान अदीक करपल्लो आनी आंगाचें पिंजकें कुडतें घामान थपथपलेलें.

''देव्या!'' पाटील परतून किंळांचलो.

''जी.'' काडून घेतिल्लें मुंडाशें परतून माथ्यार दवरून उठत देवून जाप दिली.

''आतां त्या दोन-चार वस्त्यांकडल्यान वचून यो. धावगुड्याची वस्ती, बाबराचो मळो, आनी सकयली संतू तुकारामाची, रामा कांबळ्याची, सगळ्या वस्त्यांनी वचून यो. पळ.''

ह्यो सगळ्यो वस्त्यो गांवच्या चारूय वाटांनी शिंपडलेल्यो. गांवापसून भोवन भोवन हेलपाटे घालूंक नाका म्हूण कांय शेतकार आपल्या रानांनींच घर करून राविल्ले. जंय-थंय वचून येवचें म्हळ्यार बरेच कश्ट आसले. पूण ते देवूक काडुंकूच जाय आसले. मोडूंक आयिल्ले पांय ओडप प्राप्त आसलें. ती सरकारी नोकरी आसली. तो पाटलाचो हुकूम आसलो. गांवाभायल्यान व्हांवतल्या व्हाळांत देवून घोंट घेतलो. थंड उदक ढोंकले, ताका लागून ताच्या पोटांत भुकेन चाबपाचें थांबलें. ताका थोडी हुशारी आयली. मागीर तो आडरानांनी वस्त्यो माड्डूंक लागलो.

धायगुड्याचे वस्तीवेलो बाळा धायगुडे ताचेर तिडकलो आनी म्हळें,

''अरे, चल, डागदाराच्या! कोण बायलमनशां नात वस्तींत म्हणून सांग. सगळीं गेल्यांत पंढरीचे वारीक!''

देवू थंयच्यान परतलो आनी बाबराच्या मळ्यांत आयलो. तेन्ना बाबराची बायल फणकारून उलयली,

''चल, सांग वचून त्या डागदाराक. ताका सांग, तानें पोर घेवन थंयमेरेन येवंक कोण बेकार ना हांगा. मिरसांगो काडचेल्यो आसात त्यो कोण काडटलो? त्या डागदाराचो 'बा' काय त्या पाटलाची कारभारीण?''

गप्प जावन देवू संतू तुकारामाकडेन गेलो. तो मोटेसरीं आसलो. देवून वर्दी दितांच ताणें म्हळें,

''बरें, पळोवया. पूण देवू, हांगा यो मात्सो. चार मोटो घाल. हांव मात्सो मळणेकडेन वचून येतां.

''तशें नाका, जी, पाटील. थंय काम आसा म्हाका. अम्मलदार जीव काडीत म्हजो.''

''आरे, खंयचो अम्मलदार? सांगू येत ताका. धर ही दोरी आनी हामूड.''

देवू मोट चलोवंक लागलो. 'आत्तां येतां' म्हणून गेल्लो संतू तुकाराम पांच-पंचवीस मोटो घालून जाल्यो तरी परतो आयलो ना. तो आयलो तेन्ना देवूची सुटका जाली.

अंती परती फुकट पायपीट करून देवू गांवांत आयलो तेन्ना बद्द तिसरो प्रहर जाल्लो. देवूचें काळें कातडें तापलेलें आनी पांय सणसणूंक लागिल्ले.

तो चावडेर आयलो. ताणें डागदाराक म्हळें,

सगळ्या वस्तीनीं वचून आयलों. त्या धावगुड्याचीं आनी त्या बाबराचीं मनशां गेल्यांत गांवाक...''

डाक्टराचो पारो चडलेलो. पिसावलेल्या कुत्र्यासारको तो देवूचेर आड्डलो,

''बकबक बंद कर. धेडाची जात. आरे, तूं वचूंकूच नासतलो वस्तीर. म्हाका खबर आसा. खंय तरी पान-तंबाकू खावन गजाली मारूंक बसला आसतलो. सकाळच्यान हांव हांगा हालेटी मारतां आनी धा-पांच पोरां सोडल्यार, कोण पोर आयलें ना चावडेर.''

हाचेर देवून म्हळें,

''अन्नाच्यान, हांव सगळ्यांक सांगून आयिल्लों, सरकार!''

''चूप! मग्रुरासारकी परती जाप दिता हरामखोर! उठ्ठा-बसतना खोटांवक जाय तुमकां धेडांक, तेन्नाच सुतासारके सरळ येतले.''

डाक्टराचो आवाज सामको चडिल्लो. चावडेर उबो रावन तो कडकडाट करूंक लागिल्लो. गाळीफस्तींचो शिंवोर ताणें बाबड्या म्हारांचेर घाल्लो. चावडेर भोंवतणी बसलेली पाटील, कुलकर्णी आदी मंडळी सायबाच्या ह्या गाळीफस्तींच्या माऱ्यान काचाबूल जाल्ली. चावडेर कितें भानगड आसा, म्हणून गांवातले वाटेवयले लोक जमूंक लागलेले, तसो तसो सायबाचो आवाज एकदम चडूंक लागलो.

काठयेच्या तोंकार तेकयल्ला दोनूय हातांच्या पंजांचेर खाडकी दवरून देवू टक लावन सायबाकडेन पळेतालो. पळेतां पळेतां ताचे दोळे वटारले, तांबडेगुंज जाले, नाकापुडयो फुरफुरूंक लागल्यो. दांतार दांत घट्ट बसले आनी दंडाक कापरें भरलें. डागदर आड्डलो,

''आयकता कितें, भंचोत...''

देवू झटक्यान बागवलो आनी पायांतलें धुल्लान भरलेलें तुटकें पायताण हातांत काडून आड्डलो,

''आरे ए चोरा, सकयल मात देंव, गाळी घालता तें तुजें मुस्कट फोडटां ह्या तुटक्या पायतणान!''

दुसऱ्या दिसा सांजवेळार गांवकार मंडळी चावडेफुडल्या लिंबाच्या आयस-पयस पारार, गजाली मारीत बशिल्ली. ते एदेशें खेडें देवू म्हाराच्या अचाट कर्तुबान धवळून गेल्लें. देवू म्हारान देवी-डाक्टराचेर पायताण उबारलें ही गजाल सगळ्यांकूच भोव अचर्याची दिसताली. मंडळी उलयताली. देवू पारासकयल उकडयां बसून तांचें उलोवप आयकतालो. एकल्यान ताका म्हळें,

''देवू, आरे, भल्या मनशा, सायबाचेर भर चावडेर पायतण उबारले, गांजा बी ओडून आयिल्लो काय कितें रे? काय, सोरो पियोवन आयिल्लो? पापया, आतां तो सायब वतलो पंत सरकाराकडेन आड्डत. वर्स-दोन वर्सां फुकटचो बंदखणींत बसशी?

ताचेर देवू उलयलो,

''पंत सरकाराकडेन ना तर थेट दिल्लीच्या राजाकडेन वचूं दी. हांव भिना. साफ सांगीन पंत सरकाराक, 'तुमी अम्मलदार नेमल्यात, तेन्ना म्हार लोकांक आवय भयणीवेल्यान गाळी घालचो हुकूम दिला काय कितें? कोणेय बी टिकूजीन येवचें आनी आमकां चेंडूवरी खोटावंचें? म्हणजे आसा कितें?''

आनीक एकट्यान विचारलें,

''आनी पाटलान जास्ती सांगल्यो तेन्ना रे?''

''पाटलाचें काम वेगळें. ताच्या खरकट्याचेर जगल्यांव. तो दोन पायतणां मारतलो आनी परतो पोटाशीं धरतलो. पूण कोण खंयचो सायेब? खुटयेवेलो कावळो. ताका कोणाम्हऱ्यांत वच्चो आसा, तो वचूं दी. सरकारांत आमचोय कोण वाली आसा!''

ते उपरांत आतां कांय दीस सरल्यात. मध्यंतरी, देवू सटवो म्हार, मुक्काम तडवळें, हाका संस्थानी पोलिसांनी पकडून व्हेलो. डाक्टरान ताचेर केल्ली फौजदारी न्यायासनान मानून घेतल्या. देवू तुरुंगांत आसा.

राणी मोलमजुरी करून पोरांबाळांचें पोट भरता. तराळकी दुसऱ्या म्हाराकडेन गेल्ली आसा. तडवळे गांव व्यवस्थित नंदता.

...आनी दक्षिणी संस्थानांमदल्या ल्हानशा संस्थानांत तडवळे नांवाचे आठ-णवशें लोकवस्तीचें ल्हान खेडें आसा, थंयच्या देवू सटवो म्हाराचें कितें जालें, हाची मातय म्हायती नामदार बाबासाहेब आंबेडकार हांकां ना. आनी ती केन्ना जातली हाचोय संभव ना!

● ●

3

# घालमेल

## मूळ मराठी : उद्धव शेळके
## कोंकणी अणकार : सुधा सुरेश आमोणकार

शिवनेरचेर काळखाची काळी कात चडटाली. गांवठी सुण्यांच्या विद्रूप केंकाटपाक लागून काळखाचेर विचित्र तकतकसाण येताली. दोगांयच्या संस्कारान वातावरणांत भिरांत आपलें आंग ताणटाली. तें भिरांकुळपण आकसी समाधानाचे घोंट गिळटाली.

शेंवतें रान्नीपल्लांत बशिल्लें. ताच्या पांयाच्या दोनूय आंगठ्यांमदीं परात आशिल्ली. परातीचे अर्देवटेन सळसळिल्ल्या उदकांत कालयल्ल्या पिठाचो दोंगर आशिल्लो. तांतूत घुस्मटिल्ली हुनसाण वाफेच्या रूपान वाट दिसता ते दिकेन धांवताली. परातीचे उरिल्लेवटेन शेंवत्याचे हात पीठ किमशिताले. कान पडवेवयली सुलूस घेताले.

कितेंय समजुपाइतलें आयकूंक येताशें दिसतकच, शेंवत्याच्यो सगळ्योच हालचाली गोठेताल्यो. तकलेंतली समजुपाची शक्त कानांत एकठावताली. इतले म्हणसर पडवेंतली पावलट ताचे वटेन आयली. तोंडांत दोन दांत नाशिल्ली द्वारकी, रान्नीपल्लांत आयली. तोंडातलो पानाचो चोथो काडून शेंवत्याक तिणें म्हळें,

''बाई, तुका बा आफयता.''

''कित्याक?''

''म्हाका कितें खबर?''

मागीर शेंवतें हातोणीच्या उदकांत हात बुचकळावन उबें रावलें. पयलीं खोंविल्ल्यो मिरयो चलतना विस्कळ केल्यो. मांड्यांचेर हात पुसले. पांय वाजयनासतना मदलें घर हुपलें. केश्टच्यांवेल्यान हात ओडीत दाराकडेन आयलें.

त्या दाराभायर पडवी आसली. थंय जमखान पातळायल्लें. वण्टीचे कडेक गादयेचो कवळो आडवो केल्लो. लोडाभाशेन. तिका फाट तेंकोवन गांवातले कांय जड्डे जाण्टेले बशिल्ले. हरिमास्तर मांडयेवेल्या उमथ्या पानाचेर चुन्याचीं बोटां सवकासायेन ओडटालो. सखाराम शिंदो, फुड्यांतल्या खलबत्त्यांत पानाचो तांबडो लगदो कुट्टालो. आनी सोमो आरतून परतून सगळ्यांकडेन पळेतालो. खंयच्यान

उलोवपाची सुरुवात जाता, तें हेरतालो. तितले म्हणसर ताका शेंवत्याची सुलूस लागली. ताणें दाराआडचे आकृतायेक म्हळें,

''आयलें? यो.''

तें हाललें ना. ताणेंच म्हळें,

''यो मूं हांगा. हांगा कोण काय परकी आसा?''

''थंय बस ना काय बाबडें!'' हरिमास्तरान चुनो लावपाचें थांबोवन, आनी शेंवत्याची नुरा नियाळपाच्या अपेशी यत्नान म्हळें,

''बस बस. थंयच बस.''

तरी शेंवतें उबेंच. मागीर आनीक एक दोन आग्रे जाले. म्हूण शेंवत्याचो नाइलाज जालो. कांय जाप करिनासतना तें जमनीक तेंकलें. किलकिल्लेली किण्ण किरंव शांतताय परथून दोळे मेटूंक लागली. हरिमास्तरान नाखटानच कात खरवडलो. फातराच्या धपक्यान फोडिल्ली सुपारी तो पानांत कवळूंक लागलो. सखारामान खलबत्त्यांतलो तांबडो लगदो ताळटार घेतलो. सोमाच्या हातांतल्या पानाच्या विड्याकडेन कुरू करून म्हळें,

''घे.''

हरिमास्तरान दोगांकूय लेखून म्हळें, ''रामराम करात.''

रामराम जालें. पानाच्या बोकण्यांनीं तोंडां हालूंक लागलीं. आनी पानांच्ये पिचकाऱ्यो पडूंक लागल्यो. खीण गेले. मागीर मात सोमाक राव नज जालें. तो विशयाभोंवतणीं आडमार्गान गणोवंक लागलो.

''थंयसून येवंच्या वेळार मोटार वक्तार मेळ्ळी तुका?'' सखारामाचो रंवथ मंदावलो.

''बाप्पा, थंय मोटारीक कितें उणे आसा?''

हरिमास्तरान म्हळें, ''जी कितेंय अडचण येता ती हांगच्यान वचचेच वक्तार...''

वातावरण हाललें. वेर गेली. आनी ती पळोवन सोमान विशयाचेर घालून घेतलें.

''मागीर कितें थारायलें?''

सखारामान धादोशी जावन म्हळें, ''कितें थारावचें पडटा! जें हांगा थारावन अमरावतीक गेलो, तेंच.''

''ताणें एकदम हय म्हळें? काय मात्सो फाटीफुडें जालो?'' मास्तरान निर्मळपणान म्हळें,

''निखालस ना!''

सोमान विचारलें, ''कितें तरास-बिरास?''

मास्तरान समाधानान तकली हालयली.

“सांगता न्हय निखालस ना म्हूण?”

मागीर तो सखारामाचो तेंको मेळोवंक लागलो.

“कितें गा?”

सखाराम वोगी रावलो. कितेंय तरी करचें म्हूण, कुले उखलून, तो आंगणांत बागवलो. आनी ताणें तोंडांतल्या तांबड्याचें काळखाचेर चाबूक ओडलें. परते कुले तेंकयले आनी रंवथ करूंक लागलो. मात्सो नेटानच.

हरिमास्तर उलयत आशिल्लो,

“आनी उलोवण्यावेल्यान तर तुजो जांवय सामको सरळ मनीस दिसलो म्हाका. कित्याक फट उलोवं बाबा? आमची वेवस्थाय बरी दवल्ली. अशें ना की बाबा, म्हज्या मावोडेचीं मनशां आसात म्हूण. तांचेकडल्यान आफोवणें आयलें तर तांचेकडेन खंयच्या आडपड्यान वागपाचें? जांव तांचो मानपान दवरचो न्हय? कितें सखाराम?”

सखारामान रंवंथ थांबोवन अविश्वासान म्हळें,

“तुजें तर सांगून जांव दी पयलीं.”

मास्तरान विचारलें, “कितें, हांव कितें सारकें उलयना?”

“पूण अशें म्हण्टा तरी कोण आवशी खायरो? कितें गा?” सखाराम थांबलो. सोमाकडेन प्रश्न विचारपाचे मुद्रेन पळयलें, विचारलें,

“कितें गा?”

“तेंच म्हण्टां. मास्तरान गैरसमज तसोच दवल्लो. आमी अमरावतीक वचतपसून मोटारींत बसमेरेन अशें मात लेगीत दिसलें ना की, सोमाचें आनी शंकराचें बिनसलां म्हूण. फटी कित्याक उलोवं गा? तो फाटल्यान बसला. विचारा ताका.”

सोमाचें मुखामळ कोडसाळ जालें. ताणें बेठीच बसका बदल्ली. खांकलो, थुंकलो आनी अतृप्ततायेच्या स्वराचो आव हाडून ताणें म्हळें,

“हय, ह्यो सगळ्यो गजाली खऱ्यो. पूण आमच्या कितें कामाच्यो?”

हरि मास्तरान आवरून घेतलें,

“तें जालेंच. पूण हरशीं एक गजाल सांगतालो.”

सोमाक नेट चडलो. “सुरी भांगराची आसली म्हूण कोण ती आपल्या काळजांत रोंबिना न्हय? कितें रे सखाराम?”

“हांवुय तेंच म्हण्टालों.” सखारामान म्हळें.

“तो कितलोय बरो आसल्यारय ताचो आमकां कसलो उपेग? आं?”

मानेक एकेवटेन बागोवन सोमान समाधान उकतायलें.

“हय आतां कसो उलयलो? हांव म्हण्टां, ताचे दाखवपाचे दांत वेगळे आनी

खावपाचे दांत वेगळे नाशिल्ले तर तो म्हजे धुवेक दोन वरसां मेरेन हांगाच कित्याक सांडटलो आशिल्लो? आं?''

मास्तर कांयच उलयलो ना.

सोमान परतें विचारलें, ''कितें फट उलयतां हांव?''

''ना गा.'' सखारामान म्हळें.

''तुका कोण फट म्हण्टा?''

सोमान आतां सखारामावटेन तोंड केलें. रित्या हाताचो पंजो फुडें करून विचारलें,

''म्हजे धुवेंत कितें उणें आसा म्हणपाचें आसा काय? सांग मरे?''

मास्तराक उलोवंचे पडलें, ''ना. ना. अशें कोण म्हण्टा त्या पोराक? भुरगेपणाथावन पळयत आयल्यात आमी ताका.''

''ना न्हय?'' सोमान म्हळें, ''मागीर तो आमचे वांगडा कित्याक गा वागता असो, पाडपडिल्लो?''

कोणूच कांय उलयलोना. तेन्ना सोमान तोच प्रश्न विचारलो, आनी सखारामाकडेन तो प्रश्न करपी नुरेन पळोवंक लागलो. सदचे पद्धतीन, तोंड आं करून.

आनी एकदां आपल्या तोंडांतल्या तांबड्याची पिचकारी मारतकच सखारामान नेट हाडून समजावणेच्या स्वरांत म्हळें,

''तुका इतलेंय समजूं नये? मागीर अति जालें म्हणपाचें. अवचिन्न. आरे, कितलेंय जालें तरी तो शारांतलो भोंवर. लागलें आसतलें खंय तरी चट्! ताका तें पोर कितें करतलें? आं?''

उपरान्त दाराचे भितर हालचाल जाली. सगळ्यांनीं थंय पळयलें. ते वेळार शेंवतें आपली हालिल्ली बसका थीर करपाच्या प्रयेत्नांत आसलें. सकल्ले मानेन जमिनीवटेन पळयतालें. थंय आडनदर करीत सोमान म्हळें,

''बस. बस. लाखांतलें एक उलयलो सखाराम!''

सखारामाच्या स्वराच्या आवाक ताजपाण आयली,

''ना जाल्यार कितें तोंडांतल्यान उतर काडले बराबर हयकार दितलो आसलो तो काडीमोडाक, आं?''

''हांव तेंच म्हण्टां.'' सोमान मास्तरावटेन बागोवन म्हळें,

''पूण मास्तराक हें मान्य ना.''

''तशें कोण म्हण्टा? मास्तर सावरूंक लागलो.

''तुमच्या जांवयाचें तुमकां खबर. म्हाका कितें? वरां दोन वरांची वळख. ते वयल्यान म्हण्टलों....''

सखारामान म्हळें, ''पूण आमी तरी वळखतात न्हय ताका?''

परतो मास्तरान बांद घालो. ''आसूं दी आतां कितें ताचें? आमचें काम तर जालें न्हय?''

''ना, ना. एक गजाल सांगतालों, तांतूतली!'' सखारामान सोमाक म्हळें, ''आरे, कसलीय हेर गजाल सांगूंक कितें हरकत आसा?''

''कांय ना.'' सोमान म्हळें. मागीर मास्तराक विचारलें,

''कागद हाडलें?''

''कागद, कसलें?

''आरे, काडीमोडाचें.'' हेळ काडीत सखारामान म्हळें,

''आनी कसलें?''

शेंवतें परतें हाललें. खुसपुस जाली. पयलींच सांवरिल्लो पदर परतो एक फावटी सांवरलो. आनी चुऱ्यो पडिल्ले देगेर हात मारूंक लागलें. सारकी करूंक लागलें.

पडवेंत मास्तर म्हण्टालो, ''अब्बा! कागद हाडूंक ना म्हणजे कितें...'' मागीर आपलीं बोल्सां सांसपूंक लागलो. सहज भितर पळयत जाल्यार शेंवत्याची जळजळीत नदर ताच्या बोल्साभोंवतणीं सांसपितल्या हाताचेर आशिल्ली. काडिल्लें कागद सोमाच्या मुखार धरून मास्तरान म्हळें, ''हाजेर चलयेचो आंगठो जाय!''

तें पुराय आयकुचें पयलींच सोमान म्हळें, ''कागदां दोन आसात न्हय?''

''हय'' मास्तर म्हायती दिवंक लागलो. ''एक थंय धाडचें पडटा. एक आपलेसरीं दवरपाचें.''

मागीर ताणें दोन कागदां वेगळीं काडलीं. एक सोमाच्या सुवादीन केलें. दुसरें दाखयत सोमाक म्हळें, ''हाचेर शेंवत्याक आंगठो लावंक सांग.''

ते बराबर सोमान दाराभितर आशिल्ले शेंवत्याक म्हळें, ''बाय शेंवत्या, यो पोरा.''

शेंवत्या हाललें ना.

ताणें परतें म्हळें, ''यो. हाचेर आखाणो लाय.''

एक हुस्कार सोडून शेंवतें बशिल्लें उबें जालें. तेंवुय तांचेकडेन- पडवेकडेन फाट करून. ताच्या पायांचो आंगठो जमीन खरपितालो. तें डाव्या हातांतलो कापडाचो शेव उजव्या बोटाक गुठलायतालें तसोच सोडयतालें. सोमा म्हण्टालो,

''येता काय ना?''

''येतां.'' शेंवत्यान म्हणपाक म्हळें.

''मागीर केन्ना तर?'' खिणाभितर सोमान म्हळें.

तरीय शेंवत्याचो आंगठो जमीन खरपितालो. कापडाच्या पालवाचें बोटा भोंवतणीं गुठलावप, सोडवप चालूच उल्लें. परतें परतें.

● ●

4

# प्रदक्षणा

मूळ मराठी : जी. ए. कुळकर्णी

कोंकणी अणकार : सुरेश गुंडू आमोणकार

घराचे उदेंतेवटेन लायिल्ल्या उंच आनी लवकी निलगिरी रुखांच्या पानांतल्यान सूर्यप्रकाश गाळून येवन मुखावयल्या सोप्याचेर पातळिल्लो, आनी एका बेताच्या कदेलाचेर शून्यपणान बशिल्ले शांताक्काच्या आंगाचेर त्या पानांच्यो सांवळ्यो चाळो करताल्यो. सकाळच्या पारार ह्या शांत सोप्याचेर फाटल्या वीस पंचवीस वर्सांत शांताक्का अशी बशिल्ल्याची याद जायना. कित्याक, आतां आठ साडेआठांचो सुमार जाल्लो. पंदरा दिसांआदीं मेरेन हो सोपो दादासायबांचे भेटेक आयिल्ल्या मनशांनी गजबजिल्लो आशिल्लो. ताका लागून आतां सोप्याचेर बशिल्ले आसतना, काळखा कुडीची एक वणत पडटकीच, पोरण्यो कोंडिल्ल्यो वस्तु लखलखीत सूर्यप्रकाशांत अनवळखी दिसच्यो, ते भाशेन शांताक्काक नवशेंशें दिसूंक लागिल्लें. ती आपलें विकळ मन खीणभर विसरल्ली. आनी तिणें हे वटेन ते वटेन पळेलें. खीणभर तिका दिसलें, आतां हे फुडें हें घर सामकें रितें, मोनें दिसतलें. पूण आपणांक आतां ताचीय संवय करची पडटली. आपली जीण अशीच शांत, दुख्खान, उगडासांनी जडभार जाल्ल्या ह्या सोप्याचेर आयल्या. मागीर एक दीस ती भायर सरतली. तिजुल्यांची वाट माड्डीत, गेटींतल्यान भायर येतली, आनी जुयांचो माटव, तुळशी पेड, भोंवतणचीं भुरगीं येवन पानां चुरीत जांचो वास घेतालीं तीं निलगिरीचीं झाडां, आपलें एकमुळें निर्फळ हांतरूण, हीं सगलीं फाटसून उदेल्ल्या सासणाच्या पाऊल कुरवां भाशेन फाटीं फाटींच उरतलीं.

ह्या विसकळ सोप्याचेर एके वटेन दादासायबांचे बरोवचेलें मेज आसलें आनी ताचे म्हऱ्यांत पुस्तकांनी भरिल्लें शेल्फ. आनी मुखावयले वण्टीचेर सुती हार घाल्लो कोणातरी देशभक्ताचो फोटू. ग्राम कला केंद्राचो संचालक रामचंद्रन हाणें व्हडले उपकारफेडीचे भावनेन ओंपिल्लो दादासायबांचो अर्द पुतळो सदांच त्या शेल्फाचेर आसतालो. पूण मागीर आबाजीन तो सामकारूच एक मेज दवरून ताचेर हाडून दवरिल्लो आनी तेन्नाच्यान सदांच उजवातींचो धुंवर मंद परमळीत निळायेन ताचे

भोंवतणीं उफेतालो. पंदरा दिसां आदीं दादासायबांच्या मर्णाची खबर फां फां जातकीच, रस्त्याच्या पेल्यान मेरेन मनशांची आशाढ कुपांवरी खेट जाल्ली आनी स्मशानयात्रा तर देडदोन मैल पातळिल्ली. मागीर बुजवणेंक येवपी मनशां शांताक्काकडेन अंदिल्ल्या ताळ्यान उलयतालीं, मदींच दुख्खाच्या ओल्यान उठून अर्दपुतळ्या म्हऱ्यांत फुलां दवरतालीं, आनी दुखेस्त मुखामळांनी एकदम नाचूच जातालीं. आतांमेरेन मेजाचेर फुलांची रास जाल्ली आनी पुतळ्याचो निर्विकार थीर चेरो मात ताचेर एकटक दिसतालो. दादासायबांचो चेरो उग्र; तांच्या चेऱ्याची ठेवणच काळ्या फातरांत दीर्घ उद्वेगान घडयल्ले भाशेन करारी, भेंदूक जायना अशी आसली. बंदखणींत आसतना चाबकाचे फटके तांणीं सुकिल्ल्या दोळ्यांनी सोशिल्ल्याचे तांचे वांगडी सांगताले. तांचे दोळे सदांच तशे उग्र, कठोर, अथांग आसले, शांताक्काची नदर त्या वळखीच्या चेऱ्याकडेन वतकीच तिचें मन उगडासांच्या बुडबुड्यांनी भरलें. वाचीत आशिल्ल्या ग्रंथांत बोट दवरून घरभर भोंवचेली तांची सवय... हजार उपाय करून लेगीत तश्योच फुटक्यो उरिल्ल्यो निवळ खोंटो... खाड करतना ते जायते कडेन लक्ष दिताले, उलयताले, खंय ना खंय तरी हटकून पाती कापून घेवपाचें तांचें घाळपण... तांचे चिरेबंदिस्त, व्रतस्थ, समर्पीत जिणेंत केन्नाच उदेवंक नाशिल्लो रंगाचो, संगीताचो शब्द... कपिलेश्वराच्या तीर्थाकडेन, आमरायेंत पानांच्या सांवळ्यांनी फुटिल्ल्या चान्यांत रगताच्या ओल्यान तांणी घाल्लो दणकट, वखवखिल्लो हात... आनी त्याच रगताचे नेकीन आपले असहाय अवस्थेंत तांणी पाळो दिल्लें चोख आनीक खणखणीत उतर! पुणून उपरान्त हुंबरो हुपून बायल म्हणून घरांत पावल दवरतकीच मात...

एकाद्रे दिंडेंत विद्रूप म्हारोगी दिसचो, ते भाशेन त्या यादींनी तो विचार येतकीच शांताक्कान आंग काडलें, आनी अती सोंशिकसाणीन तिणें तो फाफुडपाचो यत्न केलो. फाटल्या तीस वर्सांची संवंय हाडांत करमेल्ली. थोड्याच वेळान तिचें मन ते संबंदी निर्विकार जालें.

आबाजी ल्हव पावलांनी भितर सरलो आनी ताणें हातांतलीं वर्तमानपत्रां, तांचो मातूय आवाज जावपाक दिनासतना, अदबीन शांताक्काच्या म्हऱ्यांतल्या मेजाचेर दवरलीं. तो परततना शांताक्कान ताचेकडेन कळवळ्यान पळेलें. तिका वोगीच दिसलें, वतना दादासायबान हाचो जीव लेगीत आपले वांगडाच व्हेला! आतां आबाजीचे दिसूय चड उरुंक नात. ताची मान सामकीच सुकून फुडें आयिल्ली, आनी बारीक काड्यांचें वक्ल आकडायतकच वक्लांत आनी सुरकुतिल्ल्या चेऱ्यांत बोटां ऐसपैस सरकवपाइतली सुवात उरताली. शांताक्काक दिसलें, हो आबाजी खंयचो! दादासायब खंयचे! पूण अशीं आंतड्याचीं नातीं कशीं जुळटात देवाक खबर! शांताक्काच्या लग्नाआदीं पसून आबाजी दादासायबां म्हऱ्यांत सांवळे भशेन

जीण जियेल्लो. बायल सोडून गेली म्हणून न्हंयचेर वितरागान जीव दिवंक आयिल्ल्या ह्या खेडवळ ब्राह्मणाक दादासायबान आपल्या गावांत हाडलो, आनी ताका घरांतलोच एक करून आपल्याच पानालागीं ताचेंय पान मांडलें. मागीर दोन आण्याची भाजी हाडपापसून दादासायबांच्या दौऱ्यांतूय लागतल्या लिंबु पाणयाचो पेलो दिवपामेरेन ह्या घरांतल्या आयुश्याचो सगलो कस्तो तीस पस्तीस वर्सां तांच्याच दुबळ्या अधू दोळ्यांखाला जाल्लो. फाटल्या पंदरा दिसांत घरांत इतलीं मनशां आयलीं. जान्हवी आनी रामकृष्ण तर हांगाच रावल्यांत. चार दिसां आदीं. कोणेच आफय नासतना राजाभाऊ लेगीत अकस्मात भुताभाशेन येवन बसला. पूण इतली यो वच आसतनाय आबाजीन तांची उठबस बरी केल्या. म्हाका कांयच लावंक दिलें ना. ताचे विशीं दादासायब तर ''कृष्णामाईन दिल्लो भाव'' अशीं उतरां आयल्ल्या गेल्ल्यां कडेन काडटाले. तांणी आबाजीक अन्न वस्त्र फुकट दिलें, आनी ते ताच्या नांवान दर म्हयन्याक चाळीस रुपया बँकेंत घालताले. खूबदां बँकेचें पुस्तक हेरांक दाखयताले आनी उपकारान गळो दाटून म्हणटाले, ''एक भाव सगल्यांच्या तोंडाक काळें लावन गेलो, पूण ताचे बदला हो कृष्णामाईन दिल्लो पदरांत पडलो.''

शांताक्कान फाटकेल्ल्या आबाजीकडेन पळेतना तो गणयत फुडें गेलो आनी झरिल्ल्या विरिल्ल्या आवाजान ताणें म्हळें, ''अक्का, म्हाका दिसता तूं दोनचार दिसांखातीर खंयतरी गेल्यार मनाक तितलोच सुशेग मेळटलो. ना जाल्यार दिसपट्टो कोणतरी येतलो, उलयतलो. मागीर मनावयली खपली परती परती उखलतली.'' ''आतां हें घर सोडून वतलीं तरी खंय?'' शांताक्कान सुस्कारो सोडीत म्हळें. ''म्हाका म्हज्या कुळारच्या मनशांचो मायेपालव ना जाला, कांयच ना. पूण तिका मनातल्या मनांत मात दिसलें, खरेंच वचून येवचें खंय तरी म्हयनो पंदरा दीस! फाटल्या वीस वर्सांत हांव ह्या वणटीं भायर सरलीं ना. पूण वचचें खंय? - जान्हवी सरीं? पुण्याक तिचो दवाखानो आसा, आसकळ- विसकळ घर आसा. पूण तिणें आंतड्याचे मायेन आफोवंक तरी जाय न्हय? कितलीशींच वर्सां तिणें चिटूय बरोवंक नासली. पयर ती आयली तेन्ना तिचे धवशे केंस आनी सुखावलेलो विलासी देह पळोवन एकाद्रे अनवळखी परके बायलेक पळयल्लेवरी तिणें आंगूच काडलें. जान्हवी येतकीच ती हांगचें थंयचें खूब उलयली. दादासायबांच्या उगडासान तिचो गळो सराटलो. आवाज धरिल्लेवरी जाल्लो. कागदपत्रां वेवस्थीत लावपाखातीर कपाटां सोदीत ती एकसारकी दोन दीस कश्टली. पूण निमाणें पुरो जावन तिणें तें काम अर्दकुटेंच सोडिल्लें. आनी आज तर ती वचपाची आसली. पूण हो वेळ मेरेन तिणें आपलें वांगडा येवपाविशीं एक उतर लेगीत शांताक्काकडेन काडूंक नासलें. पूण ऐन वेळार ती म्हणटली काय, ''यो गो म्हजे वांगडाच'' म्हणून? कितेंय जालें

तरी तिची रगताची भयण. म्हणटलीच ती!... ह्या विचारान शांताक्का खीणभर सुखावन हुरहुरली. पूण तो चड वेळ तिगलो ना. रामकृष्णाकडेन वचचें? तो विचार मनांत येतकच सरयांचो घुसपल्लो गुळो एकदम ताणून तांबडो गुंज जावचो ते भशेन तिचें आंग दुखीन फोडूं लागलें. ताणें एकदां संबंद तोडल्यात, तर ते तुटिल्लेच उरिल्ले बरे. तर ताचे आवयविशींच्या आंतड्याक एकदम जाग येत काय? तो आफयत काय म्हाका? वयलेचारा खातीर तरी? मागीर उल्लो एक रामभाऊ! पूण तें नांवूय घेतकीच तिका लज दिसली, आनी तिचें मन काकुळटेन भरलें. सोंपलें! जालें! इतलींच रगता नात्याचीं मनशां उरलीं.

तांचे मदले कोणूच हक्काचे न्हय. निर्जीव कातीक रगताचो कसलो आयला अधिकार? हें वाड्यासारकें घर. भोंवतणचो आंवाठ; दादासायबांच्या पुतळ्याचेर फुलां दवरुन वचपी शेकड्यांनी मनशां; ह्या सगल्यांत शांताक्काक आपल्या एकमुळ्या दळडीराची खुबूच जाणविकाय जाली आनी व्याकूळ जावन तिणें पर्थून म्हळें, ''वचचें म्हळ्यार तरी वतलीं खंय?''

आबाजीन लोखंडी काड्यांचें वक्ल सांवरलें आनी ताणें म्हळें, ''अक्का, म्हजेंय तशें कोण ना. पूण गावांत म्हजो एक भाव रावता, आमच्या वाडवडलांचें एक ल्हानूच घर आसा. तुमी येतात धा पंदरा दीस म्हजे वांगडा. गावांत न्हंय आसा, आमरायेंत दत्ताचें देवूळ आसा. ताची पूजा आमच्याच घराक पडल्या. तितलोच तुमकां सुशेग दिसतलो.'' पूण उलयतां उलयतां आबाजीच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ''आनीक एक कारण आसा अक्का! आतां म्हाकाय खंयतरी म्हजें आंग उडोवपाकूच जाय. पूण ह्या घरांतल्यान पावल उखलपाक जिवार आयलां. तुमी म्हजे वांगडा येयात. मागीर तुमी परततकीच हांव घरांतल्यान भायर सरलों अशें म्हाका दिसचें ना. हांव रावन थंय. कृष्णामाईन दिल्लीं हाडां तिकाच परतीं दिवपाचीं न्हय केन्ना तरी?''

शांताक्का सामकी आकुळ पिकूळ जावन आबाजीकडेन पळेताली. तिका एकदम अपराधी दिसलें. इतलीं वर्सां आबाजी घरांत रावलो. पोरण्या देवाऱ्याचेर घरावेपणाची कळा चडत वचची, तशी ताची जीण हांगा झरत झसझगीत जाल्ली. घरांतले दर एके वस्तीक तो सांवळेवरी दशिल्लो. तरी हांवे ताका परत कितलोसो जिव्हाळो लायला. ताका भाव आसा ही गजालूय शांताक्काक आयज पयलेच फावट कळिल्ली. ह्या घराखेरीज ताका कितें वेगळें जग आसत, इतलेंच न्हंय तर केन्नातरी हें घर ताका सोडून वचचें पडत, हाची तिका मात लेगीत नात नासली. ताचें फुडें कितें जातलें? ह्या प्रस्नावांगडा शांताक्का हादरल्लेवरी जाली. कित्याक तेन्नाच सकाळपसून व्हडा कश्टान चेपून दवरिल्लो दुसरो प्रस्न चड नेटान भुताभशेन परगटलो. ताचें एक आसूं. फुडें म्हजें तरी कितें जातलें?...

शांताक्का गोंदळून एकदम भियेली. तिणें हात फुडें केलो आनी आदार घेत आशिल्लेवरी आबाजीन हाडिल्लीं सगलीं वर्तमानपत्रां राशीन उखल्लीं.

अजुनूय वर्तमानपत्रांत दादासायबांचे फोटे येताले. अंत्यदर्शनाचेय येताले. कोणाच्यातरी पुतळ्याक हार घालतनाचो, व्हडले सभेमुखार भाशण करतनाचो, 'गीतारहस्य' वाचीत आसतनाचो दादासायब! दोन कडेन तांचेर विस्तारान लेख आयिल्ले. तातूंत तांणी स्थापन केल्ल्यो शाळो, अनाथाश्रम, ग्रामकेंद्रां, हांचो पर्थून पर्थून उल्लेख आसलो. तांच्या यादस्तिकाची येवजणूय तयार जाल्ली, आनी त्या म्हायतीवांगडा, भुंयेर सांसपीतले एके दलीत आवयक ते उजवाड दाखयतात अश्या एका पुतळ्याचें चित्रय आसलें. 'एक भव्य वैभवशाली आदार खांब कोसळ्ळो. ताची सुवात भरुन काडुकूंच जावंचिना. तांचे फाटल्यान तांची बायल आनी शिकिल्लो पूत आसात...'

ह्या सगल्यांत शांताक्काचें मन मात्शें ल्हव जालें. तिचें नांव खंयच छापून येवंक नासलें वा खंयच्याच फोटवांत तिचो चेरो नासलो, पूण हें सगलें घडटना हांव म्हऱ्यांत तरी आसलीं, ह्या विचारान ती सुखावली. दादासायब भाशण करतना ताका पयलो आताक आयिल्लो आनी ते उपरान्त चारूच दिसांनी ते सोंपिल्ले. शांताक्काक दिसलें मनशाक अशें सट्ट करून मर्ण केन्नाच येवंचे न्हय. जिणेची चडटी कमान सोंपतकीच भोवन तेच वाटेन पूर्वस्थळाक येवन सोंपून वचपाची देण देवान दिवपाक जाय आसली. कले कलेन जगतकीच कलेकलेनूच सोंपून वचचें. शिवाय प्रवासापरस परतेचो प्रवास अदीक संयमी, चुरको लावपी, अदीक शाणो सुरतो, समजिकायेचो आसता. केन्नाच चुको ना करपाचें भाग्य देवान मनशाक दिवंकना. निदान परतून येतना इल्ली तरी भरपाय करचेली संद तरी ताणें कित्याक दिवंची न्हय? येतना पळोवंक नाशिल्लें सुख पर्थून घेवपाक येतलें. निबर उतरांनी केल्ले घाय पेखवपाक येतले. दादासायबांबरोबर लग्न जातकीच जान्हवीन उतरांचो मार दितकीच, तिका नसाय दिसता हे समजुतीन तिचेर उतरांनी केल्ले घावे, आवयन वर्सांसंकिनी हांतरूण धरिल्लें आसतना ''ही आपूण मरून आमकांय कित्याक एकदांची सोडयना?'' अशें मुद्दम तिच्या कानार पडचें म्हणून काडिल्ले उद्गार, राजाभाऊ बंदखणींतल्यान सुट्टकीच खालते मानेन घरा आयलो, तेन्ना ताका घोंट भरूय उदक दिनासतना, ''आतां, हांगा परत पावल दवरून आमच्या तोंडाक काळें लावं नाका,'' अशें ताका धांवडायतना म्हणिल्लीं उतरां, शाळेंत आसतना तोंड उजळिल्ले नंदिनी पाठकाक, ''पोपडे गेल्ली वणत' म्हणत केल्ली निर्दय मस्करी- हें सगलें दुरुस्त करपाक येतलें आसलें,... दर आयतारा मावशी आंग चोळून घांसून न्हांवक घाली. नाना दर पावसाळ्यांत म्हजे खातीर नवी सत्री घेवन येतालो. कुडकुड्याच्या शियांत आंगाचेर कामुरिल्ली दाट, खरखरीत गरम कांबळ,

रसरशिल्ल्या इंगळ्याचेर भाजिल्लें मक्याचें कणस, चिंच आनी गोडांत घालून धाडायल्लो कागदी लिंबाच्या कंवळ्या पानांचो चिकट गुळो बडयेक दसोवन ताचेर जिबली भोंवडायतना येवपी, वासाळ आंबट गोड रूच- हीं त्या तेंपार चडशीं जाणवंक नाशिल्लीं सुखां पर्थून मेळटलीं आनी ताचें खरें मोल मागीर समजतलें...

पूण अशें पर्थून फाटीं वचपाक शांताक्काच्या त्या घराचें आतां कांयच उरूंक नाशिल्लें. लग्ना उपरान्त बऱ्याच वर्सांनी ती एकदांच थंय गेल्ली. त्या वेळार त्या घराची एक वणत पडिल्ली. आनी घरामुखार धोपरभर करड मातिल्लें. मागीर तो जागोच लाटून उडयलो. ते सुवातेर आतां शिमिटाची दोन मजली बिल्डींग उबी जाल्ली, आनी एक दवाखानोय जाल्लो. त्या घराच्या आयुश्यभर थंयची वखदाची बाटली केन्नाच चुकलिना, आनी तें ना जातकीच लेगीत थंय जमल्यो त्यो वखदाच्यो बाटल्यो! घर विकतकीच हातांत पयशे आयले खरे; पूण तेवूय म्हण्टा म्हण्टा त्या घरांतल्या दिसां भशेनूच कडून गेले. म्हणचे आतां फाटीं फुडें अशें कांय उल्लेंच ना!

मागीर फुडें म्हजें तरी कितें जातलें?... वोताक घालचें, तशें मन सदळ करून शांताक्का बशिल्ली. आतां खंय तरी सखूचो रात्री कुडींत आयदनांचो आवाज, खंय सीतारामाचो सान्नीचो आवाज आयकूंक येतालो, मदींच रामकृष्ण हे कुडींतल्यान ते कुडींत वतना दिसतालो. सखू आनीक एक लुगट जान्हवीचे कुडींत हाडून दवरताली. मागीर बांयचे धडेर विडी ओडटना लागिल्लो राजाभाऊचो ठसको आयकूंक येतालो. आनी कांय फावटी मदींच आबाजीची, "पूण म्हजें कोण आयकता?" ही तर खूब वळखीची कागाळ आयकुपाक येताली. पूण ह्या सगल्यांच्या वस्त्रांचेर आतां आपूण अधांतरी आसां, अशें शांताक्काक एकसारकें दिसपाक लागिल्लें.

जान्हवी, रामकृष्ण, राजाभाऊ हांचे पसून अलिप्त? रगताची भयण, पोटचो पोर, नव्या घरांत येतकीच मेळिल्लो नवो भाव, दादासायबांचो भाव! शांताक्काक दिसलें, ह्या सगल्यांक एकठांय हाडपाक दादासायबांच्या मर्णाचें मोल दिवचें पडलें. दोतोर जातकीच जान्हवीन पुण्याक दवाखानो घालो. ते उपरांत ती आयली तें आयजूच पयलेच फावट! दादासायब जंय वताले, रावताले तेन्ना तांचेकडसून ती बरी आसा इतलीच खबर समजताली. तिका खूबदां दिसतालें ही फाटीक फाट लावन आयिल्ली भयण आपल्या लग्ना उपरांत अशी कशी गेली एकदम आटून? तिका येवन इतले दिस जाले. पूण ती केन्ना फुडयांत बसून आंतड्यान उमाळ्यान उलयली ना आनी आतां तर ती वतली! वतना तरी बांद फुटिल्लेवरी उलयतली ती? तिका खूब दिसलें, उलोवंचे तिणें! एक उतर तरी आपलेपणान दिवंचें! रामकृष्णाकूय येवन बरेच दिस जाल्ले. हो तर पोटचो पोर. पूण पयलीं पसून दादासायबांचे भशेनूच आंग घेतिल्लें. ही मिशनरी शाळा, ती मिशनरी शाळा करीत तो भायरूच रावलो.

कॉलेज सोंपतकीच ताका मद्राशेक नोकरी लागली. ताणें खंयचे तरी भायले जातीचे चलयेकडेन आपलें लग्न थारायलें. पूण दादासायबान तिच्या कुळाशिळाची चवकशी केली आनी लागीं लागीं दादासायब बरेच खचले. चलो निदान आवयचें तरी आयकत, ह्या विचारान तांणी शांताक्काक सविस्तर आनी खर पत्र बरोवंक लायलें. ते फुड्यांत कदेलाचेर बशिल्ले. आपल्या खणखणीत, फातराळ आवाजान तो मजकून सांगतना शांताक्कान दर एक उतर टिपून घेतिल्लें. रामकृष्णाचें लग्न जावपाचें तें जालेंच. मात शांताक्काक ताणें स्पश्ट बरयलें, ''तुवें अशें बरोवपाक जायना आसलें. आतां हाचे फुडें म्हजेकडेन पत्रान लेगीत संबंद दवरूं नाका!''

फकत वयलेचाराक दादासायब रामकृष्णाच्या लग्नाक गेल्ले. पूण मागीर तांणी रामकृष्णाक पत्र बरोवप ना अशी शांताक्काक सक्त ताकीद दिली. तिका खूबदां दिसतालें : रामकृष्णाचीं भुरगीं कशीं आसत काय? खासा रामकृष्ण कसो आसतलो आयज? तो पयर दारांत टांग्यांतल्यान खाला देंवतकीच शांताक्काचें काळीजूच मुडल्लेवरी जालें. पूण रामकृष्ण तिचेकडेन एकूय उतर उलयनासतना आबाजी फाटसून गेलो. भयण वोगीच पयसावली. चलो लेगीत. पूण राजाभाऊचो उगडास येतकीच तिचें मन लजेन शेळेलें. तिका दिसल्लें, इतलीं पंचवीस वर्सां तो पयस रावलो. भोवतेक जाण दादासायबांक भाव आसा हेंवूय विसरिल्ले. पूण ह्या वेळार खंयच्यान तरी खबर काडून ताच्या पातकाभाशेन तो दत्त म्हणून उबो रावलो. कितें गरज आसली ताका येवपाची? लोक ताचेकडेन बोट दाखोवन फुतफुतताले. पोरणी लज जागी जाली. दादासायब बँकेत आसतना तांणी व्हडा प्रयत्नान थंय राजाभाऊक चिकटायलो, आनी ताणें थंय आठ हजारांची अफरातफर करून दवरली. ताका पांच वर्सांची ख्यास्त जाली, तेन्ना दादासायब कोर्टाच्या वाठारांत भुरग्यावरी रडलो. ''ह्या घरांत पांय दवरूं नाका'' अशें शिटकायतकीच तो पंचवीस वर्सां हांगा आयलोच ना. मागीर आयलो तो चार दिसां पयलीं. तो भायर बांयचे धडेचेर बसून रावलो आनी ताणेंय शांताक्काक एका उतरानूय जाप दिली ना.

पूण आयज शांताक्काक दिसलें : जाल्लें जावन गेलें. जान्हवी, रामकृष्ण ना जाल्यार राजाभाऊन तरी भितर येवन थोडो वेळ उलयत बसचें.

भायर गेटीकडेन कोणतरी उलयल्याचो आवाज कानार पडलो. चारपांच खेडूत भितर येवपाविशीं सीतारामाकडेन हुज्जत घालताले. शांताक्का ताकतिकेन उठली आनी भितरले कुडींत गेली. आतां भायल्या कोणाकूच मेळप तिका नाकाशें जाल्लें. हीं मनशां आयलीं म्हणटकीच तेंच तेंच झरवप जातालें. दादासायबांचो त्याग... तांणी भोगिल्ले कश्ट...अपार देशसेवा...

कोणूच चुकूनूय तांच्या पयशाच्या लोभाचो उल्लेख करचो ना! अकस्मात चौखुरिल्ल्या ह्या विचारान शांताक्काक लज दिसपाक लागली. दादासायबांक वचून

पंदरा दीस जाले आसत-नासत, आपूण तांचेवयलो रंग खरवडपाक भायर सल्ल्यां. म्हणचे आपणें तीस वर्सां मोन्यानी केल्ली तपश्चर्या फुकटच काय कितें? तिणें निश्चेवान आपणांक सांवरल्ली, आनी ती थंयच कदेलाचेर बसली.

फाटले पांच स दीस जान्हवी हेच कुडींत रावताली. तिणें सामानाची बांदाबांद केल्ली. तिका वचुंकूच जाय आसलें. ना जाल्यार तिचो दवाखानो तिची वाट पळेता आसलो. ल्हानपणांतली अबरगत, विणयेच्यो रिबिनी सदींच सोडिल्ली, एकूच व्हाण खंयतरी शेणोवन येवपी जान्हवी, मागीर शिकून सवरून दोतोरीण जाली. म्हयन्याक सातशें आठशें जोडपाक लागली. आनी हांव? मॅट्रिकचे परीक्षेंत संस्कृतचें बक्षीस मेळयल्ली हांव, चार वण्टींच्या कोनशांनी उदकावयल्या शेळ्याभशेन जियेली... त्या विचारान शांताक्काचें मन पडलें. पुणून जान्हवीचे बॅगेकडेन पळेतना तशे परिस्थितींतूय हांसूक येवपाक लागलें. तिणें बॅग भरिल्ली खरी, पूण तिच्या दोन पातळांचे कांठ खांचीतल्यान तशेच भायर लांबताले. शांताक्काक दिसलें, जान्हवी जाल्या जायत दोतोरीण, पयलींचें किरकोळ घोळयेपण आतां मोलादीक जालां आसत, पूण घोळयेपण साप्प वचूंक ना! आनी तिचे फाटसून तिका सांभाळीत भोंवपाचें म्हजें काम लेगीत आजुनूय सोंपूक ना!

शांताक्कान ते कांठ बोटांनींच भितर धुकलूंक पळेलें. पूण तें सादलें ना, म्हणटकीच सहज कुलूप ओडून पळेलें. हांगा लेगीत तिचो अदमास सामको खरो आसलो. कुलूप करूंक नासलें, तर निखटेच शिटकायल्लें. ''हाची चावी लेगीत तिणें खात्रीन शेणयल्ली आसतली! अशें म्हणत तिणें बॅग उगडली - हय! पातळांय कशाय कशीं भितर कोंबिल्ली. तांच्यो नीट घडयो घालच्यो म्हूण शांताक्कान तीं वयर उखल्लीं. पूण बॅगेच्या तळाक लक्ष वतकीच सोरपाचें वेंटोळें पळेत आशिल्ले भाशेन ती पळेतूच रावली! दादासायबांच्या खाजगी कपाटांत सदांच आशिल्ली एक ल्हान कातडी बॅग थंय आसली. तिका दिसलें, जान्हवी ही बॅग कित्याक घेवन वता? आनी म्हाका सांगिनासतना? ती बॅग उखलतना तिका भीड दिसली खरी, पूण जान्हवीनूय ती तशीच उखलूंक नासली?

शांताक्कान बॅगेची चेन ओडटकीच वयले वटेन तिका जान्हवीचो फोटू दिसलो. खूब वर्सां पयलीं काडिल्लो. तातूंतली जान्हवी केसांत धवसारपणा नाशिल्ली, दोळ्यां सकयल काळश्यो मिरयो पडूंक नाशिल्ली, काळ्या कुळकुळीत दोळ्यांची, रेखीव, हरिणीभशेन दिसपी आसली. ल्हानपणांत शाळेंत सगल्यो चलयो शांताक्काक विचारून धोंसून खाताल्यो, ''ही खरीच तुजी खासा भयण गो? सामकी खासा?'' मागीर त्यो वोगी रावताल्यो खऱ्यो; पूण तांकां आनिक कितें कितें म्हणपाचें आशिल्लें हाची शांताक्काक सामकी खबर आसताली, ''ती अशी देखणी, गोरी गोमटी, तूंच कशें अशें काळशें बुडबुडीत गो?'' तो फोटू हळडुवसार जाल्लो. पूण

ताचेर तारीख आशिल्ली बरीच पोरणी-पंचवीस वर्सां पयलींची, म्हणचे शांताक्काचें लग्न जातकीच पांच स वर्सां उपरांतची! बॅगांत खुबशीं पत्रां आसलीं. अनमनून तातूंतल्या कांय पत्रांचेर नदर भोंवडायली. भोवतेक पत्रां जान्हवीकडसून आयिल्लीं. पर्थून कांय निमतान पुण्याक येवपाविशींचीं, आनीक थोडे पयशे धाडपाविशीं. तातूंत दादासायबांनी अर्दकुटी बरोवन सोडिल्लीं दोन पत्रां आसलीं.

''जानू, अशें केन्ना केन्नाय घडटा जिणेंत! जिणेंत एका खिणाक म्हजो तोल गेलो, आनी जीण सामकी बदलली. ना जाल्यार उक्तेपणीं तूं म्हज्या घरांत येवपाचें. पूण तिचेकडेन लग्न करून हांवे खिणाचे चुकी खातीर जल्माचें पानवळ घेतलां. म्हाका जिणेंत माथ्यार पाखें मेळ्ळें, पूण केन्ना म्हणून घर मेळ्ळें ना. पण तूं म्हन्यांत आसतकीच मात...''

शांताक्काचे तकलेंत एकदम स्फोट जाल्लेवरी जालें. तिचे हातपांय एकदम थरथरूंक लागले. तिणें दांत गच्च आंवळून धरले आनी आपणांक सांवरपाचो यत्न केलो. पूण जायत्या वेळान तिच्या ध्यानांत आयलें, हातांतलो फोटू आनी कागद आपूण चुरून उडयतां. आनी आतां आपणांक हातपायूंय उरूंक नात! उरल्यात ते जळजळपी दोळे! तकलेंत खंयतरी धोलक्याचेर जाता तसो ठसठस आवाज! तिणें निर्जीव दोळे हालोवन मुखार निरखून पळेलें. मुखार दोन सोबीत नितळ पावलां आसलीं; तांचेर फुलां फुलांचें तलम पातळ...सुखावलेलो देह...लॉकेट ...मुखार जान्हवी उबी आशिल्ली. शांताक्काची नदर तिच्या चेऱ्याचेर पडटकच ती हालली. आनी तिणें शांतपणान फाटलें दार धुकलून खिळी लायली. ''म्हणजे तूं म्हजे पाळटीर रावन म्हजीं पत्रां तुवें पळेलीं तर!'' पांय आपटीत जान्हवीन म्हळें.

शांताक्काचे तकलेंत पर्थून आवाज जालो, आंगांत कुडकुडो भरलो आनी हातांतलीं कागदां गळून पडलीं. पूण अश्या वेळार आपणांक सांवरपाचो तीस वर्सांच्या अणभवान आदार दिलो. ''तशें न्हय जानू, म्हजी संवय म्हजे आड आयली. ल्हानपणासावन तुजी व्येवस्था करीत हांव तुजे फाटसून भोंवलें न्हय, तशीच तीं पातळां भितर धुकलपाक हांव हांगा आयलें-'' तिणें शिणिल्ल्या आवाजान म्हळें, ''ते वेळार हें बॅग म्हाका दिसलें.''

''म्हणचे तुका सगलें कळलें तर! फांतोडेचे गाडयेन हांव गेल्लें जाल्यार सगलेच वटेन बरें जावपाचें. पूण आतां ताचें व्हडलें कितें? एकदां केन्नातरी तें कळपाचेंच तें आतांच कळ्ळें इतलेंच!'' बेपर्वायेन जान्हवीन म्हळें. ''जानू, खासा भयण तूं म्हजी! खरें म्हळ्यार तुवेंच म्हाका आदार दिवचेलो! असो विश्वासघात करतना म्हजी मातूय याद जालीना तुका? म्हजें शिक्षण सोडून हांवें तुका कॉलेजींत धाडलें. तूं दुयेंत आसतना हाडां झरयलीं. तुका सोडून केन्नाच चिरमुल्यांचो लेगीत घास

खाल्लो ना. तुका हातुंतली एकूय गजाल याद उरची न्हय इतली भिकाड्डी जीण हांव जगत आयलीं तर!'' भरिल्ल्या ताळ्यान शांताक्कान म्हळें.

''विश्वासघाताच्यो गजाली तूं आतां उलयता, पुणून तुवें म्हजो विश्वासघात केलो, तेन्ना हें समजलें ना तुका? तुवें म्हजी जीण तर निर्जीव, एकमुळी, चोरटी करून उडयली, ते भायर तांची जीणूय चिड्डून उडयली!''

''हांवें तुजो विश्वासघात केलो?'' शांताक्कान थरथरत विचारलें, ''आवयचे मायेचें उणेंपण हांवें तुका केन्नाच लावूंक दिलेंना जानू. पणटे भोंवतणी पालव धरचो ते भाशेन तुका वाडवन हांवें तुका हुंबऱ्याचेर दवरलें, - कितें उलयता तूं जानू?''

''म्हाका तें सगलें ताणीं सांगलां! अक्का म्हाका तुज्या ढोंगी लाघोळेपणाचो सामको वीट आयला! तुजे शाळेच्या समारंभाक ते आयिल्ले तेन्ना तुवेंच तांकां रावपाचो आग्रो केलो. तूंच आपूण जावन तांची सरबराय करपाक रावली. त्या दिसा जरीचें पातळ कितें! केसांत फुलां कितें! चान्यांत कपिलेश्वराचें तीर्थ दाखोवपाच्या निमतान तुवें तांकां जाळ्यांत सांपडायलें! ताचे पयलीं म्हजी तांचेकडेन पुण्यांत वळख जाल्ली, म्हजें तांचेकडेन लग्न थारिल्लें, हें तुका खबर नाशिल्लें?''

''आवयच्यान तर हांव ह्या खिणामेरेन तांतुतलें कायंच नकळं.'' चाबकाचे अदृश्य फटके बशिल्लेभशेन, कोनशांत वचत शांताक्कान म्हळें, ''जरीचें पातळ, केसांत फुलां! ...म्हणचे हांवें केन्ना फुलांच माळची न्हय, बरे कपडे घालचे न्हय काय कितें, जानू! म्हजें एकुलतें एक जरीचें पातळ. शाळेतलें म्हजें तें पयलें वर्स, पयलो समारंभ. हांव तें पातळ न्हेसलें, हातूंत नाचरेपण तें कसलें? तुज्या उतराक लागून ताणीं आमचें आमंत्रण घेतलें. म्हणून मागीर तुकाच कितें दिसचें न्हय, म्हणून हांव तांची वेवस्था करपाक धडपडलें. जानू, हातूंत जाळ गो ते कसले? पूण शांताक्काचीं उतरांच एकदम सोंपलीं, आनी ती दोळे व्हडले करून पळोवपाक लागली...

दादासायबांनी चडच आग्रो केलो, तेन्ना मनांत नासतनाय कपिलेश्वराच्या तीर्थाकडेन ती गेल्ली. ताचे वांगडा आबाजी आसा हें म्हणटकीच तिका तांतले तातूंत आदार दिशिल्लो. पूण चावरें शीं हाडां फोडटालें म्हूण तांची शाल हाडपाक आबाजी घरा गेलो. तेन्ना दादासायबांनी शांताक्काचेर झोंपय घाली, आनी घुसमटिल्ली शांताक्का असहाय जावन गेली. ती लागीं लागीं आगळीकूच आशिल्ली. पुणून मागीर काळ्या पिड्डूकांनीं ते आगळिकेक आदारखातीर सवो दिलो.

''पुणून हें सगलें ताणी आपल्या तोंडसून तुका प्रत्यक्ष सांगलें?'' तिणें मंदीन्न कांचवेन जान्हवीक विचारलें.

‘‘तांणी म्हजे पसून कांयच लिपोवन दवरलें ना! तशें तांकां अडचणींत सांपडावन तुवें तांकां बळयां लग्न करपाक लायलें आनी ह्या तीस वर्सांत तुवें तांचे जिणेक दिलें कितें? तर शून्य! गळ्यांत दांतें बांदिल्ले भशेन तांणी तुका सोंसले, इतलेंच! हांव जाल्यार तांचे जिणेचें भांगर करपाचें. आतां तांचें कर्तुत्व इतलें जालें, हाचें कारण तरी आसऱ्याक म्हजें धर आशिल्लें म्हणूनच! तशें तांचें मन खूब व्हड आशिल्लें. फकत उतराखातीर ते लग्नाक तयार जाले. तूं गुरवार आशिल्लें म्हूण कितें जालें अक्का? तांचेर लग्नाची सक्ती नासली, तेभायर कोणाक खबर, तें भुरगें तांचें नासतयबी!’’

शांताक्काच्या जीर्ण आंगावयली ग्लानी कातीवरी गळ्ळी, आनी तकलेंत थंड किरंव नितळ जालें. ताणिल्ली तार एकदम सोडिल्लेवरी ती उबी रावली. आनी तिणें जान्हवीच्या पोल्यार फाट्करून थापट माल्लें. ‘‘जानू! तोंड सांबाळून उलय! आनी आतां म्हज्या घरांत तू खीणभरूय रावं नाका. तूं म्हाका तोंडामुखार नाका.’’ तिणें शांतपणान म्हळें, आनी तिणें दार उगडून धरलें.

जान्हवीन धडधडीत बॅग बंद केली, आनी पिशवी, बॅग घेवन ती भायर सरली. ‘‘तूं आनी तुजें घर!’’ तिणें अुखटायेन म्हळें. घराचो आंवाठ वलांडून ती गेटींतल्यान भायर वतना शांताक्काच्या आंतड्याक पीळ पडलो. तिका हुंडके आवरना जाले.

जानू, जावपाचें तें जालें. दर दिसा आमी मेळटालीं. तेन्ना हांवें केन्ना तुज्या आंगार हात उबारलो ना. आतां तू केन्नाच मेळचें ना. म्हणून हें घडपाक नाका आशिल्लें. म्हणून वचचे पयली एकदां तरी फाटीं वळून पळे. एकदांच धनरावरी हांसून गंद सारकें लागलां काय विचार आनी तुजें वांकडें तिकडें गंद म्हाका सारकें करूं दी. हांतरुणार पडिल्ले आवयन ‘‘जानूक पळे,’’ अशें सांगतकच जीव सोडलो. तूं एकदां फाटीं वळून पळे, म्हणचे मागीर आवयचे मुखार उबें रावपाक तोंड तरी आसतलें. हांवें तुका केन्नाच भगशिलां. पूण एकदांच फाटीं वळून पळे...

जान्हवी मोडण काडून रस्त्यार पावली. तिणें मुखार वतल्या टांग्याक हात केलो आनी मान वळोवन दाटून सामकार पळेत ती गेली. आतां मात शांताक्काक इतलो वेळ आडायल्लो दुकांचो ओघ असह्य जालो. ती म्हऱ्यांतले बाज्जेचेर लवंडली आनी हुंडकेवंक लागली. तिका खूब दिसलें, आपूण खरें म्हळ्यार न्हिदेंत आसां. थोड्या वेळान आबाजी येतलो दाराचेर टकटक करतलो आनी वचपाक तयार जाल्ली जानू जिणेवयलीं वर्सां फाफडून भोळे चलयेवरी खांद्याचेर मान उडोवन हुंडक्या हुंडक्यानी रडटली...

सळसळट्या उदकांतल्यान काडिल्ल्या कापडाच्या पिळयावरी शांताक्का तापिल्ल्या आंगान पडून राविल्ली. मदींच दोळो उगडटकीच भोंवतणच्या वस्तीं

भोंवतणीं तांबड्यो कडो आसात, आनी तांचेमदीं आपूण अळंग उफेतां, असो तिका भास जातालो. सांगाडो जाल्ली आवय, आपूण देडपट पिरायेच्या मनशाकडेन लग्न करतां हें आयकून दुकां आंटिल्लेवरी सुकें सुकें रडली. लग्ना वेळार जानू, नाना, कोणूच नासलीं. ना म्हळ्यार दिनूमाना मात कसो कितें थंय पावलो! पूण तोवूय "आतां म्हजें काम जालें" म्हणून माळ पडिल्ल्या खिणाक मेळनासतना गेलो. आवयची तर गळ्यांतल्या मंगळसूत्राचेर लेगीत नदर पडलीना. मागीर चोरयां कसो जाल्लो रामकृष्णाचो बारसो. मागीर सगलोच सुको सडो. जिणेक चार वणटी, रान्नीपोल्ल, शिवपाचें मिशीन, सारण-सगलें आयलें पुणून बायल म्हणून सगलेंच सोंपून गेलें आनी जीण सुकिल्ल्या रुखावरी जावन धवश्या केसांचीं कोळीश्टकां माथ्यार घेवन गेली.

मात्शें पयस रांदचेकुडींत आयदनांचो आवाज जातालो. कपबश्यो किणकिणटाल्यो. चा बेगीन जालो ना म्हणून आबाजीचो नापसंतीचो नरम स्वरूय आयकूंक आयलो. "पूण म्हजें कोणूच आयकून घेना!" ताणें भायर वतां वतां म्हणिल्लें. ह्या अती वळखीच्या साद्या हालचालींनी शांताक्काच्या मनाक दिसपट्टें घरगुती अशें कितेंतरी आदाराक मेळळें. आनी जिवाक सुऽऽ जाले.

"आई!" दाराचेर आवाज करीत रामकृष्णान उलो मारलो. कितल्या तरी वर्सांनी एकदम तो आवाज कानार पडटकच शांताक्का उठून बसली. तिका अकस्मात हादरिल्लेवरी जालें, आनी विस्फारिल्ल्या दोळ्यांनी ती पळोवपाक लागली. "आरे, भितर यो आनी बस." तिणें कशेंय बशें म्हळें.

रामकृष्ण नाखोशेनूच भितर सरलो आनी कदेलाचेर बसलो - पूण त्या दोगांयमदीं भिडेची वणत उबी जाली. हो पोटचो पोर, पूण फाटलीं कितलींशींच वर्सां ना गांठभेट, ना उतरांचें दिवप घेवप. शांताक्कान ताचेकडेन निरखून पळेलें. तो आतां आंगान खुबूच भरिल्लो. पूण ताका आवयचो सांवळो रंग मेळिल्लो. शांताक्काक दिसलें, हो इतलो वाडलो. पूण म्हज्या दोळ्यांमुखार न्हय. हो तर म्हजे जिणेचे मेरेरूच भोंवलो आनी शेकीं पयसावलो. रस्त्यांत मेळिल्लो एकाद्रो रंगयाळो गड्डो दाखयत तो केन्ना म्हजेकडेन धांवत आयलो, बापायकडल्यान एकाद्री वस्त हाडून घेवपाखातीर ताणें केन्ना म्हजे वरवीं लाडीगोडी केली, अशें कितेंच शांताक्काक याद जायना जाली. आजून तो जेवतना एक बोट सोडून उंडी उखलता काय? कोणाक खबर? तो जेवताना तिणें केन्ना थंय पावल दवरूंक नासलें. पूण ल्हानपणांत ताका तशी संवय आसली. "बोट सोडून घेतिल्ली दर एक उंडी भुताक वता" म्हणून दटायतकीच "भूत दाखय" म्हणून तो हट धरतालो. ताणें आपले बायलेक घेवन आपल्या पांया पडपाचें भाग्य तर तिच्या नशिबांतूच नासलें. आपलो भुरगो. भुरगो खरो, पूण आपलो? जितलो घोव आपलो, तितलोच भुरगो. खिणाचो. 'तूं आतां

म्हाका केन्नाच पत्र बरोवं नाका, वा म्हजें लावन घेवं नाका. म्हाका म्हजी जीण जियेवपाची आसा.'

''तूं आतां फुडें कितें करतली? शांताक्काच्या दोळ्यांक दोळे दिनासतना ताणें विचारलें.

शांताक्काक एकदम आंगार पडिल्ले जड फातरी पोंदच्यान सुटिल्लेवरी दिसलें. इतलीं वर्सां चेपून दवरिल्ली रामकृष्णाची माया आतां तरी जागी जाली, ह्या विचारान ती सुखावली. तिच्या अगड मनांत तिका ह्या घरापसून पयस वचपाचें नासलें. पूण 'म्हजे वांगडा यो' असलीं सुखदिणीं उतरां आंगावयल्यान उंवाळून घेवपाची तिका उमळशीक लागिल्ली. जिवाचे कान करून ती आयकुपाक लागली. ''कित्याक, तुका म्हगेर येवंक मेळचें ना. तातूंत कोणाचेंच सुख ना.'' सकयले नदरेन रामकृष्णान म्हळें,...तुजी चीट मालनान वाचिल्ली.''

शांताक्का चिडल्लेवरी जावन खीणभर वोगीच रावली. पुणून तिज्यान रावं नजो जालें. ''पूण रामकृष्णा, तुज्या बऱ्याकूच आमी तें पत्र बरयल्लें न्हय? तिचे विशीं हांणी जायतें वायट आयकल्लें. म्हणून तुज्या बापायन तें म्हजेकडसून बरोवन घेतलें. चली कुळाशिळाची पळोवंक नाका?''

रामकृष्ण उठलो आनी जनेलाकडेन वचून उबो रावलो. ताचें मुखामळ एकदम ताणिल्लेवरी जालें आनी कपलावयली शीर तट्‌तट्‌ली.

''हय तर! पळोवंकूच जाय न्हय! सामकी भांगरावरी कस लावन पळोवपाक जाय! ना कशें?'' ताणें कुच्छित्रीपणान म्हळें. ''पूण आई, म्हाका तसो अधिकार आसा काय? म्हाकाच कूळशीळ ना आनी तुकाय?'' पूण हीं निमाणी उतरां तोंडसून सुट्टकीच ताजें तोंड पडलें. ''आई म्हाका भगोस. इतले दिस हांवे हें सगळें सांबाळून दवरिल्लें, पुणून आतां तीं उतरां नकळयां तोंडसून आयलीं.''

शांताक्का ताठ बसून रामकृष्णाकडेन थतरवितर जाल्लेवरी पळोवंक लागली. खिणांतूच तिचें मुखामळ जर्जर दिसपाक लागलें. ''कितें उलयता तूं रामकृष्णा? तुजी तकली थाऱ्यार आसा मरे?'' तिणें अविश्वासान सांगिल्ल्या ताळ्यान विचारलें.

''हांव बरो शुद्धीर आसां, म्हणुनूच हांव सगलें कळटकीच धुसधसत रावलों. सूजमट निर्जीव आयुश्य घेवन जियेल्यार म्हाका कांयच जाणवंचें नासलें. तुका खंय कितें जाणवलें?''

शांताक्काक दिसलें, आपूण हांगा नाच्‌च. आपूण कोणाचें तरी उलोवणें आयकतां. नाजाल्यार इतलीं वर्सां उलयनासतना राविल्लो हो भुरगो असो जोर कपलाक मारिल्लेवरी कसो बडबडटलो? पूण रामकृष्ण जनेलाचे वारांव मुठींत धरून तिचेकडेन फाट करून उबो आशिल्लो. एकदां बांद फुट्टकीच ताका आवरलें ना.

''तुवें पत्रांत मालनाविशीं बरयल्लें तें तिणें सगलें वाचलें. 'मांयन घरांत पावल दवरल्यार आपूण बांयत जीव दितलीं' अशें तिणें म्हाका निर्वाणीचें सांगलां. आई, तसलें पत्र बरयतना तुका तुज्या चारित्र्याची याद जाली ना?''

शांताक्का उठली. तिणें ओतो येवन रामकृष्णाचे हात फाटसून गच्च धरले आनी तिणें किळांचून म्हळें, ''आतां एकदां सडसडीत सांग तुका कितें म्हणचेलें आसा तें. काळखांत हात घालून अशें आंतड्याचे लचके तोडूं नाका कसाबासारके.''

रामकृष्णाचें आंग शिरशिरल्लेवरी जालें. आनी ताणें निश्चेयान शांताक्काची पकड सोडयली. ताणें तिच्या धव्या फटफटीत जाल्ल्या भयभीत दोळ्यांकडेन पळोवन म्हळें, ''तुका सगलें बरें खबर आसा. आतां पिशें कित्याक पांगुरता? कित्याक, म्हाका सगलें खबर आसा. दादान म्हाका एक दीस सगलें समजावन सांगिल्लें. तूं लग्नाक उबी राविल्ली तेन्ना तुका दीस गेल्ले न्हय?''

एकदम आघात जाल्लेवरी शांताक्का भियेली. तिचे दोळे कंवचेचे आशिल्लेवरी निर्जीव निबर जाले. रामकृष्ण आतां उडकी मारून आपलो गळो चिरतलो अशें दिसून ती फाटीं सरत वण्टीक तेंकली, आनी तिचो सकयलो ओंठ उलयनासतना थरथरपाक लागलो.

''दादान म्हाका सगलें सांगलें, तेन्ना तांकां कितली लज दिसली हाची तुका कल्पना येवंची ना. सामक्या ल्हान भुरग्यावरी तो रडलो. त्या खिणापसून म्हाका म्हजी जीणच म्हेळी दिसपाक लागली. कांय आवयो भुरग्यांच्या आंगार लांशे दवरून तांकां जल्म दितात. तुवें तर म्हजे जिणेचेरच अमंगळ दाग दिवन म्हाका ह्या संवसारांत धाडलो! पूण दादाचें मन मात मळबायेदें आसलें. त्या उगडासांनी हांव हांगा आयलो. ना जाल्यार हें घर, तुजो चेरो हांवे मनांतसून केन्नाच पुसून उडयला. राजाभाऊच्या आनी तुज्या पातकांचेर पांगरूण घालपाखातीर ताणें तुका माळ घाली, आनी भायर तरी तुका अब्रू दिली.''

''म्हज्या आनी राजाभाऊच्या पातकाक? रामकृष्णा, अशें उलयतना तुजी जीब झडूंक जाय आसली.'' शांताक्कान आड्डून म्हळें. आतां तिचो थरथरो थांबिल्लो. पूण ओंठ मात वेगळी जीण जियेल्लेवरी थरथरताले. तुका म्हज्याच तोंडसून म्हजी अब्रू चव्हाट्याचेर हाडपाची आसा न्हय? बरें आसा! तुज्या मनाभशेन जावं दी! लग्नापयलीं म्हाका दीस गेल्ले हें खरें. हांव खूब दुबळें पडलें. म्हाका एकटें पळोवन तांणी म्हजो फायदो घेतलो, इतलेंच अकुलीन पातक कपलांत आसा. तातूंत राजाभाऊचो कितें संबंद? तो हांचे वांगडा समारंभाक आयलो, हाचे पेल्यान म्हाका ताची कांयच खबर नासली, वा ताचे आदी हांवें ताचें तोंडूय पळोवंक नासले. तो लफंगो. ताणें घराक काळें लायलां. पूण हें पातक मात ताचे कडसून घडूंक ना. हें कर्तुप तुज्या बापायचेंच. मागीर लजेन म्हण, पश्चातापान म्हण

तांणी म्हजेकडेन लग्न केलें. पुणून हातूंत निदान तुज्या कुळाशिळाक तरी बाधा आयली?''

''पुणून आई, प्रत्यक्ष दादांनीच दोळ्यांत उदक हाडून म्हाका तशें सांगिल्लें.'' रामकृष्ण कांचवेन पुटपुटलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका ताच्या वेव्हारी मनान सांवरलें आनी कुच्छित्रीपणान ताणें म्हळें, ''आतां दादा मरतकीच तूं तशें म्हणटलीच! मेल्लो मनीस गवाय जायना.''

शांताक्कान दोळे पुसून तोंडावयल्यान पदर पुसलो. तारेचो ताण सुमाराभायर वतकीच तिका जो कायमचो निर्जीव आकार येता तशे कायेन ती बाज्जेचेर बसली. आतां तिचो आवाजूय चिरको असैमीक जाल्लो.

''आनीक एक सांगतां. मागीर म्हजे जिणेंत दादल्याचो स्पर्श जालो ना. फाटल्या तीस वर्सांत तुज्या बापायन म्हाका हात लायलो ना. लग्नाआदीं हांव बायल जालीं. आनी लग्नाउपरांत हांव कुंवार रावलीं. असली अभद्र जीण हांव तीस वर्सां जियेत आयल्यां. म्हजे आवयचो सोपूत, तूं म्हाका कसलेंय दिव्य करपाक सांग. उखलिल्लें पावल फाटीं घेनासतना हांव तातूंत उड्डी घेवन दाखयतां.'' ती एकदम उठली आनी रामकृष्णाचो हात परत गच्च धरून ताका तिणें दाराकडेन धुकल्लो. ''बरें आसा. तूं हांगसून चलूंक लाग. तुवें जीं उतरां उलयल्यांत तीं केन्नांच फाटीं सरचीं नात. जान्हवी गेली तेन्ना म्हजो कुकूम भंगलो. तुज्या उतरांनी म्हाका खरें रांडावपण आयलें. तूं हांगसून भायर सरतकीच म्हाका वांझपण येतलें. आतां तुका खंय मसणांत वचचें आसा थंय चलूंक लाग! म्हाका आतां तुजो सुवेर सुतक कांयच उरूंक ना!''

पालवंक आयिल्ल्या उज्यांतल्यान धडपडत वयर सरिल्लेभाशेन रामकृष्णाचो चेरो दिसूंक लागलो. तो ओतो आयिल्लेवरी शांताक्का म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें तिच्या खांद्याचेर हात दवरलो. पुणून एकाद्रें म्हेळें जनावर भायर उडोवंचें तसो तो हात शांताक्कान झटकून उडयलो आनी एकदम फांफशिल्ले ती हांसपाक लागली. ''तांणी तुका एकदम मोगान लागीं घेवन अशें सांगलें म्हणटा? आपलें व्हडपण सांगतना भिडेक लागून तांकां खूब आंखुडिल्लेभशेन दिसलां आसतलें न्हय? खूब व्हडलो मनीस! तांची सुवात भरून काडप येवपाचीच ना! पळे तीं वर्तमानपत्रां, आनी बांद तीं तुज्या गळ्यांत! आई, तुका तुजें चारित्र्य याद जायना न्हय?...'' आनी ती पर्थून हांसपाक लागली.

रामकृष्ण खिळायल्लेवरी उबो आसलो...तो उलोवंक सोदूं लागलो. तेन्ना दोन चार उतरां फुटून ताचे हात मात हालले. तो झपाट्यान वळ्ळो आनी भायर गेलो. पयसुल्ल्यान आबाजीचो काकुळटेचो आवाज आयकूंक आयलो, ''रामकृष्ण, चा जाला. घेवन वच. कितें मनशां तरी! जान्हवी तशी! हो रामकृष्ण असो! गांवाक

वचूंक भायर सरिल्लीं मनशां, तर तयार जाल्लो चा घेवपाक कोणूच तयार ना. पूण आमचें आयकतलो कोण!''

शांताक्कान दार लायलें. आनी ती निर्जीव दोळ्यांनी पडून रावली. जान्हवीचो फोटू...कवटीच्या दातांभशेन विचकावपी अक्षरांतलीं तीं निर्लज्ज पत्रां...वर्तमान पत्रांतले लेख...पातकांचेर पांगरूण घालपाक केल्लें लग्न...चुरून म्हेळें जाल्लें जरीचें पातळ...कपिलेश्वरी तीर्थ ... घुसमटावन उडोवपी लज...चारूच जाणांचे गवायेन जाल्लें प्रेतयात्रेवरी लग्न ...'जानूक सांबाळात' अशें विनवपी आवयचो सुकिल्लो हाडकुळो आवाज...सगले रगत काडपी धारेचे कंवचेचे कुडके ...आयुश्य फुट्टकीच हांगाथंय शिपडिल्ले....तिका दिसलें, आपली कुंडली बरोवन दवरिल्ली तेन्ना चवकटी चवकटींतल्या गिऱ्यांनी एकमेकांक पळोवन कुच्छित्री खुणो केल्ल्यो आसतल्यो! म्हज्या खंयच्च्या पातकांचीं पावलां म्हजे जिणेंत उदेलीं? नंदिनी पाठकाक 'पोपडे गेल्ली वणत' म्हणल्ल्याचीं? काय ल्हानपणांत चिड्डिल्ल्या जायत्या गणेशपाखरांचीं? काय पोरसांत आपलें आपूण तरतरिल्लें बेलाचें झाड हाणिल्ल्याचीं? काय रखमाईच्या घरांत पेटिल्ल्या माराणाची माळ उडोवन तिचो हात भाजिल्ल्याचीं? काय आवयक 'मरून आमकांय कित्याक सोडयना' अशें म्हणिल्ल्या वितराग उतरांची?...

हे सगले कुडके, दोळे धांपतकीच दिसतल्या गाड काळखांत धारेचे गतीन विडीविडी करीत भोंवत रावले, आनी आंगांतलें सगलें त्राण त्याच काळ्या पड्ड्या फाटल्यान गेल्ले भशेन शांताक्का जड देहान बसून रावली. आतां भायलें जग आनी आपूण हातूंत बंद दरवटी आसा. इतले दीस जगान म्हाका भायर दवरली. आतां सूड म्हणून ताका म्हाका सामकें भायर दवरपाचें आसा. भायर दवरपाचें आसा!...

जड अदृश्य प्रवाहाखाला निचेश्ट शांताक्का पडून राविल्ली. इतल्यांत जनेलाच्या वारांवांचेर कोणेतरी आवाज केलो. शांताक्कान जळजळपी जडभार दोळे अर्दवट उगडले. जनेलाभायर राजाभाऊ उबो आशिल्लो. ताका पळेतकीच शांताक्कान आपणांक सावरलें. आनी ती उठून बसली. तकली खुबूच जड जाल्लेवरी तिका ती व्हडा कश्टान उखलची पडली. तिणें शून्य निर्विकार दोळ्यांनी राजाभाऊकडेन पळेलें.

''वयनी, न्हीद मोडली हांवे तुजी. पूण हांव वतां. वतां म्हूण कोणाक तरी सांगचें म्हणून हांवे तुका उठयली. रामकृष्ण एक उतर लेगीत उलयनासतना सामको म्हज्या आंगावयल्यान गेलो. आबाजी हांगाच खंयतरी गेला. वोगीच दिसलें, कोणाक तरी सांगचें, वतां म्हणून.'' ताणें खंतीन म्हळें.

''मागीर यो न्हय भितर. भायरच कित्याक? येत पसून भायरच आसा!''

"नाका वयनी. पंचवीस वर्सांपयलीं म्हणिल्लें न्हय, 'सगल्या घराक काळें लायलें, आतां घरांत पावल दवरूं नाका' म्हूण? ते एकेच गजालीक हांवे जिद्दीन जल्मभर पाळो दिलो. आतां हे फुडें केन्नाच येवचो प्रसंग येवंचो ना. तेन्ना धा पंदरा मिनिटांखातीर हांव कित्याक मोडूं तुमचें उतर?"

नकळयां शांताक्काचें मन काकूळटेन ओलावलें, आपल्या ह्या निबर उतरांचो उगडास जावन तिका लज दिसली. तिका सट्करून दिसलें, जाचीं पावलां आपले जिणेंत उदेलीं तें पातक हें तर न्हय मूं? आतां राजाभाऊचे केंस पातळ जावन धवे जाल्ले, आनी मान मिरयेवन सुकिल्ली. ताच्या आंगार पुडवें-सदऱ्याखेरीज वस्त्र नासलें. आनी जायतीं वर्सां अनवाणी भोंवले उपरांत म्हेळी मातिल्ली निबरसाण येता ती ताच्या पांयांचेर आसली. आतां हाचेकडेन कितें उलोवंचें हें शांताक्काक येवजना जालें. पूण जान्हवी, रामकृष्ण हांचेविशी सगलें, ह्या पंचवीस वर्सां पयस राविल्ल्या मनशा मुखार भडाभड सांगून उडोवचें अशी तिडक तिचे मनांत येवन गेली. पूण तिणें तो मोह आवरलो. "तूं वताच म्हणटा? राव न्हय जाय जाल्यार चार दीस." तिणें बेठेच म्हळें.

"आतां कित्याक रावचें? तुका मेळ्ळों - जालें एकदांच मेळपाचें आसलें. पुणून तो आसतना म्हाका येवचें नासलें." राजाभाऊन म्हळें. "वयनी, नाय जाल्यार हांव एक कानफाटो मनीस. बंदखणींतलो कपड्याचो वास आजून आंगावयल्यान वचूंकना जायत. पांच पयशे कोणेय विश्वासान म्हजेकडेन दवरपाची म्हजी लायकी ना." राजाभाऊच्या आवाजांत एकदम कोडसाण आयली. "आतां तुजेकडेन म्हणून उलयतां इतलेंच. तूं ये मेरेन घरांत बायलमनीस नासली. म्हूण तूं येतली म्हणटकीच सगली लादी लेगीत साकाट्यान निवळ पुसून दवरिल्ली." त्या उगडासान राजाभाऊक हांसूक आयलें, आनी ताचो मिरेल्लो चेरो खीणभर मोव जालो. शांताक्का खीणभर गलगल्ली. "म्हज्या नशिबान तूं घरांत आयली खरी. दादासारक्या महान मनशाबद्दल ह्या कुसकुटान अशें उलोवंचें न्हंय हें खरें, पूण ताणें सुखासुखी तुजेकडेन लग्न केलां अशें तुका दिसता?"

"म्हणचे म्हणटा कितें?" शांताक्कान हुतहुतेपणान विचारल्लें. "ती एक गजालूच आसा. आपणांक देशकार्याखातीर एकटो रावपाचें आसा अशें सांगीत दादान कितें केलें खबर आसा? हांवें तुजेकडेन लग्न जावचें म्हणून एक म्हयनो म्हजी फाटूच सोडलीना. म्हाका धपकायलो. शेकीं हांव वितरागान खंयतरी वचच्या विचारांत आसलो. अंती निरुपाय म्हणून तो तयार जालो खरो, पूण फाल्यां लग्न तेंकिल्लें आसतना, ताणें आदले रातींच मोन्यानी खंयतरी वचचेली तयारी केल्ली, हें तुका खबर ना. म्हाका ती सुलूस लागली. आनी हांवे तुज्या दिनूमामाक वचून सांगलें."

''दिनूमामा?'' अजापान शांताक्कान म्हळें, ''तरीच तो लग्नाच्या वेळार दत्त म्हणून हजर जालो!''

''तो जंगल खात्यांतलो उग्र मनीस हातांत बंदूक घेवन स्टेशनाचेर बसून रावलो. रातीचे गाडयेखातीर दादा चोरावरी स्टेशनाचेर आयलो. तेन्ना दादाची मानगूट धरून आनी ताका कुशीक व्हरून ताणें म्हळें, ''आता बऱ्यान घरा वच आनी लग्नाक उबो राव. चलयेचो गळो कापूं नाका. ना जाल्यार भर रस्त्याचेर तुका सुण्याभाशेन गुळी घालतलों! म्हाका पोर ना बाळ! गोळाक लायल्यारूय कोणूच उबन्त पडचोना!'' भोंवतणीं मनशां जमूंक लागतकीच दादा खोंट मारिल्ल्या सुण्याभाशेन घरा आयलो. तेन्नापसून दिनूमामा ताच्या शेजरा यमाभशेन बसून आसलो, तें सामकें लग्न जावन वचसर!...

हांव बंदखणीतसून सुट्टकीच ह्या घरा आयलों तें कित्याक खबर आसा, वयनी? म्हाका ह्या घरांत रावपाचेंच नासलें, वा उदकाचो घोंटूय घेवपाचो नासलो. पूण चामडी गळऽ मेरेन बेतकाठयेन ह्या म्हज्या भावाक एकदां म्हाका बडोवपाचो आसलो! पूण दारांत तू उबी आशिल्ली, आनी तुज्या शेजरा ल्हान रामकृष्ण! म्हज्या हातांतलो द्वेशच सोंपलो. ताचेवयलो बेताचो दर एक वळ तुजे फाटीचेर उदेतलो हें म्हाका जाणवलें. हांव तोंडवळो घुंवडावन वचूचेल्या खिणाकूच तुवें म्हाका म्हळें, 'तोंड घेवन चल! ह्या घरांत पावल दवरूं नाका!' याद जाता तुका? आठ हजार रुपयांखातीर हांव बंदखणींत गेलों. पूण तातूंतल्या एका पयश्याकय हांवें हात लावंक नासलो. दादाच अदींमदीं पयशे उखलतालो. 'आरे, हांव सगलें पळेता तें' म्हणून व्हडल्या नेटान सांगतालो. पूण व्हडलो बोवाळ जालो तेन्ना तो म्हजेकडेन बोट दाखोवन मेकळो जालो! कायद्यान हांव गुन्यांवकार थारलों. हांव कायद्यान खरेलोच गुन्यांवकार आसलों. म्हजी ताचेबद्दल कागाळ ना. हांव चडूच जाल्यार नशिबाच्या चक्राक दोश दितां. पूण ख्यास्त जातकीच भर कोर्टामुखार दादा काय बरो रडलो म्हणशी वयनी! दादा इतलो चारचौगांत चळ्ळकरून दोळ्यांत हुकमी उदक हाडपी दुसरो मनीसूच हावें पळेलो ना!'' राजाभाऊ रखरखरिल्ल्या ताळ्यान भकासपणान हांसलो. ''कितलो बरो! उपरण्यान दोळे पुसतालो, नाक पुसतालो! मागीर चार-पांच वर्सांनी दौऱ्याचेर आसतना, हांव त्या वेळार काम करतालों त्या गावांत तो आयिल्लो. तेन्ना मानायाकडल्यान ताणें म्हाका एक पोरणो कोट आनी दोन रुपया धाडून दिल्ले. वयनी, वागाच्या दोन दोळ्यांइतले दोन पूर्ण रुपया!'' संतापान राजाभाऊ कुशीक थुकलो आनी ताणें दांत घट्ट आवळून धरले. थोड्या वेळान तो थंड जालो आनी फुडें सांगूक लागलो, ''आतां फकत रगताची ओड उरिल्ली, हें घर एकदां निमाणें म्हाका पळोवपाचें आसलें. तुका एकदां मेळपाचें आसलें, म्हूण हांव हाडां दुखयत आयलों. रामकृष्णान उलयल्यार बरें दिसपाचें. पूण तो आतां व्हडलो

जालो. तो पांच सातशें रुपया मेळयता. चार दिसांत ताणें म्हजेर नदर लेगीत घालिना. एकदां पोरसांत हांव बांयचे धडेर बशिल्लो आसतना म्हजे सांवळेंत लेगीत पांय दवरिनासतना तो फुडें गेलो. ताची म्हाका खोंट बशिल्ली जाल्यारूय म्हाका बरें दिसतलें आसलें. जान्हवी कितें, तिचो तुजेशीं संबंद. तुजी भयण ती! तुजेकडेन उलयली आनी गेली. आतां उल्ली तूंच. म्हणून धडाधड उलोवन उडयलें हांवें. पूण मनांत मात कांयच दवरूं नाका हें. हें पळे वयनी, म्हाका म्हजे आवयचो चेरो लेगीत याद जायना. आनी आमकां भयणी तर केन्नाच मेळ्ळ्यो नात. तेन्ना घर म्हणटकीच याद येता ती फकत तुजी! 'घरांत पावल दवरूं नाका' हीं उतरां मनांतल्यान गेल्यांत अशीं न्हय. पुणून तीं मनांत सलनात. पुणून परती परती कित्याची याद जाता खबर आसा? एकदां हांवें खूब पिशव्यो भरून बाजारांतल्यान सामान हाडलें, तें म्हज्या हातांतल्यान घेतना तुवें म्हळें, 'हात आखडून गेले जातले ह्या वोज्यांनी!' तीं उतरां याद जातात आनीक कितें? पानांत धा जिनस आसतनाय चुकनासतना तुवें म्हज्या पानांत उडयल्ली लिंबा लोणच्याची फोड, म्हजे खातीर मुद्दम तांबडें चकचकीत घासून दवरिल्लें तांबयाचें फुलपात्र! ....बस्स! इतल्योच गजाली! जिचेर अचळय पडिल्लीं हीं बेलाचीं चार स पानां! म्हजी कित्याचविशीं कागाळ नाच. जाल्लें गेल्लें गंगेक! बंदखणींत वचूंक नासलो जाल्यार मळबांतलो चंद्र हांव तोडून हाडटलों आसलों अशें न्हय, पूण चार दीस हांव बांयचे धडेर सुतक्याभशेन बसलों, तसो जिणेंतूय केन्ना बसचो नासलो, इतलेंच!...बरें वयनी! येतां. आतां उशीर जाता.''

राजाभाऊ वचपाखातीर गणयत घुंवलो. शांताक्काक दिसलें-सट्करून उठचें-ताचो तट्तटिल्ल्या शिरांचो हात धरून ताका घरांत आफोवचो आनी राव म्हणचो. चार दिस तो खंय जेवलो, ताणें कितें खाल्लें हाची लेगीत हांवे वासपूस केली ना! पूण सगल्या आंगावयलो ताबोच गेल्लेवरी शांताक्का बसुनूच रावली. राजाभाऊ अनवाणी चलपाक लागलो. ताचो भड्ड्या कपड्याचो सदरो आंगाक चिकटल्लो आनी खीणभर ताची दुबळी, हाडकुळी आकृताय रेखीव जाली. ताचेकडेन ल्हान पिशवी सोडल्यार कांयच सामान नाशिल्लें. निरोप दिल्लेसारको शांताक्कान हात हालयलो आनी म्हळें, ''आतां पर्थून केन्ना? यो अदीं मदीं.''

''पळोवया आतां. येयन.'' फाटल्यान वळनासतना, मदीं थांबनासतना राजाभाऊन म्हळें. ताका आनी शांताक्काक दोगांकूच खबर आशिल्लें, आतां केन्ना तीं पावलां हेवटेन वळचीं नात! राजाभाऊन भायर सरून गेट लावन घेतली आनी बिनचेऱ्याच्या रस्त्याचेर अनामिक जावन तो गेलो.

शांताक्काक आतां घर एकदम भकास दिसपाक लागलें. आनी चार वण्टी आंवळून येतात असो वोगीचच भास जावंक लागलो. पोरसांत नळ चालू आसलो आनी सखूच्या आयदनांचे आजुनूय आवाज येताले. आतां कुळारची कंवळाय

वचून तें अदीक रखरखीत, निबर जाल्लें. शांताक्काक एकदम जाणवलें. आपणांक खूब भूक लागल्या. अर्दो कप दूद तरी घेवचें म्हणून तिणें शरीर ओडीत उबें केलें आनी तें धुकलीत भायर हाडलें. आतां आबाजी भायल्यान आयिल्लो आनी भायल्या सोफ्याचेर एके कुशीक धोंपरां वयर करून एकमुळो बशिल्लो. शांताक्काक पळेतकीच तो उठलो आनी तिच्या म्हऱ्यांत गेलो.

'अक्का, दूद घेता कपभर? आत्तांच चडशें हाडलां हांवे, जान्हवी आनी रामकृष्ण वतना चा घेतलीं म्हणून करून दवरिल्लो तो तसोच उरलो. म्हजें आयकतलो कोण? तो राजाभाऊ. ताणें हांगा चार दिसांत उदकूय घेतलें ना. वतना तो दूद तरी घेतलो म्हणून हांवें हाडिल्लें, तर हांव येवचे आदींच तो गेल्लो. तुका तरी तो मेळ्ळो काय ना, कोणाक खबर!''

शांताक्कान जडपणान मान हालयली, पूण ती दूद जाय म्हूण सांगपा खातीर. आबाजीन हाडिल्लें दूद घेतकीच तिका मात्शी ताजसाण आयली; पूण आंग आजुनूय भितर ताण भरिल्लेवरी भेरेल्लें, निर्जीव जाल्लें. ती थंयच बसली आनी निर्विकार जावन मुखार पळोवंक लागली.

''अक्का, मागीर फुडें कितें करतली तूं?'' आपल्या जाग्यार बसत आबाजीन म्हळें.

''आं? कितें म्हळें?'' शांताक्कान कांचवेन म्हळें, ''हां, हां, हांव फुडें कितें करतलीं?'' ती परती आंखुडिल्लेवरी जाली आनी थोडो वेळ वोगीच रावली. ''करचेलें आसा कितें फुडें? उरिल्ली जीण कशीतरी धुकलून, सगलो हिशेब मेकळो करपाचो म्हणटकीच जालें! हांव करून करून करतलीं तरी कितें? रामकृष्णाकडेन-'' ताचें नांव घेनाफुडें ती अडखळ्ळी आनी तिचो आवाज फुटलो, ''जांव ताचेकडेन, जांव जान्हवीकडेन, वचनशें दिसना. वोगीच कोणाचेर गरजेभायर भार कित्याक घालप? घर आसा माथ्यार. लागणूक म्हणून तरी हांणी कितेंयतरी वेवस्था केली आसतलीच. आनी तुजो तर म्हाका दोंगरासारको आदार आसाच!''

आबाजीन आपलें वक्ल सारकें केल्लेवरी केलें. म्हजो तरी आतां कितें भरंवसो अक्का? हांव ताचे परस दोन वर्सांनी व्हडलो न्हय? तो चांचरलो आनी खीणभर थांबलो. ''अक्का, अंऽ- रामकृष्ण तुका मेळ्ळो ना? ताणें कांय सांगलें ना?''

''ताका उलोवपाक जालें ना. तो तसोच गेलो'' शांताक्कान तुटकपणान म्हळें.

''म्हणचे तें सगलें सांगप म्हजेरूच पडलें तर!'' खेदान आबाजीने म्हळें, ''सगलें आता स्पश्ट सांगचें जाल्यार दादासायबांनी तशी कांयच वेवस्था करूंक ना. काल सांजे देशपांडे वकिलान रामकृष्ण, जान्हवी, राजाभाऊ हांकां आफयल्लें. तुका मुद्दमच 'नाका' म्हूण ताणें स्पश्ट सांगिल्लें. म्हाका दिसलें, तुमच्या दुखखांत

कागदपत्रांची बी किटकिट कित्याक, म्हणून ताणें तशें सांगलां जायत. ताणें सगल्यांक दादासायबांचें मृत्युपत्र दाखयलें. सगलो रोकड पयसो जान्हवी-रामकृष्णाक गेलो. तूं जान्हवी वा रामकृष्णाकडेन रावल्यार तुका दर म्हयन्याक पंचवीस रुपया मेळटले.''

''म्हयन्याक पंचवीस रुपया?'' पिश्याभशेन दोळे करीत शांताक्कान म्हळें, ''आमी सखूक जेवण दिवन तीस रुपया दितात न्हय? आनी आबाजी, हें घर, ह्या घराचें कितें जालें?''

आबाजीन मान खाला घालून. म्हळें,'' घर राजाभाऊक गेलें.''

दोळे फातुल्ल्यांवरी करीत शांताक्का आबाजीकडेन पळोवंक लागली. मागीर एकदम पिंजिल्लेवरी ती हांसपाक लागली. ''हें सारकें जालें आबाजी. हांवें ताका ह्या घरांत पावल दवरूं नाका म्हणून सांगिल्लें. आतां घर ताचें जालें. आनी फाल्यां म्हाकाच हांगा पावल दवरपाक येवचें ना! ती पर्थी हांसपाक लागली. आबाजीक उतरां सुचना जालीं. कांय खिणाउपरान्त शांताक्काच्या हांसपाचो आवाज बंद जालो. पूण चेऱ्याचेर हांसपाच्यो फाळयो निर्जीवपणान तश्योच उरल्यो. ''पूण आबाजी, राजाभाऊक हें खबर ना?'' तिणें विचारलें.

''खबर ना कशें? तोय आयिल्लो, वकिलान ताका एक कागदूय दिलो. पूण अक्का, राजाभाऊ आदलोच भोळो मनीस उल्ला. तो कागद तुका दिवपाक म्हजेकडेन दिला. 'म्हाका कित्याक तो घर-वाडो? जंय हांव फाट तेकयतां तेंच म्हजें घर', अशें ताणें म्हळें. वकिला मुखारूच दादासायबाक तो खेपपाक लागलो. निमाणें ताणें म्हळें, 'वयनीक व्हरून दी हो कागद. म्हज्या कर्तुबाचेर दादान खूब पांगरूण घालें; आतां हांव ताचेर पांगरूण घालतां'. वयनीक माथ्या हक्काचें पाखें उल्लें ना जाल्यार, म्हजो जीव बेगीन वचचो ना.''

आबाजीन आपले हातपिशवेंतल्यान एक लाखाटो काडलो आनी नमळायेन शांताक्काच्याच म्हऱ्यांतल्या कदेलाचेर दवरलो. शांताक्काक ताची नात नासली. ती तशीच आबाजीचे दिकेन शून्यपणान पळेत रावली. ''वचूं दी घरदार. तुमचो आदार तरी कोणें काडून घेवंक ना मूं?'' ती पुटपुटली.

''अक्का, हांवूय आतां वतलों. वचून पडटां भावाकडेन. एक मनीस तीनचार वर्सां जड जावंचो ना.'' आबाजीन वक्लांतसून शांताक्काकडेन पळेत म्हळें.

आबाजीच्या दोळ्यांत ओलसाण दिसताली. ''भार कसलो जातलो कोणाक तुमचो!'' शांताक्कान आपुलकायेन म्हळें. ''तुमच्या नांवान ते म्हयन्याक चाळीस रुपया कडेक दवरताले हें म्हाका खबर आसा. उण्यांत उणें आठ धा हजार तरी आसतले न्हय तुज्या नांवार. ते मेळटले तुका. ते कांय तुज्या कोणाच्या उपकाराचे न्हय.''

आबाजी मान खाला घालून बसलो. आनी ताणें पुडव्याच्या शेवान वक्ल पुसून दोळे टिपले. ''अक्का, जशें तुमचें तशेंच म्हजें! ताणें पयशे दवरिल्ले खरे आमच्या दोगांयच्या नांवांचेर. पूण स म्हयन्या आदीं ताणें ते फकत आपल्या नांवाचेर केले. आतां सगलो रोख पयसो जान्हवी-रामकृष्णाकडेन गेलो. ईश्वराची इत्सा म्हणपाची. हांगा म्हजो निवारो इतलोच आसलो म्हणपाचें.''

आबाजीच्या अशक्त दुबळ्या देहाकडेन पळेतना शांताक्काक आपणालो विसर पडलो. निमाणीं दोगांय अशींच वाऱ्यार पडलीं तर! हांगा हाडांचीं काडां केलीं, केंस धवे केले आनी अंती रिते पोशे घेवन शेजरा शेजरा बसलीं!... आतां ताका कसो समजावपाचो हेंच शांताक्काक कळना जालें.

''मागीर केन्ना वतलो तर तूं?'' शांताक्कान बेठेंच विचारलें.

''आजच वतलों म्हणटां. काल हावें चीट बरयल्या भावाक. आतां घरच्यो चावयो दितां त्यो घे ताब्यांत, म्हणटकीच जालों हांव मेकळो.''

''हांव तरी चावयो घेवन कितें करतलीं? हांवूय अशीच भितोडे पोंदची. अशें करुं नाका. राव आठ दीस.''

''नाका अक्का. आतां सगलें नाकाच दिसता.'' आबाजीन धागो तोडिल्लेवरी म्हळें.

''हांव तरी कितें म्हणटलीं सांग?'' हुंडको आवरीत शांताक्कान म्हळें. ''निदान जेवन तरी वच. आमचें आतां एकठांय जेवप निमाणें. तितलें तरी आयक!''

''नाकाच दिसता आतां. ते भायर आयज एकादस. जेवणूय ना.'' आबाजीन म्हळें, सीताराम- सखूचो पयले तारखेमेरेन पगार दिला. वर्तमानपत्रां फाल्यांपसून बंद केल्यांत. दूद अर्द शेरच सांगलां. दादासायबाचे आठ कपडे मडवळाकडेन आसले, ते हाडून आरमारींत दवरल्यात. सगलो हिशेब बरोवन दवरलाच. उरिल्ले इकरा रुपया सव्वातीन आणे आनी चावयो देवाऱ्यालागीं दवरल्यात.''

आबाजी उठलो. ताणें खुंटयेवयलो चोळो काडून फाफुडलो आनी आंगार चडयलो आनी उपरणें आंगार उडयलें. कितल्याच वर्सांनी शांताक्कान ताका पुराय भेसांत पळेल्लो. आबाजीन एक पोटली आनी हातपिशवी उखल्ली. आनी तो भायर सरलो. जिणेचो एक खंड तुटिल्लेवरी शांताक्काचीं आंतडीं एकठांय जालीं. आबाजीन सगलें घर आपल्या खांद्यार तोलून धरिल्लें, बरें सांबाळिल्लें. आनी दिसपट्टें गंद दिवन देवघरांत साणेशेजरा सबंद दीस कांडयेभशेन ताणें घरांत काडिल्ले. शांताक्काक एकदम नानाची याद जाली. ते अशेच खंगिल्ले. निमाणें तांच्या दोळ्यांतल्यान एकसारकें उदक व्हांवतालें. वाचा गेल्ल्यान शांताक्काचो हात हातात घेवन निचेश्ट पडिल्लो नाना उरिल्ले जिणें आबाजीच्या तोंडातल्यान एकसारको बापायचे मायेन उलयत राविल्लो.

आतां आबाजीय चललो. तो भायल्या दाराकडेन गेलो. ताणें तें दार ल्हवूच बंद केलें. पांय वाटेचेर कागदाचें कुवळें पडिल्लें तें उखलून ताणें कुशीक उडयलें, आनी वापरून वापरून कागदाभशेन पातळ जाल्ल्यो व्हाणो ओडीत तो गेटीकडेन गेलो. ताचीं पावलां मंदावलीं आनी तो पर्थून घुंवलो. शांताक्काच्या मनांत हयन्हयशी आशा फडफडली. पुणून आबाजी तुळशीपेडा मेरेनूच गेलो. ताणें तुळशीचीं चार पांच पानां खुटून बोलसांत घालीं. आनी तो आंग ओडीत, पस्तीस वर्सांची सुखदुख्खां फाटल्यान उडोवन फुडली वाट चलूंक लागलो.

शांताक्का बिननदरेच्या दोळ्यांनी सरळ पळेत मुखार कितलो तरी वेळ वोग्गी बसून राविल्ली. मुखार आशिल्ल्या मेजावयल्यो उजवाती बोटांच्या पेरां येद्यो जावन पालवपाक आयिल्ल्यो. पूण आजूनय तातूंतल्यान तलम धुंवराच्यो रेगो उदेताल्यो. तांच्या म्हऱ्यांत फुलांची शेळी रास... तांच्या वेटाळ्यांतल्यान फडो उबारिल्ले भाशेन उग्र चेरो... आनी धांपनाशिल्ले नित्याचे जागे दोळे...

शांताक्काचे दोळे तांचेर थिरावल्ले. पूण ते ओंठ आतां हालिल्ल्याचो तिका एक दोनदां भास जालो. आनी एकदम कोणेंतरी हालयल्लेवरी ती भानाचेर आयली. तिचे नदरेंत जाण आयली. इतल्यान ते ओठ हालत म्हणपाक लागले, ''पुणून म्हजें कोण आयकून घेतलो?''

शांताक्काच्या आंगावयल्यान थंडगार कांटो फुलून आयलो आनी ती सट्ट करून उठून उबी रावली. ''आबाजी! आबाजी!'' म्हणीत ती बेगीन बेगीन भितर गेली आनी भियेल्ल्या दोळ्यांनी हांगा थंय पळोवपाक लागली. पूण थंय वावर सोंपोवन वचूंक भायर सरिल्ली सखू आनी सीताराम हीं दोगांच आसलीं...

''आबाजी गेलो न्हय हेदोळ'' सीतारामान म्हळें.

''पूण हांवें ताचें उलवणें स्पश्ट आयकलां.'' शांताक्कान ठामपणान म्हळें.

सीतारामाचें तोंड एकदम पडलें. आनी खजील चेऱ्यान तो तिचेकडेन पळोवंक लागलो. ''हांवूच ताची नक्कल करून उलयलों. चुकलें म्हजें!'' ताणें म्हळें.

शांताक्का थंयच खीणभर रावली. पूण आंगभर पातळिल्लो भंय आजून वचूंक नासलो. सखून ताटांत वाडून वाटयो, उदका तांबयो हाची तयारी केली आनी म्हळें, ''तूं जेवन घे. सांजे येता हांव. दार बरें लावन घे भितरल्यान.''

शांताक्कान निर्जीवपणान मान हालयली. सीताराम आनी सखू फाटल्या दारान वतकीच ती पोरसांत आयली. बांय... बांयचो कडो... तिचे म्हऱ्यांत हांडीर भुरगीं धरिल्ले बायलेवरी दिसपी दोनतीन पणसुलां लागिल्लो पणस... कोरांटी... बेला भाशेनूच दिसपी, पूण बेल नासल्यारूच शिवप्रिय जावपी निर्गुडी... कांचेवयल्यान पडबिंबां सरकल्लेवरी चित्रां दोळ्यावयल्यान सरकलीं, आनी शांताक्का दार लावन भितर सरली. रांदची कूड ....रांदनी फुडें संगमवरी कुडक्यांनी बसयल्लें फुल्ल धवें

स्वस्तिक... कोनशांत देवारो... संपुटात दवरिल्लो गुळगुळीत पारदर्शक बाण... कुळारच्यान हाडिल्लो एक बाळकृष्ण... ताचे म्हऱ्यांत आबाजीन दवरिल्ले पयशे आनी चावयो... तिणें रांदचे कुडीचें दार आड केलें... माजघर... वणटीचेर रविवर्म्याचीं पोरणीं चित्रां... लक्ष्मीच्या चित्राचेर गंदागुळयो सुकोवन तांची केल्ली माळ... दाराचेर लायिल्लो मोरामोराचो, मणी आनी कंवचेच्यो नळयो हांचो तिणें केल्लो पड्डो... एक व्हडलो हारसो... ताका हजार चेरे... पूण कसलीच याद ना... माजघराक चेरो ना, पूण उगडासांनी तें भरलां... जनेलांत शिश्याचें फणेरी पेटूल (आवयचें)... इस्कादीवयले वटेन दादासायबांचो संवसार. इस्कादी सकयल आबाजीची ल्हान कूड... थंय एक शेंदरी पातळिल्ली. आनी कुरकुटांत कंदिला म्हऱ्यांत वर्तमानपत्राचें कव्हर घाल्ली 'मनाचे श्लोक'ची पटी पडिल्ली. दादासायबांनी ती आबाजीक दिल्ली. पूण आबाजीन ती व्हेली ना. शांताक्कान ती कूड बंद केली आनी माजघराचें दार बंद करून ती पर्थून पयल्या सोप्याचेर आयली.

शांताक्कान जिणेंतलें घरपण सोप्यासोप्यात काडून उडयलें. म्हजें घर, पुणून म्हजें न्हय. घरान म्हाका कांय दिलें ना; आनी हांवेंय ताका कांय दिलें ना; पण एका शून्यांत आनीक एक शून्य, हे तरेन आमी एकठांय जायतीं वर्सां रावलीं. तीस वर्सांचे दीस आंगावयल्यान पगळून गेले. पूण देणें घेणें उरचें अशे वेव्हारच जाले नात. सुखाचें एक सोड ते खिणयाळेंच आसता. पूण दुख्खांलेगीत एकेक करून पालवलीं. सुखदुख्खाची कसलीच बाकी उरना तसली क्षुद्र जीण निमाणीं वांट्याक आयली, ह्या विचारान शांताक्का सुन्न जाली; आनी अर्दपुतळ्या सामकार आशिल्ल्या कदेलाचेर ती पूर्ण पुतळ्यावरी निश्चळ बसून रावली.



5

# फाईव्ह गार्डन

**मूळ मराठी : भाऊ पाध्ये**

**कोंकणी अणकार : गजानन जोग**

बोंबाड्याएदो प्लास्टिकाचो तांबडोच पेल्ल जार्दिनाच्या आड्यालागींच्या बांकासरीं घुंवत येवन अचळय थांबलो.

निर्मळ दोळयांचो तांबशा-गोऱ्या कंवळया मासाचो गुळो पेल्लाफाटल्यान गुडगुडत धांवतालो तोय अचकीत थांबलो. ताचो पेल्ल बांकार बशिल्ल्या आबा टुकरूळान उखल्लो. आपूण जाचो धनी तो बॉल एका जाणट्या मनशांन उखल्लो देखून ह्या जगांत हालींच प्रवेश केल्ल्या त्या बाळकाक भिरांत दिसल्या आसतली. ह्या संवसारांत लोक अशेच भशेन दुसऱ्याची वस्त हातासत आसतात काय?... त्या बाळकाची भिरांत पयस करची अशें आबाक दिसलें 'कम चाईल्ड... स्वीट चाईल्ड...' ...हातांत बॉल धरून आबा त्या चाइल्डाक थातारूंक लागलो; एकाद्रो कुत्र्याक शिकोवपी मनीस कुत्र्याक थातारता तसो. तें बाळक मात अजापान आबाकडेन पळयत रावलें.

आबा टुकरूळ, सामको विरविरीत आनी बरगेल्लो मनीस. पोंगयो. बांकार बसला आसतना लेगीत ताची कमर बागवल्या म्हणपाचें रोखडेंच लक्षांत येतालें. वक्लाच्या एका भिंगाक वेर गेल्ली. तोंडावयली चामडी सुकून गेल्ली आनी खाडार सगळेकडेन धवशे खुंटकशे केंस. ताची मुस्तायकीय थिगळायल्ली आनी जायते कडेन बावटे कशे हुबून ताचें दळदीर वाऱ्यार घालपी.

त्या बाळकान पावल फुडें घालें ना. लागींच बांकार बशिल्ली आबाची जड्डी बायल म्हळ्यार माई टुकरूळ आपणालें भुरगीं सांबाळपाचें कसब दाखोवपाक लागली. माई. म्हळ्यार सामकी उजाड. घसघशीत कुकूम, ठसठशीत काळ्या पिड्डूकांचो पोड आनी दोळयांत उपाट काजळ. तोंडाचो रंग एक वरस पोन्न्या गणपतीचे म्हूर्तीभशेन पोपडेल्लो आनी न्हेसणय तसलेंच, विटकुरें. त्या बाळकाक घेवन खेळवपाखातीर तिचो जीव आतां आंवडेतालो. आपले रिकामे पोतयेंत तिणें हात घालो आनी 'तांतूत लिपयल्ली खाणाची पुडी आसा, यो, यो तुका दितां'

असो हावभाव करून त्या बाळकाक हांयस लायलें, पूण त्या हांयसाक बाळक बदलें ना.

'सत्याचो चलो एदोच आसतलो न्हय?' माईन म्हटलें. 'आँ' आबान म्हटलें.

वक्लाचे दाट कंवचेर कुपां दाटिल्ले भशेन जालें. ताणें खंतीन हात वावुडले आनी वग्गी रावलो. मागीर एकदम उसळ्ळो.

'तुका ताची बेश्टीच याद काडूंक जाय... सत्यान आमची वाट सोडली, आमी ताची... आमकां अभिमान ना व्हय?'

'अभिमान!- सुणो खाता तुमच्या अभिमानाक. आयज वेळेक एकाद्रो आपोवन दोन घांस घालता व्हय आमकां? कसलें कर्माचें जगप हें! ते परस म्हाराच्या जल्माक आयल्यार बरें जावपाचें. तांकां मान आसा समाजांत. आमकां मात ना! आमच्या समाजांत ना, आमच्या भुरग्यांमदीं ना! पोटचो पोर; तो लेगीत दोन उणयो पोटाक मेळटात काय ना तें पळोवपाक तयार ना!'

'जालें, सोंपलें तुजें? काडली फाटली हळशीक! तुका कितें दिसता सगल्याक हांवूच जापसालदार, तूं ना? तूं, तूं कितें सती सावित्री म्हूण जगली काय कितें!'

'हांव खंय केन्ना म्हाका सती सावित्री समजलां, हय, हांव शिंदळूच. पुलिसेंत म्हजें नांव रजिस्ताद जाल्लेंच आसा तशें. दादल्यांचें आपलें बरें. तो करून सवरून कूस मारता. बायलमनशेचे जातीक तशें कडसरूक मेळना. तिचेर एकदा छाप बसलो तो बसलो, वेश्या! शिंदळ! जेन्ना हांव परक्या फुड्यांत न्हिदलें तेन्ना फायदो कोणाचो जालो? कोणें हाडलीं म्हाका गिरायकां? निमाणेकडेन पुलीशेन म्हाका धल्लें तेन्ना कानार केंस काडून मेकळो जालो तूं! वयल्यान म्हण्टा, 'म्हज्या घरांत असले धंदे चलतात हें म्हाका खबरूच ना!'

'ते खातीरूच तर तुका निखटी वॉर्निंग दिवन सोडली, ना जाल्यार पडपाची भितर स म्हयन्यांखातीर वारें खावपाक. हांवे सायबाचे पांय धल्ले, म्हटलें, नावाजतो घराबो आमचो, हे रांडेखातीर ताची अब्रू मातयेभरवण जावंक दिवं नाका.

'पूण रांडेक रांड केली कोणे? चारचौगांमुखार अब्रू राखली, पूण पोटच्या पोरान तिची जी किंमत केली ती कोणाक लागून? आपणाली आवय एक शिंदळ हें कळतकीत तो म्हजेर नदर लेगीत घालीना जालो. कितें कितें म्हूण भोगलां आसतलें म्हाका!' माईन थंय बागेंतूच हुवेल मारली.

'ए, ओगी राव, तोंड बंद कर, बोवाळ नाका तुजो. तूं रांड रांड म्हणत आसा, आतां लोक हेवटेन पळोवपाक लागल्यात.'

'पळोवंदी पळोवंदी. नालायक़ घोवाक लागून म्हज्या आयुश्याची कशी विपश्टा जाली तें सांगपाचेंच पडटलें एक दीस तांकां.'

'तूं आतां वगी रावतली काय हांव वचूं?'

तो उठपाक लागलो. भोवतणच्यो चार नदरो आपणार आसात तांची कटकट चुकोवपाखातीर तिणें ताचो हात धल्लो.

'खंय वतलो?'

'खंयूय.'

'खंयूय किर्ते? बस हांगा-म्हज्ये कुशीक. म्हजो घोव तूं. कोणाय फुड्यांत तुवें म्हाका घाल्यारूय म्हाका कांयच म्हणपाचें ना, तुका सोडून हांव वचचें ना.'

'पूण वग्गी बसतली तूं?'

'हय, तुजो सोपूत.' माईचें तोंड बंद जालें आनी तांचेवयल्यो नदरोय पयस जाल्यो.

'आमकां हो थंडसो कोनसो मेळ्ळा. दुसरेकडेन खंयच तोंड लिपोवपाक सुवात ना आमकां, हें तूं लक्षांत दवर.' शिगार पेटयत आबा तोंडांतल्या तोंडांत उलयलो.

'जाणा जाणा, पूण सत्याची आनी मंगलाची याद येतकीत रावूं नज जाता म्हज्यान. आमचीं पोरां खरीं, पूण आमका ना जालीं!

'आमचीं पोरां? आमचीं पोरां!'

'हां. तीं भुरगीं तुजींच काय किर्ते कोणाक खबर. तुवेंच म्हणिल्लें न्हय, मनशाक फकत आवय आसता. बापायचें सांगू नजो! असलीं बुरशीं चिंतनां तुजे तकलेंत आसलीं देखून निमाणे कडेन देवान तुज्या तोंडांत माती घातली.' माईचो आवाज परतो ताणशेवंक लागलो.

'किर्ते? कसली माती घातली?' आतां ताची तकलीच घुंवली. ताका तिचे कडेन उलोवपाचेंच नासलें. उतरान उत्तर वाडटा- आनी मागीर तिचें तोंड बंद करप कठीण. तेन्ना आपणेंच वग्गी रावप. ती फणफणत रावली आनी तो नॅट हें सवाय सिगार फुसकायत रावलो. ताका राग आयलो हें ल्हवल्हव तिच्या लक्षांत आयलें. तो असो रागार जातकीत ताची तकली बिन घुंवची ना मूं असो दुबाव येतालो आनी ती काचाबुल जाताली.

'राग आयलो?'

'ना!'

'राग आयला तुका... उलयना कित्याक तर?'

'उलवपाचें ना म्हाका.'

'कित्याक?'

'व्हदळ किर्ते थरयल्लें? लोकांक तमाशा दाखोवपाचो नासत जाल्यार आपणें वग्गी रावपाक जाय.'

'बरें. हांव वगी रावतां, पूण रागार जांव नाका. तूं रागार जालो आनी त्या दिसाभशेन कांयच खाल्लें ना तर...आतां पयलींसारकी कसलेंय काम करपाची शक्त

उरूंक ना. आमचें जेवणखाण तरी कसलें? सद्दां उसळपाव आनी च्या. तातूंत कसलें व्हिटामिन? पूण जें मेळटा तें खावूंक जाय. आमच्या नशिबान हे दीस दाखयले न्हय!'

आबा कांयच उलय नासलो. तो उबगल्लो. दाट कंवचेचे नदरेमुखार कांयच नासलें. खंयच्यान तरी अकस्मात एका भिकाऱ्याचो पोर सलाम करीत मुखार येवन उबो रावलो. आबा तिडकलो. 'चलों लाग!' मागीर कांचवेलो तो पोर आबावयली नदर काडीनासतना ल्हवल्हव पयस सरूं लागलो. ती नदर आबाक सांगू लागली- एक भिकारी दुसऱ्या भिकाऱ्याक धमकायता! आपणाले कुस्कुट जिणेचेर तो आतां बेजारलो. माई हांसपाक लागली.

'हांसपाक कितें जालें?'

'भिकारी दुसऱ्या भिकाऱ्याक धांवडायता.'

'कोण भिकारी? हांव भिकारी?'

'आनिक कोण? मेकप पळय तुजो हारशांत.'

'रांणग्या, फुलयतलों सोंडार.'

'रांड भिकाऱ्यापरस बरी. जोडीचें खाता. तुवें जल्मभर दुसऱ्याच्या कुस्तार खालें. म्युनसिपालटींत जो शिर्विस करता तेका संवयच ती.'

'वगी राव.'

'कितें वांकडें उलयलें हांव. तुजी बायल जालें, म्हजोय फायदो जालो ना म्हणना हांव. वाः! कितें खाल्लां एका टायमार. सद्दां मटणां आनी पापलेटां. आंबे कितले खावचे! शेंकड्यांनी पोपायो, सिताफळां, केळीं, चिकू, सफरचंदां आनी काळगां. मज्जा तेन्ना आमची. जिबेक विचारून खांवचे आसत जाल्यार म्युनसिपालटीच्या बाजार सुपरिटेणाची बायल जावचें. हां. पूण खांवची संवय आपणाक आसची, आपल्या घोवाक आसची न्हय. खावपी घोव आसत जाल्यार लास्टाक कितें खावचें पडत सांगू नज. तुवें तुजो घोव रिटायर जातकीत फंडाचो सगलो पयसो केन्ना हातांत येतलो म्हूण वाट पळयत बसपाचें, पयसो हातांत पडटकीत कितें कितें करप हाचीं सपनां पळोवपाचीं आनी हटकून त्याच वेळार ताणें शेण खाल्लेलें आसचें.'

'कळ्ळें कळ्ळें, तूं परतें परतें तेंच उस्तून काडटली. पूण म्हाका कितें सपन पडलेलें काय कितें हांव असो सांपडटलों म्हूण. बाजारांत स्टॉल्स आसले विकपाक. कोणेंकोणें आपलो नंबर लागचो म्हूण म्हाका पयशे दिले. हांवे कितें करपाचें, हांवे ते घेतले. जांचे कडेन दिवपाक पयशे नासले, तांकां दिसलें, तांचें काम जावचे ना म्हूण. देखून ते वयर मेरेन गेले आनी ताका लागून हांव सांपडलों. म्हाका मात कोणें कसलीच आयडिया लागूंक दिली ना.'

‘चोराक धरपाचो जाल्यार ताची आयडिया चोराक दिवन भागता व्हय? तुका तांणी ज्युस्ताज्युस्त धरलो. तुकाय चडच वसवस सुटिल्लो न्हय? आनी त्या कोरे सायबाचेर तुजो सामको विस्वास. देखून तूं घुस्पलो तातूंत... हांवें त्या कोरेक तेन्नाच वळखल्लो. जेन्ना म्हाका लोणावळ्याक ताणें बंगल्यार आपयल्ली तेन्ना. अकस्मात ताची घरकान्न थंय पावली, तेन्ना ताणें म्हाका कशेतरेन बंगल्याभायर धांवडायली. ह्या जल्मांत तरी विसरचें ना तें हांव. परत मुंबैक येवपाची तिकेट लेगीत दिली ना ताणें. मंगळसूत्र विकून आयलें हांव. पूण त्या नालायक मनशान ‘ही वावराडी. तीच आपूण जावन गळ्यांत पडली म्हज्या’ अशें बायलेक सांगत धुकलीधुकलीत भायर घाली म्हाका. आपूण सोता सभ्य, लीडर म्हूण मिरयता. असले तुमचे विस्वासांतले इश्ट. गळो कापपी, एक नंबराचे नालायक. साळसुदपणाचें सवंग हाडपी गुंड. तुमकां कामावयल्यान काडिल्ले तेन्ना खंय गेल्लो तुमचो तो कोरे सायब? तुवें ताच्या फुड्यांत तुमचे बायलेक लेगीत न्हिंदयली. पूण ताणें घालें एक उतर तुमचे खातीर कोणायकडेन? तुमी भुरकटून गेल्ले नालायक लोकांच्या पोक्या झेताक. तांचे परस सत्याचो इश्ट, तो नाटककार, ताच्या नाटकाक तुमी मजत करते जाल्यार तुमचें नांव जावपाचें, सत्या जल्मभर तुमची याद काडपाचो.’

सत्याच्या नाटककार इश्टाचे यादीन आबा सामको विरगळलो. हरशीं माईचेर तो सामको तापिल्लो. पूण आतां ताच्या तोंडांतल्यान उतर फुटलेंना. एक म्हळ्यार सत्यान नाटकांत नांव जोडिल्लें आनी दुसरें म्हळ्यार सत्याच्या इश्टाक मजत करून चल्याचें बरेपण घेवपाची मेळिल्ली संद फालतुगिरीन हाणें वगडायल्ली.

आतां ती खूश जाल्ली. बिनतोड पेंच घालून तिणें ताका आड पाडिल्लो. ‘पळयात तुमच्या सभावांतल्या नोंतांचेर हांवे कशें ज्युस्त बोट दवरलें. आतां तुमी मानात ना जाल्यार मानूं नाकात. पयशाचे चडूच फाटीक लागून चुकले तुमी. केन्ना केन्ना तोच पयसो जर बऱ्या कामाखातीर वापरिल्लो जाल्यार?’

‘बऱ्या कामाखातीर खंय!’ आबा आपलेभितर फुतफुतून वग्गी रावलो. ताका अचकीत याद जाली... म्हजें तरणेपण तेन्ना. दिसतालें क्रिकेटर जांवचें. क्रिकेटर. फडकर जांवचेशें दिसतालें. आनी हांव दत्तू फडकराकडेन गेल्लों. फडकर तेन्ना सामको गर्देत घुस्पल्लो. सगले चमचे लोक ताची सायन घेवपाखातीर बोवाळ करताले. फॅशनवाल्यो चलयो लेगीत आसल्यो. हांव एक गरीब गरजेवंत. क्रिकेट शिकचें म्हूण फडकरामुखार गेल्लों. पूण फडकराची म्हजेकडेन नदरूच गेली ना. म्हाका म्हजीच काकूट दिसली. ते गर्देतल्या चलयांची तिडक माल्ली. फडकराचोय राग आयलो. म्हटलें, हे क्रिकेटर अशेच. मात्शें नांव जाल्यार पुरो, भल्लो हांचे तकलेंत रोकडोच गॅस. मागीर ते गरीब मनशाकडेन लक्षूच दिनात. पूण आयज

म्हजी चूक म्हाका कळटा. फडकरान म्हजे कडेन पळयलें ना जाल्यार तातूंत ताची कितें चूक? म्हाका जर क्रिकेट शिकपाची आसली जाल्यार हांवेंच ताचे कडेन वळख करून घेवंक जाय आसली. ताची इल्ली चमचेगिरी करपाक जाय आसली. पूण हांवें फडकरासारक्या व्हड मनशांत नाका ते दोश पळयले आनी परशुराम कोरे सारक्या फालतू मनशाची चमचेगिरी केली. क्रिकेट खेळपाबदला त्या कोरे सायबाच्या बुरशा हळशिकावण्या सोशल वर्कांत वांटो घेतलो. खरेंच बऱ्या कामाकडेन आपणें फाट करूंक नासली आनी घाणयाऱ्या सोशल वर्कांत वांटो घेवंक नाशिल्लो, जाल्यार आयचे हे दीस पळोवंचे पडचे नासले.

अकस्मात आबाक भितल्ल्यान भरून आयलें. दोळ्यांनी दुकां भल्लीं आनी भूंयकांपान वेरेल्ले जमनींत कशें ताच्या गालमणांच्या मिरयांनी उदक चकचकूं लागलें.

'आंवय, तुमी रडटात!'

जाप ना.

'शी, शी, कितें उलयलें हांव... माफी मागतां तुमची, पूण तुमी रडूं नाकात हां, प्लीज!'

तिच्या सांवरपाचो आतां उपेग नासलो. ताका भितल्ल्यान उमाळ्यार उमाळे येवंक लागिल्ले...

ताका अकस्मात एका म्हयनाळ्यांत आयिल्ले काणयेचो उगडास जालो. एक जाण्टेलो आनी एक जाण्टेली रावतालीं. ताणीं तांच्या भुरग्यांक वाडयलीं. मागीर तीं भायल्या देशांत वचून रावपाक लागलीं. हांगा हीं दोगांच. एकट्या एकट्यानी रावतालीं. फुडें तें एकटुकेपण सामकें खावपाक येव लागलें. एक दिस रातीकडेन न्हिदतना ताणीं न्हिदेच्यो गुळयो घेतल्यो. मागीर न्हिदलीं तीं परतीं उठलींच नात... आपली ही जीण लेगीत होच उपाय करपासारकी. आपल्याकूय जगप म्हळ्यार वीट आयला. सकाळीं च्या, पाव, उसळ. मागीर लायब्ररींत वचून पेपर वाचपाचे. मागीर दनपरां घरा येवपाचें आनी भुकेल्ल्या पोटार न्हिद काडपाची. सांजवेळार हे बागेंत लोकांच्यो नदरो चुकयत ह्या कोनशाक येवन पडपाचें. कोण आसा आमचो ह्या समाजांत? हांव भिकारी आनी ही शिंदळ. पोटचीं पोरां तोंडार नदर घालपाक तयार नात. घडून घडून कितें घडपाचें आसा आतां हे जिणेंत. कोणाकडेन उलवपाची माणसुकी ना. कोणाक कितें सांगपाची सोय ना. आनिक कितलीं वर्सां म्हूण हांगा फाईव्ह गार्डनांत बसून वेळ सारपाचो. तेपरस जीव वचत जाल्यार सुटलों. खरें म्हळ्यार जीव दिवपाक लेगीत लेटूच जाला आतां. हांवें आदींच जीव दिवपाचो. कांयच ना जाल्यार चारजण मरणाक तरी येवपाचे. आतां म्हाका म्युनसिपालटीची गाडीच पावयतली.

सदांचेच विचार हे.

आबा हेवटेन तेवटेन पळोवन आपणाकूच विसरपाक सोदूंक लागलो. तेन्नाच ताका सद्दां सांजचे चलपी व्ही.जे.टी.आय्. गल्लेतलें क्रिकेट याद जालें. खेळगड्यांचो बोवाळ एकदम वाडलो. आतां तांची खेळपाची वेळ सोंपिल्ली आनी ते बॅट स्टंप घेवन धांवत बागेंत येताले. तांचेकडेन तो उमेदीन पळोवपाक लागलो आनी माई ताच्या उमेदीन फुलिल्ल्या रूपड्याकडेन पळयत रावली. ताका क्रिकेट कितलें आवडटाले तें तिका बेसबरें खबर आसलें. क्रिकेट मॅच सुरू आसतकीत रेडिओ मुखार जमिल्ल्यांक तार्णे हटकून विचारचें, 'किते जालो स्कोअर?' लोक त्या वेळार ताचेकडल्यो वारिस्क्यो विसरून स्कोअर सांगताले. तेन्ना ताका कोण केन्ना अशे म्हणनासलो की,

'मोटो तूं क्रिकेटवालो! म्हजी घड्याळ सारकी करून हाडटां म्हूण तुवें व्हेली आनी चोरबाजारांत विकून वडयली. ते पयशे आदीं उडय आनी मागीर विचार स्कोअर!'

'तूं क्रिकेटर कित्याक जावंक ना?'

'कॉलेजींत आसतना पांयार फास्टबॉल बसलो तेन्ना हाड फ्रॅक्चर जाल्लें...'

ती वगी रावली. ताचें पायांचें पोन्ने दुखणें ताका खबर आसलें.

आतां तिनसांज भर जाल्ली. तिनसांज जावपाक लागली म्हणटकीत आपल्या खात्यावयलो एक दीस उणो जालो म्हणपाची जाणीव ताका जाताली. मळब चड्डूच काळसणत वतालें.

मागीर तिचें सुरू जातालें.

'चला.'

'कित्याक? किर्ते दंवरलां थंय, त्या घुडांत?'

'पूण, रात जाता न्हय, जेवपाचें ना?'

'अशें, आयज रातीक किर्ते, कोंबडी काय कुल्ल्यो. तो तुजेकडेन येवपी तरणाटो ऑफीसर आयज येवपाचो आसा काय किर्ते?'

'तोंड बंद, एक उतर उलोव नाका तेबद्दल.'

'नाका, कित्याक नाका? तुका तो आवडटालो. ढणढणीत दीस आसतना तूं ताका लागीं घेवन बसताली. ताचेखातीर कोंबडी कुल्ल्यो करताली.'

'हयवय, करतालीं. म्हाका तो आवडटालो आनी ताका हांव. त्या वयांत इल्लें सुख मेळ्ळें म्हाका. नशिबांत आसलें. ना जाल्यार तुजे कडल्यान किर्ते मेळपाचें? तुजे ते एक एक फुडारी. शीः, किर्ते तांचीं खुमणीं एकेकाचीं. पळयतनाच गांठ विट्टाली. किर्ते ते तांचे केन्नाच शाबू आफडूंक नाशिल्ले कपडे, किर्ते तांच्या आंगाचो वास. आनी शेंटांनी चिरवो भरिल्ल्यो. जांकां आपणाल्या आंगाची नितळसाण

जमना ते खंय देशाक नितळ करपाक भायर सल्ल्यात! खोंटल्यांनी पळयले देशसेवक! तांचे परस तो ऑफीसर शंबर वांट्यानी बरो. तो आयलो म्हणटकीत म्हाका बरें दिसतालें, देखून तूं म्हजेर जल्मभर जळ्ळो. किर्ते मेळ्ळें तुका ताचेर जळून?'

'फकत हांवूच जळ्ळो ना, ताकाय सोंपयलो.'

'आं, किर्ते?' माई उसळ्ळी.

'तुजेकडेन तो येतालो, तेन्ना गॅलरींत हांवूच भुरग्यांक हाडून बसयतालों.'

आबा हांसत सुटलो.

आबाचें तें खुनशी हासें तिका सहन जालें ना. ती भितल्ल्यान पेटिल्ली.

'उलय, वग्गी कित्याक?'

'तूं, तूंच उलय. कसले कसले पराक्रम तुवें केल्यात तें आयकुपाचें आसा म्हाका.'

'आयकतलें? आयकतलें? तुका खबरच आसा. तुका आनी ताका कोरे सायबान पुराव्यासयत धर्ल्लीं आनी मागीर ताका येतिश्ट पेटीत वडाळा स्टेशनामेरेन व्हेलो. हें सगळें हांवे अरेंज केल्लें.'

तिचे नदरेमुखार आतां तें सगळें जशाक तशें उबें जालें... कोरे सायब घरा येवन बशिल्लो. जो म्हज्या फुड्यांत पडटालो ताणेंच म्हाका परकी दादल्यावांगडा न्हिदपावयल्यान लेक्चर मारचें!... त्या कंवळ्या पोराच्या सोणकुटार ताणें सणसणीत फुलयल्लें थापट, मागीर कोल्या-कुत्र्या मुखार मांस उडोवचें तशे तरेन ताका त्या पोरांच्या हातांत दिलो. पोरांक तेंच जाय आसलें. जाणें ताणें हाताची खाज भागोवन घेतली. ताची घड्याळ, ताचें पाकीट फारायलें. मुदी माल्ली, कपडे पिंजले. कॉलनीतल्यान वडाळा स्टेशनामेरेन ताका पेटीत पेटीत व्हेलो... बाबडो तांच्या गळवञां येतालो, काकुळटेक येवन रडटालो. रगतान न्हाल्लो. पूण कोणाकूच ताची काकुळट येवंकना. खंय गेलो काय बाबडो, किर्ते जालें निमाणें ताचें?

माई वग्गी आशिल्ली. आतां काळोख जाल्लो. मागीर केन्ना तरी आबान या म्हटलें आनी ती उठली.

तीच आडसाक आशिल्ली दोन मनशांक पुरती कूड. काळखांतूच तिणें उसळ-पाव खावन शेंद्री पातळ्ळी. आबा लवंडलो. आज कितल्याशाच दिसांउपरांत आपणें एक गुपीत फोडलें हाचें ताका एकेपरीं मनातल्यान समाधान जाल्लें. सुस्त बरी न्हीद येवपाखातीर मनांत थपकल मांडून बशिल्ल्यो गजाली भायर घालपाकूच जाय अशें ताका दिसलें.

तो आनीक जायतें सांगत रावलो... ती आसलीच, आपुणय लैंगीक बाबतींत सदळ चलणुकेचोच. बाजारांतले एके भाजीवालेकडेन आपलें सूत आसलें. आनी

जेन्ना ती न्हाल्ल्या दिसांची आसली तेन्ना आपणेंच गर्भ झडोवपाचें वखद हाडून दिलें. चिंतलें, तिका भुरगें जाल्यार बेठोच बोवाळ जातलो. पूण तें वखद घेवन ती ताच्या मार्गातल्यान सासणाखातीर पयस जाली, ती भायर पडली.

असल्यो यादी सांगताना ताका आतां आपलो-पयसुल्लो ही भावना नासली. ताका मजा दिसताली. सिंदबादान व्हडले भोंवडेरसून आयले उपरांत भोंवडेच्या यादींची पोटली सोडतकीत आयकतना पातशहा जसो भुल्लसून गेलो तशें तिचें जावपाक जाय अशें आबाक दिसतालें.

ही याद सांगता सांगतांच ताचो दोळो लागलो. तो जागो ना, सुस्त न्हिदला, हाचो ताका हालोवन माईन अदमास घेतलो आनी मागीर ताच्या हड्ड्यार बसकण माल्ली आनी न्हेसणाच्या सोडिल्ल्या ओच्यान ताचो गळो सगली शक्त लावून आंवळून धरलो.

आबान दोळे उगडले.

माईन म्हटलें, 'उणाक मनशा, म्हज्या पोरांचे हाल केले तुवें, आतां घे पानवळ...'

मागीर आबान दोळे मेटले... ताका उलवपाक येनासलें... पूण, ताचे वंठ हालून सांगताले... 'मार... मारून उडय म्हाका!'



6

# मामलेदारसायब आसातूच

**मूळ मराठी : श्याम मनोहर**

**कोंकणी अणकार : सुरेश गुंडू आमोणकार**

साताठ जाण सप्तकांत एकमेकांक वा ग्रुपान एकमेकांक खंय ना खंय तरी मेळटालेच अशे नासलें. साताठ जाणांचे संवयेंत सारकेंपणूय आसा अशेंय नासलें, पिरायेनय ते एकसारके आसात, अशेंय नासलें, तांच्या वेवसायाचें एकमेकांकडेन भितरयां ओंविल्लें सूत नासलें, आडनांवावयल्यान एकमेकांच्यो जाती कळिल्ल्यो, मात जातीभेद ना करपाक जाय, अशें त्या सगल्यांचेंच मत आसलें. आनी तांचे मदलो एकादरो साठे बापायच्या स्राद्धाक एकादऱ्या मलकापूरवाल्याक ब्राह्मण म्हणून आफोवपाकूच जाय, अशें म्हणी नासलो. म्हळ्यार मलकापूरवाल्याची जात सारकी कळपाक कळाव लागलो हें खरें.

तांतुतले दोगजाण पयलींच सामके लागींचे इश्ट आसले. त्या दोगांनी ग्रॅज्युएट जातकीच बँकांत आनी तांतुतले तातूंत नॅशनलाइज्ड बँकेंत नोकरी लागची म्हूण सुमाराभायले यत्न केल्ले. एकाक बँकेत खरीच नोकरी मेळ्ळी. दुसऱ्यान चिकाटेन हाका मेळ ताका मेळ केलें, बँकवाल्यानूय आपल्या भितर घेवपाखातीर यत्न केले, पूण तें जमलें ना. हाचें दोगांकूय वायट दिसप सभावीकच आसलें, आनी दुसरो तात्पुरतो म्हूण शिक्षक जालो.

म्हणजे स्पश्ट आशिल्लें शिक्षकाक शिकोवपांत उमेद नासली. पोरांक शिकयतना अॅडल्ट दिसना, अशी ताची कागाळ आसली.

''भारतांत खंयच्याच वेवसायांत मजा येना कित्याक जंय थंय रेडटेपिझम आसा.'' बँकवालो जाप दितालो.

शिक्षकाक शिकोवपाचे पोरणे पद्धतीची तिडक मारताली, हेडमास्तर बुरसट आसा आनी शाळेचे इमारतीकडच्यान इतलीं वाहनां पों पों करीत येतालीं की दनपारच्या पिरयडीक केन्ना न्हीद येवंची आनी केन्ना सेक्स चाळवंचो अशें जातालें.

शिक्षकाचे जिणेक कलाटणी दिली मामलेदार सायबान. मामलेदार सायबान शिक्षकाक म्हळें, ''आरे तूं सायन्स ग्रॅज्युएट. ही केदी बुन्याद... नव्या गणिताच्या

उदकांत हात धुवन घे... शिक्षणांत बदल जाता, मातश्या उक्त्या दोळ्यांनी पळेयात.''

तो मेरेन शिक्षकाक शिक्षक जातकीच ट्युशनां दिवपाक येतात, हें खबर आसुनूय, तांचेविशीं केन्नाच उत्साह नासलो. त्या बाबड्याचे तकलेंत बँक एके बँकूच बशिल्ली. पूण मामलेदार सायबान शिक्षकाक उर्बा दिली. हुरूप दिलो, जिवसाण दिली.

सकाळीं बेग्गीन उठून शाळेंत वचसर आनी शाळेंतसून येतकीच जेवीसर एका फाटसून एक बॅचीस घेवन शिक्षकाचो कणो धरतालो, मांडयो आंवळून येताल्यो. अंतर्मनांत फीयेचो आंकडो हें टॉनिक आसलें. जाय तितली गांठ जातकीच केन्नातरी कितेंयतरी आपल्या पांयार करपाच्या विचारांत शिक्षक ओडीन उत्साहान गुल्ल जातालो. मोगान जसो मनीस भुलूं येता, तसो शिक्षक फुलतालो. आनीक सप्तकभरच्या काडाओडी उपरान्त आयतारा रसरशीत पिक्चराक वतालो. ताका तें पळोवन गोडसो धपकोच बसतालो- सामक्की फावो तसले पिरायेची डिम्पल राज कपुराक मेळटा किर्ते आनी तश्शी फावो तसली स्टोरी बरोवंक येता कशी किर्ते, पूण डिम्पलाच्या अभिनयाक खुबूच लिमिटिशन्स (मर्यादा आसात) हें तो भोवन भोवन बँकवाल्याक वाद घालून पटोवन दितालो. बँकवालो म्हणटालो, डिम्पलान वेगवेगळ्या तरांच्यो भूमिका केलेबगर अंदाज लागप कठीण.

शिक्षकाकडेन चड वेळ वा चड फावटीं झांकड्यो मारूंक येवप बँकवाल्याक जायच नासलें, कित्याक केन्नाय पळेल्यार शिक्षक एँगेज्ड. म्हूण बँकवालो उसरपत मेळटकीच मामलेदार सायबाकडेन वतालो. मामलेदार सायबाक कामां हजार. वांगडा कोणूय आसल्यार तर मातपसून अडचण दिसनासली. वांगडच्याक स्कूटरीचेर घेवन तो शारांत ह्या पोंतापसून त्या पोंतामेरेन जळींमळीं वतालो, खंयसर तरी ताचे मावशेच्या घोवाची पिठागिरण आसली थंयसर वच; थंयच मावशेच्या घोवाचे आत्याच्या घोवाचें टेम्पोचे ऑफीस आसलें, योगायोगान जायत्या जाणांच्यो गांठी-भेटो जाताल्यो. मामलेदार सायबाच्या साडवाची सहकारी तत्त्वाचेर चलपी दुदाची सोसायटी आसली - त्या ऑफिसांत केन्ना वच, तर केन्ना मध्यान रातीं, लागीं लागीं मसुंडेंतूच आशिल्ल्या, इश्टाच्या रेडिओच्यो काशी तयार करपाच्या कारखान्यांत वच - त्या कारखान्यांत कामगार लोक चड दीस तिगनासले ही एक हुसक्याची गजालूच जाल्ली. केन्नाय मामलेदार सायबाक ताच्या बॉसाच्या शारालागसरच्या शेताभाटांचेर वचचें पडटालें; पूण थंय जाय तितल्यो पिपऱ्यो खा... मामलेदार सायबान नोकरी सोडून चारपाच वर्सां जाल्लीं, म्हळ्यार हो भाटकार मामलेदार सायबाचो आदलो बॉस. आदल्या बॉसाकडेन ताचें बरेपण आसलें; मामलेदार सायबांक आजुनूय ताचे इश्ट आप्त मामलेदार सायबूच म्हणटात; कोण

कोण म्हणटात मामलेदार सायब केन्नाच मामलेदाराच्या पदामेरेन पावलो ना; तर ताचो बॉस होच खरो मामलेदार. कितेंय आसूं, मामलेदार सायबाक रेव्हेन्यू डिपार्टमेटांतले लांचखोरीचो इतलो त्रास जाल्लो; वीट आयिल्लो; आनी नोकरी म्हळी की मनशाची एकाच आंगाची वाड जाता अशें ताचें मत आसलें. जिणेक रुखाची ओपार दिवन तो म्हणटालो, रुख जसो पानां, फुलां, फळां, मुळां, साली हांचे सयत विस्तारता, तशें आयुश्य विस्तारपाक जाय.

अशे तरेन मामलेदार सायब उत्साहाचो, चैतन्याचो स्पर्श वचत ताका करूंक पळेतालो.

साताठ जाणांचो म्हूण जो ग्रूप आसलो तो म्हळ्यार ताचो साडू, मेवणो आदींचो न्हय. शिक्षक, बँकवालो, स्टेशनरी स्टोरवालो असल्या सारकिल्यांचो. त्या सगल्यांचें जिवीत हो एक वेवसाय आसा, अशें कांय सुभाशित नासलें. पूण जो तो आपल्या उद्देगांत इतलो गुंथिल्लो की साताठजणलेगीत एकठांय येवन वा एकटो दुसऱ्याक, दुसरो तिसऱ्याक अशे सप्तकांत, पंद्रशेंत मेळटालेच अशें नासलें. वा कोणा एकागेर सत्यनारायण वा लग्न इत्यादी आसल्यारूय साताठजाणांक आमंत्रणां आसतलींच आनी साताठजाण एकठांय एकदमूच येतले, मेळटले वा एकेकटो तरी समारंभाक येवन वतलोच अशेंय नासलें. शिक्षक वचनासलो काय कितें सिनेमाक एकटोच आनी चडूच जाल्यार ताचे शाळेंतल्या खंयच्या एका वांगड्यासयत. जर शिक्षकाक विचारलें, बाबा रे, तूं इतलो पयसो जोडटा, बँकवालो तुजो पयलींपसून आमीग तर आमीगाक कितलेदां पिक्चराक व्हेलो? तर तो सांगतलो, आसत दोन चारदां, हालीं हालींसराक, टायम एकमेकांकडेन जुळवप कठीण जालां, आनी शाळेतले वांगडी सटकरून मेळटात, आनी तांचेवांगडा पिक्चराचे प्रोग्राम आपशींच जातात. जर बँकवाल्याक विचारलें, बाबारे, तुजे भयणीचें फाटल्या वर्सा लग्न जालें, सुवाळ्याक मामलेदारसायब दिसलोना, तर तो जाप दितालो, आमचेकडेन लग्नकार्य म्हळ्यार व्हंकलकाराची कितली धांवपळ जाता, तुमकां खबरूच आसा आनी ते-भायर हांव दिवाळेक फुगोट्यांचें दुकान घालपाच्या बोवाळांत आसलों, ते भायर भांगर घेवं गेल्लेकडेन शेट म्हणपाक लागलो, मामलेदार सायब भायर गेला. खरें म्हळ्यार मामलेदार सायबाच्या घरा फावट मारपाक जाय आसली, पूण आज वचचें, फाल्यां वचचे करीत उल्लेंच तें. खरें म्हळ्यार मामलेदार सायब असल्यो गजाली घेवन बसना. तरी देखून, क्षमस्व!

जशे परीं मामलेदार सायबान सगल्यांक एकदां चैतन्याचो स्पर्श केलो आनी तो मरून गेलो. तशेंच उरिल्ल्यांचें.

एकदां मामलेदार सायबान सडसडीत शिक्षकाकडेन, बँकवाल्याकडेन, स्टेशनरीवाल्याकडेन आदींकडेन जीप भोंवडायली. कोण जंय आशिल्लो थंयसून

झटपट एकेकट्याक झपाझप जिपींत घालो. जीप शाराभायर सरली. लागसरच्या खेडेगांवाकडेन. ताचो साडू ड्रायव्हींग करतालो. मामलेदार सायबाक ड्रायव्हींग खंय येतालें?

शाराभायलो डांमरी रस्तो सोंपतां सोंपतां सगल्यांक कळ्ळें, मामलेदार सायब त्या खेडेगांवात एक जमीन विकती घेवंक सोदतात.

मागीर,

''बागायतीची व्हय?''

''इरिगेशनची कितें सोय आसा?''

''कितली एकर?''

''दर कितें?''

''ॲग्रीकल्चर टॅक्स येतलो बेगीन.''

''आयल्यार येवंदी, वाटो मेळत, तशें धावपाचें. तातूंत कितें? ते भायर मामलेदार सायब आसाच. समाजवाद येता हें लांडगो आयलो रे आयलो हे काणयेवरी जालां.''

अशी चर्चा जाली. हांसप जालें, मदीं जीप थारावन एके खोपींतल्या रेस्टारंटातलो चिवडो, स्पेशल चा जालो. सिग्रेटी जाल्यो. ॲग्रीकल्चर उर्फ धरणीमायेचें अर्थशास्त्र जालें.

मागीर जीप डांमरी रस्तो न्हयकारून रस्त्याक लागली. साडू ड्रायव्हींग सॉफ्टय करतालो, हार्डय करतालो, गचके बसताले, धुल्ल उबतालो, बशिल्ले सुवातेर पॅसेंजर उसळटाले, एकमेकांचेर लकताले, लवंडताले, वोताक लागून घामसाणीन दसताले, वोताची तिरीप जिपींतल्यान भोंवताली, जिपी भायर रानांतली सैमाची सोबिताय दिसताली, अशें करीत करीत जीप शेताकडेन थारली. सगले देंवले.

ताकतिकेन शेताचे दुसरे कडेवटेंतल्यान शेतकार धांवत आयलो, मामलेदाराक आनी ताचेवांगडा बाकीचे म्हणून ताणें सगल्यांक रामराम म्हळें. मागीर कळ्ळें, ताका ताच्या मामाचे मालकीची जमीन विकपाची आसा.

उदक जाय नाका जालें.

'हीच जमीन.' शेतकारान म्हळें.

मामलेदार सायबान पायांतली चप्पल काडून उकते पांय शेतांत तेकयले, आंगट्यांनी माती उस्तिली. बांय खंय आसा?''

''तशेच चलात फुडें देगे देगेन.'' शेतकाऱ्यान म्हळें. बांय पळेल्यार निखटो फोंडारो; बांदकाम शून्य, आनी उदक पावलभर.

''हें साठवल्लें उदक दिसता'' मामलेदार सायबान म्हळें.

“हेट्टऽऽ, मनगटा एदो झरो आसा भितर, धड कोसळून पुरवला. पुरूसभर खणल्यार उदक नेटान उसळटलें.”

“म्हणजे बांयकूच पांच सात हजार लागतले.”

“इतले कित्याक? हजार दोन हजारांत भागतलें. आतां झकपक जाय जाल्यार अदीक खर्च येतलो, हांगा मात्शें फुडें सामक्या सुक्या सड्यार खुद्द गुजर डाक्टरान बांय मारल्या. खडपी जमीन. खोल खणचें पडलें. धा बारा हजार ओतले बांयत. खूब जिद्दीचो आनी नशिबवान, उदक लागलें, कांद्याचेरच एकराक चाळीस हजार काडले.”

“जमीन कित्याक काडल्या विकपाक?” स्टेशनरीवाल्यान विचारलें.

“आमचो मामा जाला म्हातारो, एक पूत आसा, पूण ताच्या आंगांत कर्तुत्वच ना.”

“मागीर तुमी घेनात जमीन?”

“चलन जाय काय नाका?”

मागीर मामलेदार सायबावांगडा सगले जाण शेतांत हेवटेन तेवटेन भोंवले; कोणें व्हाणे खाला दिफळ फोडलें. कोणाच्या पायांत चपलेंतसून कांटे तोपले. वोत खर जावंक लागलें, तशें कोणें तकलेक लेंस बांदले, कोण चड उकडटा म्हणून मनिलाचे खोमसाचे बुतांव सोडून, बानयानाचे भितर फूंक मारूंक लागलो.

अशें करीत सगले परतले. जिपीकडेन आयले.

शेतकारान म्हळें, ‘घराकडेन वचुंया, इल्लें कितेंय खावन चलात. वोताचो वेळ वगत जाला. पोटाक थाकाय येतली.”

पूण मामलेदार सायबान म्हळें, वेतात आमी. घराकडेन सोयरे आयल्यात; मागीर कळयतां.”

“केन्ना?”

“दोन चार दिसांभितर; जमनीक चड उतार खूब; भर घालप म्हळ्यार परतो खर्च आयलोच, शिवाय बांयचो खर्च. आमी शेत करतले म्हळ्यार सारके करतले; अडाण्याभाशेन वेव्हार करून कशें जातलें? एक एक पयसो मोडपाचो म्हळ्यार विचार करपाकच जाय.”

“तें तर खरेंच. पूण ही जमीन कश्ट केल्यार फटवंची ना इतलें सत्य हांव सांगन. आनीक पळेयात, गांवूय बरो. दुसरेकडचे लोक येवन हांगा शेत करपाची संवय लोकांचे आंगवळणीं पडल्या. कांय गांवां अशीं आसात भायल्या लोकांक गांवचा शेतांनी पांय रोमूंक दिनांत.”

“तशें करून कशें जातलें? हो सगलो देश हेवटेन तेवटेन सगल्यांचोच. तुमच्या भागांतलो खासदार दिल्लीत बंगलो बांदिना तर?”

''तेंय बी खरेंच. पळेयात आनी कळयात कितें तें.'' अशें उलोवणें चलतनाच सगले जिपींत बसले. साडवान जीप परतिली. शेतकारान निरोप दिलो.

फोंडकुलां हुपीत जीप भायर सरली. मामलेदार सायब जमीन घेतलो काय ना, वा कोणाखातीर जमीन पळेल्या हें विचारपाची कोणाकूच गरज दिसली ना. मामलेदार सायब वेव्हार जातकीच सारकें बरें समजावन दितलो. मागीर शेतकाराकूय दिसचें ना आपूण फटवलो म्हूण. आनी कायद्याकूय दिसतलें मामलेदार सायब आपले भितर आसून आपले भायर आसा. मामलेदार सायबाच्या परिवारांत फायदो आपशींच झिरपतलो, एकाद्र्याक म्हातारपणांत आपशींच सैमीक मर्ण येता तशें. मात मामलेदार सायबाच्या परिवारांतलो जावंक जाय आनी ते तशें कठीण नासता. म्हणून हुस्क्यामेकळ्यो झांकड्यो चलिल्ल्यो; हांसपबिसप चलिल्लें.

मामलेदार सायब कांय इतल्या तितल्या प्रवासान थकपी न्हय वा तशी ताची पिरायूय थकून वचपासारकी नासली; ताचे बायलेची पिरायूच खरें म्हळ्यार शिक्षकाचे पिराये एदी आसली. हें खासा मामलेदार सायबानूच म्हणिल्लें. दोनूच अपुर्बायेचीं भुरगीं; हजारांनीं इश्ट.

आनी मामलेदार सायबान जांबय दिवपाक आं मात केलां तोंड मेटलेंच ना. खरें म्हळ्यार तें कोणाच्याच लक्षांत आयलें ना. पूण मामलेदारसायबाच्या ताळ्यांतसून घूर्ऽऽऽ घूर्ऽऽ आवाज येवंक लागलो. आनी अदीकूच वाडपाक लागलो. ताळ्याच्यो शिरो तट्टटून फुगल्यो. एकाद्या विचित्र जल्माक आयिल्ल्या पोराचो वर्तमानपत्रांत फोटू येता, तसलें मामलेदार सायबाचें तोंड दिसपाक लागलें. मामलेदार सायबाची अशी नुरा कोणेंच पळोवंक नासली, अशी वेळूय येत अशें कोणाक दिसूंक नासलें. ओ द कोलनचो मंद वास येवचो ताच्या चेऱ्याक आनी हें कितें? लक्षांत आयलें तशी एकदम जीप थारली.

मामलेदारसायब धप्प करून कोसळ्ळो तो मास्तराचे मांडयेचेर. भ्रश्टाचारा-आड आदी सारकेल्या मोर्चांतल्या आपल्याच वांगड्यान मोखिल्लो फातर आपल्याचेर येवन परतो आदळचो, तशे तरेन मामलेदार सायबाची मान अकस्मात आनी जड जावन मास्तराचे मांडयेचेर कोसळ्ळी; आवडीच्या मनशाची तकली मांडयेचेर घेवपाची आसल्यार मांडयेची मोवशी मांडामांड करची पडटा; एक तर मास्तराक तशी संवय वा अणभव नासलो. आनी आतां तर हें इतलें अकस्मात घडिल्ल्यान मांडयेत मोवसाण हाडपाक शिक्षकाकूय उसरपत मेळ्ळिना. उरफाटें, भुंयकांप जांवचो तशें शिक्षकान आंग काडलें, मांडयेक मुको मारच बशिल्लेवरी जालें. साडवान मामलेदार सायबाची मान मातशी वयर उखलून सारकी केली, तेन्ना मास्तरान मांडयेची रचणूक सारकी केली. तशीं धरिल्लीं जांगडां सुटलीं.

खीणभर मास्तराक मामलेदार सायबाचे बायलेची पिराय आनी आपली पिराय सारकीच आशिल्ल्याची जाणवीक जाली. हें सारकेंपण खोंचक आसा अशें ताका दिसतालें, ते भायर ताका मामलेदार सायबाच्या दणकटपणाची आनी तातूंतले मस्तेची खर जाणवीक जाली, मामलेदार सायबाचे कुडीचो, ओ द कोलन भरसल्लो घामट देहाचो स्पर्श जाल्लोच. मामलेदार सायबाच्या व्यक्तिमत्वांतली मस्ती आपल्यांत देवंची, आपणें भोगची अशे कात्रेंत मास्तर सदांच सांपडटालो. आनी ती जाणविकाय उचांबळून वयर सरली. ट्युशनां दिवपाक फावो ती उमेद ताका मामलेदार सायबान दिल्ली, आनीक एकतरेची उमेद खांद्यार हात दवरून ताच्यान दिवं येतली; मास्तर उपकारी भावनेन मामलेदार सायबाच्या चेऱ्याकडेन पळेत रावलो. मामलेदार सायबाचो जबडो कितलो भिरांकूळ दिसतालो, आनी मामलेदार सायबाचें वाटकुळेंच पोट मास्तराच्या हड्ड्या मेरेन धड् धड् उसळटालें.

सगल्यांचो धीर सुटिल्लो. जीप खूब वेगान डॉक्टराकडेन व्हरची जाल्यार साडवाक दिसतालें आदीं मामलेदार सायबाचो जबडो मेटूंक जाय.

एकल्यान मामलेदार सायबाची मान मातशी वयर उखल्ली, दुसऱ्यान मानेसकयल हात घालो, शिक्षक आदींच एन्गेज्ड आसलो, चवथ्यान मामलेदार सायबाची तकली हाताच्या पोश्याच्या कमळांत अळंग धरली. साडवान अळंगपणान मामलेदार सायबाचे गोमटेच्यो शिरो चोळळ्यो, शिरो सदळ जातकीर तरी ऑं मेटचो, पूण ना तो धांपलोच ना.

मास्तराक ट्युशनां दिवचो इतलो स्टेमिना, पूण मास्तराचीं जांगडां आंखडून गेल्लीं, घट्ट जाल्लीं, पूण शिक्षकान थारायलें, मामलेदार जगूं वा मरूं, मांडी हालवप ना. तांच्या मदल्या कोणाचेरूय अशी पाळी आयिल्ली जाल्यार दर एकलो हेंच थारावपाचो, कित्याक मामलेदार सायबान दर एकल्याक पयशे जोडपाक लागपी धिटाय शिकयल्ली. आनी मामलेदार सायबाविशीं दर एकल्याक आदर दिसतालो, तशें पळेल्यार एकमेकांविशीं एकाच व्हड्यांत बशिल्लेभाशेन आपुलकाय दिसताली. दोळ्यांत मात्य उदक येवंक दिनासतना, हो समाज आपलोच आसा हाची इतली स्पश्ट जाणवीक मामलेदार सायबान तांचे मदल्या दर एकल्याक इतली दिल्ली की ताका लागून मामलेदार सायबाचें जड वजें समजिकायेन सोंसप दर एकल्याक सहज जमतलें आसलें.

डॉक्टराकडेन वचपाची वेळ येवचे पयलींच मात्य उसरपत घेनासतना थंयचे थंयच मास्तराचे मांडयेचेर मामलेदार सायबान जीव सोडलो. खीणभर सगळेकडेन काळखेलें. मामलेदार सायबाचें पोट देवलें. जबडो खडांयच करून, निमाणें कांयच उलयनासतना बंद जालो. जीप नाशिल्ली जाल्यारूय आनी प्रसंग पडिल्लो जाल्यारूय मास्तर एकटोच मामलेदार सायबाचें मडें आपल्या खांद्यार मारून ताच्या घरामेरेन

व्हरतलो आसलो. शिक्षकाच्या मनांतली ताची आनी मामलेदार सायबाचे बायलेची पिराय एकच आसा, ही भावना सामकी वितळून गेल्ली, आनी शिक्षकाभाशेन तांचेमदलो दर एकलो अशेंच करतलो आसलो हातूंत दुबाव तो कसलो? आनी मामलेदार सायबान वा तांच्या पस्विारांतल्या कोणेंय ती जमीन खरेदी केल्ली जाल्यार ती धरणीमाय पयशांचीं झाडांय रुजोवन दाखयतली आसली, हातूंत तरी कितें दुबाव?

मागीर खूब दिसांनी मास्तर टेम्पोवालो, दूद सोसायटीवालो अशे पिवपाच्या निमित्यानं एकठांय आयले. बँकवालो कामानिमतान खंयतरी भायल्या गांवाक गेल्लो, म्हळ्यार बी बियाण्यांची एजन्सी मेळोवपाच्या बोवाळांत आसलो, ताका लागून तो आयलो ना, ताचो तसो 'उडसे' रेकाद आयिल्लो. स्टेशनरीवाल्याकूय येवपाक जालेंना, कित्याक तो विद्यार्थ्यांखातीर कसलें तरी हॉस्टेल काडपाच्या बोवाळांत आसलो, त्या हॉस्टेलांतच एकाद्री कूड मेळ्ळयार थंयच ट्युशनाचो वर्ग घेवचेलो शिक्षकाचो विचार आसलो. मागीर मात स्टेशनरीवाल्याची आनी शिक्षकाची गांठभेट जावपाची शक्यताय निर्माण जातली आशिल्ली. हेर जायत्या जाणांमेरेन रेकाद पावोवप जमलें ना. सहज म्हणून जे आयले ते तिगूय एकठांय जाले.

मामलेदार सायबाचो मासकां दिस वा वर्सस्राद्ध घालपाक सगले एकठांय येवपाक कोणाचीच हरकत नासली, पूण आतां पिवपाच्या निमतान एकठांय येतकूच, पियेतकूच जो रिलिफ मेळटा तेखातीर तिगेय उत्सूक आसले. एके पसरट, व्हडले बशयेंत उकडून सोलून दवरिल्ले तांतयाचे धवे हळडुवे कुडके खंयचे तरी प्रतिसृश्टींतल्या फुलावरी दिसताले, तांची रूच तिगांकूय पयलींच कळटाली. बशयेचेर पारव्यांची नक्षी आसली.

ग्लास भरून जाले.

मास्तरान म्हळें, ''मामलेदारसायब भायर पडूंक नासलो जाल्यार कितलो व्हड जातलो आसलो?''

''मामलेदार सायब कलेक्टरसायबा इतलो व्हडलो जातलो आसलो, दादासायब जातलो आसलो, नायजाल्यार तांचीं भुरगीं तांकां दादा म्हणटालींच.'' साडवान म्हळें. मास्तरान म्हळें,

''आनी आमीय कितले व्हडले जावपाचे?''

कुस्कूट बिस्कूट दोळ्यांत गेल्ले भाशेन मास्तराचे दोळे ओलसर तांबशे जाले.

''आमी कितले व्हड जावपाचे हें कित्याक? आजून आमी आसातूच. इतलेंच कित्याक, आमच्या दर एकल्यांत मामेलदार सायब आसातूच आनी हें कितें हांव दोळ्यांत उदक हाडून सांगिना. दुडवांच्या वेव्हारांत जशें दोळ्यांत उदक हाडून

उपकरना तशें मामलेदार सायबाचो उगडास करतना दोळ्यांत उदक हाडून उपकरचें ना.'' साडवान म्हळें.

विपरीतपणान शिक्षकाच्च्या ओंठाचेर मात्सो हांसो दिसलो. ताणें म्हळें, ''मामलेदार सायबाविशीं आमकां मोग दिसना, कित्याक मोग करपी आमी मामलेदार सायबांच्या आदींच मेले...''

''हें फट. काळ कसोय फिरूं आमी कोणूच उपाशी मरचेनात, ही केदी व्हडली गजाल मामलेदार सायबान आमकां शिकयली!''

''पियेतना खरें म्हळ्यार इतलें उलोवपाची कितें गरज आसा?''

मास्तरान म्हळें, ''कितेंय जावं, मामलेदार सायबांक कितलें बरें आनी कितलें सैमीक मर्ण आयलें.''

''हें खरें....''

''आमचे मदल्या दर एकल्याक सैमीक मर्ण येतलें हातूंत कितें दुबाव? ते मेरेन आमी मामलेदार सायबाभाशेन जगचें आनी जगवचें. आमकां कोणूच आडखळ करचो ना, करचीय न्हय...आमी कितें पातकां केल्यांत?''

''हें खरें...''

तिगांची थोडी धांदळ ... थोडो गोंदळ जालो. ताकतीक जाली. तिगांनीय भरिल्ले ग्लास उखल्ले.

मास्तरान म्हळें, ''चिअर्सऽऽ''



7

# कांय धडाचें न्हय!

## मूळ मराठी : रंगनाथ पठारे

## कोंकणी अणकार : नारायण देसाय

सुरवात तशी पोरणीच. पूण चड पोरणी न्हय. सुमार वीस वर्सांफाटली गजाल. म्हाका नवीच नोकरी लागिल्ली. भूंयविकास बँकेंत सुपरवायजराची. आयकूंक ही सुवात बऱ्या हुद्याची दिसल्यारूय खऱ्यांनी हें काम कारकुनाच्या पांवड्याचेंच आसता, हें पयलींच सांगतां. गरजेभायर गोंदळ नाका. सादारणपणान तालुक्याच्या गांवांनी आमचे फांटे आसतात. तांचेय परते बारीक बारीक झोन आसतात. एकेका सुपरवायजराक एकदोन झोन. कामां म्हळ्यार चड करून रिणां मंजूर करप आनी उपरांत हप्ते वेळार वसूल करप. हातुंतलें दुसरें काम भोवच किचकटीचें आनी तातूंत जायत्यो खटपटी करच्यो पडटात. पूण खटारे गाडयेच्या बैलाचो खांदो वर्सांसंकी काम करून जसो 'घट' जाता तशी म्हाका आतां संवंय जाल्या. पयलीं पयलीं हांव सायकलीन भोंवतालों. आतां पिरायेप्रमाण जायत तितलो बसीन वतां. शक्य नासत थंय सायकलीन वा चलत भोंवतां. लोकांकडेन म्हजे संबंद सादारणपणान बरे आसात. म्हज्या झोनांत वसुली चड करून सगल्यांपरस चड जाता आनी सगल्यांत चड लोकांक रिणांय म्हज्याच झोनांत मेळटात असो म्हजो लौकिक आसा. म्हळ्यार ताका जायतीं आनी तरेकवार कारणां आसात. पूण तीं व्हडलीं म्हत्वाचीं न्हय.

तर सुमार वीस वर्सांफाटीं नवोच नोकरेक लागतकच एक दिस हांव सिन्नर तालुक्यांतल्या एका भितल्ल्या गांवांत भोंवतालों. गांवांतल्या लोकांक मेळटलो जाल्यार एक तर सकाळींफुडें, ना जाल्यार सांजचे उसरां. ही वेवसायांतली शिस्त तेन्ना हांव शिकूंक नाशिल्लों. शेतां वा वस्त्यांचे मांडणेची व्हडलीशी वळख नाशिल्ली. शारासारक्या एका तालुक्याच्या गांवांत एका दर्ज्यागेर म्हजो जल्म. शेतभाट वा गांवगिरी जीण हांची खबर हयन्हयशी! मागीर नोकरेनिमतान बरीच जाली. पूण त्या दिसा ती नाशिल्ली. खूब भोंवल्यारूय वळेरेंतले लोक मेळनाशिल्ले. म्हजें नांव, काम बी सांगतकूच आनी म्हजेकडल्यान सगली खबर काडून घेतकूच म्हाका कसलोच

वास लागूंक दिनासतना मेळपी मनशां म्हाका कटयतालीं हें तेन्ना म्हाका कळनाशिल्लें. सकाळींच सिन्नरच्यान भायर सरिल्लों. आनी बारा-साडेबारा जातासर म्हाका बरीच भूक लागिल्ली. वत कडक पडिल्लें. आंग उकडून गेल्लें. चलून चलून उबगल्लों. तानूय खूब लागिल्ली. पूण वतां थंय मनशांच्यो रिकाम्यो वस्त्यो आशिल्ल्यो आनी वास लागलेबराबर आंगार उडी घेंवंक सोदपी येडझंवी सुणीं आशिल्लीं. हाकाच लागून, रस्त्याचे कडेक एके सुवातेर बांयचें उदक बालदेन काडपी बायलमनीस दिसतकच हांव नीट थंय गेलों. "पिवपाक थोडें उदक मेळत?" हांवें ल्हव आवाजांत विचाल्लें. बांयचें उदक ओडपी बायलेक आदीं म्हजी सुलूस लागूंक नाशिल्ली. आवाजान ती कांचवेली आनी म्हज्या उलोवण्याचो अर्थ कळटकच खूक करून हांसली. "ना मेळांक काय जालां? तां काय इकतां घेवचां पडटा?" तिणें म्हळें.

तरणाटीच आशिल्ली. लग्न जाल्ली. गांवांनी लग्नां बेगीनूच जातात आनी त्या काळांत त्यो चलयोय पिश्या रानफुलांवरी फुलून येतात. तांचें जुवानपण अकालीं अल्पकाळ चंवरपी रुखाभाशेन आसता. चडूच तें दोन वर्सां तिगता. मागीर मातयेचो लेप आपसूक चडटा. तातूंत रगत, घाम, दुकां रकत रकत ह्यो तरणाट्यो खूब बेगीन म्हाताऱ्यो, जड्ड्यो जातात.

भोवच देखणी आशिल्ली ही चली. फुलिल्ले केळीभाशेन. हालींच फाटल्या मोसमांत लग्न जालां जांवंक जाय. घांसूनपुसून सदांच नितळ निवळ राविल्ले हात पांय, वतान तांबूस जाल्लो कोर आनी नितळ मेकळें हांशें. हांवूय हांसलों. हातपांय चोळून घांसून धुले. उदक पिलों. शेजरा शेतांत पोपायांचीं झाडां आशिल्लीं.बऱ्यो पिकिल्ल्यो नकसूद पोपायो हुमकळटाल्यो.

"पोपय खातलेत?" तिणें विचाल्लें. कोणाक नाका जायत? ते घडयेक तर म्हाका भूक लागिल्लीच. कितेंय खपतलें आशिल्लें. थंय इतल्यो बऱ्यो पोपायो! पूण हांव चड करून अधाशाभाशेन पोपायांकडेन पळयतालों आसूंये. तें पळोवनूच बी तिणें विचारूंक नाशिल्लें मू? म्हाका लज जाली, वगीच रावलों. तिणें वाट पळयनासतना दोन पोपायो काडल्यो आनी म्हजे मुखार दवरल्यो.

"पुणून कापतलेत कश्यो?"

हय, खरेंच, कोयती, चाकू कांयच नाशिल्लें. तिणें शेवरीची बरीशी घटमूट बडी सोदून हाडली आनी भराभर फोडी करून दिल्यो. हांव मांडी घालून बसलों आनी सडसडीत खावंक लागलों. तिचे नदरेकडेन लक्ष दिवंक म्हाका फुरसत नाशिल्ली. खूब भूक लागिल्ली आनी पोपायो भोव रुचीक आशिल्ल्यो. रसरशीत आनी गोड!

"रवात. मी घरा जावन येतंय." तिणें म्हळें. आनी उदक घेवन गेली. वस्ती थंयच मुखार आशिल्ली, हें आतां लक्षांत आयलें. रानांत वस्ती, शेजराक बांय,

शेतांत पिक्यो पोपायो. वयलेवयर भोव सुखाचेंशें दिसपी हें चित्र. पूण तें नकली आसता. हें आतां हांव आत्मविस्वासान सांगूंक शकतां. तेन्ना मात तिचे जिणेचो म्हाका दुस्वास दिसलो. थोड्या वेळान ती आयली ती दोन भाकऱ्यो घेवन. तांबयो, ताटली, रोस, चटणी, कांदो.

''रिकाम्या पोटार पोपय बरी न्हू.''

तिणें मोवाळपणान म्हळें. म्हाका भूक लागिल्ली. सकाळच्यान हांवें कांयच खांवक नाशिल्लें. हें सगलेंच तिका होलमल्लें आनी तिणें तें उक्तावन दाखयल्लें. कसलेंच परकेपण दवरिनासतना ती म्हजेखातीर जेवण घेवन आयिल्ली. म्हजी भीड देंवली.

तिचें नांव सरस्वती. घोवाचें नांव तुकाराम सहाणे. तिका बरींच जाणां सरशी म्हूण उलो मारतालीं. नांवां अशीं सोंपीं करपाची चाल सगल्याक आसता. तिका चार वर्सांचो एक भुरगोय आसा म्हूण कळटकच म्हाका अजाप जालें. तितले पिरायेची ती दिसनाशिल्ली. तातूंतुय भुरगेबाळकान्न जावनूय ती हुशार आनी तरतरीत आशिल्ली. गांवांतल्या गरीब बायलांचे जिणेचे नदरेन हें जुळनाशिल्लें. तुकाराम तसो सादोच आशिल्लो. पिरायेन तिच्याकूय बरोच व्हड आसुंये. घोव-बायलेचो सुखाचो संसार आशिल्लो. गरिबी आशिल्ली-ती आसताच. पूण तातूंतुय मायेमोगान जियेताली. तिका छळूंक मांव-मांय, नण्डो, देर कोण नाशिल्लीं. तुकारामाचे दायजी गांवांत बरेच आशिल्ले-पूण ते पयसुल्ल्या नात्याचे! तांच्यो तांच्यो खेरीज वस्त्यो आशिल्ल्यो. तसो चड पावसाचो वाठार न्हय हो! पूण त्या काळार बांयांक लायटीचेर चलपी मोटर चडशे दिसनाशिल्ले. देखून उदकाची नासाडीय नासताली. खणिल्ले बांयक उदक लागल्यार तें भरपूर भरिल्लें भांडारशें आसतालें. तुकारामाचो मेंडरां पोसपाचो धंदो आशिल्लो. ताचें उलोवप, चलप-वागप सगळेंच एका मेंडक्यावरी-सादें, सरळ! खुरट्या गिड्ड्या तणाच्या ह्या वाठारांत होच तातूंतले तातूंत बरो धंदो आशिल्लो.

वस्तेक तेंकून तांची अर्द एकराची बाग आशिल्ली. तशी तांची आनीक वीस एकर सुमार जमीन आशिल्ली. पूण ती सगली सुकी-सर्दी! जोत, लाठ, लाठीचें सामान हातूंतलें कांयच आपलें अशें नाशिल्लें. मेंडरांचो धंदो आदींसावन चलत आयिल्लो. संसार बरो चलतालो. तुकाराम कश्टाळू आनी संसारी. सादारण जल्मजात हुशारेन जगपी गांवगिऱ्या मनशाचीं लक्षणां ताचेठांय दिसतालींच. तेभायर कितल्याय फायद्याच्या कसल्याय कलमाकडेन 'उतप ना, मातप ना, कोणाच्या दोळ्यांर येवंक दिवप ना' अशे तरेन विचार करपाची समजिकाय ताच्या सभावांत आशिल्ली. दोगांच्याय चलपा उलोवपांत म्होवाळ सादेपण आशिल्लें. खासा करून सरस्वतीच्या सभावांतलें नितळ निर्मळ मेकळेपण भोवच ओडलायणें

आशिल्लें. हांव तिच्या मायेस्त सभावाच्या मोगांत पडिल्लों म्हळ्यार जाता. इतली आरपार म्होवाळ सभावाची तरणी बायल हांवें आजवेर पळोवंक नाशिल्ली. तिणें चलतां चलतां म्हाका 'भाऊ' करून उडयल्लो.

तुकारामाक हांवें बांयचो अर्ज करूंक लायलो. कामानिमतान जायते खेपे येवप-वचप जातालें. काम नासल्यारूय ते वाटेन खंयूय पावल्यार, भयणीचे भेटेक ते वस्तेर वचून येतालों.

"लय दिवसांनी इलेत भाऊ. भैनीची माय उरांक नाय." सरस्वतीन म्हळें.

खरेंच, खूब दिसांनी गेल्लों. पयलें म्हळ्यार म्हजो झोन बदल्लेलो. सिन्नराकूच आशिल्लों पूण सरस्वतीच्या गांवावटेन सपसप पावपासारखें काम नासतालें. यो-वच थोडें उणे जाल्लें.

"तेंका तेंचीं कामां आसतत." तुकारामान म्हळें. कांयच काम नासतना हांव तांगेर गेल्लों. सरस्वतीक मेळचें, एक नदर घालची म्हूण गेल्लों. कांयच काम नाशिल्लें.

"बरें चल्लां न्हय?" हांवें विचाल्लें.

"मी बरी आसा. असो भाऊ असतकच..." सरस्वतीन उलोवप अर्दार सोडलें.

"कितें म्हण्टा तुकाराम?" हांवें ताका विचाल्लें.

"कांय धडाचें न्हू." ताणें म्हळें.

तुकारामाचो सभाव उक्तावपी हो ताचो खाशेलो उद्गार! बेठोच फुगून फुक्याच्यो बडायो मारचेली संवंय ताका केन्नाच नाशिल्ली. आनी कितलोय फायदो जालो वा सगलें कितलेंय बरें चल्ल्यारूय तो सदांच म्हण - "कांय धडाचें न्हू!"

"कित्याक म्हण्टा? म्हाका तरी चलता तें बरेंशें दिसता." हांवे म्हळें.

तुकारामाची बांय बरो झरो लागून भरिल्ली. चार एकरांची बाग जाल्ली. मेंडरांचो धंदो उणो करीत करीत ताणें बंद करून सोडिल्लो. बांयच्या उदकाचेर पिकां घेवन तो आतां जोडूंक लागिल्लो. संवसाराची गरज भागून उरसारखो दाणोगोटो घरांत येवंक लागिल्लो. संवसारूय फुलिल्लो. तांकां आनी दोन चेडवां भुरगीं जाल्लीं. सरस्वती आंगान थोडी भागिल्ली. पूण वाडटी पिराय आनी स्रमांक लागून तें सभावीक आशिल्लें. ती मनीं मानशीं घोवाक सांगात दिताली.

"बरां आसा. तुमच्या आशीर्वादान!" सरस्वतीन म्हळें. ती हांसली तेन्ना तिच्या मुखामळार ती आदली गोडी खिणभर झळकली. बरें दिसलें. तिचो व्हडलो पूत आतां आठ वर्सांचो जाल्लो, शाळेंत वचूंक लागिल्लो. तुकारामाची पत गांवांत वाडूंक लागिल्ली. हात राखून संवसार करपी हिशबी मनीस तो. घरांत स्टीलचीं आयदनां, चिनी मातयेच्यो कपबश्यो बी आयिल्लीं. दारामुखार दोन बैल आशिल्ले. पूण तुकारामाची चलणूक तशीच आशिल्ली. तिचेभितर व्हडलोसो बदल जाल्लो

दिसनाशिल्लो. गांवच्या कांय लोकांनी ताका ग्रामपंचायतीचे वेंचणुकेक बळ्यां उबो करून मेंबर करून घेतिल्लो. पूण जाल्यारूय तुकाराम बदलूंक नाशिल्लो. ताच्या घरांत वेगान बदल जातालो आनी तो शादूरसाणीन म्हणटालो -

''काय धडाचें न्हू.''

''फुलावराचे कितले घेतले फाटल्या मोसमाक?'' हांवें विचाल्लें. फुलावर म्हळ्यार फ्लावर. ल्हवू ल्हवू सगल्याची म्हाका संवकळ जाताली.

''तशे साताट हजार जालेत. पूण सारां-वखद, नडणी-बेणणी बी सगलो हिशोब केल्यार आनी काय?'' ताणें ल्हवूच म्हळें.

''कांय धडाचें न्हू! खरां मा?'' हांव हांसलों. तुकारामान ल्हवूच मान हालयली. हांवे ताचींच उतरां ज्युस्त वेळार शेंवटिल्लीं! खूब दिसांनी हांव गेलों देखून सरस्वतीन पुरणपोळयेचो बेत केल्लो. तिचेकडेन व्हडल्योश्यो खबरी जाल्यो नात. पूण मोग उक्तावपाक खूब खबरीच जावंक जाय म्हूण आसा?

नाशिकांतल्या आमच्या जिल्ह्याच्या ऑफिसांतलें काम सोंपलें. थंयच रावपाची वेवस्था आशिल्ली. ऑफिसावयल्या जाग्यांत आमच्या कर्मचाऱ्यांक येता तेन्ना रावपाक सादी सुवात आसा. सांगाताक हेर लोक आशिल्ले. पूण तांच्यो सांजवेळच्यो कार्यावळी कांयश्यो वेगळ्यो. तांचेपसून पयस रावपूच हांवें पसंत केलें. मुंबय-आग्रा मार्गार पांडवांच्या होंवऱ्यांचे दिकेक भोंवक भायर सरलों.

शिंयाचे दिस. काळोख बेगीन जालो. मार्गावेल्या दिव्यांक लागून रात चड बेगीन जाल्ल्याचो भास जालो. वाहनांचो गजबज व्हडलोसो नाशिल्लो. मार्ग सामको रितो आशिल्लो. दोनूय कडांनी दिवे पेट्टाले. पयस वचपी वाहनां अदीमदीं वेगान वतालीं तितलेंच मार्गाचें मेकळेपण भंगतालें. ना जाल्यार निखटी निवांत शांतताय. फाटल्यान एक रिक्षा आयली आनी म्हजे म्हऱ्यांत थांबली. भितर बशिल्ल्या मनशान म्हाका हटकिलो. खादीचे धवे कपडे, कडक फेर्राद तोपी इतलेंच आदीं दिसलें. मनीस सकयल देंवलो. पळय जाल्यार तुकाराम!

हांव अजापलों.

''अरेच्चा!'' हांवें सट करून म्हळें.

बऱ्याच दिसांनी अनपेक्षितपणान तुकाराम मेळिल्लो. विशेश म्हळ्यार ताचेभितर आतां नदरेंत भरपासारखो बदल जाल्लो.

''आरे, असो मदींच -''

''तिकडेन गेल्लंय.'' तुकारामाची जीब जड दिसली. दोळेय मातशे तांबूस दिसले. तोंडार हयन्हयशी सूज आशिल्ली. मागीर सोऱ्याचो वास भस्स करून आयलो.

‘‘खंय तिकडेन?’’

‘‘त्या सगल्या सायबांची पार्टी आशिल्ली.’’

तें म्हज्या लक्षांत आयिल्लेंच. पूण इतले बेगीन पार्टी म्हळ्यार मोठ्यार पडलें. आनी कोण सायब काय? मुखेल म्हळ्यार तुकारामान पिवपाक केन्ना सुरवात केली? सरस्वतीक हें खबर आसत काय? तिका कितें दिसता जातलें? अशे कितलेशेच प्रस्न म्हज्या मनांत उदेले. तुकाराम मेळिल्ल्यान म्हाका खरें म्हळ्यार खोशीच जाल्ली. फाटल्या चार-स वर्सांनी आमची गांठभेट नाशिल्ली. सिन्नरसावन म्हजी बदली जाल्ली. ताची वा सरस्वतीची भेट जावपाचें आतां कारणूच नासलें. तेभायर हांवूय आतां संवसारांत बरोच घुस्पल्लों. ना म्हळ्यारूय थोड्याभोव अणभवांनी निबर जायत वतालों. पूण जाल्यारूय तुकाराम असो मेळिल्ल्यान म्हाका खोशी जाल्ली. ताचो भेस, ताची उलोवपाची शैली ह्या सगल्यांतल्यान एके तरेचो आत्मविस्वास ओततालो. एका साद्या गांवगिऱ्या मनशांतलो हो बदल सुखदिणो आशिल्लो. हातूंत म्हजो थोडोभोव वांटो आसा अशी एक लिपिल्ली भावना आशिल्ली. पूण ताका पिल्ले अवस्थेंत पळोवन म्हाका मातसो धक्को बसलो.

‘‘खंयचे सायब?’’ हांवें विचाल्लें.

‘‘हेच आमचे भूंयविकासवाले!’’ ताणें म्हळें.

आमी चलूंक लागले. भूंयविकासवाले सद्याक सिन्नराक आशिल्ले लोक तशे म्हाका खबरूच आशिल्ले. तांचे भितल्ले कोण कोण पार्टेक आसतले हाचोय अदमास आशिल्लो. जाल्यारूय नांव विचारचेंशें थोडो वेळ दिसलें. पूण कितें फरक पडटलो आशिल्लो? आमचे लागींलागीं सगलेच लोक हालींसराक लोकांकडल्यान पयशे, पार्ट्यो घेतात आनी आमकां पगारूच इतले उणे - अशें कितेंय केलेबगर जुळप कठीण. तशें पळयल्यार हेंय काय धडाचें न्हय. कितलेय पगार वाडले जाल्यारूय संवंयो ज्यो एकदां लागल्यो त्यो कांय बदलनात. गांवखातीं कुत्र्यांभाशेन उस्तुपाची मनशाक एकदां संवय लागली की ती उरली. आमचे अख्खे यंत्रणेकूच ती लागिल्ली. कोण कितें करतलो?

‘‘तुमचेवरी लोक ना उरोंक आतां सायब.’’ तुकारामान म्हळें.

‘‘पूण तांचे वांगडा तुवेंय घेंवकूच जाय अशें खंय आसा?’’ हांवें कांयशें रागान म्हळें. ताका ‘तूं तुका’ करतना म्हाका अडचल्लेंशें जाता हें म्हाकाय जाणवलें. तो आतां मातसो पयशिल्लो दिसूंक लागिल्लो.

‘‘करूंचां पडटा. नाविलाज आसता.’’ तुकारामाची भासूय अशी बदलताली.

‘‘सरस्वती कितें करता?’’ हांवे मनांतलें विचाल्लें,’’ बरी आसा मू?’’

‘‘हय.’’ ताणें तुटकपणान म्हळें.

‘‘आनीक भुरगीं बाळांबी?’’

‘‘ना. कांय ना. एक पोरगो. दोन चेडवां भुरगीं. फुल्लइस्टाप.’’ तुकाराम मोठ्यान हांसलो. हें हांशे म्हाका नवें आशिल्लें.

‘‘पीक-फसल बी?’’

‘‘कांय धडाचें न्हू!’’

हांव हांसलों. जांव, इतलेपुरतो तरी तुकाराम आदीं आशिल्लो थंयच आशिल्लो. ‘उतप ना, मातप ना’ तत्त्व आजून आशिल्लें. तें वंठांरूय आशिल्लें.

‘‘पोल्ट्री कोण पळयता?’’ हांवें विचाल्लें. तुकारामान आतां व्याप बरोच वाडयल्लो. पोल्ट्री घातिल्ली. जर्सी गायो घेतिल्ल्यो.

‘‘मानाय आसा.’’

‘‘कोंबयो कितल्यो?’’

‘‘धा हज्जार.’’

‘‘सरस्वतीची भलायकी बी बरी आसा मू?’’

‘‘ब्येस बरी आसा. तिका काय जातलां?’’ कांयशें तिरसटपणान ताणें म्हळें. म्हजो तरी तसो समज जालो. हांव वगी रावलों. तिचेविशीं चड कांय विचारपूय समा न्हय अशें पयलेच खेपे मनांत आयलें.

‘‘आतां आनीक कितें मुखार?’’

‘‘कांय ना. पंच्यात समितेची वेंचणुक लडयात म्हन्तत लोक...’’

‘‘वा!’’

‘‘हय. पूण तां करचां म्हणल्यार ह्यो पसारो इतलो वाडलाहा, कसां काय जातलां?’’

‘‘कित्याक?’’

‘‘कांय धडाचें न्हू!’’

हांव हांसलों. तुकाराम वेंचणुकेक नक्कीच रावतलो हाची खात्री पटली.

खूब वर्सांनी तांगेर गेलों. सांजचो वेळ आशिल्लो. वस्तेचे सुवातेर आतां व्हडलें घर आशिल्लें. ताचे मुखार नवो करकरीत फोर्ड ट्रॅक्टर उबो आशिल्लो. पेल्यान जर्सी गायांचो गोठो, तांकां पद्दतशीर शिमिटाची गवण. ताचेय मुखार गोबर गॅसाची टांकी आशिल्ली. पोल्ट्री फार्म ताचेय फुडें. आतां लाखांनी कुकडांचें जाल्लें. उदकाच्यो मोठ्यो मोठ्यो टांकयो मदीं मदीं सोयी खातीर आनी सगल्याक नळ आशिल्ले. तुकारामाचो व्याप भरपूर वाडिल्लो. वस्तेचो पसारोय वाडिल्लो.

हांव गेलां तेन्ना तुकाराम घरा नाशिल्लो. सरस्वतीची वासपूस केली.

‘‘बसात, बसात’’ तुकारामाच्या चल्यान म्हळें. बसचें पडलें. खाटेर बसलों.

घराकडल्यान पयस मदेकांत उक्त्या मळबाखाला खाट आनी कांय कदेलां मांडिल्लीं. तीं सदांच थंय मांडिल्ली आसूं ये अशें दिसलें.

''आई कितें म्हण्टा?'' हांवें भुरग्याक विचारलें. तुकारामाचो पूत आतां बरो व्हड जाल्लो.

'बरी आसा!' ताणें तुटक आवाजांत म्हळें.

हांव आयिल्ल्याचें आजून ताणें सरस्वतीक सांगूंक ना काय कितें? हांव आयलां म्हूण कळटकच ती नक्कीच भायर येतली आशिल्ली. लय दिसांनी इलेत भाऊ! माया पातळ केली! अशें कितेंय म्हणटली आशिल्ली.

''आईक आपय मातशी. हांव आयलां म्हणचे.'' हांवे धीर करून म्हळें. तुकारामाच्या घराच्या पसाऱ्याचो, ताच्या पुताच्या तुटक 'बसात बसात'चो दाब म्हज्या मनार पडिल्लो.

पूत वगीच रावलो आनी थोड्या वेळान उपाय नाशिल्लेवरी ल्हवू ल्हवू भितर घरावटेन गेलो. मानायांचीं कामां चलतालीं. गोठ्यांतल्या शेणामुताचो वास थोडोभोव पातळिल्लो. एक घटमूट सुणो सुस्तावन म्हजे खाटेकडेन थंडपणान बशिल्लो. गोठ्यांतल्यो गायो हाडांपेरांनी भरिल्ल्यो दिसताल्यो. सगल्याक गिरेस्तकायेच्यो, सुखाच्यो ठसठशीत कुरवो आशिल्ल्यो.

''घेयात. च्या घेयात.'' भुरगो च्या घेवन आयलो. आजुनूय सरस्वती येवंक नाशिल्ली. हांव अस्वस्थ जातालों. हावें येवपांत कितें चुकयलें बी ना मू? तुकारामाल्या मनांत म्हजेविशीं कित्याकितेंय आयलें ताका लागून तो तिका केन्नाय कितेंय उलयलो बी काय, म्हाका मेळूंक ताणें तिका बंदी बी केली काय कितें अशें मनांत आयलें.

थोड्या वेळान सरस्वती भायर आयली.

खूब भागिल्लिशी दिसताली. आंगभर पालव गुठलायल्लो. तिची पिराय वाडिल्ली हें खरें, पूण इतली वाडिल्ली अशेंय न्हय. आनी भोंवतणी इतली सुबत्ता सगल्याक दिसता आसतना तांतूंतली थोडीभोव तिचे कुडीर दिसूंक कितें हरकत आशिल्ली? हांगा तर सगलेंच उरफाटें दिसतालें. तांचेकडेन व्हडलेंशें कांय नाशिल्लें तेन्नाचे सरस्वतीची म्हाका याद जाली. हें अशें कित्याक जाल्लें? सरस्वती अशी कित्याक लागून भागिल्ली? हांगा सगलेच घटमूट, तुकारामूय बरे पैकीं गरगरीत जाल्लो. सरस्वतीक कितें जाल्लें?

''भाऊ, बरे खुशाल मा?''

''आसा बरो.''

''भुरगीं बाळां?''

''खुशाल आसात.''

ती वगी जाली.

''तुजे भलायकेक कितें जालां?''

''काय जालां? मी बेस बरी आसय.'' तिणें दुबळें हांशें हाडीत म्हळें.

म्हाका आनीक कांय उलोंवकूच येना जालें. तिचो पूत लागीं उबो आशिल्लो.

सरस्वती कांय वेळ अडचल्लेवरी उबी रावली.

''बरें तर, येतां हांव'' म्हणत हांव उठलों.

''रवात, हे येतील मा.'' तिणें म्हळें.

''नाका. तशें काम कांय नाशिल्लें.''

कितें तरी घट बांदिल्लें तें तुटलांशें म्हाका दिसलें. हांव सामको कांचवेल्लों. म्हाका कांयच येवजनाशिल्लें. कितें उलोवचें तें कळनाशिल्लें. हांव कित्याक आयलां? अशें परतें मनांत येतालें.

''येतां हांव.''

''जेवन वचात.'' तिणें म्हळें. तातूंत जीव नाशिल्लो. वळखदेख नासतना तिणें जिवाभावान म्हाका जेंवक वाडिल्लो आनी आज ते गजालीक व्हडलेंशें म्हत्व नाशिल्लें जाल्यारूय तिच्या म्हणपांत जीव नाशिल्लो. कितें जाल्लें काय? सरस्वती बदल्लली काय तिच्या घरांतली सत्तेची मांडावळ बदल्लली? काय सगलेंच बदल्लें आनी हांव मात तसोच भूतकाळांत जगतालों?

हांव धा वीस पावलां चलून गेलां आसत-नासत इतल्यांत बुलेटिचेर तुकाराम आयलो. थोडी घुटमळिल्ली सरस्वती सट्करून भितर घरावटेन गेली. तिचो पूत फुडें येवन गाडी थांबले बराबर थंय उबो रावलो. खुणायले प्रमाण तो गाडयेची डिकी उखलून घेवन गेलो.

''कवां इलेत?'' तुकारामान विचाल्लें.

''आतांच.'' हांवें म्हळें, ''असोच आयिल्लों. येतां येतां.''

''बसात हो!'' कांयसो आळशेल्ल्या आवाजांत तो उलयलो. हांवें कितें म्हळें तें घडये ताणें आयकल्लेंय नासूंये. ताची 'बसात हो' म्हणपाची धर्ती टिपिकल फुडारी छापाची आशिल्ली. तातूंत एक गृहीत धरिल्ली अणभवी आदब आशिल्ली, थोडी सुस्ती आनी पुराय विस्वास भरिल्लो. मिश्यो, तोपी, धवेफुल्ल कडक फेर्राद कपडे, वाटकुळो गरगरीत तोंडावळो. तुकाराम आतां मोठो मनीस जाल्लो. ताचे आनी म्हजेमदीं मोठें अंतर निर्माण जाल्लें. आतां तो पंचायत समितीचो वांगडी आशिल्लो. फाल्यां सभापती, आनी मुखार जिल्हो परिशदेचो अध्यक्ष. तुकाराम खूब फुडें पावल्लो. हांव आसा थंयच, तसोच ल्हान उरिल्लों.

परती च्या आयली. जेवणाक रावपाचो आग्रो जालो ना. तें धरून चलप जालें.

ना म्हणपाचोय धीर जालो ना. थोड्योशो राजकारणाविशीं बी खबरी जाल्यो. पूण एकूण मेळून हांव दबून गेल्लों.

सरस्वती परती मुखार आयली ना. निमाणे तुकारामान तिका पुताकडल्यान सांगून आपयली. ती आयली आनी अदबीन उबी रावली. चार-दोन उतरां उलयली आनी गेली. म्हज्या काळजांत निमाणचें कितें तरी तुटलें, ताच्यो यातना भोगल्यो.

"बाईलमाणसां आमच्यामदें परक्यांसामखार येयनात. आमी सहाने म्हणचे देशमुख घराण्याचे, पूण तुमी आमचे घरचेशे." तुकारामान म्हळें.

"पूण..." हांवें म्हळें आनी थंयच सोंपलें. मुखार उलोंवकूच येना जालें. ताळो दाटूनसो आयलो. देशमुखी, शाण्णव कुळयांचें खानदानपण, अमकें आनी तमकें असल्या मराठ्यांभितल्ल्या खबरींची म्हाका आतां वळख जाल्ली. 'कुणबी मातलो आनी मराठो जालो' अशी म्हणणी पुण्यावटेन चलता म्हूण आयकल्लें ताचें खरेपण आतां कळिल्लें. तुकाराम सादो मेंडको आशिल्लो तेन्नादर ताचे घरकान्नीक मेकळीक आशिल्ली. ती मेकळेपणान कोणायकडेन उलोंवक शकताली. पूण आतां तो मोठो जाल्लो. ताका लागून तो श्याण्णव कुळी जाल्लो. तो आतां देशमुख जाल्लो. सभावीकपणान ताची घरकान्न असूर्यपश्या जाल्ली. ती लोकामुखार कशी येतली? बेठोच हांव आयलो घरचो म्हूण...

परतो तुकारामागेर गेलों ना. वचपाचो योग नाशिल्लो अशें न्हय. सिन्नराक परती बदली जाली. तांचें गांव आशिल्लो झोन म्हजेकडेन आयलो. त्या वाठारांत काम आसतालेंच. पूण तुकारामाच्या कामाखातीर आतां ताच्या घरा वचपाची गरज नाशिल्ली. ताचीं कामां अश्शीं फोनार जांवक लागलीं. आमच्या वरिश्ठांक ताचो सभाव खूब आवडटा. तुकारामाविशीं ते सदांच तोंडभर उलयतात. पोरूं तुकारामाच्या पुताचें लग्न जालें. व्होंवळीक आयली. ऑफिसांतल्या झाडून सगल्यांक दिल्ली. हांव लग्नाक गेलों ना. ताका लागून कांयच फरक पडलो ना. तुकारामाच्या पुताचें लग्न दबाज्यान जालें. बागलाणवटेनच्या कोणा एका देशमुखाची चली सून जावन ताच्या घरा आयिल्ली. लग्न अख्ख्या तालुक्यांत गाजलें. एक चौखण मैलाचो माटव आशिल्लो. तालुक्यांतले झाडून सगले वाजंत्री आपयनासतना गेल्ले.

आमचो चडसो स्टाफ गेल्लो. सायबान जीप केल्ली. हांव गेलों ना. वचचेंशें दिसलेंच ना.

तुकारामाची दिश्टभेट अदींमदीं जाता. 'नमस्कार-रामराम' जातात. तो जिपींत आसता, हांव चलत वा सायकलीर. वळखीन नमस्कार आजुनूय जाता हेंच व्हडलें. आमचेमदीं नदरेंत भरसारकें अंतर आसा. ताका आतां आमचो दोगांचोय इलाज ना. सरस्वतीची भेट जावपाचो प्रस्नूच उरूंक ना. हांव तांगेर वचना. समजा गेलों,

जाल्यारूय काम कितें? आनी देशमुख घराणें बी प्रकार म्हण्टकच तिची भेट जातलीच म्हूण शास्वती ना. आनी जाली तरी उलोवप कितें हो प्रस्नूच आसा. कसलेंच कांयच उरूंक ना. पयर योगायोगान सरस्वती दिसली. हांव एसटीन येतालों. दाराकडेन फाटले वाटेन बशिल्लों. गाडी सिन्नरच्या स्टॅण्डार येवन थांबली. देंवतल्यांची खेंट सुरू जाली. म्हाका तशी ताकतीक नाशिल्ली. सगले देंवतकच देंवचें म्हूण सिटार बसून आशिल्लों. एक जाणटी बायलमनीस एक तरणे गुरवार चलयेक घेवन देंवताली. सहज पळयलें. सरस्वती आशिल्ली. ती चली तिची सून आसूंये. सरस्वतीकडेन नदरेक नदर जाली. वळखीचो, स्नेहाचो उजवाड तिचे नदरेंत उदेलो. तिच्या मुखामळार ताचें तेज फांकारूंक लागलें आनी फुडल्याच खिणाक सगलें सुन्न जावन गेलें. ती वळखीचें मंदशें हांसली, पूण तें तशेंच आनी तितलेंच. मातसो ताकतिकेन तांचे फाटोफाट हांवें देंवपाचो यत्न केलो. तिचेकडेन कितेंय उलोवचें अशें मनांत आयलें.

पूण ती म्हाका रावूंक नाशिल्ली. सुनेक घेवन ती ल्हवू ल्हवू चलत राविल्ली. घडये तांकां ताकतीक आसत. सुनेक दोतोराक दाखोवंची आसत. हांव थंयचे थंय घट जावन पळयत रावलों.

मनांत आयलें, गरिबकायेच्या संवसारांत कांय वर्सां काय जायना पूण सरस्वती ज्या स्वातंत्र्यांत, मेकळेपणांत जियेली तें तिचें सुनेक केन्नाच अणभवपाक मेळचें ना. ती बाबडी सुरवेक सावनच देशमुख, खानदानी आसा! लोकांमुखार तिचें येवप, तांचेकडेन उलोवप, संवाद करप म्हळ्यार भयंकर! थंय एकाद्र्या अनवळखी वाटसुराक माया दाखोवन ताचेकडेन नातें जोडप...

शेः! शेः! तें जांवचेंच ना!

'कांय धडाचेंच न्हय!' मनांत म्हळें.

आनी फाटल्या यादींनी पिश्याभशेन हांव म्हजेमदींच हांसत रावलों.



8

# परीक्षा

**मूळ मराठी : प्र. ई. सोनकांबळे**

**कोंकणी अणकार : पुंडलीक नारायण नायक**

एकदां कितें जालें! सद्चे सारकी गांवांत एक पासय मारली - पळोवया म्हटलें, कितेंय काम मेयटा जाल्यार. कोणूय कसलें काम फर्मायता थंय म्हाजें ध्यान आसतालें. मार्गावयल्यान म्हाका एके जाणटेलेन पळयलो. ती आसली मराठ्याची. तिचें नांव गंगाबाय आनी ती आसली भेड्डी आनी कांयशी नाखयी आसली ती. तेगेल्या पुताचें नांव व्यंकटी पाटील. व्यंकटीची म्हाजेर थोडीभोव मर्जी आसली. कारण हांव भारुड म्हणटालों तें तेका आवडटालें. तो आसलो देवाक सोडलेलो देवाचो वारू.

जाणटेलेन म्हाका सांगलें, ''आरे आमच्या वट्टांत सुणें मरून पडलां. मातशें काडून वडय.. दितां तुकां अर्दे भाकरेचो कुडको.' म्हाका दिसलें, जालें, काम एकदांचें गावलें सायबा. मन घट केलें आनी धरली त्या सुण्याची शेपडी. धरल्या मात, शेपडेचें पोंतूच हातींत येयलें. कारण सुणो सगळो कुसलेलो. म्हाका घाण येताली खरी पूण आसूय आशिल्ली, भाकरेचो कुडको जायना, पूण मेयटलो. ते जाणटेलेन म्हटलें, 'आरे, हो दोर घे आनी शेपडेक घट बांद आनी ओडीत व्हर.' तशें केलें खरें, पूण तेचीं सालपटांच देवंक लागलीं. लोक म्हाजेकडेन हळशिकावणे नदरेन पळयताले आनी म्हणटाले. कसली घाण घेवन वयता रे रस्त्यावयल्यान. वास सोसूं नजो. व्हर बेगीन. सगळे लोक नाक धरून वयताले. हांयेनूय म्हाज्या नाकाक म्हाज्या पिंजऱ्या बोंदऱ्या खोमसाचो शेव लायलेलो. पूण खूब वास गिळचो पडलो. कारण घुस्मट्टकूच नाक सोडटालों, खस्स करून हवा भितर येताली, तोंडात निथू भरताली. पूण थुंकल्यार लोक म्हणटले, तुकां इतली वीट दिसता जाल्यार हो धंदो करता कित्याक? म्हणून थुकीय मदलेमदीं गियटालों. तर पयस हेलो सुण्याक. वाटेंत भेटलो मांगालो गणू. तेका आमी गण्या म्हणटाले. तोवूय शिकतालो शाळा. पूण हालींच तेणें शाळा सोडलेली आनी लागलेलो शिकोंक गंवडीपण. म्हणपाक लागलो, 'आसूं रे वडय आतां.' आतां येयलें लचांड. हांव वडोवपाक वच जाल्यार

थंय पायणींत आशिल्लीं बायलां. तीं परसाकडेन बसलेलीं. तीं म्हणपाक लागलीं. 'मातसो पयस वडय रे. वाटेंत येतना-वयताना घाण सुट्टली.' हांव मातसो मुखार गेलों आनी एका कोनशाक वडयलें त्या सुण्यांक.

परतलों आतां घरा. हातीचो वास कसोच वचना. जाणटेलेन हातीचेर उदक घातलें पूण वास येतालो तो तसोच उरलो. तसोच घोंट घेतलो. इतल्यान तिगेली सून येयली आनी म्हणपाक लागली, 'आतां बरो आंगवणेचो जाला मरे तूं!' इतलें म्हणत ती घरांत गेली. भितर गेली ती सायबीण भायरूच येयली ना. म्हाका आशा दिसली ही भितर गेल्या, कितें तरी हाडटली. पूण जालें भलतेंच. जाणटेलेन बरें सांगलेलें खरें पूण तिचो हातूय चल्लोना आनी दि गो तेका म्हणून तिका उतरूय फुटलेंना. हांव तसोच खूंट कसो उबो. तशी ती सून येयली आनी म्हणपाक लागली, 'आतां वच मरे.' म्हाजें लक्ष जाणटेलेचेर आसलें. हांव थोडो वेळ रावलों आनी म्हटलें, गंगामायन म्हाका भाकरेचो अर्दो कुडको दिता म्हण सांगलेलें. ती सून दोळे मोडीत, कपलाक मिरयो घालीत फडफडत गेली भितर आनी येयली घेवन पाटुलेंतली अर्दी भाकर जी आमच्या गरीबाले भाकरेच्या चौथाये येद्याय कुडक्याची न्हू आनी तिचेर थोड्योश्यो भेंड्याच्यो फोडी. म्हाका म्हणपाक लागली, 'बलुतें घेता हे मांग पाडपडलेले आनी वयल्यान भाकऱ्योय मागतात. चल, वच.' ते बायलेक गांवांतल्या गांवांतूच दिल्ली आं.

एकदां कितें जालें जाणां, तर हांव काम करतालों दत्ता मास्तरागेर. ते म्हाजे गुरुजी सगीरचे आं. तर एक दीस जालें अशें, तेणी एक दीस सटवा मांगाक आपयलो. जाणटो मनीस तो. तेकां हांव मामा म्हणटालों, तो आसलो गवंडो. बांदपाक लागलो तो आनी करूंक लागलो चिकोल हांव. उदक ओतून जातकूच हांव खोऱ्यान एकदम तोडटालों तें बराबर उदक हेवटेन तेवटेन वयतालें, म्हाका तें समजनासलें. बायलां कितें कितें म्हणटालीं. गेलें मरे व्हावून उदक. करतां करतां जालो चिकोल. हांव थै थै चिकलांत नाचपाक लागलों. जसो गोरा कुंभार. गोरा कुमाराक खंय नाचता आसताना भानूच उरलेंना. तेणे दिमखुऱ्यांनी चलपी आपणाल्या भुरग्याचो मस्तून मस्तून चिकोल केलो. तसो हांव खोऱ्यान चिकोल तोडटालों आनी नाचतालों. मदींच कितें जालें जाणां? येयली आमची लक्ष्मीबाय. हांव तिका व्हडलें बाय म्हणटालों. कारण आसल्यो तिका ल्हान जावो. ती येयली आनी बेगीबेगीन कुशीचो चिकोल लागली काडपाक. हांव खंय भानार आशिल्लों? तर हांयें तिचो हातूच माड्डीलो. खऱ्यानीच नकळटां. कारण मुद्दम माड्डुवपाचें जाल्यार हांव ल्हान. तितली नासली जाणीव म्हाका. लक्ष्मीबाय वगी रावली आनी बसपाचो यत्न करपाक लागली. इतल्यान जालें कितें, थंय येयली धाकली बाय. शिरीधर मास्तराची बायल. नांव तिगेले पुश्पाबाय. आरडपाक लागली, प्रल्हाद

आफुडलो, प्रल्हाद आफुडलो. व्हडले बायन म्हटलें, 'भोंगू गो पोराचें, वनवासी बाबडो तो. म्हाकाच दिसलेंना सारखें.' तर ती आसली एका दोळ्यान कुड्डी. फूल पडलेली. पूण पुश्पाबायन नेटूच धरलो. ती खूब चपळ आसल्ली. तिचें तोंड कशेंच थारना. हांयें थंयसान बारकेले वणटीवयल्यान मारली उडकी आनी कितलोसोच वगत थंय येयलोच ना. लक्ष्मीबाय घराफाटल्या बांयचेर न्हावन येयली उदक भरूंक. तिणें पळयलो म्हाका आनी आपयलो, पूण म्हाका जाल्ली लज कितें म्हणत कोण जाणां म्हणून.

लक्ष्मीबायचो कसलो गुन्यांव नासलो. कित्याक तर ती केन्नाय म्हाजेखातीर व्हटयेंत घालून हुरडो जाल्यार केन्नाय सांगो हाडटाली. आनी तिगेल्यो जावो नासत जाल्यार ती म्हाका पोटभर जेवपाक घालताली. कारण तिका म्हाजी काकूयट येताली. कारण ती कुड्डी एका दोळ्यान आनी तिगेलो भाव शेषकुमार माऊलगांवचो आसलो म्हाज्याच वर्गांत.

एकदां अशें घडलें. एक आसलें घर. घरांतल्या धनयाचें नांव आसलें गवरदीन. तो एक जाणटेलो मुसलमान. तेगेल्या भुरग्यांचीं नांवां रुकमदीन आनी शाबुदीन. सगळ्यांपरस शाबुदीन म्हाजेर मातसो खोशी. कारण तो आसलो थोडेंशें जंतरमंतर करपी आनी तो सदांच म्हाका कामां सांगतालो. आसले हडोळती गांवांत तेंचे सोयरे. हांव हांगाच्यो खबऱ्यो थंय पावयतालों आनी थंयच्यो हांगासर आनी पावयना जाल्यार तो कितें करीत कोण जाणां? आनी हडोळतीचेच आसलों हांव शाळेंत. शाळेंत बांयचेर उदक गावलें ना जाल्यार त्या सोयऱ्यांगेर अर्दे-मुर्दे भाकरेच्या कुडक्याचो आदार जातालो. तेखातीर हांव केन्ना काम चुकयनासलों. जालें कितें, एक दिस आसलें तेंकां वयपाचें बोळके गावांत. थंय आसली तेंगेली बापोल भयण. तिका नासलो कोणूच आनी तिगेल्या बापायचें सगळें कितें हेंकां पडलें म्हणून तिगेल्या पुताच्या सुंत्याक वयपाचें आसलें. ते भायर सरले बैलगाडी घेवन जाणां मूं? जाल्यार म्हारूच नासलो गावांत. दुसरे आसले पूण वचपाक कोण तयार ना. काडलो तेणी म्हाकाच मुखार. हायें म्हटलें, 'बाबा रे म्हाजी सातवेची परीक्षा आसा अहमदपुराक.' तेणी सांगलें, 'आरे, फाल्यां परततले.चल'. म्हाज्यान ना म्हणपाक जालें ना. एकेवटेन परीक्षा खरी, पूण दुसरेवटेन तेंगेली मर्जी मोडूं नज. करचें कितें? दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हणजे ते म्हणपाक लागले, 'चल रे पोरा. भरपूर गोड गोड खावपाक मेयटलें.' म्हाका आस जाली आनी जालों तयार वचपाक. गेलों बरो गांवापासून पयस. वांगडी वाजंत्रीय आसले वांगडा. लागीं येयलें बोळकें. आसली काळखी रात. मागीर जालें! गांव लागीं पावलो आनी देंवतीय लागली. बैल धांवपाचे. म्हाका गाड्याचो मुखावयलो दांडो धरपाक सांगलें. म्हाजो जीव भियेतालोच. कारण हेच्याआदीं हांये असो गाडयेचो दांडो

केन्नाच धरूक नासलो. बैल मारतले अशी भिरांत आसली पूण जालें कितें? धरलो दांडो. फाटल्यान कितें तरी वाजलें. बैल भुजले आनी पळपाक सोदूंक लागले. जावपाचें तेंच जालें, गेली म्हाज्या आंगावयल्यान गाडी. हांव गाडयेपोंदाक सांपडलों आनी आंगांत कांटेच कांटे रोमले. ते लोक आसले मुसलमान पूण कितलेय जाल्यार मनीसूच. तेंकां बाबड्यांक म्हाजी काकळूट दिसली. चू चू करपाक लागले. म्हाका कितें कितें येवजून येवपाक लागलें. पूण करतलों कितें. नाइलाजाचो बेइलाज झालो. बसलों तसोच, लागीं लागीं चुंबी गांवाकडेन पावलों. पावतकूच सोडली गाडी. तण घातलें बैलांक. लागले लोक जेवपाक. लागले वाडपाक. तर फक्त उदक कालवणाचें, शीत आनी रोटयो. हांव वाट पळयतालों, त्यो बोटयो येयचना सायबा. सगळे जेवंक लागले. येयल्या बोटयो त्योवूय साप्प उण्यो. हांव बोटयेकडेन पळयत, ती खाय नासताना फक्त वयलें उदकूच चाखीत-माखीत जेवंक लागलों. कारण म्हाका अशें दिसतालें-सगळ्यांनी आपल्यो बोटयो खावन जातकूच मागीर हांयें खावच्यो. मागीर सगळे म्हाज्या तोंडाकडेन पळयत रावतले आनी हांव दिवपीच न्हू पोरांक. तर ही असली म्हाजी अपुरबुद्ध!

सरली रात. सकाळ उदेली. जालो नाश्त्याचो वेळ. तर जालें कितें, येयल्ली थंय एक मांगाची जाणटेली. ती आसलेली म्हारोगी. तर तिगेल्या घरच्यान हाडलेल्यो ताटल्यो, परगांवच्या म्हारांक आनी वाजंत्र्यांक जेवपाखातीर. म्हाका तें समजलें. रातीं तितून जेयलों पूण दिसाचें कयटकूच जीव धजावना जालो. धवळून येयलें. थंयसावन केन्ना काय पळोवन वच्चें अशें जालें. तर केलें कितें, धांवलों रानांत बैलांक चरोव हाडपाचें निब करून. सोदपाक लागलों पळसाचीं पानां, तर थंय रानाच्या मळार पळसाचीं झाडांच कमी आनी हेर झाडां-झोपांच अदीक. पान पिंजलेलें नासताना कितलें जून म्हणून तोपून जोडपाक गेलों जाल्यार तें पान सिगाराबगर हेर काडी तोपल्यार पिंजून वयपाचें. बऽऽरें जाली कशी तरी पत्रावळ तयार. परतलों जाल्यार, चेऱ्या गांवचो, केरबा जना आत्याचो येयल्लो बोळक्याक. कारण तो आसलो येलमाचे चाकरेर. तो म्हणपाक लागलो, 'जेय रे हे ताटलेन.' हांयें 'नाका' म्हटलें. लोक म्हणपाक लागले, 'कितें जालां रे हे ताटलेक?' 'त्यो ताटल्यो ते बायलमनशेच्यो म्हणून हांव तितूंत खायना.' अशें म्हणपाक जिवार येयलें पूण प्रश्न आसलो पोटाचो. थोडें पानाचेर आनी थोडें मुस्तायकेच्या शेवार शीत घेवन तशेंच खाल्लें. उदकांक तोंड लायन दिसनासलें. कारण थंय सगळ्याक नारू पीडेच्या उदकाच्यो बांयो. पळयता त्या मनशाक नारूची लागण जाल्ली दिश्टी पडटाली. आनी तितूंत म्हारोगी बायलमनशेगेली ती ताटली. उदक पिवचोना म्हणटलों जाल्यार तिखट खाल्लेल्यान जिबेक कसले जाळ पडलेले.

बरें, जाली तयारी. येयलों परत चेऱ्याक, भयणीच्या गांवाक.पूण प्रश्न पडलो, भयणीन जर विचारलें, खंय गेल्लो रे बाबा? जाल्यार? म्हणून हांव तसोच गांवचे भायले वाटेन येलमाच्या आनी सुताराच्या घरांमदले वाटेन चलत गेलों हडोळतीक. कारण परवां परीक्षा. तिवूय अहमदापुराक, तालुक्याच्या गांवांक. पुस्तकां बिस्तकां कांयच घेय नासताना फक्त देवांचे नांव घेवन हडोळतीक येयलों आनी पोरांक भेटलों. थंय आसलेलो कामट्याचो दासू. तेगेलें आडनांव कोडगिरे. तेणे म्हाजी गरज भागयली. एक तिंतेर दिलो आनी एक लिखणी. तो गेलो आरपारातल्या घरांत न्हिदपाक. हांव उरलों ढालजाक. एके परीन तें बरेंच दिसलें म्हाका.

उदेलो दिस. जाली सगळ्या पोरांची तयारी. सगळ्यां वांगडा हांवूय भायर सरलों. वळसिंगी गांवच्या पोरांनी म्हटल्यार देशमुखाच्या राजपाल आनी सुधाकरान आपणाले वटेंतल्यान यो म्हणून सांगलेलें खरें पूण मदीं बोळक्याक लागून वयपाक पावलोंना. आनी बरें यो म्हटलें म्हणून वयपाचेंच कित्याक? अशें येवजून गेलोंचना. एकदांचो अहमदपुराक येयलों. रावले सगळेजाण एकेचकडेन. थंय पयलीं नाजरसायब रावताले. सांगताक पिंपळे गुरुजी आसले. म्हाका राव म्हणून सांगून भायर खंय तरी गेल्ले. म्हाजेकडेन खाणा-जेवणाचें कांयच नासलें आनी पयशांचे तर विचारूकूच नाका. म्हणून हांव वगीच हांगा-थंय भोंवड्यो मारतालों आनी केन्नातरी तेंचेमदीं परततालों. गुरुजी म्हाजेर रागार जाताले, खंय भोवता काय म्हणून? भोवतेक सगळो वगत तेंच्यावांगडा सारतालों आनी जेवणाचो वेळ जालो म्हणटकूच ल्हवूच माजरासारखो खंयतरी कडसरतालों. पोरांक कळपाक दिना आसलों.

करतां करतां कितें जालें, हांव सहज म्हणून गेलों गुणाल्याच्या वाड्याकडेन. थंय आसलो दासू, राजपाल आनी सुधाकर. दासू म्हणपाक लागलो, 'प्रल्हाद जेयलो हय रे?' हांये जाप दिली, 'हय, जेयलों.' तेणे विचारलें, 'खरेंच? सांग मरे. वगीच उपाशीं राव नाका.' शेवटाक हांव जेवपाक तयार जालों. दासून म्हाका खूब म्हटल्यार खुबूच खावपाक दिलें. नाका नाका म्हणटालों खरो, पूण खायत आशिल्लों. निमाणेकडेन तायटायेदो कुडको उरलो. तेसरशीं ते सगळे म्हणपाक लागले, सांड तो. पूण म्हाका तो सांडीन दिसना जालो. कारण 'पिकेचो दिस, फुगले गाल -पीक सरली. सुरू जाले हाल.' अशीच म्हाजी अवस्था जातली म्हणून तो कुडको हांये अचळय लेंग्याच्या बोल्सांत घातलो. कोणांक कळपाक दिनासताना. दुसऱ्या दिसा इतिहास-भूगोलाचो पेपर आसलो. पेपराक वयचे आदीं तो कुडको खंय व्हरून खावचो असो विचार करतालों. शेवटाक तहसील कचेरीच्या फाटल्यान संडासाच्या आडसाक गेलों आनी थंय बसून तो सोंपयलो. खातालों खरों पूण हेवटेन तेवटेन पळयत आसलों. कोणेंय पळयलो जाल्यार, आपणाक हांसतले.

मागीर लज. उदक खंयचें पिंवचें, जाल्यार गेलों तसोच देशमुखाच्या वाड्यावयले बांयचेर. बायलमनशां थंय उदक भरतालीं. तेंचेकडेन मागलें उदक. एके मावशेक येयली काकळूट. घातलें तिणें उदक. पोसो करून पियेलों, हात बी कोणे धुयल्या! गटागटा करून उदक धोंसलें. भाकरेन नासूं पूण उदकान पोट उपाट भरलें. तहसील कचेरी आनी ती बांय हेंचे मदलें अंतर सुमार अर्दो मैल. मागीर हांव गेलों भूगोलाच्या पेपराक.

सगळे पेपर-बिपर सोंपले. आमी जाले मेकळे. गुरुजीन सगळ्यांक सिनेमा दाखोवपाचें थारायलें, कन्सेशन घेवन. पूण तितले तरी पयशे म्हाजेकडेन खंय आसले! सगळीं भुरगीं तयार जालीं. हांव एकलोंच फाटल्यान रावन फक्त आयकत रावलों आनी म्हाका सिनेमाचो इतलो शौकूय नाशिल्लो. तिकेटीचो दर आसलो फक्त चार आणे पूण सकयल बसपाचो आं. सगळीं भुरगीं गेलीं. पिंपळे गुरुजीन विचारलें, 'पल्या खंय गेलो? आपय तेका.' हांव फुडें गेलों आनी सगळ्यांच्या मुखार वचून मातयेच्या सीटाचेर बसलों. जालो सिनेमा सुरू. चित्र पड्ड्याचेर येवपाक लागलें. म्हाका येवपाक लागली लंकणी. भुरगीं एकमेकांक तुकलायतालीं, तीं सिनेमा पळोवपांत जालीं गुल्ल. सिनेमा चालू. पोरांनी 'आरे प्रल्हाद, उठ उठ' म्हणून उठयलो. हांव दोळे चोळीत भायर येयलों. सिनेमा आसलो, 'दो आँखे बारा हात.'



9

# बायल

**मूळ मराठी : राजन गवस**

**कोंकणी अणकार : प्रकाश थळी**

“कमळ्या ऽऽ मात्शें आड तरी पड मगो ऽऽ एकसारकें घुम्म बसून कितें उपेग?”

फुलाच्या आवाजान तें एकदम भानार आयलें. आड पडिल्लेंय म्हूण किदें दोळो लागपाचो आसा व्हय? ओगीच वयर आड्याकडेन पळयत बसपाचें आनी फाटींत भरून आयलें म्हणटकच उठून बसपाचें. तेपरस आडूच पडलें ना जाल्यार...ताच्या मनांत सुरू जाले. मागीर बरोच वेळ ते तातूंतूच सुस्त न्हिदलें. अशी हुस्क्यामेकळी न्हीद ताका फाटल्या स म्हयन्यांत लागूंक नाशिल्ली. लागतली तरी कशी? स म्हयन्यांआदीं मध्यान रातीर तें नंदत्या घरांतल्यान घोवागेरसावन भायर सरलें. फाटल्यान कुळारा वचपाक ताका धीर जायनासलो आनी गेल्लेंय जाल्यार भाव ताका पर्थून त्या कोंडवाड्यांत हाडून परतेय उडयतले आशिल्ले. आवयबापूय आशिल्लीं जाल्यार गजाल वेगळी. भाव जाच्या ताच्या संवसाराचे. एक दोन फावटी वचून कागाळ कानार घालुनूय पळयल्लें. जाल्यार तिगांयनी एक जावन ताका निमाणचें सांगून उडयल्लें. ज्या दिसा तुका दिलें त्याच दिसा तू आमकां मेलें आनी आमी तुका. काळजार फातर दवरून तें त्या दिसा परतल्लें. आतां पर्थून फाटल्यान वचप ना. ओगीच मोन्यांमुखार वचून नाक किद्याक खरपुपाचें? कोणाचेय भितोडेक पडून पोट भरपाचें. पूण ह्या राकेसा म्हऱ्यांत मात रावप ना. असो निर्धार करून तें रातभर चलत रावलें. फांत्यापारार रायबाग गांठलें. मोटार स्टॅण्डार बसून अर्दें वर काडलें. आतां खंय वचप? मोटार स्टॅण्डार दरेकल्याची नदर ताचेर तिरशी जावन भोंवताली. अवचिंदांनी हेआदीं बायलमनीस केन्ना पळयलीच ना काय किदें? मागीर ताच्या मनांत जायतें आरतें परतें सुरू जातालें. तेन्नाच एका खिणाक अचकित ताणें थारायलें, सरळ गोकाकच्या घोग्यार वचून घालून घेवंचें, त्रास नाका; ते उठलें. गोकाकचे गाडयेंत बसलें. आनी अकस्मात आंगावेली साडी भिजून लादीशी जाली. असलो कसलो हो घाम? ताचें ताकाच हें कुवाडें कळनाशिल्लें. गोकाकच्या मोटार

स्टॅण्डार बसून रात काडली. पूण घोग्याकडेन वचपाक पांयूंच उखलपाक तयार ना. बेठेंच बसून रावलें. परतेंय मनांतलें एकसारकें सुरू जालें. ह्या अवचिंदाक भिंयेवन जीव दिवप म्हळ्यार ताका जाय तेंच हांवें केल्लेभाशेन जातलें. ताचेपरस ताकाच खिणाखिणाक याद उरूंक जाय. तकली बागोवंची पडूंक जाय.

सांज कशी जाली तें ताचें ताकाच कळ्ळेंना. अन्नावेली वान्साच गेल्ली. पूण पोटांतलो उजो खंय वतलो? दोन भजीं तरी ताळ्यासकयल धुकलचीं म्हूण तें स्टॅण्डाशेजारच्या गाड्यार गेलें. पळय जाल्यार थंय ताच्या गांवचें फुला. बरें नटूनथटून झेतान उबें. पयलीं ताणें अचकित तोंड लिपयलें. उपरांत धीटाय हाडून उलो मारलो. जाल्यार फुला एकदम गोंदळ्ळेंच. मागीर सगलें सांगतना रडून सर्गदन जालें. फुलान ताका कुडीर हाडलें. रावलें तें थंयच.

फुला आंग फाफडून उठलें. ताणें चपकोभर तंबाखू घेतलो. कयल्यार भाजलो. सगली कूडभर तंबाखूची दर्बटाण. तान्नव्वा उसरमट लागून उठलें तें गाळी घालीतूच. फुलान अर्दी राखोणी कमळ्याच्या हातार दवरली. जांबयो दीत तान्नव्वान म्हळें, ‘‘आगो, तो बुलेटकार आज-फाल्यां येतलो. हाका किदें तो निर्णय घे म्हणून सांग, सारकें येवजून.’’

कमळें काचाबुलशें जालें. विचार तरी किदें म्हूण करपाचो? तें स्वताकडेनूच पुटपुटलें. हातांतली राखोणी बारीक करतनाच फुलान म्हळें, ‘‘आतां विचार नाका आनी कांयच नाका. कमळ्या, तो म्हणटा मगो जाल्यार वच तेचेवांगडा. कूड घेवन दवरता खंय. मागीर तुजें किदें वायट जालें? आमचेवरी तुका दिसाक तीन-चार गिरायकां झेपपाचीं नात. मागीर पोटाक किदें घालतलें? राणयेवरी दवरतां म्हणटालो.’’

तान्नव्वा ताचो कित्तो गिरयत उलयलें, ‘‘मनीस म्हाकाय बी बरोसो दिसलो बाये.’’

फुलान घांसणी सुरू करीत म्हळें, ‘‘तीं दोगां आसात खंय-सोमतेंच हेकाय दवरतलो. किदें वायट जाता? एकलें थंय दोगां.’’

कमळ्याक सगलें गुडार्थच.

हांगां आयलें तेन्ना म्हयनोभर त्या तिगांनी ताका रांदून वाडलें. पयल्या दिसा जाल्यार तागेल्या जिवाचें सामकें कडून उदकूचशें जालें. कासरोभर लांबायेची कूड. तातूंत एक बाज्ज, रांदन. आयदनां वण्टीचेर. एका कोनशाक आंगाची चोमडी करून बसलें. बाज्जेक आडोस म्हूण लांबसो पड्डो बांदिल्लो. तान्नव्वा एकेका दादल्याक घेवन येतालें. बाज्जेर वतालें. पड्डो सरकतालो. मागीर फकत घुसळाघुसळ. हांगांच्यान पळ काडचो म्हूण उठ्ठालें आनी रोखडेंच ताच्या पायांतलें अवसानूच गळटालें. जेवणाच्या वेळारूच तीग जाण दादले आयलें. बाज्जेर,

देवाच्या कोनशाक आनी रांदनीमुखार. तिगांय तीनकडेन. चोमडी करून बशिल्ल्या कमळ्याक रांदनीमुखावेल्या दादल्याचे पांय घश्टताले. सगलो काळोख. ताचो जीव थटाकलो. तें हुंबऱ्यार येवन बसलें. मेल्लें बरें. पर्थून धीटायेन ताणें उठचें अशें थारायलें. जाल्यार, आंग घामान ओलें चिप्प. ताचे नदरेमुखार घोव येवंक लागलो. तें एकदम पेटलें. भडव्याक रांड जावनूच दाखयतां. ताच्यो मुठी आवुळ्ळ्यो. दांताचेर दांत आपटले. आनी ते भिरकेंतूच तें कुडींतल्या हालत्या काळखांत एकामेकांत भरसल्ले उस्वास मनांत खोलवेर सांठयत रावलें. मनाचो फातर जायत गेलो.

दुसऱ्या दिसा फुलाक सगलें विस्तारान सांगलें. जाल्यार तें म्हणूंक लागलें, ‘‘घरा वच बाये. तुका हांगाचें हें झेपपाचें ना. गांवांत कोणायचे तरी भितोडेक रावून शेळेबिळें तरी खावन जगशीत. हांगां कुसून मरपाची पाळी येतली. आमच्या नशिबांत आयलां तें तुज्या नाका.’’

फुलाचें म्हणणें ताका पट्टालें. पूण घरा वचप म्हणल्यार तरी खंयच्या? भितोडेक पडचें म्हळ्यार तरी कोणाचे? ताचे तकलेंत मुंयोच मुंयो. मागीर जायते दिस अशो मुंयोच आंगभर येवंक लागतल्यो.

इतले मजगतीं तो बुलेटकार ताच्या मुखावेल्यान पासयो मारूंक लागलो. तकलेंतल्या किड्यांचे वळवळीक उबगून ताणें धपक्यांत निर्णय घेवन उडयलो. कशें घडलें तें ताचे ताकालेगीत कळ्ळेंच ना. फुला फकत बोबो मारीत बसलें. मागीर ताणें अशें किद्याक केलें म्हणुनूय ताका विचारलें ना. ल्हवल्हव करून सगल्याचीच संवय जाली.

फुला राखोणेची गुळणी नेटान थुकीतूच उलयलें, ‘‘मागीर थारलें मगो वचपाचें?’’

ताणें निश्चेवान मान हालयली. नशीब खंय व्हरता थंय वचपाचें...तें स्वतालागींच पुटपुटलें.

कचेरेचे गेटींतल्यान बुलेट भायर सरतकच शेक्यान कुले हालोवन सारको बसला म्हणपाची खात्री करून घेतली. फाटल्यान बशिल्लो नागो हातवारे करून किदें किदें उलयत आशिल्लो. ताचेर शेक्याचें लक्ष नाशिल्लें. पेठ वलांडून फुडें वतना शेक्यान बुलेट पानाच्या गाड्यामुख्यार थांबयली. एकशेंवीस तीनशें बनारस पानाचो गुठलो तोंडांत भरलो. नाग्याक चार मिनाराची कूय आयली. सिगार ओडटनाच नाग्यान म्हळें, ‘‘शेक्या, लवंगट दिसपाक कशें आसा?’’

‘‘कशें म्हणून किदें विचारता? चल, आतांच पळय.’’

‘‘तें जालेंच न्हय, तरीय पूण’’

‘‘एकदम बेस्ट.’’

नागो मनांतल्या मनांत भुल्लुसलो. ताची स्वताची बायल सोडल्यार ताच्या जिवितांत दुसरी बायलमनीस येवंक नाशिल्ली. येतली तरी कशी? कॉलेजींत आसतना आंगार धड कपडे नासताले. मागीर चलयांकडेन मान वयर करून कसो पळयतलो? कॉलेज सोंपनाफुडें हजार जाणांक पायां पडपांत दोन वर्सां उलगलीं. कारखान्यांत नोकरी मेळ्ळी आनी एका वर्साभितर घरच्यांनी लग्न करून उडयलें. घर तें ऑफीस. शेतकाम. मजगतीं तीन भुरगीं कशीं जालीं तें ताचें ताकाच कळ्ळें ना. शेक्या बिलिंग सेक्शनाक आयलो आनी ताचें जिणेंच बदल्लें. शेक्याचें सरळसोट तत्त्वज्ञान. जिवितांत फोल्ग मारप. जें आजवेर करूंक जालेंना तें तें करून मजा करपाची. जल्म एकूच फावट मेळटा.

शेक्याचे संगतीतूनच ताणें पयले फावट सोऱ्याचो घोंट घेतलो. पियेवंक बसतकच शेक्या बायलांचे फस्कलास किस्से सांगता. शीः आमचें जगपूच सामकें पचपचीत : हो समज नाग्याचे तकलेंत घर करून रावलो. पयर तर पियेवंक बशिल्लेकडेन शेक्यान अकस्मात प्रपोजल मांडलें. गोकाकाक एक बायल आसा. आमी तिका दोगूय भागीन दवरूया. जिवितांत फोल्ग मारपाचें. आयकतना नागाच्या मेंदवाक झिणझिण्यो आयल्यो. बायल आनी दोगांयनी? तो पियेल्लो तें एका धपक्यांत सामकें देवलें. तो शेक्याचेर सामको झुडून गेलो. जाल्यार शेक्यान ताका थंडपणान आनीकूय इल्लें घालें. म्हणूंक लागलो, ‘‘पोरा, तुका आतां जालीं तीन पोरां. तुका एकल्याक कोण बायल भाळटली? तातूंत तुज्यो सतरा ओडाताणी. तुजें म्हजेभाशेन आसा व्हय? म्हाका पळय. फोल्ग मारूंक मेळचें म्हूण अजून बायलेक भुरगें जांवंक दिवंक ना, हांवें. लग्नाक आठ वर्सां जालीं. गांवांत म्हजेवरी आसा व्हय दुसरो कोण पूण? आनी इश्टा, त्या हाडटलो त्या लवंगटाकडेन आमकां लग्न थोडेंच जावपाचें आसा! जाता तितले दीस दवरून घेवपाची. तिचो वाज आयलो म्हणटकच आपणाले बायले म्हऱ्यांत.तिचो उबग जाल्यार हिचे फुड्यांत. मागीर धांवडावपाची. दोगांयनी तिचो खर्च करचोशें थारायल्यार कितलेशे पडटले? चडून ते पांच सयशीं. फोल्गूच मारपाचें म्हण्टकच ही रकम तशी व्हडलीशी न्हय. नाय जाल्यार ह्या जिवितांत किदें आसा? फकत ओडाताण.

नाग्या अचकित मोव जालो. फाटींफुडें जायत एकदम तयार. दोगांयनी ऑफिसाक दनपारच्यान रजा घाली आनी वाटेक लागले. नाग्याचे तकलेंत हजार विचार. बुलेट ताच्या विचारांच्या वेगाबराबर धांवताली...शेक्याचो गांव मातसो तरी व्हडलो. आमचो सामकोच दोन पाळणींचो. तातूंत आनी तिट्यार कोणेंय आपणाक बायलमनशेवांगडा पळोवन गांवांत सांगल्यार बॉंबूच.

शेक्यान हुक्केरीचे शीमेर गाडी थांबयली. नाग्याची तकली एकदम शांत जाली. म्हणूंक लागलो, ''इश्टा, इल्ली च्या घेवया.'' जाल्यार शेक्याचें जालें सुरू, ''इश्टा, गांव सोडटकच केन्नाच च्या घेवंची न्हय. फकत सोरो.''

''हॅऽऽ आतांच कॉप मारलें जाल्यार लवंगटाकडेन वतकच सामकेंच पॅक जाल्लेभाशेन जातलें.''

''तशें ना रे जायना. तोंवेर देंवतली, चल तूं.'' अशें म्हणत शेक्यान बुलेट सुरू केली.

पोटांत व्हिस्केचो एकेक घोंट वचूंक लागतकच नागो मेकळो जावंक लागलो. म्हणूंक लागलो, ''शेक्या, तूं पूण एकदमूच डेरर मरे. आमकां ना रे बाबा आयुश्यांत केन्ना जमलें अशें.''

''आजवेर जमलेंना तरी हाचेफुडें जमोवचें रेऽऽ तातूंत किदें? येतां म्हणटा जाल्यार आजूच हाडून उडोवया तिका बुलेटीर घालून रातीकडेन.''

''आनी दवरतलो खंय? रूम नाका पळोवंक?''

''लॉजार दवरपाची. चार दिसांभितर कूड पळोवंची. म्हज्यो जायत्यो वळखी आसात. तूं हुस्को करूं नाका.''

''नाका बाबा. आज फकत म्हालमसालो पळोवन येवया.''

मागीर शेक्यान गजाल लांबयली ना. क्वार्टर सोंपले उपरांत बुलेट वाऱ्यावरी गोकाकच्या रस्त्याक लागली.

खोंपटावरी घरांचे रांगेंत बुलेट रिगली. दाट दाट उबीं अशीं ल्हान ल्हान पाखीं. किरकोळ येरादारी. रांपेल्लीं पूण नटूनथटून बशिल्लीं बायलां. नाग्याक हें सगळेंच नवें. शेक्या सामको संवकळिल्लो. बुलेट थांबली. हुमऱ्यार बशिल्लीं दोगां एकेच नदरेन हाका ताका एकसारकीं पळयत रावलीं. तातूंतले एकलेन भितर उलो दिलो. जाल्यार, शेक्या बिनधास्त बागोव घालून भितर गेलो. नागो कांचवेलो. आंग चोरून भितर रिगूंक लागलो. खोपीची फास्की थडांयच करून कपलाक आपटली. कळ सामकी मेंदवाक पावली. भितरले बायलेची एकदम धांदळ. शेको सदावरी सामको सदळविदळ बाज्जेर पातळ्ळो. उबो आशिल्ल्या नाग्याक लागीं ओडून तेंकयलो. म्हणूंक लागलो, ''हो आमचो इश्ट.'' कमळें फकत हांसलें. नाग्याक तें धंदो करपी बायलशें दिसलें ना. हुमऱ्यावेली बायल भितर येत म्हणूंक लागली, ''कमळ्याक बेश्टेंच अशें चड आशेर दवरूं नाकात. कितें तें आजूच सेर्त थारावन उडयात.'' शेक्या फकत हॅ ऽऽ हॅ ऽऽ करीत बसलो. मागीर ते बायलेक घेवन खोपीभायर सरलो. नागो खाकडून बसलो.

कमळें बाज्जेर येवन ताचे बगलेक तेंकलें. नागो थंडगार. शेको परतुपाचो पत्तो ना. कशेयभाशेन इल्ली धीटाय हाडीत ताणें म्हळें, ''नांव किदें तुजें?''

तें नांव सांगिनाफुडें माक्नावरी ताका तेंकून फुडे सरलें. ताणें बळगें एकठावन ताच्या हातार हात दवरलो. मागीर ताका शेक्याची यादूच उरलीना.

‘‘मिस्टर नागाप्पा सरबोळे, आमचे भितर सगल्यो गजाली पयलींच क्लियर आसच्यो म्हूण सांगतां. दर म्हयन्याक पगारांतले चारपांचशीं कडेक काडून दवरपाचे. हिचेकडेन जमा. शेको भडंग खायत खायत बडबडत आशिल्लो. तें आलटून पालटून दोगांयकडेन पळयत आशिल्लें. नाग्यान म्हळें, ‘‘थारलां तें सोडून दुसरें कितेंय कुडीबिडीचें उलय.’’

‘‘कुडीचो हुस्को तुका नाका. फाल्यां सांजवेळा रूम तयार. बेघरांत धा बाय धाची कूड पळयल्या. भितरले भितर मान्नें आनी उदकाचो नळ. संडासाक फकत भायर वचपाचें. बाकी सगलें भितरले भितर. लागसार वळखीचोय कोण एक ना. पयले चार म्हयने जतनायेन काडपाचे. मागीर कितें सगळेंच हुस्क्यामेकळें.’’

नागो एकदम तकलेवेलें सगलें वजें देंविल्लेभाशेन रितो. म्हणूंक लागलो, ‘‘म्हणजे तुवें पयलींच कूड पळोवन दवरिल्ली अशें सांग मरे. तयारेकूच लागलो तर!’’

शेको स्वताचेरूच खोशी. म्हणूंक लागलो, ‘‘रांडो करपाच्यो म्हणटकच तयारी करचीच पडटा बाबा.’’

तें एकदम काचाबूल जालें. हांगा म्हजे कितले दिस तर? तागेल्या मनांत अचकित प्रस्न आनी तें तातूंतूच शेणलें. भानार आयलें तेन्ना शेको ताका घसाघसा हालयत विचारतालो, ‘‘तूं गोकाकांत कशें आयिल्लें तें सांग हाका मातशें.’’

नाग्यान म्हळें, ‘‘आसूं तें. मागीर केन्नाय तरी सांगीत. ताचें कुलप सुटलेंच ना.’’

मागीर ते दोगूय लॉजाभायर सरले.

तें एकलेंच एकदम मेकळें जावन गादयेर लोळत पडिल्लें. नदर मात गरगर घुंवपी पंख्यावेल्यान हालपाक तयार नाशिल्ली. दाराचेर टकटक जालें. म्हळ्यार सांजवेळ जाली काय कितें? दोगांय भितरलो एकलो कोणतरी आयलो जातलो. जातूच दादल्याची मस्तवाल. किदेंय पूण पोटांत धुकलूंक जाय. तेबगर उबें रावपाक लेगीत अवसान उरचें ना...ताणें दार उगडलें. जाल्यार दारांत लॉजाचो कामवालो पोर. म्हणूंक लागलो, ‘‘दनपारच्या च्याचे पयशे.’’

‘‘धनी भायर सरल्यात.’’ तें कशेंतरी पुटपुटलें. वचूंक गेल्ल्या त्या भुरग्याक आडावन ताणें म्हळें,

‘‘खावपाक किदें आसा रे?’’

‘‘सकयल्या गाड्यार भजीं आसात. हाडूं?’’

ताणें मान हालयली. येतना सोमत्योच चार हरव्यो मिरसांगो हाड म्हूण सांगपाक तें विसरलें ना. मागीर तें वांगडा हाडिल्ले पोतयेच्या पोंदा ल्हान पर्स

सोदपाक लागलें. पन्नासेक रुपया बाकी उरिल्ले ताचेकडेन. दोन साडयो, तीन पोलके, आनी एक घागरो. सोंपलो तागेलो मालमत्तो. ताचें ताकाच हासूंक आयलें. इतल्यांत तो भुरगो भज्यांचो पुडो घेवन आयलो. जिबलेक लाळ सुटली. बेगीबगीन ताणें एक भजें आनी दोन मिरसांगो करकरायत चाबल्यो. तोंडाची ल्हाय जाली. हा ऽऽ हू ऽऽ करीतूच दुकां दोळ्यांत येसर तें मिरसांगो चाबीत रावलें.

काळोख पडटकच ते दोगूय दोन व्हडल्या पोतयांनी भरून किदें किदें घेवन आयले. त्यो पोतयो ताचे मुखार दवरीतूच शेक्यान म्हळें, ''आयलो पळय तुजो अर्दो संवसार.'' तें गप. शेक्यान ती पोटली रकयली. जेवणाचो दबो आनी सोऱ्याच्यो बाटल्यो कडेक काडल्यो. नाग्यान ग्लास हाडले. ताका म्हळें, ''आज तुंवेंय पियेवंक जाय आमचे वांगडा.'' ताच्या आंगार कांटो फुलल्लो. थंडगार बसून रावलें. नाग्यान म्हळें, ''तुका हेंवूंय कोंता येता?''

''आरे उपकारता न्हय, आयच्यान चलोवपाचें.''

''नाका रे.त्याच्या मनांत ना जाल्यार फोर्स नाका.''

त्या दोगांयमदीं उतरान उतर वाडत गेलें. ताची नदर शेक्याच्या हातांतले बाटलेचेर खिळ्ळी. भितर तांबशें हळडुवें उदक धोलतालें. मागीर दोगूय ओग्गी. ग्लास भरले. तें वण्टीक तेंकून बसून रावलें. तकलेंत किड्यांची लुवलुव.

''शेक्या, आमी टायमिंग वांटून घेवंक जाय. दोगूय एकाच टायमार म्हळ्यार म्हज्यान जांवचें ना.''

शेक्यान म्हळें, ''मागीर आरतून परतून सकाळ-सांज वांटून घेवंया. रात पयऱ्यान बदलपाची.''

कितले सहज उलयतात हे रांडग्याचे. तें स्वताकडेनूच पुटपुटलें. कितें चेटूक आसत ह्या चामड्यांत? ताची तकली इल्ली इल्ली कणकणपाक लागली.

सदांवरीच शेको अर्दे बाटलेन आडवो जालो. नाग्याचें नेटान चालू. पियेतां पियेतां ताका वेंगांत ओडीत म्हणूंक लागलो, ''हाचें अशेंच जाता. आतां हो कांयच खांवचो ना. उठचोय ना. जालो पॅक.'' तें फकत हांसलें. शेक्याच्यो संवयो ताका ताचेपरसूय चड बऱ्यो खबर आशिल्ल्यो. नाग्यान पियेता आसतनाच जेवणाचो दबो लागीं ओडलो. मागीर तो मटणाची एक एक फोड ताका भरोवंक लागलो. अशें घोवान लेगीत ताका केन्ना भरोवंक नाशिल्लें. होय भाडो आपणाले बायलेक खंय भरयता आसतलो? ताच्या मनांत सुरू जालें. मजगतीं ताणें ताका खेळण्यांतले बावलेवरी ल्हवूच उखलून वेंगायलें.

कुडीच्या दारांत स्कूटर थांबली. केंसांतली दांतोणी तशीच सांडून ताणें बेगिबेगीन दार उगडलें. नागो ताकतिकेन भितर सरलो. दाराक खिळी घालपाक तो

विसरलो ना. ताची ती अवस्था पळोवन ताणें म्हळें, ''आतां इतलें भियेवंक जाय कित्याक? सगलें आतां पोरणें जालें.''

नाग्यान म्हळें, ''तुका सांगून किदें उपेग? घराकडेन कळ्ळें जाल्यार हाडलेगीत बाकी उरचें ना. तुजेंय बी आनी म्हजेंय बी.''

''अशें किदें वाघ लागल्यात तुजेफाटल्यान घराकडेन.''

''तें तुका कळपाचें ना.'' अशें म्हणत तो वण्टीक तेंकून बसलो. ताणें स्टोवाक पंप मारलो. केरोसिनाचो शिंवर. वास मेंदवांत रिगलो. फुरफुरत्या स्टोव्हाचेर आदन दवरीत ताणें म्हळें,

''एक बरेंशें गाळणें हाड.''

ताणें दुर्लक्ष करून जांबयो दिवपाक सुरवात केली. इतल्यांत दारांत बुलेट थांबिल्ल्याचो आवाज. तो एकदम कांचवेलो. पूण शेको कसो येत ह्या वेळार? ताका आयकूंक येत अशा आवाजांत ताणें म्हळें,

''शेको केन्नासो गेलो?''

''जातलीं दोन एक वरां'' ताणें माक्नावरी जाप दिली.

च्याचें कोप ताचे मुखार धुकलीत ताचे म्हऱ्यांत तें बसलें. दारांतली बुलेट फुडें गेली. ताका हुस्क्यामेकळें दिसलें. एकदम रंगांत येवन ताच्या खांदार हात उडोवन ताणें च्या पियेवपाक सुरवात केली. तेंवूंय लाडांत आयलें. च्याचें कोप कडेक काडीतूच ताणें ताका वेंगांत घेतलें. मागीर तें पर्थून माक्न जायत गेलें.

वतना ताणें म्हळें, ''बाजारांतल्यान किदें सामायन हाडपाचें?''

''कांय एक नाका. तूंच योऽऽ '' ताचें लाडीकपण यांत्रिक जायत गेलें. स्कुटरीचो आवाज पयस पावमेरेन तें दारांतूच रावलें. पायणींत जितो मूस नाशिल्लो. तें भितर वळ्ळें. आंग सामकें वळमेल्लेवरी जाल्लें. आड पडलें. थंयच ताका दोळो लागलो.

काळोख बिण्ण जालो. पायणींतले दिवे लागले. अजून बुलेटीचो आवाज ताच्या कानार पडूंक नाशिल्लो. नाच आयलो जाल्यार खूब बरें जातलें. आसा तें शेळें शीत भकपाचें आनी ताणून दिवपाचें. फुडलो उजो नाका.

तें वण्टीवेल्या हारशामुखार रावलें. थोडें उदकशें आयलें तोंडार. स्वताकडेनूच हांसलें. मागीर दोळे मोटे करून स्वताकडेनूच पळयत तें एकदम ओग्गी जालें. बरें जालें त्या रेबकणांतल्यानूय हांगां आयलें तें...तें आपणाल्याच विचारांनी घुस्पलें. वेळ कसो गेलो तें ताचें ताकाच कळ्ळें ना. दार उगडून ताणें भायल्यान नदर मारली. ट्यूबाचो लख्ख उजवाड आनी वाहानांची तुरळक येरादारी. एक बेबदो झेलत झेलत वतासतना ताकाच निरखून पळोवंक लागलो. भोंवतणी अजून कोणाकडेनूच वळख जावंक पावूंक नासली. ताणें घडांयच करून दार धुकल्लें. एकदम

हुस्क्यामेकळेंशें दिसलें. कित्याक म्हूण भियेलें हांव? तो बेबदो रिगतलो आसलो घरांत, पूण करून करून तो किदें करीत आसलो? तें स्वताचेरूच तिडकलें. मागीर मनांत आयलें. कितलीं वरां जाली आसतीत? कोणाक म्हूण विचारपाचें? आतां नाच तो येवपाचो. बरें जालें. चला, मातशें खांवचें आनी न्हिदूंक वचचें म्हूण तें सांसपूंक लागलें.

सगलें सोंपोवन तें हांतरुणार लवंडुपाचे तयारेंत आशिल्लें इतल्यांत दारांत बुलेट थांबपाचो आवाज आयलो. तें एकदम कांचवेलें. आयली दिसता पिडा... ताकतिकेन उठपाक केलें. कमरांत कस् जालें. मरणाची कळ. इतल्यांत दारार धाडधाड सुरू जालें. कश्टांनी ताणें दार उगडलें. जाल्यार भितर येतासतनाच दार धांपचे सुवातेर ताकाच ताणें वेंग मारली. दारऽऽ तरी ऽऽ अशें म्हणुनूच तें न्हिनळ्ळें. शेक्याच्या पियेल्ल्या तोंडाचो वास ताच्या मस्तकांत रिगलो.

“हॅट, तिच्या मारी. दार उक्तें उल्ल्यार किदें जाता तुका?” ताणें धडपडत स्वताक सोडोवन घेतलें. तें दाराकडेन फुडें सरलें जाल्यार तो ताका आडायत भायर गेलो. बुलेटीचे डिकयेंतलें जायतें किदें किदें काडून घेवन आयलो. स्वताच दार धांपीत म्हणूंक लागलो, “नाग्या येवन गेलो?” तें फकत हुंकारलें.

“मटण हाडलां. शिजोवन घाल. झणझणीत जावं दी मेथो.” अशें म्हणत ताणें हाडिल्लें सगलें जमनीर रकयलें. तातूंतली रमची बाटलीच कडेक काडली आनी ताणें घाल्ल्या हातरुणाचेर ताणें आस्कळविस्कळ बसकण मारली. आतां सगलें करपाचें म्हळ्यार ताच्या जिवार आयलें. नज तसल्यानीच उठून ताणें ग्लास झळझळावन ताच्या मुखार दवरलो आनी उलयनासतनाच तांबयोभर उदक ताचे मुखार धुकल्लें आनी स्टोव्हाक पंप मारपाक सुरवात केली. आवाज कूडभर सादलो.

“मेथो आनी मटण एकठ्यांयूच शिजय. सेप्रेट सेप्रेट कित्याक? फकत मटणूच खावया. अर्दो कील हाडलां. जाय जाल्यार इल्लें शिताक लाय.” तो सोरो ग्लासांत रकयत बडबडत आशिल्लो.

“कितलीं वरां जालीं?” ताणें कांपऱ्या आवाजांत विचारलें.

“आगो, कितलीं वरां तुका किद्याक जाय? रात अख्खी आमचीच.”

“तेखातीर विचारी ना. एकसारकें बेट्टें बसून रावून टायमूच कळना.”

“राव, च्या मा ऽऽ री. तुका आत्तांचे आतां एक घड्याळूच हाडून दितां” अशें म्हणत ताणें आख्खो ग्लास गटागटा ताळ्यासकयल घालो. दोळ्यांची पातकडी तेंकतासर तो कुडींतल्यान फासाळ्ळो. ‘नाका’ अशें म्हणपाक ताणें उक्तें केल्लें तोंड तशेंच उक्तें उरलें. विचित्रचशें हाचें! दोगांच्यो दोन तरा. कसो सारपाचो जल्म? वतात ते दिस आपणाले. बाकीचें देवाकूच खबर. ताणें तकली झटकिली.

ताकतिकेन सगळें कवळूंक लागलें. इतल्यांत दारांत जोत्यांचो आवाज आयलो. ताची चडूच धांदल जाली. तो धडपडत भितर सरलो. हातांत वण्टीवेले घड्याळीची नवी करकरीत कास. ताकतिकेन ताणें भितरली घड्याळ काडून ताचेमुखार धरली. ''कसो दिसता रंग? एकशेंवीस पडले.'' अशें म्हणत घड्याळ लावपाखातीर तो सुवात सोदूंक लागलो. धुंवरान काळ्यो पडिल्ल्यो वण्टी. ताका खंयचीच सुवात मानवलीना. मागीर ताणें तो नाद सोडून दिलो. घड्याळ वण्टीक तेंकोवन दवरीत ताणें म्हळें,

''कितलीं वरां जालीं सांग पळोवया?''

ताणें नव्या ताल्ल घड्याळीचे कांटे नदरेन सांसपिले. एक णवांचेर आशिल्लो आनी दुसरो अकरांचेर थांबिल्लो. म्हळ्यार कांयच व्हडलोसो टायम जावंक ना तर! तें मनांतले मनांत पुटपुटलें. ताणें ग्लास करतासतनाच आपणाले कार्यावळीक सुरवात केली. स्टोव्हाच्या आवाजांत सगळी कूड झेलत आशिल्ली.

''आगो, झक मारीत वचूं दी तें मटण. मातशें हांगां म्हजे म्हऱ्यांत येवन बस.'' आतां सोरो ताचे तकलेचेर शेक गाजोवंक लागिल्लो. जिबली जड पडूंक लागिल्ली. म्हणटकच सेर्त हो आतां आपणाले बायलेसंबंदांत बडबडत रावतलो. सगलो उजो फोग सुरू. अशें जाता आनी तशें जाता. तें तशेंच गणयत थंयच बसलें जाल्यार ताणें झेलपटत स्टोव्हाची हवाच सोडली. फूस्स फस्स...

आवाज कूडभर पातळ्ळो. एकदम भिरांकूळ थंडाय. ताणें ताका ताच्या बचकांक धरून ताका हातरुणार ओडपाक सुरवात केली आनी बडबडूंक लागलो.

''आतां तुका हे कुडींतल्यान काडून पॉश बंगल्यांतूच दवरतां. फकत सेवा करपाची म्हजी. त्या नाग्याकूय खुटो दाखोवपाचो आमी.'' बडबडत बडबडत ताचो लडबडपी हात ताचें सगलें आंग सांसपूंक लागलो. तें खाटकान सोलिल्ल्या जनावराच्या धडावरी आड पडून रावलें. ताची जिबली लुळी पडली. हात धुकलून उठपाचो तो यत्न करतालो, पूण सोमतोच शेंवटतालो. त्या प्रयत्नांतूच तो सुस्त न्हिदलो. तें ताकतिकेन उठलें. सगलें आवरून घेतलें. खळखळून तोंड धुलें. आनी मागीर तशेंच आड पडून रावलें. ताच्या शेजरा. फिक्या बल्बाच्या उजवाडांत दोळे पाश्टाचे पाटयेर थिरावले आनी न्हवऱ्याचो भिरांकूळ तोंडावळो ल्हवल्हव करून ते पाटयेंतल्यान सकयल देवूंक लागलो आनी ताणें दोळे घट्ट धांपून घेतले. सडसडीत घाम फुटलो ताका. उठून गटागट पेलोभर उदक पियेलें. स्वतःकडेनूच पुटपुटलें, घोवान जल्माचें रेंवट करून उडयलें.

''तुगेलें किदेंय पूण बिनसळ्ळां!'' नाग्याची बायल नाग्याक सहज म्हणपाक लागली जाल्यार सभागो एकदम चवताळ्ळोच. हालींसराक ताचें हें अशेंच सुरू

जालां. मागीर ताचें ताकाच दिसूंक लागलें. आपणालें खरेंच कितेंय पूण बिनसळ्ळां. ताणें पर्थून लाडयेगोडयेन बायलेकडेन लगट करपाक सुरवात केली. तेन्ना ती म्हणूंक लागली, ''आतां बायल नाका जाल्या तुका.'' मागीर लटक्या रागान तिणें विचारलें ''दुसरें कोण लवंगट बी मेळ्ळां काय कितें?'' नाग्या पर्थून तिडकलो. ताणें म्हळें, ''म्हाका दुसरें कोणूय मेळत ना जाल्यार आनीक किदेंय जायत. तुका पोटभर मेळटा काय ना? नस्त्यो जाणवायो नाका तुज्यो.''

नाग्याची बायल फणफणली. तिच्या तोंडाचो पटो चालू जालो. नाग्या मात्सो कांचवेलो. चुकलेंच आपणालें. नाकाशिल्लें उलयलों. तिका आपणालो दुबाव बी मारूंक ना मूं? ताची तकली कणकणूंक लागली. तो धपक्यांत घरांतल्यान भायर सरलो. आपूण खंय वतां तें ताचें ताकाच खबर नाशिल्लें. गांवांसावन पयस रस्त्यार येतकच ताका पुरो जाल्लेवरी जालें. मैलाच्या फातरामेरेन वचून ताणें बसकण मारली. तकली पॅक. शेक्याच्या नादाक लागून आपणें नाकाशिल्लें लचांड आपणाले फाटल्यान लावन घेतलें. बेस्ट चलतालें सगलें. कसलोच हुस्को म्हूण नाशिल्लो. ह्या लवंगटाची खोरोज लावन घेतली आनी सगलेंच इबाडलें. नस्ती जिवाक किटकिट. घरांत आयलो म्हणटकच चोराभाशेन आपणालें मनूच खावंक लागता. बायलेकडेन उलयतना बेठोच थरथरो येता. तिच्या आंगाक हात लायतना मन कांचवेता. आदलेवरी उलोवपाक जमना, बसपाक जमना. नस्ती मनाक ही फुकटची पोखरणी. आतां हेफुडें नाकाच हें लचांड. ते परस शेक्याक सरळ सांगिल्लें बरें, तुजें तू पळय बाबा. म्हाका हो धंदो नाका. पूण खरेपणी अशें करून भागत व्हय? आपणेंच हाडपाक लायलें न्हय ते बायलेक? आतां तिचें किदें करपाचें?

ताची तकली पर्थून सैरभैर जाली. तो ते सुवातेवेल्यान उठलो आनी चलत रावलो. सामको पायांत गुळे येसर.

शेको दारांत आयलो तो झेलपटतूच. म्हातारेन दार उगडलें... जाल्यार तिची तकली ताच्या वासान घुंवली - मूत पियेवन घरांत येवंचेपरस उंवाळचो आशिल्लो थंयच खंयतरी, अशें म्हणत जाणटेलेन घर माथ्यार घेतलें. शेक्याची बायल ताकतिकेन भायर आयली. तिणें शेक्याच्या बचकुलांक धरलें आनी सरळ मदले चवकेर हाडून ताका आपणाल्या हातरुणाचेर बसयलो. म्हातारेच्या आवाजान घरांत बोवाळ जातलो म्हूण ती कांचवेल्ली. तिणें ताकतिकेन वासरेंतली लायट वाडयली. जाल्यार व्हडलो वासरेकडेन येत आड्डलो, ''खंय गेल्लो हो फोद्रेचो? किदें आडायलां ताणें घरांत?''

म्हातारी म्हणूंक लागली, ''पातळ्ळा हातरुणांत. पोरा, आतां तो किदें साबुद्दीर आसा? गाळी संवून किदें उपेग? उजवाडटकच पळोवया. चल, न्हीद तूं.''

मागीर थोडच्या वेळान घर शांत जालें. शेक्याची बायल हातरुणार हुडके दिवंक लागली. शेक्या तंद्रेंतून आड्ढलो, "ए, तुका रडपाक किदें जालां? म्हजें हांव पळयतां. न्हीद तूं." तिका हुडको कसोच आडावनासलो. ती हुडके हुडकेवन रडूंक लागली. "रड तुजे तूं आवयकखायऱ्या" अशें म्हणत शेक्या लवंडलो आनी म्हणटा म्हणसर घोरेवंक लागलो. शेक्याची बायल रडून रडून सर्गदन जाली. तिका आड पडचें अशेंय दिसनासलें आनी बसनूय दिसनासलें. अशो कितल्यो राती काडपाच्यो? तळमळत? तिचो मेंदू भेरेलो. ती वण्टीचेर मुठी मारीत रावली. शेको तालसुरार घोरेत आशिल्लो.

सकाळीं फुडें शेको घरांतल्यान भायर सरलो. ताकतिकेन वाड्यावेले बांयचेर चार बुचकळ्यो मारून ताका कडसरपाचें आशिल्लें. पायणींत गल्लेंतल्यो बायलो सकाळची कार्यावळ करीत बशिल्ल्यो. ताका पळोवन त्यो उठल्यो, मोन्यांनी झप करून, सकयले मानेन चलत म्हणचेपरस धांवत गेल्यो आनी ताणीं पायण वलांडली. ताकतिकेन कपडे काडून ते तळयेवरी बायंत ताणें उडी मारली. उदकांत ताका खूब मेकळें मेकळें दिसूंक लागलें. सोपणाचेर येतकच ताका आपणालेंच आंग बुळबुळीतशें -लिबलिबीतशें दिसपाक लागलें. आपले आपणाकूच ताका वीटशी दिसली. एक फावट आपलेपुरती अखेर करूंक जाय ह्या सगल्याची. तो स्वतःकडेनूच पुटपुटलो. मागीर मनांत कितेंशें थारावन ताणें उदकांत सूळकी मारली. बांयेंचे खरीक वतना एकदम घुसमटलो. हड्डें भरून आयलें तो धडपडतूच वयर आयलो. मागीर पर्थून खरस येसर पेवंक लागलो.

न्हाण सोंपोवन चोरपावलांनी घरांत आयलो. ताकतिकेन कपडे घाले. कोणाच्या लक्षांत येवंचे पयलींच ताणें बुलेट काडून कीक मारली. बायल दारामेरेन यो म्हणसरं तो नदरेआड जालो. आपणालें नशीबूच फुटकें अशें म्हणत ती वळ्ळी. भरधांव बुलेट चलयतना आपटुपी वाऱ्यावांगडा शेको व्हडाव्हडान बडबडूंक लागलो- आपणाक नक्की जालां तरी किदें? आपूण असो थंडसो पडत वतां? आंग बुळबुळीतशें जाता! थंड पडटां. किद्याक लागून? बुलेटीचो वेग वाडलो तशें ताचें बडबडप चडूच वाडत गेलें. बुलेट ठाण्यार थांबली. कुडीचें दार उक्तें जालें. तें निकतेंच न्हाल्लें. केंस मेकळे सोडिल्ले. दारांतल्यान भितर सरनाफुडेंच ताणें विचारलें, "नागो केन्ना गेलो?"

"आयलोच ना रातीकडेन." ताणें दार बंद करीत म्हळें. मागीर ताणें च्याचें विचारलें. तो फकत ताचेकडेन नदर लावन पळयत आशिल्लो. ताचें आंग आपसुकूच तापत गेलें. ह्याच खिणाक खात्री करून घेवपाची. तो उठलो. ताचेर झोपय घेतली. तें एकदम गोंदळ्ळें. मागीर माक्नावरी ताचे सुवादीन जालें.

ताणें च्याचें कोप ताचेमुखार धरलें. ताका खिणभर दिसलें, हाकाच विचारून पळोवंचे. अशें कित्याक लागून जाता? हांगा येतकच सगलें सामकें वेवस्थित. मागीर घराकडेन म्हजें आंग किद्याक थंड पडटा? पूण हाका विचारून किदें फायदो? नाका, दिवपूच ना दुबाव. तो सांवरून बसलो. च्या पियेतासतना ताणें पर्थून लगट सुरू केली. तेन्ना तें एकदम पयस गेलें. म्हणूंक लागलें, ''पर्थून पर्थून तेंच तेंच किदें? जिवाक दुसरें कांयच सुचना काय किदें?''

मागीर तो एकदम खो ऽऽ खोऽऽ करून हांसत सुटलो.

आज शेक्याक कशेयभाशेन सांपडांवकूच जाय. आयलो ऑफिसांत जाल्यार प्रस्नूच ना. पूण गेलोच बॉब मारीत जाल्यार ताका सोदून काडूंकूच जाय. ताचेबगर हो उद्देग दुसरो कोण करतलो? हातूंत जितली म्हजी अब्रू तितलीच ताचीय. इतलें ताका कळना आसत जाल्यार मागीर ताची इश्टागत जायच कित्याक? अशें बरेंचशें किदें किदें घरांतल्यान भायर सरतना नाग्याच्या मनांत सुरू आशिल्लें. ताकालागून दनपारच्या जेवणाचो दबोय घेवपाचें ताच्या लक्षांत उरलें ना. बायलेन ताकतिकेन दब्याची पोती हाडून स्कुटरीक लायली म्हूण बरें. ना जाल्यार तसोच लागपाचो तो वाटेक. ताणें स्कूटर मार्गाक लायली. सदांवरी तिट्यार पान खावपाकलेगीत तो रावलो ना. सरळ पेठेंत. ताणें कुडीमुखार स्कूटर थांबयली. बुलेट थंय दिसली ना. म्हळ्यार शेक्या गेलो तर! दार उक्तें करून तें भितर वळटालें इतल्यांत नाग्यान म्हळें, ''केन्ना गेलो?'' ताणें गोंदळून म्हळें, ''फांत्यापारारूच. किद्याक? किदें जालां?'' ताच्या मनांत आयलें, भितर तरी किद्याक वचप? गणयत रावलो. मागीर किदेंशें थारावन भितर सरलो. तें आज मातशें खाकुडिल्लेवरी दिसतालें. तो वण्टीक तेंकलो. ताचेंय हांगांथंय किदें किदें सांसपप चलिल्लें. ताचेंय कितेंय पूण बिनसळ्ळांशें जाणवतालें.

ताणें विचारलें, ''आज अशें सगलें ओगी ओगीशें चल्लां? किदें बिनसळ्ळां बी?''

ताणें म्हळें, ''खंय किदें?''

''तेन्नाच -''

''रातीं ताणें दुसरीच एक हाडिल्ली. दोगांयकूय जेवंक वाडलें. मागीर गेलीं खंयतरी.''

नागो एकदम वाऱ्यार उसळ्ळो. 'शेको सामको हलकट!' स्वताकडेनूच पुटपुटलो. ताच्या मनांत आयलें - आपणालेच बायलेक बी घेवन आयिल्लो काय किदें? शॅ! तसलें धाडस किदें करतलो? मागीर ताणें म्हळें, ''कोण आसली ती बायलमनीस?''

''हांव खंय वळखतां?''

''तरीय पूण दिसपाक बी? चलपकरप?''

''घरदारकान्न अशी दिसनाशिल्ली. हेडगीच आसूंक जाय. खूब घसट चलिल्ली. लक्षणां धड दिसनात.''

ताणें कशेंतरी सांगलें आनी धोंपरांत तकली घालून बसलें. किदें उलोवंचें तेंच ताका येवजनासलें. तें भियेलां. ताका धीर दिवंक जाय. पूण, म्हळ्यार नक्की किदें करपाचें? मुळांत ताचीच तकली कणकणटाली. तातूंत आनी नाकाशिल्ली भर म्हळ्यार आज शेक्याक कशेयभाशेन सांपडावंक जाय. तो मोन्यांनी उठलो. दारांत आयलो. तें असहाय नदरेन ताचेकडेन पळोवंक लागलें. खोल खंयतरी कालवल्लेवरी जालें. थांबनासतनाच ताणें स्कूटर वेगान सोडली.

गेटीच्या दारांत सगले कारकून, शिपाय बी चोम्यान राविल्ले. म्हळ्यार युनियनाची भानगड. शेको आसतलोच. ताणें हेर कसलीच वासपूस करीनासतना शेक्याक सोदपाक सुरवात केली. चोमो घोशणा दिवंक लागलो. ताची तकली भिरभिरूंक लागली. घोशणा थांबल्यो. युनियन फुडारी मेजार चडून भाशणां दिवपाचे तयारेंत आशिल्ले. शेको ह्या चोम्यांत नाच. म्हळ्यार खंय तरी हुंवाळपाक फासाळ्ळा आसतलो. आनी हें नवे लवंगट कोण? म्हळ्यार थारायलां काय किदें? आपणाक ही बायल झेपपाची ना म्हणपाचें? ह्या जंवजाळांतल्यान मेकळें जावंक जाय. तुजें तूं पळय म्हूण सांगूंक जाय. ताणें तकली झटकिली. स्कूटर रस्त्यार पावली. ताची तकली थाऱ्यार येवपाक तयार नाशिल्ली.

कुडीच्या दारांत बुलेट थांबिल्ली पळोवन ताका धीर आयलो. पूण तिडक तकलेक चडिल्ली. दाराची खिळी वाजयली. शेक्यान दार उगडलें. म्हळें, ''ह्या टायमाक?''

''हय, तुकाच मेळपाक.''

''किद्याक?''

ताणें येवजिलें, सोमतीच सुरवात नाका. ताका कुडींतल्यान भायर हाडपाचो. म्हणटकच तापार जावन सगलो सोक्षमोक्ष लावंक मेळटलो. तो शांतपणान भितर गेलो आनी वणखलो. तें फातरावरी थंडगार, गप. शेक्यान म्हळें, ''ऑफिसाक गेलो ना?''

''थंयच्यानूच आयलां. तूं पावलो ना तेवटेन?''

शेको कांयच उलयलो ना. तिगांय थंडगार. एकमेकांच्यो नदरो चुकयत.

तें आपणाले सुवातेवेल्यान उठलें. दार उगडलें. दनपारचो मेकळो उजवाड भितर आयलो. चेपण मातशें धीलशें जालें. नाग्यान म्हळें, ''आतां करतलो किदें तूं? काय न्हिदतलो हांगांच?''

''कांयच थारावंक ना. किदेंच करचेंशें दिसनाशें जालां. किदें जाता तेंवूंय कळनाशें जालां.'' स्वताकडेनूच उलयल्लेवरी शेक्याचो कांपरो आवाज नाग्गो अजापित जावन आयकतालो. तो फकत ओग्गी बसून रावलो. तें दोगांयकडेन आशाड्डेपणान पळयत रावलें. दोगांय कुवाड्यांत. म्हळ्यार आपणालो हांगाचो शेर सोंपलो दिसता. ताच्या काळजांत एकदम धस्स जालें. दोळे गच्च धांपून घेवन ताणें खाडकी धोंपरांचेर तेंकयली.

''शेक्या, मातशे भायर वचून येवया.''

''चल.'' म्हणत शेको उठलो. दोगूय रस्त्यार आयले. स्टॅण्डाकडल्या पिंपळाच्या पेडार बसले. नाग्यान एकदम विशयाकूच हात घालो.

''शेक्या, काल तूं खंयचे बायलेक घेवन आयिल्लो?''

''तेंच सांगूंक सोदतां तुका.''

''आरे, म्हणल्यार अशा कितल्या जाणांक दवरल्यात तूंवें?''

''नाग्या, तूं म्हजो खऱ्यांनीच इश्ट मरे?'' शेको एकदम कळवळ्ळो. ताच्या आवाजान नाग्याची रयाच बदल्ली. म्हणूंक लागलो,

''म्हळ्यार?''

शेक्यान कांपऱ्या आवाज़ांत म्हळें, ''इश्टा, किदेंय पूण फिस्कटलां. हातूंतल्यान किदेंय पूण सोडणूक सांग. म्हाका जाल्यार कांयच कळनाशें जालां.''

''जालां तरी किदें?''

''सगलेंच भिकारचोट.'' अशें म्हणत तो बांद फुटिल्लेवरी उलोवंक लागलो. ''तुका सांगले ना आजवेर. आमच्या ह्या लवंगटाकडेन वचूंक लागतसावन सगलेंच फिस्कट रामायण जालां. घराकडेन गेलो म्हणटकच हातरुणार सगलेंच आंग लुळें पडटा. बायल आतां तग धरीतशी दिसना. ती तर म्हाका बायजणूच समजूंक लागल्या. काल जाल्यार तिणें म्हाका घरांतल्या सगल्यां हुजीर उक्तो केलो. म्हणूंक लागली, 'ह्या खोज्याकडल्यान म्हाका पोरां कशीं जातलीं? असलो खोटो मनीस म्हज्या पदराक किद्याक बांदलो?'

''म्हजो जाल्यार जीवूच गेलो. आई, दादा, व्हनी म्हजेकडेन बुरशे नदरेन पळोवंक लागल्यांत.''

''बायल फट उलयता म्हूण सांगपाचें तुवें.''

''कशें सांगूं? जिबलीच उखलना जाली. ह्या कमळ्यानूच किदेंय पूण नखलामी केल्या जावंक जाय. हाचेकडेन येतकीर सगलें सामकें वेवस्थित. घराकडेन वेतकीर लुळें पडटा आंग. दुसरेच भायले बायलमनशेकडेन एक फावट खात्री करून घेवंची म्हूण काल गेल्लों डोंबारवाड्यांत, जाल्यार थयूंय गळसणलेंच हें आंग. ते बायलेक घेवन आयलों हांगां कुडीर. म्हळें, जाग्याचो गूण आसत. जाल्यार हांगांय कुडीर

तशेंच. म्हजी आतां खात्रीच जाल्या. हे बायलेकडेन किदेंय पूण नखलामीचें आसा. तूं मातसो सांबाळून. हे बायलेक धांवडावून घालुया. म्हजें काम जातकच.''

''तुजें कसलें काम?''

''हिका व्हरून उबी करतां म्हजे बायलेमुखार. तिची पटयतां खात्री हिच्या तोंडांतल्यान. सकाळसावन हांव हाका पराथीत आसां, येवपाकूच तयार ना. पळय. तूं तरी पळय तें तयार जाता जाल्यार मातशें. म्हजो संवसार वाटावतलो, ना जाल्यार सगलेंच खलास.''

नाग्याची तकली एकदम पॅक. लवंगट दवरलां म्हणपाची खबर ऑफिसांत पावलीच कशी? हें विचारपाचेंय तो विसरलो. ताका स्वताच्या आंगापांगांतल्यान कितेंय पूण भायर सरून गेल्लेवरीशें दिसलें आनी हुस्को जालो. तो वोग्गी बसून रावलो.

शेक्यान म्हळें, ''या मरे रुमार?''

नाग्या उठलो. ताणें मनांत निछेव केलो, 'ह्या कमळ्याक शेक्याच्या हुमऱ्यामेरेन व्हरूंकच जाय.'

दोगूय कुडीच्या दारांत पावले. तें शेळेवन वण्टीक तेंकून बशिल्लें. भितर पावल घालिनाफुडेंच शेक्यान म्हळें,

''मागीर वचपाचें न्हय गांवांत?''

तें एकदम तापलें. म्हणूंक लागलें, ''सांगूंक नासलें? ह्या हुंबऱ्याभायर पावल घालचें ना म्हूण?''

नाग्यान ताका थातारीत म्हळें, ''अशें कशें तर? ताच्या घराक उजो पेटला. तूं वशीत जाल्यार मातशें-''

तो आडखळ्ळो. पूण हे बायलेक व्हरप म्हळ्यार उज्यांत आनीक तेल ओतप. ताचें तोंड बंद जालें.

तें सारकें बसत नाग्याक म्हणूंक लागलें, ''हाच्या घराकडेन वचून हांवें हाचे बायलेक सांगपाचें, हो मर्दूच, दादलोच आसा म्हूण? त्यापरस ह्या भाड्याक जीवूच दी म्हूण सांग खंय तरी वचून.''

''येऽऽ तोंड सांबाळ चेडयेऽऽ'' शेक्याचो आवाज चडलो.

''चेडी कोणाक म्हणटा? गळसण्या! चेडी जायत तुजी बायल.'' ताचो तोल गेलो.

नाग्याची बुद्दूच शेंकेली. शेक्या चवताळ्ळो. म्हणूंक लागलो, ''नाग्या, उठ रेऽऽ हाका घालुया गाडयेर आनी व्हरूया गांवांत.''

तें एकदम कांचवेलें. आतां आपणालो निभाव लागपाचो ना. तें ताळ्यार आयलें. ताणें नाग्याक म्हळें, ''तूं सांगता तशें हांव करतां. सांग, किदें करपाचें?''

नाग्या फकत मातसो वळवळ्ळो. तो आरतून परतून दोगांयकडेन पळोवंक लागलो. ताका थंयच्यान पळ काडचो अशें दिसूंक लागिल्लें. मागीर ताणें शेक्याक समजावन सांगपाचें थारायलें. म्हणूंक लागलो,

"शेक्या, मातशे भायर वचून येवया."

ते दोगूय भायर सरले.

तें आतां एकलेंच. दार उकतें. ताची तकली भिरभिरली. ते बायलेकडेन वचून हांवें तिगेलो घोव म्हजे वांगडा कसो न्हिदता हें सांगपाचें? ताच्या आंगार सर्र करून कांटो. ताचे नदरेसामकार ताचोच घोव उबो रावलो. ते रातीकडेन ताणें दवरिल्ले बायलेक ताणें ताच्या बिशाण्यार हाडिल्ली आनी ताचे हुजीर तो तिचे वांगडा न्हिदिल्लो. तेन्नाच ताच्या काळजाच्यो तिस्त्यो-वादऱ्यो जाल्ल्यो. मनाचेर फातर दवरून मध्यान रातीर तें भायर सरिल्लें. जीव दिवपाखातीर. मर्दीच दिसलें, मरून तरी किदें मेळटलें? तेपरस कोणाचे तरी भितोडेक रावून जगचें अशें बरेंचशें किदें किदें. अखेरेक घडलें किदें? सोमत्योच ताणें ताकतिकेन तीन साडयो, तीन पोल्कां, दोन घागरे पोतयेंत भरले. मनांत आयलें, आतां म्हजी इश्टेट वाडल्या म्हणपाची. सट करून तें भायर आयलें. कुडीचें दार बंद करपांतूय ताणें वेळ वगडायलो ना. ते दोगूय दिसतीत म्हूण जिवाच्या आकांतान तें रस्त्यावेल्यान धांवत सुटलें. पळटा आसतनाच तें स्वताकडेन पुटपुटत आशिल्लें,

'म्हाका दुसरी रांड तयार करपाची नाऽऽऽ.'



10

# भिकाऱ्याक ओकारे

**मूळ मराठी : अमिताभ**

**कोंकणी अणकार : नारायण देसाय**

घरांतल्यान भायर सरतना मारुती ताकसांडो खोशयेंत आसलो. फाटल्या कितल्याशाच दिसांसावन सगुण्यान- ताच्या दोन वर्सांच्या चेडवान बुंदीच्या लाडवाचो हट धरिल्लो. आयज तो पूर्ण जावंचो आसलो. अख्खो लाडूच तो हाडपाचो आसलो. जिलेबी आनी भजीं लेगीत. ताणें तशें उतरूच दिल्लें. सगुणे खोशी जाल्लें. ताणें आपणें जावन ताका पापी दिल्ली. लक्षुम्यान धाकल्या मिरीक दुधाक धरिल्लें बा लेकीकडेन लायताली त्या दोगांकडेन पळोवन धादोस जाली. आजय तोंडाची रूच भागतली आसली. आशा खूबच वायट आसता.

मारुती ताकसांडो काम करपाक जिवार येतालें म्हूण भीक मागतालो अशें न्हू. मारुती घोळयो. नव्या पयशाचो हिशोब ताका कळनासलो. पूण कश्टांक भिवपी न्हू तो. हेरजण म्हण्टाले तो मारुती मरे, खबर आसा, शेतांत नांगराफाटल्यान आनी घरांत बायलेच्या कुल्याफाटल्यान! इतलेंच. हाचे परस तेका कांय इचारूं नाका.

तर असलो हो मारुती. पयल्या वर्सा कापसाच्या शेतांत कामाक गेल्लो. धामणे गायेन आपलो मातयेन भरिल्लो फाटलो पांय नेटान झिडपिलो तो ज्युस्त बसलो हेच्या आंडार. आंडाची खंयची शीर दुखावली काय कितें कोण जाणां तो सुजून एद्दो नाल्ल जालो. वखद-विसर जालें, आंगारे, दोरे, घाडी-भगत जाले. पूण कांय व्हडलोसो गूण पडलोना. चड कश्टाचें काम केलें, चड चल्लो म्हण्टकत ती शीर दुखपाक लागताली आऩी मागीर शीक पडटालो. देखून आतां घराच रावतालो. ताचे म्हातारेच्यान, अंजेनीमायेच्यान हे पळोवंक नजो जातालें. ती वगी राव राव रावली आनी एक दीस म्हणपाक लागली 'ती त्रिकाळ घरांत आसता पडोन गाद्यारेड्याभशेन. काम जमना जाल्यार वच मरे भीक मागपाक तरी! फुकट कोण पोसतलो तुका आनी तुज्या बायलभुरग्यांक? तेन्नाच्यान मारुती धाकल्या सगुण्याक आनी बायलेक घेवन वेगळो रावलो. रावतालो थंयच पूण चूल वेगळी. आतां मारुतीन कश्टांच्या कामाक वचपाचें सोडिल्लें. भीक मागप होच ताचो पोटापाण्याचो

धंदो जाल्लो. एक दीस भीक मागल्यार दोन-चार दिसांचें भागतालें. शीत, भाकरी बरी वतांत सुकोवन दवरपाची. दोनचार दीस खुशालेंत वताले. वरण-बिरण मेळ्ळयार, भितर तोरांच्यो दोन फोडी ना जाल्यार चिचे बोटां घालून शिजयतकीत बेळसलें जाल्यार कांयच कळनासल्लें. तर अशे दीस सरताले.

धांडे पाटलाचे चलयेचें- रंभीचें लग्न एकदांचें जालें. 'शुभ मंगल सावधानऽऽ' भटमामान हालेट दिली. मंगलवाद्यांचे मंजुळ सूर माटवांतल्यान भायर पावून गाजले, तेन्ना धांडे पाटलान सुखाचो हुस्कार सोडलो. धांडे पाटलाचो जांवय डॉक्टरकीची परीक्षा पास आसलो. हालींच गावांत दवाखानो घातिल्लो. जांवयाक दवाखानो घालूंक लागिल्ल्या खर्चाची हमी धांडे पाटलान घेतिल्ली. वयल्यान पंद्रा हजार रोकड दिवपाची, अशें उतर जाल्लें. रंभीचें लग्न व्हडा थाटामाटांत करपाचो पाटलाचो प्रोग्राम आसलो. कार्य बरे भशेन जांवचें म्हूण धावपळ केल्ली. जावंय बक्षिसाचे पयशे रोकड मेळचे म्हूण तटून बसलो अशें कानार आयिल्लें. पूण तशें कांय घडलेंना.

धांडे पाटील म्हळ्यार मोटें प्रस्त. गांवचो सरपंच, सरकारांत वयरमेरेन वळखी. ताका लागून लग्नाक आमदार-खासदार, शेट-सावकार, म्हास्तर-कारकून आयिल्ले. पंचायतींतल्या शिपायामेरेन झाडून सगल्यांनी हजेरी लायिल्ली. आप्तइश्ट, सोयरेधायरे, सुटाबुटांतले शेलेकार, फेटेकार सगळे लग्नाक हाजीर आसले. लोकांनी हाडिल्ल्या, सोयऱ्यांनी दिल्ल्या मोगाळ भेटवणींची, केळवणींची रास पडिल्ली.

तेन्नाच मायकावयल्यान चत्राय आयली, 'उपकार करून कोणेच जेवलेबगर वचचें न्हय. आतां रोखडींच पानां वाडटात तेन्ना...' माटवांत पानां मांडलीं. सादोभात, गोडभात, मसालाभात वाडून जालो. सादी दाळ आयली, वांयग्यांची भाजी, बटाट्याची भाजी, कोबीची भाजी, मेथयेची भाजी असो भाजयांचो एक ताफो वाडून जालो. आंब्याचें गोड-तिखट लोणचें, लिंबाचें लोणचें, धंयाची कडी, चिंचेची कडी, भर्जीं, सामोसा आयले. निमाणीं साजूक तुपाची धार दरएका पानार धरून जाली. सोवळें नेसलेले, गंध अक्षता लायिल्ले रांदपी आनी वाडपी एकाफाटल्यान एक जिन्नस वाडटाले. पंच-पक्वानाचो घमघम सगळ्याक भरून सोयऱ्यांचे जिबेक उदक सुट्टालें. माटवांत सगळीकडेन उदवाती लायिल्ल्यो. तांचो चंदनी परमळ सबंद आसमंतांत पातळिल्लो. लाडू जिलब्यांच्या घमघमाटांत भरसतालो. पाना भवतणीं रांगोळी घातिल्ली. बसपाक रंगीत पाट आसले. एकाच वेळार चार-पांचशीं पाट मांडपाची सोय आसली. आनी लोक पानार बसले. जेवपाचो आग्रो जातालो. हात लांब करून जेवपी लोक आडवो हात मारूंक लागले. लाडवाचो कुडको काडूं लागले. जिलेबीचो कुडको घोळोवंक लागले.

लाडू, जिलेबी, मसालेभात, साकरभात, पापड, पुरयो हांच्यो राशी सोपूंक लागल्यो. लोक कडी भुरकूंक लागले. खासा धांडे पाटील पंगतीतल्यान भोवताले. जाय नाका तें पळयताले.

'आरे, रामा सायबाच्या पानार जिलेबी वाड रे.'

'एतवार मास्तर, आरे हांगा लाडू वाड, सोंपल्यात तांचे.'

'नाका नाका, पुरो जाले.'

'नाका कसो? घेया घेयात. मास्तर, तूं वाड रे थंय आनीक एक.'

'आसूं, नाका, पोट तडशेलें सामकें. सांडचें पडटलें भाऊ.'

'सांडचे पडूं... भिकारी खातले.'

पानार दोनचार लाडू, चार जिलेब्यो, शीत, भाजी, पुरयो, कितेंना कितें सांडून उठलेबगर सोयरे जेवन तृप्त जायनात अशी पाटलाची धारणा आशिल्ली. 'वा! पाटलाक मानलो हां, कितें दानत पाटलाची!' हीं उतरां आयकूंक पाटील आंवडेतालो. झेलाच्यो लादयो बांयत उडोवन पावण्यांखातीर उदक थंडगार करपाची वेवस्था केल्ली.

तर अशे तरेन आग्रो चलतालो. लोक जेवून धेंकर दिताले. होंवराक तोंडभर आशीर्वाद दिताले. पाटलाक तृप्त जावन तोखेताले. पाटील तुस्त आयकून सुखावताले. सर्गदन जाताले.

आनी भायर माटवाच्या फाटलेदारालागीं आनीक गर्दी जमिल्ली. हांकां कोणे आफयल्ले? कोणे वांटल्यो होवळिको? ना ना, तांकां कोणे आफोवंक ना. तांकां कोण होवळीक वांटतलो? हांकां कोण्णे आफोवणें धाडूंक ना. तांकां आमंत्रणाची गरज ना कसली? ते आमंत्रणाबगर हाजीर रावतात. ना आपयतां ना कळयतां. सुण्याक जसो चोराचो, शिकाऱ्याक सावदाचो, चोराक पुलिसाचो, म्होंवामुसाक जसो फुलांचो वास येता, मुयेक जसो साकरेचो वास येता, तसोच हांकां लग्नाचो चड करून जेवणावळीचो वास येता. थंय ते एकटुके, चोंब्याचोंब्यांनी जमतात. तशें तेखातीर तांकां आपोवणें-बिपोवणें, आमंत्रणाची गरजच कितें? म्होवामुसाक कितें फूल आमंत्रण धाडटा? बेब्याक कितें सोरो खुणायता? मुयेच्या कानांत कितें साखर फुतफुतता?

अशे हे गांवचे पंचक्रोशींतले भिकारी. तातूंत कुड्डे आसात, लंगडे, अपंगूळ आसात, घणघाव कुडीचे आसात. बायलो-दादले, म्हातारे-कोतारे, भुरगे-तरणाटे, अनाडी, रोगी, म्हारोगी, क्षयरोगी, हातापायांचीं बोटां झडिल्ले, पायांचीं बोटां कुशिल्ले, झडिल्ल्या नाकाचे, पुरवल्ल्या दोळ्यांचे आसात. खड्डे आसात, लांब भिसांचे, घाय कसो दिसपाखातीर पायांक तांबड्या दागांचे कपडे बांदिल्ले आसात, सगळे आयल्यात. तरातरांचे, खांक्या पिंदिल्ली म्हेळी विटखोर झोळी

खांदाक, तर कांयजाणांच्या हातांत आलिमिनाची चेपकी, फुटकी ताटली. मूस, हुल्को आनी जळारां घुंवघुंवतात. वांगडा गावांतलीं सुणीं आं करून उबीं आसात. भाजी, भजीं, साकरभाताचो वास, मसालेभाताचो वास, लाडू जिलेबी हांचो वास. सगळे वास एकमेकांत भरसून हांच्या नाकांच्या बुराकांतल्यान झिरपतात. एकाद्रो लाडू, जिलबेकुडको, मसालेभाताची उंडी केन्ना जिबेर पडटा अशें जालां. जीब एकसारकी पाझरता. सुटिल्ली लाळ आवरतना ओठांचो बांद फुटून लाळ भायर व्हांवता. असो लाळेचो हुंवार तोंडावटयां घसघशांनी व्हांवता.

मात्शी मुखार आशिल्ले कोयराचे राशीकडेन गटार-व्हाळयेच्या कांठार आनीक कांय लोकांचो चोमो आसा. आंगार एकाद्री फाळी. कोणाच्या कमराक म्हेळो सुडको. बायलो आसात, दादले आसात, म्हातारे आसात, भुरगे आसात, पोरांतारां आसात. कांय ल्हान कंपनी सैमिक अवस्थेंत. सदांचीच गजाल ही. आदल्या चोंब्यासारकी तरा हांगाय आसा. दोनय चोंबे भिकाऱ्यांचेच. आवतिकाय सगळ्यांची सारकीच आसा. पूण एक माटवाच्या दाराकडेन नंबर लावन, खेटून उबो आसा... दुसरो थंय मुखार पयल्या जथ्यापसून पैस, मदीं अंतर राखून, गटार व्हाळयेच्या कांठार उबो आसा.

हो म्हारामांगाचो जथो. अस्पृश्य भिकाऱ्यांचो, दलित भिकाऱ्यांचो जथो जावन आसा. गावांतलीं वेचून सगळीं सुणीं थंय एकठांय जाल्लीं. कांय पयल्या जम्यांत, कांय दुसऱ्यांत. तेवटेनच्यान हेवटेन भोंवतालीं. मेळटा थंय तोंड घालतालीं. हुंगतालीं. दोंक्ये वयर करतालीं. सगल्यांच्यो नदरो माटवाच्या दरवट्यावटेन लागिल्ल्यो.

सूर्या आगटें कसो पेटिल्लो. तवो तापचो तशी जमीन तापिल्ली. तापिल्ल्या वाऱ्याच्यो झोती मारताल्यो ताणें आंग भाजून वतालें.

माटवाच्या दारांत पाटल्याचो मानाय सखाराम हातांत दांडो घेवन, भितर कोणेय रिगचें न्हय म्हूण दोळ्यांत तेल घालून राखण करतालो. दारावयलो कलकल, बोवाळ वाडटालो. मानाय तांचेर धेंगशेतालो. तितल्यापुरते वगी रावताले, परते कांय वेळान बोवाळ सुरू जातालो.

पयली पंगत उठली हें कळपाक भिकाऱ्यांक वेळ लागलो ना, तांचो कुलकुलाट वाडलो, हालचाल वाडली, उलवप वाडलें, लाडवाचो एकाद्रो कुडको, शिताचो एकाद्रो ल्हानसो दिफळो, मसालभाताचो दिफळो पदरांत पडचो म्हूण यत्न सुरू जाले. आनी अखेरेक पाटलाचो मानाय उश्ट्या अन्नाचो व्हडलो खोंटलो घेवन येतना दिसलो, ते बराबर चिरंगट, धुकलाधुकल वाडली. झुंडी, बखावाऱ्यो बसल्यो म्हूण गाळयांचो शिंवर जालो. गाळीफस्ती सुरू जाल्यो. भिकाऱ्यांक एके हारींत उबे

रावपाक ताणें फर्मायलें. पूण कोण आयकता तें! आदींच वासान तांची तकली भेरेल्ली आतां भरिल्लो खोंटलो पळोवन ती सामकी विरार जाली. दरएकल्याक पयलो नंबर जाय! रांगेत उबो रावलो आनी आपलो नंबर येता म्हणसर खोटल्यांत कांयच उल्लें ना जालें जाल्यार मार बोब! फुडले फावट येत न येत. दरएकलो दुसऱ्याक म्हणटा लायनीत राव, रांग धर! निमाणे इलाज नासून आनी आतां मजा म्हूण तो मानाय मुठीमुठीन तें उश्ट्या अन्नाचें मिश्रण भिकाऱ्यांच्या आंगार शेवटून मारूं लागलो. मारतां मारतां मागीर तो ताचो एक खेळूच जालो. तें वयलेवयर जिखून घेवपाखातीर उडयो पडूंक लागल्यो. सकयल पडिल्लें अन्न पुंजावपाक परत झुंडीनी तीर मारप. धुकलाधुकली जांव लागली. लाडवाच्या, जिलबेच्या एकेका कुडक्याचेर, शिताच्या गोट्याचेर, एकबराबर धा धा हात पडूंक लागले. खिणभर वेळ मेळल्यार रोखडेच तोंडात चोंदूंक लागले. शेंवटिल्ल्या मिश्रणाचेर कावळे झपय मारूंक लागले, चोंची मारूंक लागले. पेलेवटेनचो ते म्हार-मांग भिकाऱ्यांचो चोमो हांचे भितर भरसूं शकनाशिल्लो, कारण हो जथो तेली, कुणबी, शेट, माळी ह्या भिकाऱ्यांचो. भिकारी जाले म्हण कितें जालें, धंदो एक जालो, लाचारीची तरा तीच जाली म्हण कितें जालें? पीडा-रोग दुवेंस एकसारखेंच जांव गा, दुख-दळदीर एकूच जांव गा, म्हूण कितें म्हारा मांगामदें भरसुपाचें? तें कशें जांव येता? म्हार-मांग हे कितेंय जाल्यार उणाक. खासा देवानूच केल्यात न्हय ह्यो जाती. ताणेंच तशें म्हटलां तर! पूर्वापार अशेंच चलता. वडिलांचें उतर आमी कित्याक म्होडप. आम्ही तांचेपरस शाणे? तें कांय ना, धर्मान सांगलां तशें आम्मी चलपांचें. बाटले, भश्टाचार जालो जाल्यार मागीर शुद्ध जावचें पडटा. नाजाल्यार, नरकांत पडपाचें पातक लागता. नाका हें नाका. धर्म सोडप ना. भिकारी जालो म्हूण कितें जालें? ताकाय धर्म म्हूण आसताच मूं?

म्हणसर भितल्ल्यान दुसरो मानाय उश्ट्या पत्रावळींचो एक दाळ घेवन भायर आयलो आनी ताणें तो दाळ उस्तवाऱ्यार उडयलो. ते बराबर भिकाऱ्यांनी थंय झुंडीन घालून घेतलें. जमिल्ल्या सुण्यांनीय उडयो घातल्यो. कावळ्यांनी भोवाऱ्यो मारपाक सुरवात केली. जाका जी पत्रावळ मेळ्ळी ती घेवन तिका दशिल्ले शिताचे गोटे, पत्रावळींच्या खांचींनी शिरकल्ले जिलबेचे कुडके, हाचे कण सोदून काडूं लागले. पत्रावळी जिबेन चाटूंक लागले. कडयेचो दोणो उरफाटो करून चाटूंक लागले. परती पत्रावळीखातीर धुकलाधुकली आनी लंडामुंडी सुरू जाली. मारामारीचे प्रसंग येवंक लागले. आवय-भयणीवेल्यान गाळयांचो शिंवर जांवक लागलो. जांव दादले जांव बायलो, सगल्यांच्याच तोंडातल्यान थुंकी गळची तश्यो गाळी सरसकट झडटाल्यो. पूण पत्रावळीक सुण्याचें तोंड लागनाफुडें ताका धांवडावपाक सगले एक जावन ताका हटहट करीत धांवडायताले, फातर मारताले.

भिको आठ-णव वर्सांचो. आंगार हुमेच्यो धारो सुकून त्यो कुत्र्यान मूतचें तशो दिसताल्यो. दोनूय मनगटां शेंबडान भरिल्लीं. दोन पत्रावळी ताणें चोखिल्ल्यो. पूण ताका लागून जिबेची खाज आनीकूय वाडिल्ली. एकूय बुंदीचो दाणो वा जिलबेचो कुडको जिबेक लागूं नासलो. म्हणसर ताचें लक्ष दारांतल्या उश्ट्या अन्नाचे कुडके शेवटून मारपी त्या मानायावटेन गेलें. मानायाच्या एक हातांत एक अख्खो लाडू आसलो तो आतां शेवटीतलोऽऽ.. शेवटीलो! तो हातासपाखातीर दाराकडले आठधाजण धांवले. लाडू तांच्यापसून एका हातार पडलो आनी फुटलो. भिक्यान ताचेर झडप मारली. जुस्त त्याच वेळार सगळ्यांच्यो हुडक्यो थंयच पडल्यो. एक खिणाभितर सगलें घडलें. भिकाऱ्यांक आफुड जाली. लाडू मेळप उल्लें कुशीकूच, भश्टाकार मात जालो. आतां न्हावपाक जाय. असल्या वगतार पिवपाच्या उदकाचीच जंय मारामार, न्हावपाक आनी खैंचें!

"धरा धरा ताका, राणग्याच्यान भश्टयले आमकां."

"राणग्याच्या, तुजी सुवात सोडून हेवटेन कित्याक तूं? आं?"

"धाडायात, फुलय राणग्याचेर, शिकय बुद्द ताका."

ताच्या दोळ्यांमुखार काजुले लिकलिकले, कंवळ्या पोल्यार पांचूय बोटां उदेलीं. भिक्यान बोब माल्ली.

"आरे, सायबा ताका मारू नाका, ल्हान पोर मरे तो, ताका कितें कळटा. आसूं, पाड पडूं ताचें."

"आगे... तूं वगी राव थंय, धुकन्न खंयची!"

मागीर परतो भिक्याचे फाटीर धपको पडलो आनी भिको कळवळ्ळो.

"नाका नाका... पायां पडटां सायबांनो, चुकलों. परतें अशें करचोना. मारू नाका सायबांनो"

ताचें गिडगिडप कोणेंच कानार घेवंकना. परतो फाटीर धपको बसलो आनी भिको उमथो नाकयां पडलो. तोंड फुटलें, वंठ पिंजले, रगत आयलें, तोंडांत माती गेली. रडटां रडटां, रगत पुसतां पुसतां, तोणांतली माती थुंकतां थुकतां, सायबा सायबा म्हण्टां म्हण्टां... नाकारे नाकारे म्हण्टां म्हण्टां, मार खातां खातां हाताक एक हुनहून वतान तापिल्लो गुंडो लागलो. ते बराबर ताका खंयच्यान किंवाटो आयलो, कोणाक खबर. गुंडो घेवन तो उठलो आनी फाटीर धपके मारप्याचे तकलेबराबर घालो.

"आवय गे मेलों रे! देवाऽ" म्हणत तकली धरून त्या मनशान बसकण माल्ली. आवाज आयकून दाराकडलो तो चोंमो हांगा आयलो. एकल्यान भिक्याचेर सणसणीत खोंट घातली. ते बराबर दोनय हात जांगेमदीं धरीत आवय गे, मेलों रे म्हणत ते तापलेले मातयेंत तो वळवळून लोळूं लागलो.

उश्टे पत्रावळीखातीर चलिल्ली खेंचाखेंच, झुंबड अकस्मात थांबली. सकयल्या वंठांर दांत चिड्डुले. पत्रावळीसयत मुठी गच्च आंवुळल्यो, दांतानी कचाकच चावल्यो. एका जथ्याक दुसरो जथो भिडलो, झोळयेक झोळी भिडली. शेंकऱ्या-फातरांचो दोनायकडल्यान शिंवर जालो.

हातांतल्या दांड्यार भार घालत. कुटत कुटत मारुती घराकडेन येतालो. ताचे तकलेक मार लागिल्लो. सगळें आंगूच चेंचावल्लें. आंग पांग फोडटालें, सणसणटालें. मुदलांतल्या पिंजक्या खोमसाच्यो तिस्त्यो वादऱ्यो जाल्ल्यो. आंगावयल्यान त्यो साप्प लांबताल्यो. परतो येतना सदां भरिल्ली आसपी ताची झोळी आतां ताचे खांकेक नासली. वरण घेवपाखातीर सदचो आलमिनाचो वाडगो नासलो. तें सगळें गेल्लें. ताचे तकलेंत चिंतनाचें और चालू आशिल्लें. मदींच तो दातवंठ खातालो, मदींच डबडबून व्हांवपी दोळे पिंजक्या खोमसाच्या हातांनी पुसतालो. दुःखाचे वोते येताले. लक्ष्मीक कितें सांगू? सगुण्याक कशें थातारंव? कितें दींव ताका, कितें दाखोवं अशें ताका जाल्लें. मुठीकडेन ताचें लक्ष परतें परतें वयतालें, घट्ट मुठींत ताणें कितेंतरी लिपयल्लें तें कोणें पळोवचें न्हय, कोणें फारावचें न्हय म्हूण तो काळजी घेतालो. मदींच ताणें मूठ हयन्हयशी सदळ केली. पत्रावळीवेल्यान वेचिल्ल्यो बुंदी आनी त्या बोवाळाभितर कोणाचे तरी झोळयेंतल्यान पडिल्लो - न्हय सुतलायल्लो लाडू घामेल्या हाताक दसून उरिल्लो.

धर्तरेचो तवो तापिल्लोच आसलो. सूर्य सोळाय आंगांनी तापिल्लोच आसलो.



11

# सी सॉ

## मूळ मराठी : मेघना पेठे
## कोंकणी अणकार : पुंडलीक नारायण नायक

देवाकुडी मुखार बसतां बसतां माईंचो हात निवेद्याचे वाटयेकडेन गेलो आनी तातुंतली साखर तायटार घेवन तोंडांत वडयली, तेन्ना ती भानार आयली. ती गोंदळ्ळीच. पूजा सोंपली काय? तिणें परतून एक एक गजाल नियाळ्ळी. देवांक धुतिल्ले, कारण तामणांत गंदट उदक आसलें आनी ताचेर तुळशीचीं बाविल्लीं पानां, सुकिल्ले हरयाळेचें तण आनी कांय पाकळ्यो उफेताल्यो. कडेक बाविल्लें दसणीफूल आनी हाराचो चुरो आसलो. निरांजन जळटालें. उजवातींचो जोड धुंवरेतालो. ताका लागून धुरकट जाल्ले देवाकुडींत लेगीत देवांक लायिल्लीं गंदां तकतकीत दिसतालीं. नवीं फुलां जंयचे थंय आसलीं. हय... पूजा जाली खरी. पूण म्हजें चित्त खंय आसलें?

आशूक पावोवपाक विमानतळाचेर काय वचपाक जमलेंना. तो वतना ताच्या हाताचेर धंय दवरलें आनी थंयच बसकण मारली. तेन्ना आशूसारको आशू लेगीत काचाबूल जाल्लो. ''माई, अशें कितें करता? हांव वचूं न्हय? म्हाका पळय तरी.'' म्हज्या भुजांक धरून तो हालयतालो. आनी पिशाभशेन हांबेलूच मारिल्ली हांवें... निमाणी निर्वाणेच्या सुरान म्हणपाक लागलो - माई, भायर सरतना अशीं दोळ्यांत दुकां काडटा? थंय वचून तुगेल्या ह्या आकांताचीच याद करीत बसूं? आतां तूं थारता काय... ना जाल्यार हांव वचच ना... ''वच, वच पुता. बरो करून राव. भलायकेची काळजी घे. व्हडलो जा. खोशयेन राव. वच...वच...'' मागीर तो गेलो. उपरांत विमानांचो आवाज आयकूंक येता तेन्ना तेन्ना हड्डें लकलक जातालें. उगड-धांप करपी ते तांबडे-पांचवे दिवे, चकचकपी तें चंदेरी विमान... पयस पयस वचपी... पयस पयस व्हरपी... आजूय पूजा करताना एक विमान गेल्लें मळबांतल्यान... आनी परतो तो दीस आनी निरोपाचो तो खीण बिलोरी हारशाचे कंवचे सारको हड्ड्यांत रोमून लकलकत उरतालो. त्या भरांतूच पूजा सोंपिल्ली. म्हणून तर... दोळ्यांतलें उदक पुसून काडीत ती एका गालांत हांसली. आनी साकर

चघळटा आसताना तांकां परतून आशूचो उगडास आयलोच. तो हांगा आसलो तेन्ना निवेद्याचेर ताचो अधिकार आसतालो. केन्ना साजूक तुपाचो शिरो, केन्ना बदाम घालून तापयिल्लें मसाल्याचें दूद, केन्ना खव्यांत सोय घालून केल्ली वडी, अशें कितें कितें... तिवूय लक्तुबायेन करताली आनी तोवूय रुचीन मिटक्यो मारीत खातालो. ''तुज्या देवांची मजाच आं!'' तो म्हणटालो. ''काय तुजी रे?'' ती विचारताली. त्या उतरार कांय उलयनासताना तो लार्गीं येतालो आनी तिच्या माथ्यार पालव वडोवन, पोशांत तिचें मुखामळ धरून तिका नियाळीत रावतालो. केन्ना कपलाचेर ओंठ तेंकयतालो. केन्ना गालाचेर गाल घांसतालो. केन्ना बोटांत बोटां गुंथून तिका धुकलीत वणटीकडेन व्हरतालो आनी तिचे खाडकेचेर हात दवरून एक भोंवर घेवन म्हणटालो, 'ऐ माँऽ तेरी सूरतसे अलग... भगवानकी सूरत क्या होगी...''

''कसले रे हे चाळे तुजे... सोबता हें तुका... व्हडलो जालो आशू तूं आतां... आशूतोषा, आरे बाबा, हें लंडन न्हय. पुणें हें पुणें. सोड, सोड पळोवया म्हाका... हिंदी सिनेमा पळोवन पळोवन वाट लागल्या तुजी...'' अशें कायचे काय म्हणत ती आपलो निशेध प्रगट करताली, पूण त्या निशेधाक तसो कांय अर्थ नासतालो. मनांतल्या मनांत तांकां संतोस भोगतालो. आपलेपणाचो, हक्काचो, सांगाताचे, खास तांचे दोगांचे अशे ते स्पर्शाचे खीण.... तांबड्या भडंग फुलांचे घोस आंगार खेळत सळसळत उबो आशिल्लो. तो आशिल्लो म्हणून तर वाट सरळ आशिल्ली.

ती उठली. धोंपरांतल्यान एक व्हडली कळ आयली. हालींसरा अशें उठ-बस नाका जाता. एका जाग्यार वग्गी, शांत चित्तान पडून रावचें. पूण तें नाशिल्लें नशिबांत. भितरले कुडींत आवाज जालो, तेन्ना तिणें भितर नदर मारली. नाना ऊर्ध्व लावन पडिल्ले आनी कूस बदलपाचो निश्फळ यत्न करताले. ताका लागून पलंग फकत करकरतालो. तिका नानांचो मोटो दुस्वास दिसलो. धडधाकट आशिल्ले तेन्ना आपणां भोवतणी म्हाका नाचयली आनी आतां लुळोगुळो जावन पडला, तरीय तांचे भोंवतणी ही फुगडी चालूच आसा. धडपडूं दी मातशें... अशें म्हणत मोट्या निश्चेवान तिणें मनांतली कणव आनी कर्तव्याची कांच कुशीक सारली आनी ती व्हरांदांत गेली. बसपाच्या सालांत आशूचो लॅमिनेटेड् केल्लो व्हडलो फोटो आशिल्लो, हातांत टेनिसचें रॅकेट धरिल्लो, निकत्योच मिश्यो फुटिल्ल्यो, ताडमाड उंच वाडिल्लो. मोट्या दोळ्यांनी जसो कितें तिकाच पळयत बशिल्लो. तिका व्हारांदाचो विसर पडलो आनी आपसूक ओडिल्ले भशेन ती फोटोकडेन पावली. तिणें वंटीवयलो फोटो काडलो आनी पालवान पुसलो. लागसून नियाळ्ळो. आशू एका गालांत हांसता... ती कांचवेली. तिचो पालव घसरिल्लो. तिच्या हड्ड्यार दावे वटेन तुळशीचें पान आशिल्लें. तें दिसूना मूं ताका? तिणें बेगोबेग पालव ओडून घेतलो आनी एक सुस्कार सोडलो. ह्या पानाखातीर ताणें कसलो मार खाल्ला एकदां!

ताका दुदाक धरतालीं तेन्नापसून तो पांच वर्सांचो जायमेरेन ह्या पानाचें ताका पिशेंच आशिल्लें. नदर लावन पळयतालो. बोट भोंवडायतालो. बुचकूट काडपाक पळयतालो. तिकाय तातूंत काय गैर दिसनाशिल्लें. पूण एक दीस शाळेंतल्यान एका इश्टाक घेवन आयलो आनी सामको रांदचे कुडींत येवन तें पान दाखय म्हणपाक लागलो, ''दाखय गे. दाखय न्हय!'' नणंद आयिल्ली. ''कसलें पान?'' तिणें विचारलें. ''यो, हांव दाखयतां...'' तसो म्हणपाक लागलो, ''ह्यॅ फकत म्हजेच आवयक आसा. हाचे आवयक ना. म्हणून म्हाका फटींग म्हणटा.'' माईंक लजेन घाम फुटलो. हरशीं जाल्यार ताका कुशीक व्हरून ती ताका समजायतली आशिल्ली. तुज्या-म्हज्या मदलें हें गुपीत तुजे-म्हजे मदेंच उरुं दी अशें म्हणटली आसली. आशू मानुनूय घेतलो आसलो. पूण नणंद अशी अजापीत जावन पळयताली, ताका लागून कांय येवजना जावन माई आशूक मारीत रावली. आपणाल्या हातसून ताणें खाल्लेलो तो पयलो मार... तो रडलो ना. आड्डलो ना. आवयचो हो अवतार अजापान पळयत रावलो. आनी मागीर इश्टाक घेवन भायर गेलो. मात ताचे उपरांत ताणें तें पान पळोवपाचो केन्ना हट धरलोना. दुनियादारी सांबाळटाना ताचेमदलो एक नकसूद पास गळून पडलो. आनी आशू आतां ल्हवू ल्हवू व्हडलो जातलो- ही जाणीव तितली तांच्या मनाचेर तुटिल्ले नाळेसारकी हुमकळत उरली.

तांणी बेगीबेगीन दोळे पुसले. हुमेन थपथपिल्लें कपल पुसलें. म्हज्या हातसून मार खावपाचो तो तितलो एकूच प्रसंग. हरशीं ताणें खूब मार खाल्लो, पूण तो नानाकडल्यान. तोवूय सामको ल्हानपणापासून. एकदां शाळेंतल्यान पळून वचून सिनेमा पळोवपाक गेल्लो. घरा येतकूच ताणें आपुण जावन माईंक सांगलें- आयज आपणें सिनेमा पळयलो म्हणून. आनी मागीर याद करून करून ताणें सगळ्या चित्र चौकटीसयत माईक कथा सांगली. माई सामकी भुल्लुसली. मागीर कांचवेली. ''शाळा बुडोवन गेलो? आनी पयशे...'' तिणें खंतीन विचारलें. भरले पयशे म्हज्या इश्टान. ताच्या पयशांनी सिनेमा पळोवपाचो म्हणटकूच तो सांगता तेन्ना वच्चें पडलेंना? नाना रावला पयशे दिवपाक... आनी दिलेच जाल्यार संताजी, नेताजी पालकर, ना तर संत ज्ञानेश्वर आनी तुकाराम असलेच सिनेमा पळोवपाचे आनी... हट्, बोअर आसा नाना...

पूण मागीर जावपाचें तेंच जालें. शाळेंतले बाईन पालकांक आपोवन सगळें सांगलें. ते राती नाना तर जेवलोच ना आनी आशूकय उपाशीं, वणटीकडेन तोंड करून रातभर उबो करून दवरलो. मदीं मदीं येवन पळयतालो. निमाणे रातचे तीनांक उठलो. पोटांतले भुकेन जाम जाल्लोच तांतूत संतापाची भर... आशूक पेटपाक लागलो... आरे, सिनेमा पळोवपाचोच आशिल्लो जाल्यार तुजो बापूय कितें मेल्लो? दुसऱ्याल्या पयशांनी पळयता? खंयच्या भिकाऱ्याचें रक्त आयलां तुज्या आंगात?

भिकाऱ्याच्या कास्ताचो खंयचे कडलो... मागीर एक नदर- सामकी जळजळीत- माईचेर मोखून भितर गेलो आनी भसाभसा करून जेवलो. आशू जेवलोच ना. माईंक कांटे तोंपत रावले. भिकाऱ्याचें रक्त... आशूक कितें कळपासारखी ताची पिराय नाशिल्ली. पूण माईंक त्या उतरांचो सगळो अर्थ समजतालो. आनी एकदां ताचे कंपासपेटयेंत सिग्रेटचीं दोन-तीन पोतेरां सांपडलीं. नानान ताका फकत आपल्यामुखार उबो करून दवरलो. एकदां, दोनदां न्हय, फकत ताचेकडेन पळयत रावलो. आशू घामान पगळून गेल्लो. माई फकत भायर-भितर करीत आशिल्ली. अखेरेक सोसूं नजो जावन धीर करून माईन म्हळ्ळें-अशें कितें करतात! कितें उलयात तरी... वाक्य पुराय जांवचे आदींच नानान गरड घातली - ''चूऽप...'' इतल्या नेटान आनी इतल्या अचकित, जनेलांचीं दारां थरथरिल्ले भाशेन जालीं. माईंक दिसलें, हांच्यो सगळ्यो शिरो आतां फुट्टल्यो. सगळो वाडो एकठांय जातलो... आशू तर उब्या उब्यानीच मुतलो, तें पळोवन माईंक लज जाली. बेगीबेगीन भितर वचून कुडको हाडलो पुसपाक. तर नानान तो बोटाचे चिमटेन धरलो, माईंक कुशीक धुकल्ली आनी कुडको आशूच्या तोंडाचेर भिरकावन थरथरत म्हळ्ळें- ''पूस''. आशू आवयकडेन पळयत मख्खपणान उबो रावलो. ''पूऽऽस... आयकूंक येता मरे राणग्याच्या...'' आशून एकदां बेरडपणान नानाकडेन पळयलें आनी पुसपाखातीर तो बागवलो. तेन्ना तोंडारूच ताका खोंटायत ते आड्डले - ''सिग्रेटी ओडटा, न्हय?'' आशून झेलपटत पूण तोल सावरीत ''ना'' म्हळ्ळें.

''मागीर? हीं पोतेरां?''

''मेळ्ळीं... रस्त्यांर...''

''रस्त्यावयलीं पोतेरां एकठांय करपाची पाळी आतां तुजेर आयली? कसल्या कर्मकट्ट्या कास्ताचो तूं... कसले भिकेचे दुवाळे लागिल्ले काय कितें रे तुजे आवयक- आनी तीं पोतेरां पुंजावन बापायच्या सरणाचेर दाळपाचो? उलय मरे- काय जीब झडली?''

''ओडटलों आशिल्लों...'' आशू पुटपुटलो. माईच्या पोटांत गुळो आयलो. खरें सांगपाचीं हीं कसलीं भोळीं पिशेपणां?

नानान आशूच्या मुस्कटांत एक लायलें. आनी तो गेलो. आशू फडक्यान जमीन पुसतालो. बारा वर्सांच्या त्या वाडट्या आडसाठ्या भुरग्याकडेन माई तोंडाक गुड्डो लावन पळयताली. असहाय... ही तर म्हज्याच फाटल्या काळाची उजळणी... रातचें ताचेलागीं वचून तिणें ताच्या गालाक तेल चोळ्ळें तेन्ना तागेल्या दोळ्यांतल्यान उदक पाझरिल्ले भशेन जालें. माईन म्हळ्ळें- ''पुता आशू...'' तिचें उलोवणें मदींच तोडून ताणें म्हळ्ळें, ''माई, म्हाका कायंच सांगूं नाका. म्हाका संवसारांतली दर एक गजाल करून पळोवपाक जाय...''

तागेलें वागप माईक पट्टालें अशें न्हय. पूण त्या वागपा फाटली उसळट्या रक्ताची बंडखोर प्रेरणा तांकां कळटाली. शिस्तीचो अतिरेक... बंधनाचो अतिरेक... आनी परत तीं बंधनां घालपी मनशाविशीं कसलेंच आपलेपण ना. आपलेपणात येवपी विश्वास ना, आदर ना. दिसान दीस बापूय आनी पुता मदली तेढ वाडतूच आशिल्ली. माईंचेर सोंसपा भायलो ताण पडटालो. पूण आशूविशीं उपाट माया खदखदताली. ही आडांगी पिराय सोंपतली आनी एक दीस पोर जाग्यार येतलो. सुदारतलो. मार्गाक लागतलो. खंयाच्यान, कसो? पूण तांकां विश्वास दिसतालो. त्या भरंवशाच्या बळारूच ती सगळें सोंसताली. आनी जालेंय तशेंच.

आठवेंत आसताना आशूक टेनिसाचें पिशें लागिल्लें. नानाकडेन उतर घालपाची सोय नाशिल्ली. तो माईंचे फाटीक लागलो. इतलो म्हारगो खेळ. माईंकडेन एकावेळार धा रुपया लेगीत नासताले. पूण आशूक ना म्हणप म्हणजे! आपणाचे अस्मितायेचेर आयिल्ली ती हावळ अशें तांकां दिसतालें. तांणी आपणाल्या बारशासावन सांबाळून दवरिल्लें वळ मोडून आशूक बरो झकपक सजयलो. आशू टेनिस खेळपाक लागलो. सगळें कितें तें नानाचे अस्वडीं. एकदां नाना अचकित बेगीन घरा आयले. आशू तेन्नाच टेनिसचें रॅकेट वावडीत भितर सरिल्लो. नानान अजापान ताचेकडेन पळयलें. तांणी मानेनूच माईंक विचारलें. ‘‘हांवें दिल्ले पयशे...’’ माई उतरां चांचायत उलयली.

‘‘तुवें...’’ थुकिल्लेभशेन ताणें विचारलें. फकत माईकूच तें कळ्ळें. ‘‘हय, हांवें म्हज्या बारशाचें वळ मोडून हांवें ते पयशे दिले.’’ तांणी शांतपणान जाप दिली. त्या उतरार नाना वगी रावले. मागीर कितलेशेच दीस शांततायेन गेले. पूण ती शांतताय म्हळ्यार माईक दुखाविल्ल्या सर्पाच्या फुस्काराभशेन दिसताली. आनी मागीर समाही परीक्षेचो रिजल्ट आयलो. आशू भूगोलांत नापास. गणितांत असोतसो पास. आनी सामान्य विज्ञानाच्या पेपराक तर बसुकूंच नाशिल्लो. नानाच्या हातांत तो रिजल्ट पडलो, ती सांजवेळ आशिल्ली. आशू रॅकेट वावडीत घरा आयलो. ताणें बूट मात काडिल्ले, तें रॅकेट उखलून नाना ताचेमुखार उबो रावलो. रिजल्ट फडफडयत कांयच उलय नासताना तो रॅकेटानूच ताका शेपलांवक लागलो. आशू थाड् थाड् मार खाता तो पळोवन ती सदचे भशेन मदीं पडली. ते सरशीं नानान तिका भुजाक धरून ओडली आनी धुकलून वडयली. तोल सुटून माई कोंसळ्ळी. मागीर तशीच तिका ओलो कुडको कशी उखलून उबी केली आनी तिच्या भुजाक धरून तिका व्हिंजळत आशूक विचारलें- ‘‘ही? ही पोट भरतली तुजें? ही? ही रस्त्यार उबी रावली तरी गरजेक आयिल्लो मनीस लेगीत दाव्या दोळ्यान हुंगोवन पळोवचोना हिचेकडेन. समजलें? देडदमडेच्या कास्ताचो खंयचे कडलो! ही तुका पोटाक घालतली? ही? आशू मार खातना केन्नाच रड नासलो. केन्नाच ना. ओंठ

दामून धरून निर्भीडपणान तो मार सोंसतालो. पूण आयज मात तो एकदम थिजिल्ले भशेन उबो रावलो. ताणें आवयकडेन एक नदर मारली आनी तो मुखार सरलो. तिका दिसलें, आतां तो नानाच्या कानसुलाचेर एक फुलयतलो. ती भियेली. नाका... आशू नाका... भियेत तिणें म्हळ्ळें. पूण आशून थंडसाणेन नानावटेन पळयलें, मागीर आवयकडेन. मागीर ताणें रॅकेट उखल्लें. तिचेकडेन पळयता आसतना ताचें तोंड दुःखान, अपमानान भिजून गेलें. ताणें कच्च करून रॅकेटचे पांयाखाला धरून दोन कुडके केले. भायर वचपाक तो वळ्ळो. तितल्यान ताका माई दिसली. ताणें तिचो निसरून सकल पडिल्लो पालव उखलून खांद्याचेर दवरलो आनी अकस्मात मान घुंवडावन तो उब्यांनीच घळघळीत रडपाक लागलो. नानांच्याय तें लक्षांत आयले बगर रावलेंना. निर्दयी कर्दनकाळ कसो मनीस तो - पूण भयभीत जावन ताणें तिच्या दंडाचो हात सोडलो आनी तो भायर गेलो.

माईन परत एकदां फोटो पळयलो. ताचेर तांच्या दोळ्यांतले कितलेशेच दुकां थेंबे पडिल्ले. तिणें एकदम फोटो पुसलो. पूण थेंबे पडतूच रावले. मागीर तिणें मनाचो निग्रह करून दोळे पुसले आनी फोटो आशिल्लो थंय हुमकाळावन ती मोन्यानी भितर गेली. तांचें लक्ष आपणाचेर वचचें म्हणून नानान ताळ्यांतल्यान तरांतरांचे चित्कार काडले. पूण माईन उबगून म्हणटा तशें ताचेकडेन आडनदर केली आनी भितर वचून माकनावरी तिणें मोसंबीचो रोस काडलो. तातूंत हाताक लागता तितलें मीठ घातलें. पळय नासतानाच साकर वडयिल्लेभशेन केलें आनी मख्ख तोंड करून ती नानाक रोस लावपाक लागली. साखर, मीठ उणें-अदीक पडलां काय ना, कांयच विचारी नासताना... रोस पुरो जातकूच नानान परत आवाज केलो. तरी ती रोस लायतूच रावली. अखेरेक नानान तोंड घुंवडायलें. एक चमचो तांच्या गालार रकलो. तो तांच्याच खोमसाच्या हाताक खस् करून पुसून सुस्कार सोडीत ती उठली. नाना उजव्या, निस्तेज दोळ्यान घायाळ नदरेन तिचेकडेन पळयत रावले.

पूण आतां हें सदचेंच जाल्लें. सगळें जशें माकनाभशेन पोकी कर्तव्यभावना. आनी हेर कसली भावना हांणी रुजपाक दिलीच ना जाल्यार... इतल्या वर्सांनी पाळील्ल्या सुण्यामाजराकलेगीत जीव लागता. पूण हे... गुलामासारकी राबयली म्हाका... हांव लेगीत इलाज नासून हांगां तुमच्या घरांत आयलीं... पूण मनापासून हांगा रुजपाचो यत्न केलो. शर्थ केली... पूण तुमी सदांच आडेची बेनुल्ल समजून म्हजेर घाय घातलो... एकलो म्हजो आशू... ताकाय दुखायलो... तुमच्यो सगळ्यो यादी... मन मोडिल्ल्याच्योच... विसरपाक जायना... तुमकां क्षमा करप शक्य ना.

रोसाचें आयदन धुवन ती परत नानाचे कुडींतल्यान भायर गेली. पूण तिणें नानाकडेन हुंगोवन लेगीत पळयलेंना. भायर येवन ती सालांतल्या दिवाणाचेर लवंडली. आतां बद्द एक जाता तेन्ना भितर वचपाचें. पॉट दिवपाचें, दूद आनी

ब्लडप्रेशरच्यो गुळयो... तो मेरेन तांचो विचार लेगीत नाका. तिणें दोळे मेटले. जाल्यार तिका सगळें स्पश्टूच दिसपाक लागलें.

खेडेगावांत तांचो जल्म. जल्मावेळारूच आवय गेली. दोन वर्साभितर बापूयूय गेलो. शेतकार मामाच्या घरांत, भुरगीं जग नाशिल्ले मामीन आकसान, लोकलजेखातीर ताका सांबाळ्ळें. पूण सांबाळ्ळें म्हणजे कितें? दोन वेळा पोटाक दिलें. कपडे दिले, आंग धांपपापुरते. आनी खूब राबयलें. शेतांत, घरांत. कश्ट, कश्ट आनी कश्ट... त्या कश्टांक मोल ना. चीज ना. कवतुक ना. कसली आवड केन्ना भागयलीना, कसली निवड करपाक दिली ना. घरांत मामा आनी मामी एकामेकांकडेनूय उलय नासलीं. तिचेकडेन कोण उलयतलो? ती तर एक वजें आशिल्ली. सतावणूक पूण वयर कांयच दिसनाशिल्लें. पूण तिचे भोंवतणी सतत उपकाराच्या वज्याचो एक मूक दबाव. उपकाराची झूल सदांच फाटीचेर दवरून तिणें वावुरपाचें. कितें खावचें, कितें न्हेसचें, कित्याक भियेवचें, खंय वचचें, खंय पावचें, कशें आनी कितलें उलोवचें- थोड्याभितर कशें आसचें हाची एक खोल चौकट तिगेल्या अस्तित्वाभोंवतणी आखून दवरिल्ली. ते चौकटीभितर तिणें पावलां घालपाचीं. थंयच घालपाचीं.

त्या गांवगिऱ्या गांवांत सातवीमेरेन शाळा आशिल्ली. ते शाळेंत वचपाचें पूण कामाचो भार घेवन. अभ्यासांत लक्षूच लागनाशिल्लें. भुकेन पोटांत कावळे रडटाले. वर्गांतल्यो पांच-सात चलयो झिम्मो खेळटाल्यो. हांसताल्यो, झगडटाल्यो, आड्डताल्यो. एकमेकाल्या घरा हळदीकुंकवाक, सत्यनारायणाक वताल्यो. केन्ना चिवडो, चिकयो, चाक्या, चिकी हाडटाल्यो आनी खाताल्यो. पूण माई फकत सुके आवंडे गिळीत रावताली. ती केन्ना तांचेमदीं भरसलीना. तांणी दिल्लें तिणें केन्ना खाल्लेंना. केन्ना झिम्मो खेळ्ळी ना. हांसली ना. झगडली ना. रडली ना. आड्डली ना. तिका दिसलें, हें दिवप-घेवप, हें हांसप, आड्डप, चटक मटक खावप... ह्यो संवयो आपणाक पेलपाच्यो नात. केन्नाय चुकून हें घरा करीन दिसलें तरी लेगीत... आपणांक घर ना... आपल्याक कोण ना...

एकदांच शाळेंत उरिल्ले कुसुमाचे दर्यातले फातर कोण ना सो पळोवन तिणें उखल्लिले. घरा हाडिल्ले. आनी मागीर मेकळो वेळ मेळटालो तेन्ना, कुसुम आनी शैला कशीं खेळटालीं तें याद करून करून ती एकलीच खेळत बसताली. एक फातर वयर वतालो, तो सकयल येवचेपयलीं, जमनीवयलो एक फातर वेंचून, तो ती वयलेवयर जिखताली. मागीर दोन, मागीर तीन... वयर सकयल, सकयल... वयर... एक आनी दोन, दोन आनी तीन...तीन आनी चार. वयर वडय.... वेंच... जिख... वडय. सगळो जीव एकठांय जातालो. ती थंय आसताली पूण आसून नाशिल्ले भशेन. एके तरेची नशा... भूतकाळांतल्यान, भविश्यांतल्यान ओडून हाडून

वर्तमानांतल्या खिणांत तिका खिळावन दवरपी नशा. तान, भूक, दुःख, कश्ट विसरायेर घालपाक लावपी... तिका हो खेळ मानवलो. पयशांची गरज ना, जागो नाका, सौंगडी नाका. दुसऱ्या कोणांक त्रास ना, व्यत्यय ना. आपलेंच मन, आपलेंच भान... तिका तो छंदूच लागलो. ल्हवू ल्हवू ती फिशाल जाली. चार फातर वयर वडोवन, पांच वेंचून लेगीत तिका ते येद्याश्या हातांत जिखपाक येवपाक लागले.

एकदां अशीच मागीलदारचे पडवेर ती खेळटाली. खेळटां खेळटां इतली बेभान जाली, मामीन मारिल्लो उलो तिका आयकूंक लेगीत आयलोना. मामीन तिका खूब सादयल्या आसतली. मामी नदर मारुनय गेल्या आसतली. वयर वडयिल्ले पांच फातर जिखतां जिखतां अकस्मात ती भानार आयली ती चरचरीत जळिल्लेचे वेदनेन. मामीन पळयेचो तापयिल्लो दांडो चर्र... तिचे गोरे पोंवटार उदेव्न काडिल्लो आनी बर्फासारके दोळे करून ती माईक नियाळटाली. तिगेलें तें उतरांबगरचें, थंड नियाळप... कातीसारकें माईंचें मनूय चरचरलें. तिच्या हातांतल्यान एक एक फातर गळून पडलो. मामीन ते सगळे फातर खोंटेनूच जळटे रान्नींत सारले. माई एकदम जमनीचेर आयली. ल्हव्यासारकी बागवली. आपली आदलीच निरस, एकसूरी वाट माड्डुवपाक लागली. खोशयेंत रावपाचो आपणालो हक तांणी मनांतल्यान हुमटावन वडयलो.

केन्ना तरी मदींच शाळाय सुटून गेली. वांगडच्यो चलयो खेळटाल्यो, खिदळटाल्यो, हांसताल्यो, रडटाल्यो, झगडटाल्यो, रागार जाताल्यो, हांगां-थंय भोंवताल्यो... माई फकत राबताली. घरांत राबताली. शेतांत राबताली. घरांत मामा आशिल्लो. मामी आशिल्ली. माई तांचेमदीं आसून नाशिल्लेसारकीच. शेतांत मानाय आसताले, कामेऱ्यां आसतालीं, माई तांचेयमदीं आसून नाशिल्ले भाशेनूच. शेतांत काम करप्यामदलो एकलो महादू. दाणगो-दुणगो मानाय. तो केन्ना एक उतर उलय नासलो. ताच्या तोंडांत तंबाकू भरिल्लो आसतालो. अदीं मदीं तो फकत नेटान स्वास सोडटालो. फोंस घातिल्लेभाशेन. वो परवंल्लेभशेन. तेदेवेळार हुम्म हुम्म आवाज जातालो. हुम्म हुम्म करीत तो कितें तरी करीत आसतालो. सुकिल्लीं झाडां हुमटितालो. बैलांक उदक घालतालो. केन्ना बैलांचें जोत बांदून नांगरतालो. जमीन खणटालो. केन्ना कलमां देंवयतालो, केन्ना कोबल्यान आंबे काडटालो. कोबल्यांतल्यान पाटल्यांत, पाटल्यांतल्यान कण्ण्यांत. केन्ना केन्ना बेस्टोच हुम्म हुम्म करीत हेवटेन तेवटेन भोंवतालो. तो वेठीचो मानाय आशिल्लो. ताचेकडेन पळयतकूच माईक आपणाचीच याद येताली. काकळूट दिसताली. हो कशे तरेन जियेता? कित्याक? कोणाखातीर? हाका जीविताविशीं कितें दिसता? हें असलें आसप हो कशें मानून घेता?

एका मोसमांत महादू कण्णे भरता आसताना माई लागींच आशिल्ली. मोटे, पणसाच्या कंवळ्या कुंवल्या येदे आंबे, तांचे दोन थर लायल्या उपरांत मागीर मध्यम, चित्रांतल्याभशेन आंबे, आनी मागीर बिटके, तन्ने, पाचवे, सुरकुत्यो पडिल्ले आंबे. सोसूं नजों जावन माईन एकदां विचारलें : ''सगळे एकठांय भरसून, एकाच कण्ण्यांत कित्याक भरता?'' तो, हुम्म हुम्म करीत भरीतूच रावलो. मागीर अशेच तरेन सगळे कण्णे भरून जातकूच, आपल्या पिळांच्या मिशांनी मायेस्त हांसत, ताणें एक फावट माईवटेन पळयलें आनी मान हालयत तोंडांतली पींक थुकून आयलो. हात फाफडीत उकणयां बसून म्हणपाक लागलो- ''अशेंच आसता. सगळ्याक अशेंच आसता. अशें आखडून-पाखडून आपणांक जाय तें थोडेंच मेळटा. देव तरी दिता अशें? हो सौदो असोच आसता बाये.'' आनी मागीर हुम्म आवाज केलो.

माईक हासपाक आयलें. तिका म्हऱ्यांत बसोवन केन्ना कोणें समजावन सांगूंक नाशिल्लें. वळण लावपाइतलो वो समजिकायेन संस्कार करपाइतलो रसूच कोणे तांचेबाबतींत घेवंक नाशिल्लो. पूण महादूच्या उलोवपांतल्यान तिका अकस्मात आयुश्याविशीं कितें तरी कळून आयलें. निदान तिका तशें दिसलें. फुड्यांत येता तें सगळेंच आपणावपाचें, ना तर सगळेंच नाका म्हणपाचें. हें जाय आनी तें नाका, अशें नासता. हाच्या वांगडा तें आसताच. आनी मनांत तिणें महादूच्या हुम्म चो नवोच अर्थ लायलो.

माईच्या आशिकुशीचें कांयच बदलनाशिल्लें. पूण माई मात बदलताली खास. वयलेवर ती कामांत गुल्ल जाल्ली दिसताली पूण भितरली घालमेल तिची तिकाच कळटाली. केन्ना चानयेभशेन धांवन दिसतालें. केन्ना पिसोळ्याभशेन उडन दिसतालें. केन्ना घोणीभशेन मळबांत संथ उफेवन दिसतालें. हड्डें भरून येतालें. आसपाचे खोशयेक ओतो येतालो. केन्ना हेतूशून्य दिसतालें, केन्ना व्यर्थ. आनी केन्ना उदास. दनपारच्या खर तळतळीत प्रहराभशेन. दिसतालें- हें अशें कितले दीस? हें आसप? अशें आसप? आपणालें. आपलेचकडेन? धा मनीस खोल बांयंत उडी घेवची कशें दिसतालें.

एकदां अशाच चिंतनांनी ती बांयच्या कांठार बशिल्ली. सकाळसावन ती चलबिचल आशिल्ली. खंयच कित्याभितर चित्त थारनासलें. चानी, पिसोळें, घोण, दनपार... सगळो कल्लोळ मनांत शबै घालतालो. कितें जाता, कितें जाय. कितें खुपता, खंय दुखता हाचो पत्तो लागनाशिल्लो. ती अशी आपलेच भिरकेंत गुल्ल जावन बांयच्या कांठार आशिल्ली. हुम्म हुम्म आवाजान तिका जाग आयली. ती कांचवेली आनी काठावयल्यान सकयल देंवली. लागींच महादू लाकडां फोडटालो. दनपारचो वेळ. खर वोतांत हुमेन तकतकीत दिसपी ताची उठावदार स्नायूंची फाट,

वयर - खाला जावपी ताचो पिळदार हात. ती पळयत उरली. फकत काश्टी न्हेसून उकणयां बशिल्लो तो केंसाळ हाता-पायांचो दादलो. माईक दिसलें. फाटल्यान वचून ताका घट वेंग मारची. ताच्या फुड्यांत ही आपली कूड पसरावन दवरची. आपणें ताचे सुवादीन जावचें. ताका आपले सुवादीन करचो... ताचीं वाडिल्लीं नाखटां, ताचे मिशांचे झुबके, ताचीं केसांचीं जुल्फां... ताच्या सगळ्याच गजालींची तिका सुमाराभायली ओड दिसताली. मोयपासाचें अशें एक जाळ, जातुंतल्यान सुटपाचो यत्न करप म्हणजे तातूंत अदीक घुस्पून पडप. ती घामाघूम जाली आनी फक्त थरथरत उरली. भूत-भविश्याक वर्तमानांत गोठावन हाडपी तो खीण तिका सोंसपाक जालो ना. तिका घुंवळ आयली.

असो कितलो वगत ती थंय वग्गी पडून उरली. जाग आयली तेन्ना पोटांतल्यान, कमरांतल्यान वेदनेची एक ठक् ठक् ठक् ठक् लयेंतली कळ तिका जाणवली. आनी घागऱ्याभितर कांयशें चिकट अळंग पगळिल्लेभशेन, आनी घागऱ्याचेर एक फिकट तांबसार दाग.

महादूचो हुम्म हुम्म आवाज थांबिल्लो. भोरो बांदून तो घराकडेन वतालो, जाल्यार बांयच्या काठार रडपी माई ताका दिसली. ताणें भोरो खाला दवरलो. माईक सकयल बसयली. तिचेर एक नदर भोंवडायली. माईन तो दाग ताका दाखयलो आनी भंयान अदीकूच रडपाक लागली. महादू उठलो, तंबाकूची पींक थुकून आयलो आनी हांसत म्हणपाक लागलो,- रडटा कित्याक? आगो, आफडीचें जालां तूं. बायल जाली बायल. भुरगीं जातलीं तुकां म्हणटकूच हें सोंसपाकूच जाय. चल, घरा वच. माई सवकासायेन ताचे वांगडा घरा आयली, दाग पडिल्लो घागरो कवळीत, लजत, कांचवेत. तिच्या मनांत आयलें- असो आसता दादलो? इतलो समजिकायेचो? इतलो ओडलायणो, मायेस्त?

तर माई अशी वयावयली जाली. तिका शेतांत एकली धाडपाक मामी भियेवपाक लागली. मामान म्हळ्ळें- वाडिल्ली चली म्हणजे मुंडाशांतलो सोरोप. हाची आतां व्हाड्डीक वाडपाची आनी अनाथ माईक नानाक धाकुलपणांक दिली.

माई भुल्लुसली. आतां हें घर सुट्टलें-आतां सुटका- तिका महादूची याद येताली- त्या दनपारां तिका ताचो जाल्लो मोह- तिका ताचीं उतरां याद जातालीं- आतां तूं बायल जाली बायल. भुरगीं जातलीं तुका म्हणटकूच हें सोंसपाकूच जाय. तिका दिसलें- लग्न म्हणजे हें सगळें आयलेंच. ही सुटका, हो मोह आनी हें आवय जावप... जाचो निरोप घेवन वचचें असो कोणूच नाशिल्लो त्या गांवांत. तिणें शेतांतल्यानूच एक पासय मारली. नांगरलेले जमनींत पाडिल्या दिफळ्यांतल्यान ती चलत रावली. आमोरेच्या वेळावयलो सवण्यांचो किलकिलाट, आपलेच तनरेंत आशिल्ले माईक राखण्यान घातिल्ल्यो कुंकाऱ्यो, बांयचेर एकाद्रे सुनेन ओडिल्ली

बांयची गाडी, मळब आनी तातूंत चलिल्लो रंगाचो शिवर, वाऱ्याच्या झोतान आंग शिरशिरता तशीं थरथरपी झाडां आनी मळबांत नदर मारल्यार बळारींची माळ. सगळें ना म्हणटकूच सद्‌च्योच ल्हानसान गजाली तांच्या पांयांत ल्गट करपी माजरावरी गणवपाक लागल्यो. पयस खंयतरी महादू हुम्म हुम्म करीत वावरत आशिल्लो. फाल्यांसावन सुटपी तें एक दृश्यश्राव्य गंदाळ स्पर्शचिन्न माईंच्या मनाचेर नकळटना कोरांथून उरलें. ना सुखाचें ना दुःखाचें-

हॉलांतल्या घड्याळांतलें शेवणें चिंवचिंवलें, तशी ती भानाचेर आयली. ही घड्याळ आशून हाडल्या. पयले जोडीची, हें तुजेखातीर अशें म्हणून. तिणें घड्याळीकडेन मायेन पळयलें आनी सगळें बळ एकठांय करून ती उठली. आयज संकश्टी आशिल्ली. सकाळीं करून दवरिल्ली खिचडी तिणें तशीच पोटांत (गारठोण) सारली. आनी दूद घेवन ती नाना म्हऱ्यांत आयली. चार चमचे घालतकूच नानान तोंड घुंवडायलें. आनी तांणी अस्पश्ट चित्कार काडपाक सुरवात केली. ती उबगली, तिडून तिणें म्हळ्ळें- दितां, खबर आसा म्हाका... तिणें पांगरूण कुशीक सारलें आनी नानाक पॉट दिलें. मागीर उस्वासून उठली आनी भितर गेली. तोंड वांकडें करीत तिणें पॉट रितें केलें आनी पॉट पलंगापोंदा धुकल्लें. परत पांगरूण घालता आसताना तिची नदर नानाच्या देहाचेर गेली. उगडो-नागडो, सुकिल्लो हाडांचो भोरो... नाखटां वाडिल्लीं. शिरो तरांटिल्ल्यो, दुयेंसान सगळी दशाच जाल्ली. कूड काळपट पडिल्ली. तिच्या पोटांत मळमळ्ळें. तिणें नानाची कूस बदल्ली आनी ती भायर आयली.

हेच ते नाना? उंच, उफाड्या हड्ड्याचे? केंसाळ? भरलेल्या, तिट्ट्या आवाजाचे? निबर, धारेचे नदरेचे? ते पयले खेपे घरा आयले, तेदेवेळार तांकां पळयनाफुडें भंय दिशिल्लो. पूण धाकुलपणांक आपणापासून १६/१७ वर्सांनी व्हड आसा, आपणालो नवरो म्हणून जी कल्पना केल्ली तशें कांय नाशिल्लें. हाचेकडेन लग्न? चलता. तिणें सामकें मनांतल्यान म्हणिल्लें. हें घर तरी सुट्टलें. इतलीच तिची भावना आशिल्ली. सुटकेची. मामा-मामीकूय तशेंच दिसलां आसतलें. लग्न जावन ती घरा आयली. नानाच्या घरा. कांय दिसांभितर तिच्या लक्षांत आयलें. हांगासरूय राबूंक जाय. ताकाय हरकत ना. आपूण एक व्यक्ती म्हण केन्ना नाशिल्लीच. खरें म्हळ्यार मनीस म्हणुनूय जेमतेमूच आशिल्ली. स्वतःचे आदले तेच वळखीचेर आतां म्होर बसली. फकत एक नवो छळ, इतलोच फरक. राती, अपराती, दिसा, दनपारां... उलोवप केन्ना नाच. सांगप-सवरप ना, समजावप ना, थातारपलेगीत ना. फकत हुकूम. नव्या धनयाचे हुकूम. पूण त्या हुकूमांक पाळो दिता आसताना सदांच भंय आनी किळस मनांत दडून उरताली. भर दनपारां महादूचे कुडीचो आपणांक जाल्लो पयलो-वयलो मोह आनी ताची माया. पूण हांगासर दोनूय गजालींचो पत्तो

नाशिल्लो. भिरांतीचे हे धुंवटेंत कुडीचीं, मनाचीं उरील्लीं-सुरिल्लीं चंवरां करपून गेलीं. महादून म्हणिल्लें, ''बाये, तुकां भुरगीं जातलीं, म्हणून हें सोंसपाक जाय.'' तेंवूय सोंसलें. महादू, म्हजें बायल आसप, हें हांवें खूब सोंसलें. खंय आसा भुरगीं? खंय आसा? तिच्या मनांत आकांत मांडून येतालो. अशीं चार-पांच वर्सां गेलीं आनी मागीर आशू जालो. वंशाक दिवो लाबलो. नानाच्या वंशाक दिवो लाबलो. नानाचें दादलेपण सिद्ध जालें.

आशू सामको माईभशेन दिसतालो. तागेली लांबसाण आनी रंग, तितलो मात नानासारखो आशिल्लो. बाकी नाक, दोळे, केंस आनी एका गालांत हांसप. सगळें सगळें माईचें. सभावांतल्योय सगळ्यो ल्हानसान गजाली जश्याक तश्यो. फकत तें तुळशीचें पान मात ताका नाशिल्लें आनी एक खरें-ताचें नशीब मात वेगळें आशिल्लें.

बाकी सगळें तेंच खरें. पूण नशीब वेगळें आसतकूच कितलो फरक पडटा - एका बिंदूतल्यान दोन रस्ते दोन दिकांक फुटचे तशीं मनशांचीं जिवितां बदलून वतात. तो चलोभुरगो आशिल्लो. ताका आवय आशिल्ली. हरशीं कसोय आसलो तरी ताका जोडकार बापूय आशिल्लो. ताचो जल्म शारांत जाल्लो. इतल्या संचिताच्या म्हालवजार लेगीत मनशाची अस्मिताय मुळां धरपाक शकता. मनीस आपली वाट थारांवक शकता. जाय-नाका तें सांगूंक शकता. उणे-अदीक धोके पत्करपाक शकता. तागेल्यो मुळांतल्यो वृत्ती खुलपाक शकतात. तांचो आविश्कार अदीक मेकळेपणान सहज, सोपेपणीं जाता. आनी तशेंच जाल्लें.

एका जुलमी बापायआड आशून बंड केलें आनी तागेली अस्मिता एखाद्या हिऱ्याभशेन लखलखली. ताका नशिबाचें कोंदण आशिल्लेंच. तिका सदांच दिसतालें- तिचेमदीं जें जें बीजरूपान आशिल्लें, आनी जें तांकां आपणाल्या अस्तित्वाच्या आव्हानामुखार मातयेंत पुरून वडोवचें पडिल्लें, तेंच सगळें आशूच्या रूपान कोंब फुटून लसलसत भायर आयिल्लें. अधाशाभशेन मुळां पसरायत. भुंयेचें शोशण करीत, मळबावटयां धावतालें.

आड पडिल्लेकडेनूच तिणें आशूच्या फोटोवटेन पळयलें. एका गालांत हांसत, टेनिसचें रॅकेट हातांत धरून तो दिमाखान उबो आशिल्लो. हातांतलें रॅकेट तरसादीभशेन चकचकतालें. एस.एस.सी.क तो पयलो आयिल्लो तेन्ना ताचेर इनामांचो शिवंर पडिल्लो आनी त्याच पयशांतल्यान ताणें तें रॅकेट हाडिल्लें, माईंचे मांडयेर दवरून मागीर माईंच्या हातसून घेतिल्लें.

टेनिसाक लागून नानान माईंचो अपमान केलो - तेन्नासावन आशू सामको बदल्लो. जशें ताका अकस्मात कसलें भान आयलें, निर्धास्तपणान झाडापोंदा सावळेंत न्हिदिल्लो मनीस सोरपाचे सळसळीन जागो जांवचो तसो. मागीर दिसांचे दीस तो पुस्तकांत तकली रिगोवन बसतालो. आदलेवरी हटपणा ना. बडबड ना.

मस्ती ना. आडांगपणा ना. शाळेंत तो पयलो आयलो, वर्सुकी परीक्षेंत. आनी मागीर उपरांतच्या सगळ्या परीक्षांत पयलो येवपाचो ताणें मक्तोच घेतलो. ताका शिश्यवृत्त्यो लाबल्यो. पयलेच संदीक ताका हॉस्टेलाचेर एडमिशन मेळ्ळी. घरापासून पयस गेलो. घरा येतालो, तेन्ना एक उपचार म्हणून नानांच्या पांयां पडटालो, तितलोच. मागीर मागीर तर ताणें नाना अस्वडीं घरा येवचें; माईंचे भोवतणी रावचें. तिचेकडल्यान लाड करून घेवचे. तिका गमतीच्यो गजाली सांगच्यो, नाटकां, सिनेमा दाखोवचे. ताणें कितेंय बरें वाचलें जाल्यार तें तो समजावन सांगतालो. ती रडपाक लागतकूच तो तिचे दोळे पुसतालो. मागीर गीतांच्यो भेंड्यो लायतालो, इस्पिकांचे दाव शिकयतालो. खूब हांसयतालो. 'माई, हांवे घर घेतलें म्हणटकूच थंय वचून रावपाचें' अशे म्हणटालो. माईक तो एकाद्र्या सपनाभाशेन भासतालो. तिका जें जें करपाचें आशिल्लें, ताचें जशें कितें तो एक प्रतिकूच आशिल्लो.

आशूक येतात काय उगडास? भूतकाळाचे बारीक बारीक पो भायर सरचे तशे उगडास? म्हाका उसवता तशे?

भर तळतळीत दनपारच्या वेळार आपूण आशूक घेवन पार्कांत वतालीं. तोच निवांत वेळ. आनी तेन्नाच निर्धास्त दिसतालें. पार्कांत कोणूच नासतालो. असल्या दनपारचो येतलो तरी कोण? पार्कांत पेंगत आसपी माळी, आशू आनी माई, इतलींच जाणां पार्कांत.

आशू मातयेचे किल्ले करतालो. जिंगमचेर आडव्यान उबो रावतालो. तापिल्ले घसरगुंडेवयल्यान घसरतालो. उदक शिंपिल्ल्या लॉनावयल्यान दुडू दुडू धांवतालो. झोपाळ्याचेर बसतालो आनी हट धरून माईकूच झेल दिवपाक लायतालो.

एक दीस ताची नदर सी सॉ चेर गेली. तो एक वटेन थपकल मारून बसलो आनी दुसरे वटेन तूं वचून बस असो आग्रो करपाक लागलो. माईक हांसपाक आयलें. संकोचान ती कांचवेली. तिणें आशूक समजायलो, दटायलो. एकदां हातूय उबारलो. पूण आशूचें एकूच- सी सॉ, सी सॉ... अखेरेक आशू हात घट धरून रावलो आनी माईन पालव खोवन, केंस फाटल्यान सारून दुसरे वटेनची फळी सकयल ओडून ती फळयेचेर बसली. 'कितलो जड आसा आशू...' फळयेची खिळी धरीत तिणें ओंठातल्या ओंठांत म्हळ्ळें. आशू वयर... नेटानेटान पांय हालयत खिदळटालो. 'मालक्रियाद खंयचे कडलो! भंय म्हण कितें तो खबरूच ना...' मागीर तिणें पांय आदळून हिसको दिलो तशी ती वयर पावली. मागीर आशून तिचें पळोवन तशेच पाय मारले. 'शिटूक पोर... रोकडो शिकता सगळें...' ती सकयल आनी आशू वयर... आनीक खिदळटा... 'मजा दिसता पोराक.' परतून तिणें पायांनी जमनीक नेट लायलो. ती वयर...

सुरवेक तिचें सगळें लक्ष आशूकडेन आशिल्लें. हात सोडीना न्हय, पांयबी तिरपना न्हय... मागीर तिची धास्ती गेली. तांगेल्या खेळाक एक लय लाबत गेली. एक बेभान करपी, गुल्ल करपी लय... आशूय रंगून गेलो.

मागीर कितलेशेच फावट असोच रंगचो 'तांचो खेळ.:. उंचायेवयलो,' तो एक खीण जगचें आनी तितलेच गतीन ती सकयल येंवची. मागीर परतून सगळें बळ एकठावन वयर.

माईंचो पालव वाऱ्याचेर उडटालो. धोंपरा मेरेनचे पांय उकतेच उरताले. साडयेंत वारें भरतालें पूण माईंक ताचें भान नासतालें.

उंचायेवयल्या त्या खिणाक मळबाक हात लागतासो दिसतालो... पूण लागचो न्हय अशेंय. सकयल येवन वयर वतना दिसपी मळबाचो मोह- केन्नाच फिटचो न्हय. त्या मोहाचो शेक केन्नाच विटचो न्हय... अशें येवजीत ती सकयल येताली. एक खिणभरूच जमनीचेर पांय तेंकतालो आनी परत त्या मोहांत गुतून ती वयर वताली.

वयर... खाला... खाला... वयर...

एकदां आशूक एक फुलपाखो दिसलो वयर आसताना... भिरभिरत खाला गेल्लो. तो तसोच सकयल आयलो. फळी सोडून उठलो आनी धांवलो पाख्याफाटल्यान.

लयीची सांखळ तुटली. वयर उंचायेर गुल्ल जाल्ली माई धप् करून सकयल आदळ्ळी. बेभान जाल्ली ती त्या उंचायेवयल्या खिणांक... तिका कांय समजलेंच ना. तिचे दोनूय पांय फळयेपोंदा दोडून सांपडले. तकली खिळयेचेर आदळून धोंग आयलें. मस्तकांत एक कळ आयली. दुसरे वटेन आशू नाशिल्लो - आतां वयर वचप ना. खाला येवप ना.

उंचायेवयल्या त्या बेभान खिणाचें मोल तिणें अशें सकयल कोसळून जखमी जावन फारीक केलें.

टेनिसच्या प्रसंगार ताणें माईंचो पालव खांद्याचेर वडयलो, त्या खिणांक माईय बदल्ली. जशी कितें तिची अस्मितायच तिका आश्वासन जावन परत लाबली. आशूच्या रूपान तिका वाचा फुटली. ती फांकारत गेली.

आशू, आशू, आशू, आशू... भूत, भविश्य, वर्तमान हांचो दर एका उगडासांत, दर एका सपनांत, दर एके जाणिवेंत फक़त आशू उरलो. जियेवपाखातीर एकूच संदर्भ, एकूच प्रयोजन उरलें - आशू, आशू, आशू... आनी आशू परदेशांत गेलो. म्हयन्यांत, पंद्रशींत निदान एकदां तरी भेटपी आशू उडोन गेलो. सगळें घर खावपाक येंवक लागलें. उमेद बावून वताली. शरीर जड जातालें. आशू उडून

गेलो. आशू उडून गेलो. हें घड्याळ, हे पड्डे, हो रेडिओ, ही कानांतली कुडी आशून हाडिल्ली. हें टेबल - हांगासर आशू बसतालो अभ्यासाक. हो दिवाण - हांगा आशू न्हिदतालो. आयज गोड पोळे काडिल्ले, आशू मिटक्यो मारीत खातलो आशिल्लो. आयज धंय करकरीत उरलें, आशूक असलेंच आवडटालें. आयज कमर धरलां - आशू मातसो पांय लाय... तूं पायाळू. पूण आशूच नासतालो. सगळ्याक आशूच्यो खुणो - आशूच्यो यादी, आशूविशींचे हरतरेचे अदमास आनी आडखळी... आशूचेच संदर्भ... आनी आशू मात ना.

आशू... घडये आतां म्हजी गरज उरली नासूयें ताका? यश आनी समृद्धी... धन्यता आनी समाधान... ह्यो गजाली कित्याय परस भयांकृत. पयस व्हरतात मनशाक ताच्या अतीतापासून... सगळे पास तुट्टात. सगळे डंख सोंपतात. आशू, आवयपासून तुटूना न्हय तूं? विसरलो व्हय रे तिका? असल्या दुबावांनी ती घायाळ जाताली. पिंजिल्ल्या पतंगाभशेन जागच्या जाग्यार थरथरताली. तांगेले अस्मितायेचो एकूच तंतू आशू भोंवतणी वेडकाळून आशिल्लो, ताचेर ताण येतालो. तोच तुटलो जाल्यार... जाल्यार...कक्षेभायर मोखून पयस गेल्ल्या गिऱ्याभशेन येताली.

नाना तांचेलेखीं आसून नाशिल्लेभशेन जाले. एक अर्थ नाशिल्लें खोड. फुडाराच्या सोबीत जरतारी शालवाक जोडून लोळत लांबत उरिल्लें पूर्व आयुश्याचें एक बोंदर. माई येवजिताली - आशूची जावपी भरभराट, चड्टें यश आनी दिसान दीस नानांची बडावत वचपी पीडा. माईची फरकट जाताली सी सॉ सारकी.

पूण आतां ती मातिल्लेवरी जाल्ली. जिवितभर मन मारून सोंसलें. दबावाखाला जियेली. झरत रावली. आतां तिका उबगण आयली आनी तेन्नाच आशूची चीट आयली, फकत तीन वळींची- ''माई हांव कनफर्म जालों. म्हाका घर मेळ्ळां. फुडल्या म्हयन्यांत येतां. तूं म्हजे बरोबर यो.''

विश्वासूच बसलोना. कितले फावट वाचली तिणें चीट. मनांत घोळयली. केन्ना पळोंवक नाशिल्ल्या देशांतलें घर. थंय बर्फ पडटा खंय. सुंदर, निवळ रस्ते... फळफळावळ. दूददुभतें खूब... आनी आशू तर थंयच रावता...ती वर्तमानांतल्यान तुटून गेल्लेवरी जाली... शेतांतल्यान पळयिल्ल्या मळबाची तिका याद जाली. बळारींची हारी, पयस फाफसूपी कुपां, सूर्या अस्तमताना रंगाचो जावपी शिंवर... हें सगळें थंय लेगीत आसतलें. थंय हांव फातरांनी खेळटलीं... आनी आशू... आशू आसतलोच थंय.

पूण हांगासर नाना आशिल्ले. सी सॉ चेर बसून ती आशूवांगडा वयर गेली रे गेली, नाना तिका जमनीचेर हाडटाले. वखदांचो दर्प... स्पंजिंग, फळांचे रोस... रातदीस कुडींत घुमपी तांगेले फूत्कार आनी पलंगाचो करकर... एके कोंदट कुडींत

एका शेळ्या, लुयल्या देहाचो वास... अस्तित्व... माईंक सोशिल्ल्या सगळ्या डंखांची याद येताली. पयसुल्ले डंख... जे निवळ्ळे अशे दिसताले तेच परतून चवताळून जागृत जाताले. घाय करपीच आतां सावज जावन पडिल्ले. सूडाचेंय समाधान लाबप कठीण... माई रडच्यादुकार पावताली... आशू...

धड न्हीद ना, धड जाग ना, अशे आवतिकायेंत माईन चार दीस धुकल्ले. आनी एक दीस ती देवाकुडींत बशिल्ली आसतनाच फूत्कार वाडले. माईंचें चित्त खवळ्ळें. ती तशीच बसून रावली. निवेद्याचे वाटयेंतली साकर तांणी हातार घेतली. थोडो वेळ घोळयली. मागीर तोंडांत वडयली. एकदां हापूसच्या मोसमांत आम्रखंड केल्लें. देवाक दाखयले बगर तोंडांत घालप ना, म्हणून शिटकायिल्लें. पूजा करून निवेद्याची वाटी तांणी काडली, जाल्यार रिती. ती गोंदळून उठली. पळय जाल्यार आशू रांदचे कुडींत आम्रखंड खाता. ''आरे, हें कितें आशू...'' ''देवाक दाखोवनूच खातां गे. कितें मस्त वास! देवाकूय तुजी पूजा सोंपसर धीर धरपाक जालो ना.'' ''आशू, चोराऽऽ'' ''तूंच सांगता न्हय गे- हांवें खाल्ल्यार देवाक पावता म्हणून...'' ''आशू...'' आतां फुडल्या सप्तकांत आशू येतलो. भितर सावन इतलो वेळ चालूच आशिल्ले आवाज अकस्मात थांबिल्ले. माई कांचवेली. उठली. हुंबऱ्याकडेन वचून पळय जाल्यार- सगळो खेळ खलास. सगळें शरीर घामान थपथपिल्लें. दोळे उकतेच-

माईंक अकस्मात थरथरो सुटलो. वर्सांसंकिनीच्या बंद्याची सुटका जातकूच सुट्टा तसलो थरथरो. फाटले चार दीस तांणी वखदांच दिवंक नाशिल्लीं. उबगणीनूच. तिका याद जाली. तिणें बेगीबेगीन सगळ्यो शिंसल्यो एकठांय केल्यो आनी भांगराच्या पेटलांत भरल्यो. नाना गेले. नाना गेले. नाना गेले. आतां आशू... आतां आशू... फक्त आशू.

तिणें आशूक कांय कळयलेंना. येतकूच सांगचें... नानांचे विधी एका चुलतभावान केले. घर निवळ जालें. आनी माई आशूची वाट पळयत रावली. सुखांत हुल्पत रावली.

''आशू, आरे थंय णववारी कशी न्हेसूं? आनी न्हेसल्यार चलता मरे... आनी देवाकूड जायच आं. नासल्यार तयार करून घे... हांसता कितें? दर्यांतले फांतर आसात? व्हेल्यार कितें वजन जातलें तुगेल्या विमानांत... आशू, थंयच्या टी.व्ही.चेर मराठी सिनेमा दाखयतात, हय रे? आनी तांबडीं सांसवां मेळटात थंय? नाजाल्यार व्हरचीं. तितल्याच खातीर म्हगेल्या लोणच्याचें अडपाक नाका. थंय फोव कांडून मेळटात रे? आनी पावस पडटा न्हय? काय कोगूळ कुहू म्हणपाक लागली म्हणजे चैन... आशू... आशू... थंयचे हवेंत धंय लागना खंय... तशें जाल्यार कठीण रे बाबा... निमाणी उंडी म्हाका धंयाचीच लागता.''

आनी आशू गेलो. बिअरचो क्रेट घेवन वतालो खंय... तागेल्या वाडदिसाची पार्टी आशिल्ली. सगळे इश्ट जमपाचे आशिल्ले... आशू सांगतालो - स्टॅग पार्टी (Stag party) म्हणटात ताका. स्टॅग म्हळ्यार काळवीट... तर रस्तो क्रॉस करताना कांय नीग्रो मुखार आयले. आनी ताचें पाकीट मारलें. आशूच्या दोनूय हातांत क्रेट. क्रेट तसोच वडोवन ताणें ताचेकडेन दोन हात केले. तर एकल्या भुरग्यान ताचेर चाकू मारलो. घाय गळ्याकडेन जालो, खूब भितर. भितरल्या भितर ब्लीडिंग जालें... हॉस्पिटलांत पावचेआदींच सोंपलो.

माई रडली ना, आनी हांसलीय ना. तांकां जशें कितें हें खबरूच आशिल्लें. नाना गेल्ले तेन्नाच तिका कळिल्लें- आतां आशूय आसचोना... दुःख नासल्यार सुख खंयचें? रात ना जाल्यार दीस खंयचो? भूत नासल्यार भविश्य? आतां वेदना सलना म्हणटकच सपनांचो डंख जायना. माईक पुरतें कळून आयलां - आतां वर्तमानांत रावपाचें. आतां सी सॉ ना. आतां जमनीचेर चलपाचें... माई संथ, सवकासायेन पावलां वडयत पार्कातल्यान भायर सरता, तेन्ना काळखी जाल्ली आसता. बळारींच्यो माळो केन्नाच क्षितिज वलांडून नदरेआड जाल्ल्यो आसतात.

●●



12

# दिवे

**मूळ मराठी : जी. के. ऐनापुरे**

**कोंकणी अणकार : प्रकाश थळी**

भिमा रामा माकडकार जागो जालो. तेदेवेळार दनपार सामकी रखरखताली. रस्त्यार जितो मूस ना. गाडयो दिसनाशिल्ल्यो, कोण मनीस खंय झळकनासलो. सगल्याक धुंवर. काळोकिट्ट. गणयत आशिल्लो. मनाचेर सावट घालपी.. तो कांचवेवन हेवटेन तेवटेन पळयत रावलो. मागीर स्वताक तपाशीतूच तो उबो रावलो. बोल्सांतल्यान पडिल्ली गावी ताका दिश्टी पडली. ती उखलतना दिव्याच्या खांब्याकडेन ताचें लक्ष गेलें. दिवो चालूच. ताणें खांब्याचो दिवो उगडून पंच आवुळ्ळो. दिवो बंद जालो. ताका उगडास जालो, काल आपूण हांगांच पडिल्लों नशेंत.

भिमा रामा थोडो वेळ चलून गेलो. मागीर लखीच्या बोगद्याकडेन थांबलो. दोन-तीन मिलवाले कोल्हापुरे बोगद्यांतल्यान भायर आयले. च्याचो गाडो उक्तो आसुंये, फाटले वटेन. मात्सो फुडें वतकच स्टोवाचें भरभरप कानार आयलें. च्यावकार हिप्पी पोर दिसलो. भिमा रामा ताच्या म्हऱ्यांत वचून थांबलो. हिप्पी पोरान नदरेरुच च्याविशीं विचारलें. जाल्यार भिमान बोल्सांतल्यान विडी काडली.

‘म्हाका काडी जाय!...’ भिमा रामा.

हिप्पी पोर पळयत रावलो, उलयनासतनाच, घुघमावरी.

‘म्हाका विडी ओडूंक जाय.’

‘फकत च्या मेळटली. दुडू उडय, पिये आनी चलूंक लाग.’

‘गडबड’... भिमा रामा.

‘आख्खें शार पेटलां. आसा खंय तूं?...’’ हिप्पी पोर.

‘म्हाका विडी ओडपाची आसा. काडी जाय.’

‘मेळपाची ना.’

‘स्टोव्हाचेर पेटोवं?’

हिप्पी पोर पळोवंक लागलो. रागान.

भिमा रामा ताची तोंकाळ भाल्यावरी नदर चुकयत जमनीचेरूच बसलो.

एखाद दुसरें गिरायक अदींमदीं येतालें. च्या पियेवन वतालें. मोन्यांनी. तितलेंच हिप्पी पोराचें बोवाळप. भिमा रामाच्या मुखार. भिमा रामा ताकाय वाजेलो. मनांतली विडी ओडपाची तलफ तशीच. विडी पेटोवपाखातीर लागपी काडयेची वाट पळयत, कितलो वेळ रावपाचें?

'तुका काडी जाय मरे?' हिप्पी पोर.

भिमा रामाची मनांतली तलफ उसळून वयर आयली. भिमा रामा चडूच आशेल्लेवरी जालो.

'हयव्हय.' भिमा रामा भुल्लुसून पांचवो जालो.

'उडय रुपया!'

'रुपया?...'

'हयव्हय, रुपयान एक काडी?'

'इतली म्हारगाय?'

'आख्खें शार पेटलां. म्हारगायलेगीत आयच्यान...' हिप्पी पोर.

भिमा रामा उठलो. ताणें खोमसाच्या चवथ्या बोल्सांतल्यान विडी काडली. कालसांवाच्या दुसऱ्या बोल्सांतल्यान रुपयाची नोट काडून तो फुडें गेलो. हिप्पी पोर समाधानान पर्जळ्ळो. पूण भिमा रामान नोटेची कवळी करून स्टोव्हाचेर पेटयली. नोट पेटत रावली. तिचेर भिमान विडी पेटयली. आनी पेट्टी नोट सकयल उडयली. हिप्पी पोर तटास जालो. जळटे नोटीकडेन पळयत.

'सगलें गुप्त भागावेलें दुखणें...कशें जियेवपाचें? काम कशें करप?...'

भिमा रामा बडबडत बोगद्यांतल्यान भायर आयलो. सगलो दीस ह्या दबिल्ल्या शारांत सारपाचो. कसो सारपाचो? खावप कितें? येदोळ च्या पियेवंक जाय आशिल्ली. ताचेकडेन काडयेक एक रुपया. मागीर च्यावेक कितले काय? कामाचो दीस सांजवेळा सुरू जातलो. तोमेरेन कितें करप?...

भिमा रामा पांय फाकारीत धुंवत आशिल्ल्या शारांत भोंवत रावलो. मनशां खंयच दिसलीं नात. दुकानां बंद. रस्त्यार गाडयो आसल्यो पूण त्यो पुलिसांच्यो. पुलिसांचेच चोमे. बुटांचे आवाज. रस्त्यार फुटिल्ल्यो कंवच्यो. कडून काळेंकिट्ट जाल्लें डांबर. जनेलां बंद. शांत बिल्डिंगो...

सगले भिकारी खंय गेले काय? ते आतां कितें खातले? ते नाखटां खायत गिरायकांची वाट पळोवपी ज्योतिशी खंय गेले?...

शिकिल्ल्या, शाण्या मनशांचे तकलेंत येता तसलें किदेंशें भिमा रामाचे तकलेंत येत रावलें. फसफसत, फसफसत.

मनशाक दोळे आसचे?

आसचे.

तुबकाचो नेम धरचेखातीर.

मनशाक हात आसचे?

आसचे.

आपल्याच मनशांवांगडा दोन हात करपाखातीर.

मनशाक तोंड आसचें?

आसचें.

ओग्गी रावपाखातीर.

मनशाक पांयूय आसचे.

पळ काडपाखातीर.

भिमा रामाचे तकलेंतलो भेजो शाब्बाच्या फेसावरी जालो.

भिमा रामा पुलालागीं थांबलो. पुलाचे लोखंडाचे गरादीक तेंकून ताणें सकयल पळयलें. सगलो रस्तो काळ्या कुळकुळीत आंगासयत दिसतालो. हेरशीं केन्ना ह्या रस्त्याच्या आंगाचें थिगळलेगीत दिसना. भिमा रामा खोमसाच्या चवथ्या बोल्सांतलो पंच हातान सांसपीत पुलाचीं सोपणां देवूंक लागलो. खोमसाच्या दुसऱ्या बोल्सांतली मोड काडून ताणें मेजली. आयचेपुरती तजवीज आसा तर!...

सोपणां सोंपलीं. भिमा रामा पुलापोंदच्या बोगद्यांत आयलो. काळखी सुवात. भिमा रामाक दोळ्यांत फूल पडिल्लेवरी दिसूंक लागलें. नशेंत लोळत पडिल्लीं मनशां...चिलम फुंकीत बशिल्लीं मनशां...एकलो मोडक्या कदेलाचेर बशिल्लो. तारवटिल्लेवरी. सगल्यांचेर नदर दवरून. ताचे नदरेंत भिमा रामा आयलो.

'येय... किदें जाय?'

'नशा करपाची आसा'... भिमा रामा.

'बस थंय.'

चिलम ओडपी भिमा रामावटेन वळून तो पळोवंक लागलो.

'तें नाका.'

'मागीर पयशे उडय.'

भिमा रामान खोमसाचें दुसरें बोल्स मेजार रितें केलें. आनी ल्हव आवाजांत म्हळें,

'बच्चा नाग.'

'बस म्हजे फाटल्यान.'

भिमा रामा कदेलाचे फाटल्यान वचून बसलो.

कदेलार बशिल्लो मनीस उठलो. ताणें लाकडी कास हाडून भिमा रामाच्या फुड्यांत दवरली. तोंकाची बडी हातांत घेवन काशीचे भितरलो भाग सट् करून

खरवडून काडलो. उगडिल्ली कास बंद केली. भिमा रामान आशाड्ड्याभाशेन कास फुड्यांत ओडली. काशीचे वयले वटेन चवकोनी दोळो आशिल्लो. त्या चवकोनी दोळ्यांत ताणें जिबली घाली. सोमतोच डंख जालो. जिबलेच्या पोंताक. सामको पेट घेतिल्लेवरी. भितरले भितर मणक्याचे रेगेवांगडा तकलेंतल्यान मेंदवांत रिगलो. घुंवलो. तकलेचो चिखोल जालो. मुखावेलें धुंवराळें जालें. तंद्री लागली.

भिमा रामान चवकोनी दोळ्यांत पर्थून जिबली घाली. डंख जालो. सगलें आंगूच पेटलें. चुरके बसूंक लागले. भिमा रामा समाधानान विरगळ्ळो.

लाळेचो बोळ सांबाळीत भिमा रामान जिबली भितर घाली. खोलमेरेन दंश जालो. भिमा रामा झेलत झेलतच आडवो जालो. सगल्या आंगांत कल्लोळ. हिसके दीत रावलो. उबे आडवे. भिमा रामा घुंवत धुमसत बारीक जालो.

'चडली दिसता?...' मोडक्या कदेलावेल्यान आवाजाचें ल्हार आयलें.

... सांजवेळ. आतां भिमा रामाची ड्युटी सुरू जातली. पूण भिमा रामा हांगां थंडगार जावन पडला. ताच्या बोल्सांतलो पंच कुशीक. ह्या शारांतले दिवे आतां कोण पेटयतलो?

●●●



भारतीय भासांमदल्या अणकाराक उत्तेजन मेळचें, ही मोरव सामकार दवरून साहित्य अकादमीन घडोवन हाडिल्ले कार्यशाळेंत वट्ट सात कोंकणी सर्जनशील बरोवप्यांनी मराठींतल्या बारा प्रातिनिधीक कथांचो कोंकणीत अणकार केलो. ह्यो बारा अणकारीत कथा आतां पुस्तक रूपान उजवाडाक येतात. कोंकणी अणकारीत साहित्यांत मोलादिक भर घालपी अशो ह्यो कथा आसात. त्यो कोंकणी वाचकांक मराठी भाशिकांचे विविधांगी जिणेचीं विंगड विंगड तासां उकतीं करून दितात. हे बाराबरच मराठींतल्या फाटल्या अर्द-शतमानांतल्या मूरवेल लघुकथा प्रवाहांची वळरव समर्पक रीतीन करून दिवपांत त्यो येसस्वी जाल्यात. ह्या कथांचीं आशय-सूत्रां अनुभूतीचीं नवीं नवीं मळां माडोवपी अशीं आसात. शारांतल्या उंचेल्या वर्गापासून सामक्या सकयल्या समाजाच्या परिघावयल्या जाती-जमातींचे विविध प्रश्न ह्या कथांतल्यान आमच्या सामकार उबे जातात. मूळ मराठी भाशेंतल्यान उकती जाल्ली ही जीण कोंकणीत हाडटा आसतना तिचे अभिव्यक्तीक कसलीच बाधा जावची ना, हाची जतनाय अणकारप्यांनी घेतल्या, हें ह्या अणकारीत कथांचें रवाशेलेपण जावन आसा.

Ankarit Katha (Konkani), Rs. 75/-
ISBN 81-260-1959-X

